# जनावरांचें वेवस्थापन

## तांची दुयेंसां आनी उपाय













जेंद्र हरी प्रभुगांवकर




# जनावरांचें वेवस्थापन, तांचीं दुयेसां आनी उपाय



डॉ. राजेंद्र हरी प्रभुगांवकर

वैभवी प्रकाशन, मडगांव - गोंय.

जनावरांचें वेवस्थापन
तांचीं दुयेसां आनी उपाय

Janavaranche Vevasthapan
Tanchi Duyesam Ani Upai

लेखक : डॉ. राजेंद्र हरी प्रभुगांवकर
फातोर्डा, मडगांव – गोंय. ४०३ ६०२

By : Dr. Rajendra H. Prabhugaonkar



प्रकाशक : वैभवी प्रकाशन,
कस्तुरी हाऊसिंग सोसायटी फातोर्डा,
फातोर्डा, मडगांव – गोंय. ४०३ ६०२
मो. ९८५०४८५७२९



मुखपृष्ठ संकल्पना : काशिनाथ नायक,
वळवय – गोंय.

अक्षर जुळवणी : जय नायक
पणजी – गोंय.

मांडावळ : महालक्ष्मी ग्राफिक्स,
सांखळी – गोंय.

मुद्रण : इंप्रेशन्स, बेळगांव.

मोल : रु.३००/-

जनावरां मायेमोगान सांबाळपी, वाडोवपी आनी तांकां पोसपाचो धंदो करपी आमच्या भावभयणांक तशेंच ह्या वाठारांत काम करपी सगळ्या वावुरप्यांक, दोतोरांक, नवें संशोधन करपी वांगड्यांक आनी मोनजातीचेर मोग करपी म्हज्या आई आनी बाबाक मनाकाळजांतल्यान नमन करून हें पुस्तक ओंपतां.

तुमचोच,
डॉ. राजेंद्र हरी प्रभुगांवकर

# मनोगत.....

म्हाका आज हें पुस्तक तुमच्या मुखार दवरपाक खुब खोस जाता. आमच्या गोंयकार दूधकार भावाभयणांक कोंकणी भाशेतल्यान एक सोपे, सुटसुटीत पुस्तक दवरपाचो हो एक यत्न. जनावरांक मायेमोगान सांबाळपी, वाडोवपी, आनी हो धंदो करपी आमच्या भावा भयणांक तशेच या मळार काम करपी सगळ्या वावूरप्यांक दोतोरांक तशेंच नवें नवें संशोधन करपी वांगड्यांक आनी सगळ्या मोनजातीचेर मोग करपी म्हजे आई आनी बाबाक मनाकाळजांतल्यान नमन करतां आनी हें पुस्तक ओपतां.

खुब वर्सापयली हांव गुजरात राज्यतल्या आनद हांगा अमूल डेरीक काम करतालो. फाटली २९ वर्सा गोंयच्या विंगड विंगड जाग्यार हांव काम करता. आकाशवाणी पणजी केंद्राचेर हावें खुप फावट दूध धंद्याविषयाचेर माहिती दिल्या भासाभास केल्या. ह्या सगळ्या अनुभवाचो घेतिल्या शिकवण्यो शिबीराचे हें ल्हानशे पुस्तक बरयतना म्हाका भोव उपेग जालो. आज शेत रोवप, गोरवां पोसप, दूद धंदो करप, जनावरां सांबाळप हें कठीण काम, तितलेंच एक आव्हान जालां. तरीय आसतना समाजांतले कश्टी लोक आपले आवडीन, चडांत चड त्रास घेवन हो धंदो चलयतात. जनावरांक बरे तरेन सांबाळटात, तांची जतनाय घेतात. तांचो म्हाका अभिमान दिसता. ह्या पुस्तकाचो थोडो जरी लाब वाचप्यांक जालो आनी तातूंतल्यान तांचो धंदो येसाक पावलो जाल्यार घेतिल्ल्या यत्नाचें सार्थक जालें अशें म्हाका दिसतलें. ह्या पुस्तकांतली सगली माहिती खरी आसली तरी प्रत्यक्षांत दुयेंत जनावर तपासून आनी दोतोराच्या सल्ल्यानूच तांचेर उपचार करून घेवचे, हें वाचप्यां कडेन नमळायेचें मागणें.

ह्या पुस्तकाचे निर्मितींत म्हाका आदार करपी आनी उर्बा वाडोवपी डॉ. अवधूत वागळे, श्री. काशिनाथ नायक, श्री. संजय तेंडुलकार, डॉ. बेंजामीन ब्रागांझा, डॉ. तुषार गावणेकार, डॉ. रघुनाथ धुरी, डॉ. प्रदीप बखले, डॉ. श्रीकांत नाईक, डॉ. महेंद्र बाळे, डॉ. सुरेंद्र नाईक, डॉ. सत्यवान नाईक, अक्षर जुळवणी करपी जय नायक, महालक्ष्मी ग्राफिक्सचे श्री. अमित ठाकुर देसाई, प्रकाशक कु. वैभवी आनी कु. यश प्रभुगांवकर हांचे सयत हेर सगळ्यांचो हांव उपकारी आसां.

डॉ. राजेंद्र हरी प्रभुगांवकर

**प्रस्तावना**

**सरळ आनी सोंपे भाशेंतल्यान बरी माहिती दिवपी पुस्तक....**

'जनावरांचें वेवस्थापन, तांचीं दुयेसां आनी उपाय' हें डॉ. राजेंद्र प्रभुगांवकर हांचें पुस्तक वाचलें. एकदम सादे, सरळ आनी सोंपे भाशेंतल्यान माहिती दिवपाचो तांणी केल्लो यत्न तोखणायेचो आसा. ह्या धंद्यांतल्यां लोकांक, जनावरां पोसप्यांक, शेतकामत्यांक तशेंच हेर लोकांकूय भोव उपेगी थारपी अशें हें पुस्तक. फाटलीं ५० वर्सां आमी जें फकत उलयताले ताका तांणी पुस्तक रुपान आमचे मुखार हाडपाचो यत्न केलो. ते खातीर तांकां शाबासकी फावता.

कसलोय धंदो, वेवसाय करता आसतना तातूंतलो खोलायेन अभ्यास आसप गरजेचें. 'तूच आहेस तुझ्या जिवनाचा शिल्पकार' हो विचार सद्गुरू वामनराव पै हांणी आमचे मर्दीं रुजयलो. तो सत आसा. त्याच मार्गान चलतना कसल्याय वेवसायांत पावल घालपाचें थारायल्यार त्या वेवसायांत रुची, आवड आसप गरजेचें. ताचे उपरांत गरजेच्यो साधनसुविधा जमोवप, त्या धंद्यांतल्या गरजांची जुळवाजुळव करप, तज्ञांचें मार्गदर्शन घेवप, बाजारपेठेचो अभ्यास करप आनी गुंतवणूक तशेंच फायद्याचे प्रमाण, हांचें वेवस्थापन करपाक जाय.

पुश्टीक पदार्थ, अन्नधान्य वाडोवप, जनावरां पोसप असले वेवसाय अदीम काळा सावन चालूच आसात. भारतांत तर हो वेवसाय गवळ्यांचो म्हूण फामाद आसा. शेतकार, कश्टकरी हांचे सयत हेर लोकूय एकतर मुखेल वां जोडधंदो म्हणून हो वेवसाय करतात. शेत वेवसाय स्थिरावपाक हो एक जोड वेवसाय म्हणून व्हड आदार दिता. शेतकामत्यांक दूद, लोणी, तूप, चीज, मिठाय असलें पुश्टीक खाण मेळटा. चामडें, लोकर असले वेगळे वेवसाय करतल्यांकूय काम मेळटा. शेण, मूत हांचे पसून शेताक गांवठी आनी बरें सारें मेळटा. शेण, मूत हातूंतल्यान गोबरगॅस तशेंच वीज मेळोवपाक शकतात. मुख्य म्हणल्यार शेतकामती आनी तांच्या कुटुंबाच्या हांतांत पयसो घोळटो उरता. तांकां काम मेळटा आनी अर्थीक वेव्हारूय कळटा. पूण ह्या धंद्यांत लक्ष घालून काम करपाची तयारी आसपाक जाय. धंद्यांत पावल घालें म्हणटकूच मनीस बांदून उरतलोच. सध्याचे सुशिक्षीत पिळगेची शेतांत देंवपाची तयारी नासता. तांकां सरकारी नोकरी करून आलायती जीण जगपाचो मोह आसता. घाम गळयल्यार, दरेक गजालीचेर लक्ष दवरल्यार आनी वेळाच्या वेळार तज्ञां कडल्यान आधुनीक माहिती मेळोवन ते प्रमाण

धंदो चलयल्यार फायदो हो जातलोच.

तांतयां तशेंच कोंबयो आनी बोकड्यो हांच्या मांसाक दिसागणीक मागणी वाडत आसता. तशेंच बऱ्या प्रमाणात दुकराच्या मांसाकूय मागणी वाडत आसा. ह्या धंद्यांक गोंयचें हवामान पोशक आसा. देशी, विदेशी भोंवडेकारांचें गोंय हें आवडीचें थळ. ताका लागून हागा सदांच दूद, तांतयां, मटण, मांस हांची मोट्या प्रमाणांत मागणी आसता.

गोंय सरकार ह्या धंद्याक व्हडा प्रमाणांत अर्थीक आदार दिता. तशेंच धंद्यांतलें सगलें गरजेचें प्रशिक्षण, मार्गदर्शन वेळावेळार दिता. प्रशिक्षण काळांत दर दिसाचें विद्यावेतनूय दितात. हॉटेलां तशेंच गोवा डेअरी असल्या संस्थांक लागून मागणी वाडिल्ल्यान शेतकाराक गिरायकाचो हुस्को करपाची गरज उरूंक ना. गोंयांत उत्पादन कमी आनी मागणी चड जाल्ल्यान भायल्या राज्यांतले लोक दूद, तांतयां मांस, मटण विकून धंदो वाडयतात. हें चित्र पळयल्यार आमी गोंयकारांनी ह्या धंद्यांत पावल घाल्यार स्वावलंबी जावपाक शकतले. गरजेच्यो साधन सुविधा उपलब्ध आसपी लोकांनी हाचेर विचार करून असो धंदो सुरू करचो आनी गोंयचे तशेच देशाचे उदरगतीक हातभार लावचो.

गोंय सरकारान उपलब्ध केल्ल्या सुविधांचो शेतकामत्यांनी लाब घेवचो. तशेंच हें काम सगल्यां मेरेन पावोवपाक सरकारानूय फुडाकार घेवचो अशेंय म्हाका दिसता. हें पुस्तक जनावरां संबंदीत मुखेल धंद्याची दिशा दाखोवपाक आदार थारतलें हातूंत दुबाव ना. लेखकाच्या ह्या यत्नांक हांव येस आंवडेतां.

पणजी – गोंय

२१/३/२०१५

डॉ. अवधूत श्रीपाद वागळे

माजी संचालक,

जनावरां सांबाळ आनी मोनजात सेवा खातें, गोंय राज्य.

## मांडावळ

## १ नितळ दूद तयार करपाची सुरवात आनी गरज

नितळ आनी बऱ्या दर्जाचें दूद तयार करप ही आज आमच्या सगल्यांची आनी संवसारीक बाजारपेठेची गरज आसा. आमच्या भारत देशान 'गॅट' कबलातीचेर सय केल्या आनी हो देश ताचो एक वांगडी आसा. हाका लागून आमच्या देशाची बाजारपेठ आनी सर्त सगल्या संवसारा खातीर उगती जाल्या. हाका लागून तगून उरपाक आमकां जाय ती सादुरकाय घेवची पडटली.

भलायकेन बरें आसपी जनावरांचे व्हंटयेंतलें दूद निवळ आनी कमीतकमी जंतू आशिल्लें आसता. पूण दूद काडले उपरांत ताचो मूळ संबंध दूद काडटल्याचे हात, आयदनां आनी गोठ्यातलें वातावरण हांचे कडेन येता. ताका लागून हें दूद आंबट (फुटपाक) जावपाक शकता, ताका इबाडिल्लो वास येवपाक शकता. हें दूद वापरल्यार भलायकेक माल पडपाक शकता. असल्या दुदाक लागून दूदकाराक, सोसायटीक, दूदसंघाक आनी वट्ट धंद्याक लुकसाण जावपाक शकता.

भारतांतल्या आनी विदेशांतल्या दुदाची तुळा करूया –

| | भारतांतली परिस्थिती १ मिली दुदांतली बारीक जंतूचो आंकडो | अर्विल्ल्या देशांतली परिस्थिती १ मिली दुदांतली बारीक जंतूचो आंकडो |
|---|---|---|
| हरवें दूद गोठ्यांत आसतना | १ हजार ते १० हजार | २ हजार ते १० हजार |
| हरवें दूद दुदाचे सोसायटी पांवड्यार | २० हजार ते ५० हजार | कांयच ना |
| हरवें दूद संघाचे फॅक्टरीत पावले उपरांत | १ लाख ते १० लाख | १० हजार ते १ लाख |

हाचे वयल्यान आमकां कळटा की, आमच्या हांगा दूद इबाडपाचें मुखेल कारण म्हणल्यार दूद काडटगीर तें दुसरे कडेन पावयतां मेरेन आमी फावो ती काळजी घेनात.

हातूंत म्हत्वाच्यो गजाली अश्यो आसात.

**१. निरोगी जनावरां –** सगल्या जनावरांक वेळावेळार घटसर्प, फऱ्या, टीबी, लाग असलीं वासिना

करून घेवंक जाय. तशेंच व्हंटयेचें दुयेंस जावचें न्हय म्हणून जाय ती काळजी घेवपाक जाय.

**२. दूद काडचे पयलीं करपाची तयारी –** गायेक, म्हशीक बरे तरेन आंग घासून न्हाणोवचें. गायेची, म्हशीची व्हंट दुगदुगीत उदकान आनी जंतूनाशक वखदान धुवची. उपरांत नितळ सुक्या कपड्यान पुसून काडची आनी व्हंटयेक मातशें मालीश करचें.

**३. दूद काडटल्यान स्वताची घेवपाची जतनाय :** दूद काडटल्याचे हात, कपडे नितळ आसचे. हाताचेर घावे, फोड नासचे. नाखटां वाडिल्लीं नासचीं, तांकां कसलेंच दुयेंस नासचें. दूद काडटना विडी, सिगारेट ओडची न्हय. चुरो, गुटखो, पान खावचें न्हय. गायेक, म्हशींक मारचीं न्हय. त्यो भियेतल्यो असो कसलोच आवाज काडचो न्हय. दूद शक्य तितले बेगीन (७ मिनटां भितर) काडून सोपोवपाचो यत्न करचो.

४. दूद काडले उपरांत तांचे पाने डिपॉल, बेटाडीन, वोकार्डीन, कोर्सोलीन सारख्या वखदांक बुडोवन काडचे. म्हणजे पान्यांची राखण जातली आनी दुयेंस जावक पावचें ना. दूद काडले उपरांत गोरवांक भायर सोडचीं, मात हळशीक आशिल्ले जमनीर सकयल बसपाक दिवचीं न्हय. हाका लागून पान्याचे बुराक बेगीन बंद जातले.

५. दुदाचीं आयदनां, किटल्यो, कॅन हांची नितळसाण :

गोंयचें वातावरण उबाळ आनी दमट आसा. हाका लागून हांगां रोगजंतू बेगीन वाडटात. तातूंत दूद बेगीन इबाडटा. अशें जावचें न्हय म्हणून दुदाचीं सगलीं आयदनां घासून पुसून सारकीं नितळ दवरपाक जाय.

**सारके नितळसाणी विशीं मतींत दवरपाच्यो गजाली :**

१. सारकीं घासून पुसून आयदनां नितळ करचीं. उदकाच्या पायपा पोंदा दवरून, तोणशी मारून वा उदकाचो स्प्रे मारून आयदनां नितळ करचीं. आयदना स्टेनलेस स्टील ३(०) ग्रेड्ची वापरची, हाका लागून दुदांत जंतूची वाढ चड जावची ना आनी भलायकी बरी उरतली.

२. आयदनां घासपा खातीर शाबू आनी निक्रोपनाशक वस्तू योग्य प्रमाणांत वापरच्यो म्हणजे दूद बरें उरपाक मदत जातली.

३. तापयिल्लें उदक आनी वाफ वापरल्यार १० मिनटां भितर आयदनां नितळ जावपाक शकतात. गरज पडल्यार थोडोसो शाबू वा सर्फ पावडर वापरची.

४. उदक बऱ्या दर्जाचें वापरचें. हं उदक बोजड आसत जाल्यार कॅमिकल घालून सारकें करचें आनी उपरांत वापरचें.

५. आयदनां नितळ करतना पयलीं उदकान व्येवस्थीत धुवचीं. शाबू घालून ब्रश वा तोणशी मारची. उपरांत जंतूनाशक वखदान विसळचीं आनी उमथीं घालून वतांत वां उदकाचे वाफेचेर सुकोवचीं.

६. दूद काडले उपरांत अर्दवरा भितर तें सोयायटीक पावोवचें. दूद भायर पडचें न्हय म्हणून कॅन वा आयदनाचें झाकण वेवस्थीत लावचें. ताचे पोंदा पॅकिंग म्हणून कपडो, प्लास्टिक, साकाचो कुडको, कागदाचो कुडको, दिसाळ्याचो कागद असल्यो वस्तू घालच्यो न्हय. तांकां लागून दूद बेगीन इबाडपाक शकता. सोसायटींत दूद घेवपी मनशाचे हात, कपडे नितळ आसचे. केंस गळचे न्हय म्हणून माथ्याक कपडो बांदल्यार बरें जातलें.

**७. दूद तपासून पळोवप :** चडश्या वेळार दूद मिल्को टेस्टरान तपासतात. हातूंत फॅट, एसएनएफ कळटा. सगल्यांत गरजेचें म्हणल्यार दर १० ते १५ दिसांनी दुदाची परिक्षा सिएमटी करून पळोवंक जाय. हाका लागून व्हंटयेचें दुयेंस सुप्त अवस्थेंत आसतनाच दूदकाराक आनी दोतोराक कळटलें.

**सिएमटी म्हणल्यार कितें ?**

सिएमटी ही परिक्षा सुप्त अवस्थेंतलें व्हंटयेचें दुयेंस कळपा खातीर वापरतात. ही परिक्षा सामकी सवाय आनी निकाल १० सेकंदां भितर कळटा. व्हंटयेच्या दुदांत सदांच सोमेटीक पेशी आसतात. दुयेंस जावपापसून व्हंटयेची राखण करप आनी वायट जाल्ल्यो पेशी बऱ्यो करप हें ह्या पेशींचें काम. बरे व्हंटयेक एक मिली दुदांत एक लाख मेरेन सोमेटीक पेशी आसतात. ह्या पेशीचें प्रमाण गरजे परस चड वाडटा तेन्ना दुदांत धव्यो पेशी वाडटात. तातूंतल्यान व्हंटयेचें दुयेंस जाता.

**व्हंटयेच्या दुयेंसाचो तपास असो करचो :**

दूद काडपाक बसले उपरांत पयलीं पान्याच्यो थोड्यो दुदाच्यो धारो आयदनांत काडच्यो. ताचे उपरांत सिएमटी परिक्षेच्या आयदनांच्या चार कपानी चार पान्यांच्यो धारो घेवच्यो. अदमासान २ मिली दूद घेवचें. दरेक कपांत ३ मिली सिएमटी रियेजंट घालचो. मागीर दूद आनी वखद घोळपाक हें आयदन दावे वटेनच्यान (घडयाळीचे उरफाटे दिशेन) सवकासायेन १० सेकंद हालोवचें. दुयेंस जालां त्या पान्यांतलें दूद चिकट जावपाक सुरवात जाता. त्या पान्याक खात्रेन दुयेंस जालां म्हणून समजूचें.

ताचेर बेगोबेग उपाय सुरू करचे.

**शेवटाक म्हत्वाचे मुद्दे**

१. दरेक गायेचें – म्हशीचें दूद आनी व्हंट दर १० ते १५ दिसांनी एक फावट सिएमटी परिक्षा करून तपासची. हाका लागून एका गोरवा कडल्यान दुसऱ्याक दुयेंस वचचें ना आनी दुदकाराच्या बोल्साक फटको बसचो ना.

२. ताज्या विताच्या गोरवांचें दूद रोखडेंच तपासपाक जाय.

३. वखद करून व्हंट बरी जातकूच एका म्हयन्या उपरांत परत एक फावट व्हंट (दूद) सिएमटी परिक्षा करून तपासची.

४. नवी गाय – म्हस बाजारांत घेतना व्हंट पयलीं तपासची. सिएमटी परिक्षा करून खात्री केले उपरांत जनावर घेवचें.

५. **दुदांतली भेसळ वळखप** – जायते फावटीं थोडे लोक आपल्याक चड फायदो मेळचो म्हणून दुदांत युरिया, पावडर, फटकी घालून भेसळ करतात. थारावीक परिक्षा करून हें तपासून काडपाक जाय. अशी सगली जतनाय घेतली जाल्यार आमच्या दुदाचो दर्जो बरो उरतलो.



## २. बरे गायेचें-म्हशीचें नकेत्र

१. बरो गोठो

२. सुरवेक बरे जातीचीं गोरवां हाडप

३. सदांच वेळार दंताचें वखद

४. वेळार सगल्यो नोंदी दवरप आनी तांचो अभ्यास करप

५. सदांच वेळावेळार वासिनां करप

६. हरवें तण, संतुळीत खावड आनी सदांच नितळ उदक

७. दुयेंसा पसून व्हंटयेची राखण

८. वेळार फळोवप

९. गाबणपणांत आनी व्हिलें उपरांत गोरवांची खासा जतनाय

१०. वेळार गाभण जावपाक गर्भांशयाच्या दुयेंसांपासून काळजी

११. प्रयोगशाळेचो आनी विमो कंपनीचो आदार

१२. नितळ आनी चड दूद आनी चड पाडकां

# ३. दूद धंद्याचें अर्थशास्त्र

आमच्या दुदकार भाव–भयणांक दूद उत्पादन हो एक वेवसाय म्हणून करपाचो आसत जाल्यार तो फायद्यांत चलपाक जाय आनी दुदकारांची उदरगत जावपाक जाय.

**हातूंतल्यो म्हत्वाच्यो गजाली अश्यो :**

**१. गोठो :** हो शास्त्रीय पद्धतीन बांदिल्लो आसपाक जाय. थंय हवा उदेन्त–अस्तंत हे दिशेन खेळटली अशे तरेन तो बांदचो. भितर भरपूर उजवाड येवपाक जाय. गोठो उंचायेर बांदिल्लो आसचो. भोंवतणी उदक, मूत, शेण सांचिल्लें आसचें न्हय. शेण–मूत व्हांवून वचपाक वाट आसची. गोठ्यांतली देंवणी सारखी आसची. गोठ्यांत गवण सारखी दवरची. दूद काडपी यंत्र व्हरपाची आनी लावपाची तजवीज दवरपाक जाय. व्हडल्या गायींक बांदपाक ८ फूट रूंद सुवात जाय पडटा. गोठ्याची जमीन सिमेंट वा खडप्पा वा कोटा तिजुले घाल्ली आसची. पांखें मंगळुरी नळे वा ट्रेपेझायटस पत्रे घाल्ले आसचें. व्हिताक लागी आयिल्ली गाय, म्हस वेगळी बांदपाची तशेंच वासरां वेगळी बांदपाची वेवस्था गोठ्यांत आसपाक जाय. गोठ्याक तेंकून एक कोठयेची कूड आसची. थंय खावड तशेंच हेर सामान दवरपाची वेवस्था आसची. गोरवां मेकळी साडपा खातीर गोठ्या भोंवतणी वेवस्था आसची.

**२. गोठ्याची जमीन आनी तणा खातीर जमीन :** स्वताची जमीन आसल्यार बरीच. नाजाल्यार भाड्यान जमीन घेवन पसून करूं येता. गोरवांच्या आंकड्या प्रमाणें थोडे एकर जमनींत हरवें तण रोवचें. म्हणजे खावडी वयलो खर्च कमी जातलो आनी गोरवांची भलायकी बरी उरतली.

**३. दुदाचीं जनावरां :** दुदकार भाव–भयणांनी दुदा खातीर गाय वा म्हशी वा दोनूय एकठांय दवरूं येता. फकत म्हशीच दवरल्यार फायदो म्हळ्यार तांचे त्रास चड नासतात. तांकां दुयेसांय चड जायनात. दूद दाट आशिल्ल्यान दर बरो मेळटा. ह्या दुदाक मागणी चड आसता. म्हशी रानांनी, शेतानी सोडून घालपाक मेळटात. हालीं तेपार कारखाने, वाहनां वाडिल्ल्यान मेकळी सुवात कमी जाल्या. ताका लागून गोरवां मेकळीं सोडपाक मेळनात. धंद्याचे नदरेन पळयल्यास म्हशी पोसप तितलें फायदेशीर न्हय. येणावळीचे तुळेन तांची खावड वयलो आनी तणावयलो खर्च चड जाता. म्हशी उसरां (पिरायेच्या चवथ्या वर्सा) फळपाक लागतात. एकदां गाब जाल्यो म्हणटकीर पांचव्या वा सव्या म्हयन्याचेर त्यो दूद सुकयतात, तांचो भाकड काळ (ड्राय पिरेड) चड आसता. गायींच्या मानान म्हशी खावड–तण चड खातात पूण दूद कमी दितात. सगल्यो म्हशी प्रत्येक वर्साक गाब जातल्योच अशें ना, तांचें रेड्याचें,

रेडयेचें पाडूक मेल्यार तीं दूद दिवपाक त्रास करतात, आनी दितलींच अशेंय ना. संकरीत गायी खावड खातात त्या मानान दूद बऱ्यो दितात. त्यो देड वर्सा पयली फळपाक येतात आनी गाब वचपाक शकतात. तांचो भाकड काळ कमी (सरासरी २ म्हयने) आसता. दर वर्स देड वर्सा मदीं त्यो एक पाडो वा पाडयेचे पाडूक दिवपाक शकतात. तांकां भायर सोडून घालपाची गरज ना. वासरू आसूं वा नासूं, संकरीत गायींक दूद सोडपाक, दिवपाक कांयच फरक पडना. पूण संकरीत गायी पोसप मातशें कटकटीचें आसता. तांकां चड आनी बरी कुयदाद घेवची पडटा. दुयेसां चड जावपाक शकतात. म्हणून वेळारूच उपचार आनी वखदां करून घेवपाक जाय. दूद दिवपी गाय वा दूद न दिवपी गाय आसल्यार पसून तिका सदाच पोसपाक २ ते ३ कील खावड घालपाकूच जाय. कांय वेळा चड दूद दिवपी संकरीत गाय गाब वचपाक त्रास जाता आनी बेगीन धरना. दुदकार जेन्ना हो वेवसाय म्हणून करतात तेन्ना कमीत कमी २० जनावरां दवरचीं. तातूंत १५ ते १६ संकरीत गायी दवरच्यो आनी ४ ते ५ सुधारीत म्हशी दवरच्यो, आनी धंदो कमीत कमी ५ वर्सां चलोवपाक जाय.

**४. खावड, तण आनी उदकाची वेवस्था**

शेतकार जेन्ना दूद उत्पादन हो वेवसाय म्हणून आपणायता तेन्ना पयले सुवातेर उदकाची पुरवण वेवस्थीत आनी कायम आसतली हाची वेवस्था करपाक जाय. एखाद वेळार उदकाची पुरवण दोन दीस बंद पडली जाल्यार पसून तितल्या दिसांचो उदका सांठो दवरपाची वेवस्था आसची. एखाद वेळार वीज गेली जाल्यार जनरेटराची वेवस्था आसप गरजेचें. गोरवांक उदक हें २४ वरां पिवपाक आनी दोन फावटीं न्हाणोवपाक जाय पडटा.

गोरवांक हरवें आनी सुकें तण जाय पडटा. स्वताची जमीन नासत जाल्यार थोडी भाड्याची जमीन घेवन तण रोवचें. हरवें तण घाल्ल्यान गोरवांची भलायकी बरी उरता. तशेंच खावडी वयलो खर्चूय कमी करूं येता. १० कील हरवें तण खाल्यार एक कील खावडीचें बळ मेळटा. एके संकरीत गायेक सरासरी २५ कील हरवें तण आनी १० कील सुकें तण जाय पडटा.

**खावड :**

खावड ही पुश्टीक आनी संतुळीत आसची. तातूंत १७ टक्के प्रथिना (डीसीपी) आनी ७० टक्के टीडीएन आसचें. बऱ्या दर्जाची खावड घेवची. नाजाल्यार मको, सोया, गुटयेचीं पेंड, मिनाची पावडर, जिवनसत्वां योग्य प्रमाणांत मिस्तुराद करून फार्मार खावड तयार करची. खावड, सुकें तण, हरवें तण दोन फावटीं वाटून दिवची. गोरवांच्या जिवाक अडेज कील खावड लागता आनी अडेज लिटर

दूद तयार करपाक बऱ्या दर्जाची एक कील खावड जाय पडटा.

**कामगार :** दुदाचीं ८ ते १० जनावरां सांबाळपाक एक जोडपें वा एक बरो कामगार जाय पडटा. हें जोडपें वा कामगार प्रामाणीक आनी कश्टी आसपाक जाय, तांकां कसलीय अडचण आयल्यार आमी समजून घेवंक जाय. जाका लागून तांकां फार्म आनी धनी आपलो कसो दिसपाक जाय. दोन मनीस आसले जाल्यार बाकीच्या वेळार ताका तण हाडप, दूद विक्री करप शक्य जातलें.

**६. दुदाचीं आयदनां आनी हेर सामान :** दूद धंदो फायद्यांत हाडपाक म्हत्वाचो उपाय म्हणल्यार दूद फार्मा वयली चडशीं कामां कामगारांचेर निंबून रावनासतना यंत्रान करप. हाका लागून खर्चाची बचत जातली आनी वेळ कमी लागतलो. गरजेच्या सामाना भितर – उदक काडपाचो पंप, हातगाडी, दुदाचे कॅन, बादल्यो, गाळणी, दूद भरपाक आयदनां, व्हडलें पींप, गोरवां बांदपाच्यो सांखळ्यो, खावडीचीं आनी उदक पिवपाचीं आयदनां, कुदळ, खोरें, कायली, वजनाचो काटो, दूद काडपाचे यंत्र, आयदनां खातीर साबू, हांचो आसपाव जाता. ते भायर दूद येरादारी खातीर सायकल, दुचाकी, रिक्षा, टेंपो असली सगली वेवस्था आसूंक जाय.

**७. वखदां आनी वासिना :** गोरवांक दुयेंस जावचें न्हय म्हणून घटसर्प, फऱ्या, अंतरेक्स, ब्रुसिलोसीस, थायलेरियासीस असलीं वासिनां (लसी) दवरचीं. गोरूं दुयेंत पडलें जाल्यार गरजेचीं ॲन्टी बायॉक्टी क्स, जोराचीं, सुजीचीं रूचीचीं, घटवायेचीं, असलीं वखदां तशेंच जिवनसत्वां, कॅल्शियम आनी डॅक्स्ट्रोज, सलायनाचे सर हांची वेवस्था करची.

**८. अखंडीत वीज आनी फोन :** दूद धद्याक अखंडीत विजेची गरज आसता. धंदो व्हडलो आसत जाल्यार जनरेटराची वेवस्था आसची. ते भायर टेलिफोनाची वेवस्था आसपाकूच जाय.

**९. दूद विकपा खातीर कायम गिरायक** : उत्पादन जाल्लें चडशें दूद दुदाचे सोसायटीक (फॅडरेशनाक) घालचें आनी उरिल्लें हॉटेल वा खाजगी गिरायकांक अन्न आनी वखदां खात्याचो कायदो पाळून विकचें. हाका लागून थोडे चड पयशे हातांत घोळटा आनी गरजे वेळार ते वापरूंक मेळटा. तशेंच एखाद वेळार संस्था वा यंत्रणा बंद पडली जाल्यार भायलें गिरायक चालूच उरून दुदाचो इबाड जावचो ना.

**१०. गोरवांचो विमो :** दरेक गाबण आनी दूद दिवपी गायेचो – म्हशीचो विमो हो करपाक जाय. एखाद वेळार जनावर मेलें जाल्यार विमो कंपनी मागीर शेतकऱ्याक विम्याच्या हप्त्याप्रमाणें लुकसाण भरपाय दितली आनी बँकीचें रीण आसत जाल्यार विमो कंपनी भरतली. ताका लागून दूदकार केन्नाच त्रासांक पडचो ना. कांय वेळां गोरवांची व्हंट पेड्ड्यार जाता आनी तीं सारखी दूद दिनात, कांय वेळां गर्भाशयाक खर दोश तयार जाता आनी तीं गाब जायनात. अशावेळार विम्याभितर पीटीडी चो हप्तो भरिल्लो आसत जाल्यार दूदकाराक ७५ टक्के लुकसाण भरपाय मेळटा. विम्याचो हप्तो हो वेळेचे पयलींच भरून विमो चालू दवरचो.

**११. सगल्या गजालींची, वस्तुंची नोंद दवरप :** दुदाचो धंदो बरो चलपाक सगल्या गरजेच्या गजालींची नोंद दवरप आनी ताचो वेळावेळार अभ्यास करप गरजेचें. हाका लागून लुकसाणेची कारणां लक्षांत येतलीं आनी वेळार उपाय करून धंदो फायद्यांत हाडपाक मदत जातली. तशेंच धंदो खूब वर्सां चालू उरतलो.

**दूद फार्मार अश्यो नोंदी दवरच्यो**

१. फार्मार आसपी सगल्या गोरवांच्यो नोंदी. हाका पेडिग्री रेकॉर्ड म्हणटात.

२. भलायकी आनी वासिनांच्यो नोंदी.

३. कृत्रीम वीर्यदान, गाबणपण, आनी जल्माक आयिल्या वासरांच्यो नोंदी.

४. सकाळीं, सांजे प्रत्येक गायेचो – म्हशीचो, त्या विताचो तशेंच सबंध विताच्या दुदाची नोंद.

५. फार्मार आसपी तशेंच प्रत्येक दिसा, सदांच लागपी आनी कमी पडपी वस्तू (आयदनां, कायली,बादल्यो, खावड, तण, वखदां) ह्या सगल्यांच्यो नोंदी.

आता १५ लिटर दूद दिवपी गायेचो जमाखर्च कसो आसतलो तें पळोवया

खर्च –

| | |
|---|---|
| १. खावडी वयलो खर्च ७ कील – २० रु. कील प्रमाणे | १४० रू. |
| २. हरव्या तणा वयलो खर्च ३० कील – २ रू. कील प्रमाणे | ६० रू. |
| ३. सुकें तण ६ कील – ४ रू. कील प्रमाणे | २४ रू. |
| ४. मानायां वयलो खर्च – ६०रू. | ६० रू. |
| ५. वखदां, वासिनां, टॉनिकां खर्च | १६ रू. |
| ६. हेर खर्च (हातूंत गायेचें मोल, लागपी सामानाचें मोल, गायेचो विमो, गोठ्याचो, जमनीचो खर्च, भाडे वगैरे येता) | ५०रू. |
| | ३५०रू. |

जमा –

| | |
|---|---|
| एके गाये कडल्यान १५ लिटर – ३० रुपया लिटर प्रमाणे | ४५० रू. |

एकूण फायदो १५ लिटर दूद दिवपी गाये कडल्यान एका दिसाक (४५०–३५०) रु. १००/–



सरकी पेंड



मको

**४. दूद धंद्यात लक्षांत दवरपाच्यो महत्वाच्यो गजाली :**

गोरवांच्या पोटा – पाण्याची सगल्यांत बरी काळजी घेवप. बरो, संतुळीत आहार दिवप. हरवें आनी सुकें तण थारावीक प्रमाणात दिवचें. खावडी वयलो खर्च कमी करपाक ५० टक्के हरवें तण वोडोवपाक शकता. हरव्या तणाक लागून दूद वाडटाच तेच वांगडा भलायकीय बरी उरता. गोरवांच्या खाणांत मिनाचें, जिवनसत्वांचें प्रमाण जाय तितलें आसपाक जाय. एके गायेक, म्हशीक सरासरी ४० ते ५० ग्राम मीन एका दिसाक जाय. जें दोन फावटीं वांटे करून घालचें. मीन (मिनेरल मिक्सर) जर गायेक–म्हशीक सारक्या प्रमाणांत दिलेंना जाल्यार तांची वाड सारकी जायना. पोटातलें वासरूं सारकें वाडचें ना. वार वेळार पडची ना. वासरूं कमी वजनाचें जल्माक येता. खूर मोव जातात. दूद कमी दितात. फॅट आनी डिग्री कमी लागता आनी दुदाक दर कमी मेळटा. वेळार फळाक येना. गाब जायनात. फ्राक जातात. हाका लागून मिनेरल मिक्सर हें खूब म्हत्वाचें आसा.

**बरे तरेची वंशावळ वाडोवप :**

गाय, म्हस फळपाक येता तेन्ना तिका वेळारूच फळोवप खूब गरजेचें. ते खातीर व्हडल्या फार्मांचेर सदांच एक रेडो वा पाडो दवरतात. ताका लागून खंयचें जनावर फळपाक आयलां ते वेळार कळटा. गाय व्हितकीर ४५ ते ६० दिसां भितर फळोवपाक जाय. आनी ६० ते १२० दिसां भितर गाब जावपाक जाय. ह्या वेळार गाय – म्हस चडांत चड दूद दितात. कोणाचेय चुकीन गायेची एक पाळी चुकली (म्हणल्यार त्या वेळार गायेक कृत्रीम वीर्यदान केलेना) जाल्यार गोरवांच्या धनयांचें २१ दीस लुकसाणेन वतात. तितले दीस गाय गाब जायनासतना धनयाक ती पोसची पडटा. दूद धंदो फायद्यांत उरपाक दर वर्स ते सवाय वर्सा भितर धनयाक एक पाडूक मेळूंक जाय. जितलीं व्हितां जनावरा कडल्यान चड मेळटलीं, जितलें दूद चड मेळटलें, तितलो धंदो फायद्यांत उरतलो.

**बरें वेवस्थापन करप :**

गोरवांची भलायकेची सारकी जतनाय घेवप भोव गरजेचें. सगल्यांत म्हत्वाची नितळसाण. गोठो आनी भोंवतणचो वाठार नितळ निवळ आसपाक जाय. गायेक म्हशींक सदांच दिसांतल्यान एक ते दोन फावटीं धुवची. वासरांक दर म्हयन्याक एके फावटां दंताचें वखद घालचें. जाल्यार व्हडल्या गोरवांक वर्सांतल्यान दोन फावटीं पावसा आदीं आनी उपरांत दंताचें वखद घालचें. किट्टी, लिको,

मुसकां (किमसां) हांचो वेळार बंदोबस्त करपाक जाय. कसलेंच दुयेंस जावचें न्हय म्हणून सगलीं वासिनां वेळावेळार करपाक जाय. तरीय आसतना कसलेंय दुखणें जालेंच जाल्यार बेगोबेग उपाय करचे. व्हंटयेचें, पान्याचें दुयेंस जावचें न्हय म्हणून बारीक लक्ष दवरपाक जाय. म्हत्वाचें म्हणल्यार गोठ्याची जमीन नितळ दवरप. थंय उदक तुंबपाक, साचपाक दिवप ना. अर्थीक नदरेन परवडटा जाल्यार रबरी मॅटस् घालप बरें. रबरी मॅटस् घाल्यार व्हंट आनी खूर, पांय बरे उरतात.

**दुदाक बरो दर मेळटलो जाल्यार –**

जीं गोरवां फायद्यांत आसात, १० लिटरां परस चड दूद दितात तींच दवरचीं. वीर्यदान करतना बरे वंशावळीच्या पाड्याचें वीर्य वापरचें. संकरीत गायींमदीं जर्सी जाल्यार देशी गायींमदीं गीर, साहिवाल हे जातींच्या गायींचें दूद दाट आसता. गायेक–म्हशीक हरवें तण सकाळीं ९ ते सांजे ३ वरां मेरेन दिवचें. रातीचें वा सांजेचें हरवें तण चड प्रमाणांत दिलें जाल्यार दुसरे दिसा दूद पातळ मेळटा. मको, ज्वारी, बाजरी, ओट तशेंच ल्यूसर्न, बर्सीम आनी चवळी हांचो पालो घाल्यार एसएनएफ बरें लागता. गोरवांच्या खाणांत सदांच एक कुलेर (२० ग्राम) खावपाचें सौज (सोडा बायकार्ब) आनी एक कुलेर आयोडायज्ड मीठ घालचें. खुरांचेर चड करून कसलोच घावो जावपाक दिवचो न्हय. जालोच जाल्यार रोखडेच उपचार करचे. खाणांत सदांच कॅल्शियम, फॉस्फरस आनी झिंक आसपी मिनाची पावडर घालची. दर चार म्हयन्यांनी खूर वेवस्थीत कापून घेवचे. दोन फावटीं दूद काडटात तें अंतर १२ वराचें आसचें. दिसांतल्यान तीन फावटीं दूद काडपाचें जालें जाल्यार दर ८ वरां उपरांत काडचें. व्हंट निरोगी उरची म्हणून फावो ती जतनाय घेवची. दूद पातळ जाता अशें दिसलें जाल्यार दिसाक अदमासान पाव कील खोबऱ्याची पेंड आनी सोया केक घालचो. म्हणजे दूद बरें मेळटले.

**५. दूदाचें जनावर वेंचून काडप.**

खरें सांगपाचें जाल्यार बाजारांत वा भायल्या राज्यांनी वचून दुदाचें जनावर विकत घेवचे परस आपली गांवठी गाय वा संकरीत गाय संकर (क्रॉस) करप वा आपली गांवठी म्हशीची जात सुदारप ही आयची गरज. तशेंच सगल्यांत बरें आनी फायद्याचें जावन आसा. हाका लागून दुदाचें जनावर आपल्या गोठ्यात, आमच्या गोंयांत तयार जातलें. आमी आमचीं संकरीत पाडकां, सुदारीत रेडकां केन्नाच विकचीं न्हय.

दुदाची गाय वा म्हस घेतना सर्वसादारणपणान दोन गजाली पळोवपाक जाय.

पयलें म्हणल्यार दुदाचे गायेचो, म्हशीचो रेकॉर्ड पळोवचो कांय नोंदी आसात जाल्यार तें पळोवचें. दुसरें तिची आताची माहिती आनी आंगाची मांडावळ बारीकसाणीन पळोवची. चड करून बरें आनी एकदम बरें दूद दिवपी जनावर कोणूच विकचो ना. ताका लागून बाजारांत आयिल्ली खंयची गाय, म्हस तातूंतले तातूंत बरी हें आमी तिका पळोवन, तपासून आनी नोंदी पळोवन थारावपाक जाय.

सगल्यांत म्हत्वाचें म्हणल्यार दुसऱ्या गांवांत वतकीर आमी थंयचे डेअरी सोसायटीक भेट दिवपाची आनी खंयचो दुदकार खरो हाची माहिती मेळोवप. चडश्या फावटीं एजंट गांवांतल्यो गायी, म्हशी एकीकडेन करता आनी भलत्याच मोलाक हेरांक विकता. बाजारांत वचून जनावर घेवचे परस दुदकाराच्या घरा कडेन वचून जनावर घेवप चड बरें. सदांच गाबण जनावर घेवप चड बरें. गाबण जनावर घेतकीर दुसरे कडेन व्हरना फुडें जनावराक त्या मनशांची संवय जाता. थंयच्या हवामानाची संवय जाता. खाणा – पिणाची, तणाची संवय जाता. हाचो बरो परिणाम जनावराचेर जाता आनी व्हिले उपरांत तें बऱ्या प्रमाणांत दूद दिवपाक शकता. व्हिल्ली गाय–म्हस बाजारांत आयल्यार आनी ती शेतकराक घेवपाची आसत जाल्यार तिचें दूद तीन फावटीं काडून पळोवचें. उपरांत पसंद पडल्यार ती घेवची.

हेर म्हत्वाचे लक्षांत घेवपाचे मुद्दे अशे –

व्हित – दुदाचें जनावर घेतना पयल्या वा दुसऱ्या व्हिताचें घेवचें. म्हणल्यार फुडें तें ४ ते ६ व्हितां आमकां सहज दूद दितलें. चड करून तिसऱ्या, चवथ्या आनी पांचव्या व्हिताक जनावर चड दूद दिता.

**पिराय –** दूद दिवपी जनावराची पिराय ३ तीं ४ वर्सां आसचें. पिराय, वर्सां हें तांच्या पांयांच्या खुराची रिंगां तशेंच दांतांवयल्यान पळोवन कळटा. खुरांचेर दर वर्सा एक वांटकूळ दिसता. गोरवांच्या दोनूय जबड्यांनी दाढो आसतात, पूण वयल्या जबड्यांत फुडले दांत (इनसायझर) नासतात. पयल्या वर्सा सकयल्या जबड्यांत २ दांत दिसतात, दुसऱ्या वर्सा ४, तिसऱ्या वर्सा ६ आनी चवथ्या वर्सा ८ दांत भायर आयिल्ले आनी वाडिल्ले दिसतात.

**आंगाची रचना, मांडावळ –** आंगाची रचना, मांडावळ सोबीत आनी आकर्शक आसची. कात तुकतुकीत आनी सैल आसची, केंस मोव आनी तुकतुकीत आसचे. आंगार चड चरबी नासची.

**तकली, माथें –** जबडो रुंद आनी मोठो आसचो, ताका लागून गोरवां रवंथ बरीं करतलीं. नाकपुड्यो मोट्यो, रूंद आनी ओलसर आसच्यो. दोळे चकचकीत आसचे. कान आवाजाचो वेध घेवपी आसचे. दोळे, कान व्हांवपाक जायना, तांकां जखमो आसपाक फावना.

मान लांब, पातळ आनी निमुळटी (वयर बारीक आनी सखल रुंद) आसची. मानेवयली कात मोव आनी सैल आसची. हाताच्या चिमट्यान घेवन ओडल्यार हातांत येवन परत सोडटगीर आसा तशी परत आपल्या जाग्यार वचपाक जाय.

**छाती –** रुंद आनी चड घेराची आसची. फुडल्या दोन पांयां मदलें अंतर चड आसचें. हाचे वयल्यान जनावराची श्वास घेवपाची आनी पचन करपाची तांक कळटा. दुदाच्या जनावराक शेवटाच्यो तीन बरगड्यो दिसल्यार बरें लक्षण अशें समजूचें. हाचो अर्थ आंगाक चड चरबी ना असो आसता.

**फाट –** खांद्याकडल्यान शेपटे मेरेन फाट लांब आनी सरळ आसची. फाटीचो शेपटे कडलो भाग रूंद आसचो. शेपटी लांब आनी बरो गोंडो आशिल्ली आसची.

**पांय –** फुडले पांय सरळ आनी तांचे मदीं अंतर आसपाक जाय. फाटल्या पांयां मदीं भरपूर अंतर आसचें. मांडयो (पांयांचे स्नायू) भितरल्यान भायर आयिल्ले आसचे. तशें जाल्ल्यान व्हंटयेचेर पेंच येवंचो ना. चारूय पांयांचे खूर सारके आनी रूंद आसचे, म्हणजे चारूय खुरांचेर जनावर वेवस्थीत उबें रावपाक शकता. खूर चड करून काळे आसचे. असले खूर घट्ट आसतात. खूर वाडिल्ले नासचे. तांचो कोन, कोपरो ४५ डिग्री इतलो आसचो.

**व्हंट, कास –** गायेची, म्हशीची कास मोठी आनी पोटाक चिकटिल्ली आसची. चारूय पाने सारके

लांबायेचे आसचे. चारूय पान्यांमदलें अंतर चार बोटां (चार इंच) आसचें. हातानी तपासल्यार मोव लागपाक जाय, दूद भरलां तेन्ना मोठी आनी दूद काडले उपरांत बसपाक (बारीक जावपाक) जाय. दुदाची धार सारखी पडपाक जाय. फवारो कसो पडपाक फावना. व्हंटयेक तशेंच पान्या मदीं कसलीच गांठ आसपाक जायना. दुदाची शीर ही मोठी आनी नागमोडी कशी आसची.

जनावर घेवचे पयलीं ताच्या धनया कडल्यान थोडी म्हायती घेवची आनी जनावर तपासून पळोवचें.

जनावर बरोबर पानेता कांय ना, ताका दूद काडपाक अमकोच मनीस (दादलो वा बायलूच) जाय, पाने पिळटना लाथ बी मारपाची संवय आसा काय कितें? (अश्या वेळार पयलीं पांय बांदचे पडटले) पाडका बगर पानेता कांय ना, जनावर दूद काडपाक कशें आसा, पाने ओडपाक मोव आसा कांय घट्ट? खावड, पालो दूद काडपाचे पयलीं वा काडटना, कांय दूद काडले उपरांत घालपाची? ही सगली म्हायती मेळयात.

जनावराक खावड सदांच दूद काडले उपरांत दिवची, म्हणजे खावड खावपाक तें अर्द वर उबें रावतलें. तितल्या वगतान ताच्या पान्याचे बुराक (निप्पल) बंद जावपाक पावतले. गाय–म्हस भायल्यान हाडटना वांगडा ४ पोतीं खावडूय हाडची. हाचे फाटलो उद्देश म्हणल्यार हांगाचे खावडीची सवंय जाता म्हणसर दोनूय खावडी घोळोवन घालपाक येता.

अशी सगली कुयदाद घेतल्यार आनी मातशें बारीकसाणेन लक्ष दिल्यार नक्कीच बरें दुदाचें जनावर मेळटलें.



साहिवाल गाय

**६. गोरवांची खावड**

प्रत्येक जनावराक ताच्या आंगाक, सदांचीं कामां करपाक, वाड जावपाक, दूद दिवपाक, गर्भाशयाचे वाडीक आनी हेर कामां करपाक खनीज मिश्रण (मिनाचे घटक) क्षार, जिवनसत्वां, खावड, आनी पाल्याची गरज आसता. ती जर गोरवांक मेळ्ळीना वा असंतुळीत प्रमाणांत मेळ्ळी जाल्यार तांचे भलायकेचेर परिणाम जावपाक शकता.

**१. पुश्टीक पदार्थ (कोर्बोहायड्रेटस) :**

जनावराक आंगाची वाड जावप, जाल्ली झीज, थकवो भरून येवप, दूद जावप हांचे खातीर पुश्टीक पदार्थांची गरज आसता. ह्या पदार्थांतल्यान शक्त मेळटा, जी दूध दिवपी जनावरांक सामकी गरजेची आसता. भरडिल्ल्या धान्यांतल्यान पुश्टीक पदार्थ मेळटा. देखीक मको, ज्वारी, बाजरी, ओटस, नाचणी.

**२. प्रथिना (प्रोटिन्स) :**

गोरवांचे शारिरीक आनी मानसीक वाडी खातीर प्रथिना जाय पडटात. गोरवांचे स्नायुंचे वाडीक प्रथिनांची भोव गरज आसता. दाळी, सोयाबीन, शेंगदाणे, खोबरें, ल्यूसर्न बरसिम, सुबाबूल हातूंतल्यान ती मेळपाक शकता.

**३. तेलकट, स्निग्ध पदार्थ (फॅटस्) :**

हे पदार्थ आंगाक शक्त, कातीचें चकचकीतपण, केसाचीं, ल्हवेंची चमक आनी मोवपण, आंगातल्या उदकाचें संतुलन हांचे खातीर जाय पडटा. भिकणां पेंड असले आनी हेर पेंडीतल्यान हे पदार्थ मेळटात.

**४. तंतूमय पदार्थ (फायबर) :**

गोरवांच्या खाणांत तांचे प्रमाण १० टक्के आसचें पडटा. हाका लागून आंगाक गरमी मेळटा. दुदाचे फॅटस् वाडटात, फायबर खाल्ल्यान पोट निवळ जाता, गोरवां रवंथ करतात, तांकां आपलें पोट भरलें अशें दिसता. हातूंत भितर तण आनी कडबा अशें पदार्थ येतात.

**मिन (मिनरल्स)**

कॅल्शियम मिनापासून गर्भ आनी पाडकांची हाडां वाडटात, हाडां घट्ट जातात. गोरवां

गाबण जावपाक आदार जाता. दूद वाडटा. तांच्या पोटाक भूक लागता. वार वेळार पडपाक आदार जाता, अशीं जायतीं कामां जातात. चामडेचें आनी केसांचें मोवपण, तुकतुकीतपण तशेंच फळपाक येवपाक, गाब जावपाक, गर्भ वाडपाक कॅल्शियमाची गरज लागता. आंगांत सदांच कॅल्शियम आनी फॉस्फरसाचें प्रमाण योग्य आसपाक जाय.

रगतांतल्यो तांबड्यो पेशी वाडोवप, माजार वेवस्थीत येवप, चामडी टिकोवप, शिंगां, खूर घट्ट जावप, रगतांतल्या उदकाची संतुळा राखप, हाडां, दात घट्ट जावप, श्वासोश्वास, रगताची वेवस्था, स्नायुंचो तोल, शक्त, ह्या सगल्या कामां खातीर लोखण, मीन, आयोडीन, सेलेनियम असल्या मिनांची गरज पडटा.

**जिवनसत्वां, विटामिन्स्**

जिवनसत्व 'अ' हें हरव्या तणांतल्यान गोरवांक मेळटा. गोरवांची कात, पोट, आंतडी सारकें काम करपाक जीवनसत्व 'अ' ची गरज पडटा, दोळे वेवस्थीत काम करपाक, तांची कात बरी उरपाक 'अ' जीवनसत्वाची गरज पडटा. हरवें तण, कोडलिवर तेल, शार्क लिवर तेल हातूंत 'अ' जीवनसत्व मेळटा.

ब–१ हें जीवनसत्व पचपाक तशेंच दूद तयार करपाक जाय पडटा.

ब–२ हें जीवनसत्व कात, केस बरोबर उरपाक, गोरवां माजार येवपाक, भूक लागपाक, कॅल्शियम आनी पॉटेश (स्पूरद) हांची संतुळा उरपाक जाय पडटा.

ब–६ हें जीवनसत्व मज्जातंतू, मेंदूच्यो पेशी वेवस्थीत चलपाक जाय पडटा. गाय पानेवप, दूद सोडप हाका हें जीवनसत्व जाय पडटा.

ब–१२ हें जीवनसत्व स्नायुंची शक्त, मनाची शक्त, रगत बरोबर घोळपाक जाय पडटा.

क – ह्या जीवनसत्वाक लागून दुयेंसा आड झगडपाक शक्त, मनाची शक्त वाडटा, कात बरी उरता, रगत बरें घोळटा. हें जीवनसत्व हरव्या तणांतल्यान मेळटा.

ड – ह्या जीवनसत्वाचो उपेग आंगातलें कॅल्शियम, मिनाचें नियंत्रण करप आनी हाडांतलें आनी रगतांतलें कॅल्शियम हांचे पासत जाता.

अ, ड हें जीवनसत्व जनावराक खावडींतल्यान मेळटा.

ई – हें जीवनसत्व जनावराक संतती वाडोवपाक उपकारा पडटा. ह्या जीवनसत्वाक लागून आंगांतल्या सेलेनियम धातुचो उपेग करूंक मेळटा. हाकालागून कात तुकतुकीत उरता, रगत तांबडें जाता, शिंगां आनी खूर घट्ट उरतात तशेंच शिंगांची आनी खुरांची दुयेसां कमी जातात.

**उदक :**

गोरवांच्या दरेका कामा खातीर उदक हें जायच पडटा. गोरवांक चोवीसूय वरां उदक पिवपाक मेळत जाल्यार चड बरें जातलें. बालदेंतल्यान उदक पिवपाक दिवपाचें जालें जाल्यार तें दिसांतल्यान ४ फावटीं दिवपाक जाय. हें उदक ताजें, निवळ आनी थंड आसपाक जाय. एक लिटर दूद तयार जावपाक ४ लिटर उदकाची गरज आसता. गोरवांक गोठ्याभायर सोडटात थंय थंड उदक पिवपाक दवरपाची वेवस्था आसपाक जाय. हाका लागून उदकाची टांकी बांदून दवरपाची. म्हशींक न्हाणोवपाक तळ्या भशेन टांकी बांदची, तिच्या भितरल्या वणटींक शेळो बीन येवपाक जायना म्हणून चुनो काडचो. एके व्हडले गायेक, म्हशीक पिवपा खातीर दर दिसा १०० ते १५० लिटर उदक जाय पडटा.

**तण :**

१. हरवें तण : हरव्या तणांत ज्वारी, बाजरी, मको, ओट, सुबाबूल, चवळी, बरसीम, तशेंच सादें पांचवें तण (दोंगरी तण) हे प्रकार येतात. तेच प्रमाणे गजराज, पेराग्रास, नेपियर, एन. बी. २१, सि. ओ. १, २, ३, ४ हांचोय आसपाव जाता.

३. सुकें तण : हातूंत करड, भातेण, ज्वारी, मको, बाजरी हांच्या काडां पसून केल्लो कडबो, कडबो कुट्टी हांचो आसपाव जाता.

४. गोरवांची पेलेट, लेंडयो, पावडर रुपांतली खावड : दरेका जनावराचे वाडी खातीर तांची सदांची आंगाचीं कामां जावपाक २ कील खावड म्हणजे कॉन्सन्ट्रेट जाय पडटा. तशेंच अडेच ते तीन कील दूद तयार करपाक दरेकी एक कील बरे प्रतीची खावड लागता.

सर्वसादारणपणान एका दूद दिवपी जनावराक १५ ते २० कील हरवें तण, ४ ते ६ कील सुकें तण, योग्य प्रमाणांत बरे तरेची खावड, सरासरी ३० ग्राम दुद दिवपी जनावराक आनी ४० ते ५० ग्राम गाबण जनावराक मिनेरल मिश्रण दिवचें पडटा.

१०० कील खावड अशी तयार करूं येता

| | |
|---|---|
| सोया | २२ कील |
| मको पावडर | ७३ कील |
| मिनेरल मिक्सर | ३ कील |
| धवें (आयोडायज्ड) मीठ | २ कील |

गोंयांत चड गोरवां दवरपी चडशे दुदकार दुद दिवपी गायेक – म्हशीक 'बारली वेस्ट' (बियर फॅक्टरींतल्यान भायर उडोवपाचो चोथो) सर्रास खावपाक घालतात. चोथ्याक लागून थोडो तेप गोरवां भरपूर दूद दितात आनी उपरांत कांय म्हयन्यांनी तीं जाम, फ्राक जावपाक लागतात. हाचें मुखेल कारण म्हणल्यार अशा खाणांत भरपूर प्रथिना आसतात. ह्या प्रथिनांक लागून गोरवांच्या पोटांत ॲसिडीटी जाता. ॲसिडीटी चड जाली जाल्यार मुखार तांकां लॅमिनायटीस हें खुरांचें दुयेंस जाता आनी तीं लंगडपाक लागतात. बारलीचो चोथो खावपाक दितल्या गोरवांक तो सदांच सुकोवन दिवचो. वांगडा भरपूर सुकें तण वा करड तशेंच दरदिसा २० ते ३० ग्रॅम खावपाचे सोज (सोडा बाय कार्ब) दिवपाकूच जाय. म्हणल्यार जनावराचे भलायकेचेर ताचो चड परिणाम जावचो ना.

हो चोथो खाणांत, खावड तयार करपाक वापरपाचो आसल्यार १०० कील खावड अशी तयार करची.

| | |
|---|---|
| सुकयिल्लो बारलीचो चोथो | ३० कील |
| भिकणां पेंड | २० कील |
| गुटयेची पेंड | १० कील |
| मको पावडर | ३५ कील |
| मिनरल मिक्सर | ३ कील |
| धवें (आयोडायज्ड) मीठ | २ कील |

दरेका गायेक, म्हशीक २ ते ३ कील खावड कुडीक आंगाक आनी अर्द कील खावड १ लिटर दूद तयार करपाक ह्या हिशेबान दिवची. म्हज्या मता प्रमाण सदांच खावड सुकी दिवची. गोरवां सुकी खावड चाबून खातलीं. ताका लागून ती लाळेंत घोळटली आनी पचन बरें जावन दूद बरें मेळटलें. सुकी खावड खावपाक वेळ लागता, हाका लागून गाय, म्हस दूद काडतकीर चड वेळ उबी रावतली.

मेळपी दुदाच्या हिशेबान संतुळीत आहाराचो सर्वसामान्य तकटो असो आसचो.

**संतुळीत आहाराचो सर्वसामान्य तकटो**

| दूद मेळटा (लि.) | हरवें तण आसल्यार | | हरवें तण नासल्यार (फकत सुकें तण) | खावड (कि.) | मीन मिश्रण (ग्रॅ.) |
|---|---|---|---|---|---|
| | हरवें तण | सुकें तण | | | |
| ०-५ | १५-२० | ४-६ | ६-८ | १.५-२.० | १०-१५ |
| ५-८ | १५-२० | ४-६ | ७-८ | २.०-२.५ | १५-२० |
| ८-११ | १५-२० | ४-६ | ७-८ | २.५-३.५ | २०-२५ |
| १२-१४ | २०-२५ | ४-६ | ८-१० | ३.५-४.५ | २५-३० |
| १५-१८ | २०-२५ | ४-६ | ८-१० | ४.५-५.५ | ३०-४० |
| १९-२१ | २०-२५ | ४-६ | ८-१० | ५.५-६.५ | ४०-५० |

आपल्या जनावरा प्रमाणें, खावडीचे प्रत (गुणाप्रमाणें) आनी येवपी अणभवा प्रमाणे दुदकारांनी खावडीच्या घटकांत आनी प्रमाणांत जाय तो बदल करूं येता.

**७. गोरवांच्या खाणांत हरवें तणाचें म्हत्व**

गोरवांच्या आनी दुदाच्या धंद्याचें येस हें गोरवांक दिवपाच्या बऱ्या आनी संतुळीत खाणाचेर (खुराक) निंबून आसता. गोरवांच्या खाणांत तणाचो वाटो हो एकूण खाणाच्या ७० टक्के इतलो आसता. तणाभितर सुकें, हरवें, करड अशें जायते प्रकार आसतात. गोरवांक पुश्टीक पदार्थ, प्रथिना, तेलकट पदार्थ, जिवनसत्वां, क्षार हें सगलें तणांतल्यान मेळूं येता. हातूंत भितर हरव्या तणाक चड म्हत्व आसा. हरवें तण योग्य प्रमाणांत घाल्यार खावडी वयलो खर्च बरोच कमी करूं येता. हाका लागून दूद धंदो सुरळीत आनी फायद्यांत चलोवं येता. ते खातीर दूद धंद्यांत पावल घालचे पयली सदांच हरवें तण लावपाक जाय. सदांच अशी म्हणणी आसा की पयलीं हरवें तण आनी मागीर धवें दूद.

तणाचे दोन प्रकार आसात –

१. एकदल धान्य  २. द्विदल धान्य

एकदल तणधान्या भितर मको, ज्वारी, बाजरी, ओट हीं कांय म्हयने मेळपी हंगामी पिकां येतात, तशेंच ३ तीं ५ वर्सां सदांच वाडपी आनी मेळपी गजराज, पेराग्रास, गिनीग्रास, नेपियर, कोइमतूर २, ३, ४ हीं तणा पिकां येतात.

द्विदल चाऱ्या भितर ल्युर्सन, बर्सीम, चवळी, स्टायलो, सुबाबूल हीं पिकां येतात.

**बरें तण हें अशें आसता –**

रुचीक, पचपाक सोपें, पुश्टीक आनी वाडीच्या खयच्याय पांवड्यार गोरवांक खावपाक घालूं येता. गोरवांचेर ताचो कांयच परिणाम जावचो ना. तशेंच जें थोड्या जाग्या भितर आनी थोड्यां सप्तकां भितर चड जावपाक आनी वाडपाक जाय. जें सुकोवपाक आनी मुरघास करून दवरपाक जाय. इबाडपाक फावना.

**आतां तणाचो एक एक प्रकार पळोवया –**

**१. मको –** हें तणाचें पीक दुदकारांचे नदरेन एकदम बरें, रुचीक आनी पुश्टीक जावन आसा. पावसाळ्यांत तशेंच गीमाच्या दिसांनी मक्याचें पीक घेवं येता. एक हेक्टर जमनीत रोवपाक मंक्याचे २५ ते ३५ कील बीं लागता; आनी ताचे पसून 12 ते २० टन तण मेळटा. ह्या मक्यातणाक थोडें सारें, शेण घालचें पडटा आनी सप्तकांतल्यान एक ते दोन फावटीं उदक दिल्यार पुरो जाता. हें तण गोरवांक

खावपाक घालपाक तयार जावपाक, वाडपाक ४५ ते ६० दीस लागतात. ह्या तणाभितर १० ते १२ टक्के पिश्टमय पदार्थ आनी ७ ते ८ टक्के प्रथिनां आसतात.

**२. ज्वारी –** हें एक बरें तणापीक. ह्या पिकाक रोवपाक जमीन मध्यम तें काळी कसदार बरी पडटा. सर्द आनी वायंगण ह्या दोनूय वेळार हें पीक घेवं येता. एका एकराक ४० ते ५० कील बीं लागता. थोडें सारें आनी तण तशेंच सप्तकांतल्यान एक ते दोन फावटीं उदक मेळ्ळ्यार पुरो जाता. ४० ते ५० दिसां भितर गोरवांक खावपाक घालपाक, लुवपाक तयार जाता.

**३. बाजरी, ओट –** ही ज्वारी सारकी तणा पिकां आसात. तातूंत १० ते १२ टक्के पिश्टमय पदार्थ आनी ७ ते ८ टक्के प्रथिनां आसतात. ओट ह्या तणा पिकाच्यो वट्ट ३ ते ४ कापण्यो घेवपाक मेळटात.

**गजराज –** हाका हायब्रीड नेपियर अशेंय म्हणटात. गजराज हें नेपियर आनी बाजरी हाचें संकर. हें एक गतीन, गरगरीत वाडपी तण, जातूंत प्रथिनांचें प्रमाण बरें आसता. ह्या तणाच्यो बियो नासतात. ताका लागून ताची काडां लायतात. एका हेक्टराक सुमार ५५०० काडां लावं येतात. रोयले उपरांत तीन म्हयन्यांनी ह्या तणाची पयली कापणी मेळूं येता. एकदां रोयलें म्हण्टकूच ४ ते ५ वर्सां हें पीक वापरूं येता. गजराजाच्यो एका वर्साक २ ते ४ कापण्यो आनी ६० ते ७० टन तण मेळटा. एन बी २१, बीम २, ह्यो गजराज तणाच्यो नव्यो जाती आसात. गिनी ग्रास, पॅरा ग्रास हींय तणां गजराजा भशेनूच आसात.

**द्विदल तणधान्य –**

**चवळी (कावपी) –** हें एक म्हत्वाचें हरवें तण. ह्या पिकाक हलकी वा मध्यम देंवतेची जमीन जाय पडटा. सर्द म्हणल्यार जून–जुलय म्हयन्यांत तशेंच वायंगण म्हणल्यार फेब्रुवारी–मार्च म्हयन्यांत हें पीक घेवं येता. दर हेक्टराक रोवपाक ३० ते ४० कील चवळी बीं लागता आनी हें पीक तयार जावपाक ६० ते ७५ दीस लागतात. तण बरें वाडलें जाल्यार हेक्टराक ८ ते १० टन तण मेळपाक शकता. चवळेच्या तणाचें पीक एकदम पुश्टीक जावन आसा. हातूंत भितर १० ते १२ टक्के पिश्टमय पदार्थ आनी १५ ते १६ टक्के प्रथिना मेळटात. एकदल पिकां मको ज्वारी हांचे मदीं मदले जागेत, ओळींनी हें पीक रोवं येता. सायलेजांतूय हें पीक जाता.

**सुबाबूल –** हीं मातशीं व्हडलीं झाडां कशीं जातात. हीं खंयच्याय जाग्यार जातात. तांचे तरणे देठ आनी पानां गोरवां रुचीन खातात. सुबाबूल झाडाच्या पानानी २४ टक्के नायट्रोजन आनी प्रथिना आसतात.



नेपीयर हरवें तण



सी.ओ.४ हरवें तण



सी.ओ.३ हरवें तण



हायड्रोपोनिक्स हरवें तण



हायड्रोपोनिक्स हरवें तण



हायड्रोपोनिक्स हरवें तण



जनावर व्हियेप



जनावराची वार भायर सरना



वियोपाक अडचण



जनावराचे आंग येवप



दुधाचो जोर

तणा खातीर अर्द फूट ते अडेच फुटांचेर हीं झाडां रोवचीं आनी सर्वसादारणपणान ३ फुटांचेर हीं झाडां कातरचीं. चडांतचड ४ ते ५ फूट झाडां वाडोवं येतात. तांका मागीर कोंबऱ्यो येतात आनी देड म्हयन्यांत तीं परत कापूं येतात. एकूण एका हेक्टराक २५ तें ३० टन तणाचो पालो ह्या झाडां पसून मेळपाक शकता.

**तण कशें खावपाक घालतात तें पळोवया –**

सकाळीं दूद काडले उपरांत आनी रातीं दूद काडले उपरांत गायेक, म्हशीक सुकें तण वा कडबो खावंक घालचो. हाका लागून राती वेळार आंगाची उब तिगून उरता. गोरवां रातचीं सारखीं रवंथ करतात आनी दुद बरें मेळटा. दुदाक फॅट आनी डिग्री बरी लागता. दूद दाट मेळटा, दर बरो मेळटा. सकाळचें सुकें तण खाल्ल्यान गाय–म्हस भरपूर उदक पिता आनी दनपरां दूद बरें मेळटा. सकाळी ९ उपरांत गोरवांक हरवें तण घालचें. दनपारां आनी रातीं गोरवांक सुकी खावड दिवची. खालां त्या हरव्या तणाक आनी पिल्या त्या उदकाक लागून आंगाचें तापमान, गरमी एकसारकी उरता. हाचो बरो परिणाम गोरवांचे भलायकेचेर आनी दूद उत्पादनाचेर जाता. तातूंतल्यान दूद बरे प्रतीचें आनी चड प्रमाणात मेळटा

**८. मुरघास (सायलेज) करप**

दुदाच्या धंद्यात हरवें तण हें सामकें गरजेचें. शेतकार तशेंच दुदकाराक जर हरवें तण सदांच आनी भरपूर प्रमाणांत मेळ्ळें जाल्यार दुदाचो धंदो फायद्यांत चलतलो. गोरवांक हरवें तण सदांच घालें जाल्यार तांचे खावडी वयलो खर्च कमी करूं येता. गिमाच्या दिसांनी आमकां आनी गोरवांक उदक उणें मेळटा. ताका लागून हरवें तण रोवपाक आनी शिंपपाक कठीण जाता. आमच्या हांगा पावस भरपूर पडटा, हरवें तण, करड, पालो भरपूर वाडटा, आनी मागीर चड वाडिल्लें तण कुसून पेड्ड्यार. हें तण सांठोवन दवरपाक एक बरो उपाय म्हणल्यार मुरघास करप. हातूंत हरवें तण हवाबंद करून सांठोवन दवरतात. जातूंत त्या तणाची दर्जो, प्रत आनी रूच बरी उरपाक जाय. मुरघास करपाचो खरो वेळ म्हणल्यार ऑगस्ट म्हयन्याचें निमाणें सप्तक. ऑगस्ट म्हयन्याच्या शेवटाक तण कापिल्ल्यान, लुविल्ल्यान बरें मुरघास करपाक मेळटा. तशेंच परत वाडटा. हाका लागून आमकां हरवें वा सुकें तण मेळपाक शकता. दोन तरेचे फोंडारे काडून मुरघास करूं येता.

१. पक्को मुरघास फोंडारो

२. कच्चो मुरघास फोंडारो

**१. पक्को मुरघास फोंडारो –** हाच्या आकारा प्रमाणे तीन तरेचे आसतात.

**(अ) टॉवर मुरघास फोंडारो –** हो तांतया भशेन लांबगोल आसता. ताचो थोडो भाग जमनी भितर आनी थोडो जमनी वयर आसता. जमनीच्या वयर आसता तो भाग माथ्यार धांपचो आनी मुरघास काडपाक वाट दवरची पडटा.

**(ब) ट्रॅंच मुरघास फोंडारो –** हो चौकोनी आसता आनी जमनी भितर आसता. हाचें तोंड उगतें आसता. हातूंत हरवें तण भरून वयल्यान ट्रॅक्टरान चिड्डून घेवचें आनी शेवटाक मातयेन फोंडाऱ्याचें तोंड बंद करचें. उपरांत वयली जागा पांख्या भशेन शिंवची पडटा.

**(क) बंकर मुरघास फोंडारो –** हे तरेच्या मुरघासांत दोन वणटीं मदीं हरवें तण भरतात. उपरांत मातयेन तोंड बंद करतात.

**२. कच्चो मुरघास फोंडारो –** मुरघास तयार करपाचो हो सगल्यांत सोंपो, सोयिस्कर आनी सवाय असो प्रकार. तो कसो करतात तें आतां पळोवया. उदक सांचून उरना अशा जाग्यार हो कच्चो मुरघास फोंडारो आसपाक जाय. हो फोंडारो ५ फूट लांब, ५ फूट रूंद आनी ६ फूट खोल आसचो. ताचे कुशीक आनी तळाक सुकीं पानां आनी तण घालचें. उपरांत पांच भोरे (सुमार १०० कील) हरवें तण तातूंत पातळावन घालचें. ताचे उपरांत १०० ग्राम मीठ ताचेर शिंवरचें, परत पांच भोरे पाचवें तण आनी १०० ग्राम मीठ शिंवरचें. अर्दोफोंडारो भरले उपरांत पांच मानायानी भितर देंवून अर्द वर तें तण पांयानीं माड्डोवचें. अशें केल्ल्यान हें तण घट्ट चिड्डता आनी तातूंतली हवा भायर सरून तें हवाबंद जावपाक आदार जाता. ताका लागून तणाची प्रत बरी उरता. पावूण खड्डो भरतगीर अशेंच तण माड्डोवन घेवचें. सगलो फोंडारो भरले उपरांतूय हो फोंडारो मानायां कडल्यान माड्डोवन घेवचो. हें भोव गरजेचें आनी म्हत्वाचें आसा. मागीर हो फोंडारो जमनी वयर तोपरें कसो भरून घेवचो. अशे तरेन हो फोंडारो रातभर दवरचो, दुसरे दिसा तोपरें कशें वयर काडिल्लें सकयल बसतलें. थंय परत तण घालून माड्डोवन घेवचें आनी तोपरें कशें जमनीवयर काडून तणान वा कापोतीन शिवून घेवचें. ताचे उपरांत फोंडारो काडटना उसपिल्ले मातयेन तो पुरोवन घेवचो. तेन्नाय तोपरें कशें काडचें. थोड्या दिसांनी हो तोपऱ्याचो भाग सकयल बसता. तेन्ना परत माती घालून तो भाग वयर काडचो. तशेंच फोंडाऱ्याचे भोंवतणी मेर कशी

घालची. तशें केल्ल्यान वयल्यान आनी कडेच्यान आयिल्लें पावसाचें उदक फोंडाऱ्यात वचचें ना आनी मुरघास कुसचो ना.

आमच्या शेजारच्या महाराष्ट्र आनी कर्नाटक राज्यांत चडशे कडेन जमीनीचेर वयर थारावीक मापाची सिमीटाची टांकी बांदून तातूंत मुरघास तयार करतात. ह्यो टांकयो बांधपाक सरकार मदत (सूट) दिता. रिती प्लास्टीक बॅरेलां वापरून पसून मुरघास करपाक येता. हालीच्या दिसानीं सांगली जिल्ह्यातल्या चितळे दूद फार्मान प्लास्टीक पिशव्यो वापरून मुरघास करपाची नवी पध्दत सुरु केल्या, जी खुब लोकप्रीय जाल्या. चितळे दूद फार्मान तयार केल्ले प्लास्टीक मुरघास पोतियेची तांक ५०० किलो आसा. ही पोती ३ ते ४ फावटीं मुरघास करपाक वापरूं येता. हे पोतयेन मुरघास करपाक खर्च कमी येता. ती दवरपाक जागो कमी लागता. अशा पोतयांचो एक महत्वाचो फायदो म्हळ्यार दूद फार्माचेर तयार केल्ल्यो ह्यो मुरघासाच्यो पोतयो जाय थंय तशेंच खयच्याय दुदकाराच्या घरा साठोवप आनी व्हरप शक्य जाता. मुरघास म्हणजे लोणच्याची बरणी वा पोती कशी आमच्यानी समजूं येता.

अशे तरेन हरवें तण हवाबंद करून सांठयतात तेन्ना मुरघास जाता. ह्या हरव्या तणांत (पाल्यांत) आशिल्ले बरे जंतू पाल्यांतल्या पिस्टमय पदार्थांपसून एक ऑर्गेनिक ॲसिड तयार करतात. ताका लागून पाल्यांतलें वायट रोगजंतू मरतात आनी हो मुरघास रूचीक जाता. हो मुरघास चड करून वर्सा भितर वापरून सोंपोवचो. मात बरेभशेन तिगयिल्लो मुरघास वर्सापरस चड तेंप पसून वापरपाक मेळटा. हरवें तण मेळना त्या तेपार मुरघास वापरपाचो आसता.

**मुरघासाचो फोंडारो उगतो करपाची तरा :**

मुरघासाचो फोंडारो तोंडाकडल्यान (वयल्यान) उगतो करचो. मुरघासाचो वयलो थर मातसो वायट जाता. तो काडून उडोवपाचो. भितरलो भाग बरो आसता. तो एक एक थर गोल पद्धतीन काडचो. तळाचो भाग पयलीं काडचो न्हय. तो थर धांपिल्लो आसपाक जाय. आतां बाजारांत मुरघास करपाच्यो तयार पोतयो मेळटात. तांचोय वापर करप सोंपें आनी कमी खर्चाचें जावंक शकता.

**मुरघासाचे फायदे**

मुरघास हो पावसांत जावपी तणा पासून केल्लो आशिल्ल्यान चड खर्च येना. ताका लागून वर्सूय भर कमी खर्चांत गोरवांक हरवें तण मेळपाक शकता.

## ९. हायड्रोपॉनिक्स हरवें तण तयार करपाची नवी पद्धत

हायड्रोपॉनिक्स हें एक नवें तंत्रज्ञान, जंय मातयेचो वापर करीनासतना फकत उदकाचेर वा पुश्टीक घटकांचेर थोड्या दिसां भितर झाडां वा तण वाडोवप. हायड्रो म्हणल्यार उदक आनी पॉनिक्स म्हणल्यार काम करप. हे पद्धतीन तण तयार करपा खातीर एक खासा घर आसता. ताका 'ग्रीन हावज' म्हणटात. त्या घरांत उदकाचो आनी लायटीचो ताबो दवरपा खातीर आपसूक चलपी एक यंत्र आसता. ताका सेन्सर आसतात. ताका लागून त्या घरांतली दमटसाण नियंत्रीत उरता. ग्रीन हावजाचो आकार २५ फूट लांब, १० फूट रूंद आनी १० फूट उंच असो आसता. ह्या आकाराचे एके कुडींत ७ दिसां भितर ६०० किलो हरवें तण मेळूंक शकता.

ह्या ग्रीन हावजांत वेगळे वेगळे खण (रॅक्स) कशे दाळिल्ले आसतात. तातूंत वेगळ्यो वेगळ्यो पराती (ट्रे) दवरिल्ल्यो आसतात. तातूंत वळीन तणाच्यो भिजयिल्ल्यो बियो किल्लूंक घालच्यो. हे कुडींतली दमटसाण एकसारखी उरपाक त्या परातीनी उदकाचे नळ आनी नळयो बसयिल्ल्यो आसतात. तेंच तेंच उदक परतून परतून वापरूंक मेळपाक जाय. ग्रीन कुडींत उदकाची टाकी आनी पंप बसयिल्लो आसता. कुडीचे वणटी भितर आनी पाडसार ट्यूब लायटी बसयिल्ल्यो आसतात. ताका लागून तणाक जाय तितलो उजवाड मेळटा आनी उब उरता.

हे पद्धतीन मको, गंव, चवळी असलीं तणाचीं पिकां बरे तरेन घेवपाक मेळटात. तणाचें पीक कितलें बरें येतलें हें बियांची तरा आनी प्रत, तशेंच ग्रीन कुडींत नितळसाण आनी कुयदाद कितली बरी आसा हाचेर निंबून आसता. हायड्रोपॉनिक्स पद्धतीन तयार केल्लें तण हेर पोरण्या पद्धतीच्या तणा परस चड पुश्टीक आसता. ज्या वाठारांत दुदकाराक तण रोवपाक सुवात ना, पूण गोरवांक घालपाक हरवें तण जाय तांणी अशे तरेन तण तयार करूं येता.

ग्रीन हावजांत हायड्रोपॉनिक्स तंत्रज्ञानांतल्यान गोरवांचे गरजे प्रमाणें वर्सूयभर पुश्टीक आनी दूद वाड करपी तणाची तजवीज करूं येता.



बऱ्या जनावराची निवड



संसारातलें दुसरें क्लोन्ड रेडूक

## १०. गोठो

गोठो बांदतात तेन्ना लक्षांत दवरपाच्यो गजाली : गोठो बांदपाचे सुवातेची निवड, गोरवांचो आंकडो, पयशे खर्च करपाची आपली तांक, उदका पुरवण, फुडाराक गोठो वाडोवपाची तयारी आनी तरतूद, हें सगलें लक्षांत घेवन गोठ्याचो नकासो (आराखडो) काडचो. गरज पडल्यार पंचायतीचो, पालिकेचो परवानो घेवचो आनी गोठो बांदपाचे तयारेक लागचें.

गोठ्याची सुवात घराचे उत्तरेक आनी घराकडल्यान मातशी पयस आसची. ताका लागून शेणा–मुताचो तशेंच मूस–जळेरांचो त्रास घरांतल्यांक जावचो ना. तेच वांगडा गोठ्यांत ज्यो घडामोडी घडटात त्यो लक्षांत येवपाक जाय, फावो तें मार्गदर्शन, सल्लो दिवपाक मेळपाक जाय. गोठ्याची सुवात ही जमनी परस मातशी उंचायेर आसची. ताका लागून उदक गोठ्यांत सांचून उरचें ना आनी गोठ्यांतलें धुल्लें उदक, शेण, मूत बागायती वा हेर कडेन व्हांवोवन व्हरपाक मेळटलें. उदकाची पुरवण करपी तळी, बांय लागीं आसत जाल्यार थंय गोठो बांदचो न्हय. तशें केलें जाल्यार हें शेणा–मुताचें उदक ते बांय, तळयेंत झिरपुपाची भिरांत आसता. गोठो उदेन्त–अस्तंत असो आडवो बांदचो. ताका लागून सकाळी येवपी थंड वाऱ्याचो आनी दनपरां येवपी हून वाऱ्याचो त्रास, तशेंच खर वताचो त्रास गोरवांक जावचो ना. मात हवा खेळटी उरतली. गोठ्याच्या शेजाराक सुबाबूल, शेवरी, सुरू, भेंडी, कोडूलिंबू असलीं झाडां गच्च लावचीं. ताका लागून गोठयांत हवा थंड उरतली आनी सावळी मेळटली. शेणाचो–मुताचो फोंडारो गोठ्या पसून मातसो पयस आसचो. थंय गोबरगॅस यंत्रणा बसोवची. एके संकरीत गायेक ८ फूट लांब आनी ४ फूट रूंद सुवात जाय पडटा. हातूंतली २ फूट सुवात गवणीक वता. ५ संकरीत गायींक २० फूट लांब आनी ८ फूट रूंद अशी १६० चौखण सुवात पुरो जाता. एका गोरवाच्या मुखावयल्या गवणीचें माप धरलें जाल्यार २ फूट लांब, २ फूट रूंद आनी १.५ फूट खोल आसचें. गायेच्या मुखार ४ फूट उंच वणट आसची. गोठ्याचे खांबे, वणट सिमेंटान प्लास्टर करून गुळगुळीत केल्ली आसची. हाका लागून थंय घाण साचून उरची ना तशेंच किट्टी, उयांक तांतयां घालपाक जागो मेळचो ना. गोरवां निसरून पडचीं न्हय, फाकचीं न्हय हे खातीर गोठ्याची जमीन चड सुळसुळीत, गुळगुळीत आसची न्हय. तशेंच चड खडबडीत आनी रफ आसची न्हय. नाजाल्यार व्हंटयेक आनी पांयांक घावे जातले. उदक–मूत सांचून उरचें न्हय तशेंच गर्भाशयाचेर पेंच येवंचो न्हय वा आंग भायर सरचें न्हय, हे खातीर गोठ्यांतले जमनीक

१५ ते २० डिग्री इतलो उतार आसपाक जाय. दर चार फुटानी लोखंडी एंगलांक एक, एक गांच घालून घेवचें, म्हणजे गोरवां बरे तरेन बांदपाक मेळटलीं. गोठ्याची उंचाय १० ते १२ फूट इतली आसची. पांखें चुडटांचें, कोलवाचें आसल्यार उपकारता, मंगळुरी नळ्यांचे आसल्यारूय बरें जातलें. लोखंडी पत्रे वा एस्बेस्टॉस पत्रे शक्यतो वापरचे न्हय, हाचो गोरवांचे भलायकेचेर वायट परिणाम जावं येता. सगल्यांत बरें म्हणल्या ट्रेपेझायटस पत्रे (शिटस) वापरल्यार उबाळ, पावस आनी शिंयांच्याय दिसांनी जनावराक त्रास जावचे नात. गोठ्याची जमीन कोटा फातरांची आसची. शक्य जाल्यार जमनीचेर रबरी मेटस् घालच्यो म्हणजे गोरवां उठटां बसताना पांयांक तशेंच व्हंटयेक त्रास जावचे नात. ह्यो रबरी मेटस् मातश्यो जड आसतात, पूण निवळ करपाक सामक्यो सोप्यो. हातूंत उदक–मूत सांचून उरचें ना, आनी निवळसाण उरिल्ल्यान व्हंट बरी उरतली.

एकेरी आनी दोट्टी अशा दोन तरांनी गोठ्यांत गोरवां बांदतात. एकेरी पद्धतींत गोरवां एकेच वटयां बांदतात. हातूंत जागो कमी लागता पूण गोरवांचे देखरेखीचेर खर्च चड लागता. दोट्टी पद्धतींत गोठो धुवपाक, शेण काडपाक, दूद काडपाक बरें पडटा आनी खर्च कमी येता. दोट्टी पद्धतींत दोन तरांनी गोरवां बांदू येतात. एके पद्धतींत गवण मदीं दवरप आनी तोंडाक तोंड (हेड टू हेड) हे पद्धतीन गोरवां बांदप. दुसरे पद्धतींत गवण दोनूय वणटीं वटयां दवरप. गोरवाचीं तोंडां वणटी वटेन आसतात दोन गोरवांच्या मदल्यान (शेंपेडे कडल्यान) शेण–मूत वचपाक वाट आसता. तशेंच थंय दवरिल्ले एक मिटर मेकळे सुवाते वयल्यान दुदाचीं कॅनां, यंत्रां व्हरपाक मेळटा. ही पद्धत एकदम बरी आसता. तातूंत गोठो नितळ निवळ करपाक बरें पडटा, दूद काडपाकूय सामकें सोंपें जाता. मानायां वयलो खर्च कमी येता आनी वेळ कमी लागता.

## वासरांक वेगळी सुवात

गोठ्यांत वासरांक बांदपाची जागा वेगळी आसपाक जाय. वासरान दूद पियेलें म्हणटकूच ताका व्हरून वेगळे सुवातेर बांदचें. ही सुवात सुकी आसची. थंय भरपूर खेळटी हवा, उजवाड आनी उब आसची. उब तयार जावपाक वासरांच्या पांयां कडेन सुकें तण, भुसो, गवांची कांडां घालूं येता.

हालींच्या शास्त्राप्रमाणें गायी, म्हशी गोठ्यांत बांदून दवरी नासतना २४ तास मेकळे सुवातेर वंय वा दुरगा भितर सोडटात. गोठ्याक तेंकून ही मेकळी सुवात आसता. थंय उदका खातीर एक टाकी

बांदिल्ली आसता. फकत खावड घालतना आनी दूद काडपाच्या वेळार गोरवांक गोठ्यांत हाडटात. हे मेकळे सुवातेंत सांवळी उरपा खातीर थोडी झाडां लायतात. उगते, मेकळे सुवातेक लागून गोरवां तरतरीत उरतात, खेळीमेळीन रावतात, तांचेर नदर दवरपाक मनीस कमी लागतात. म्हणून दुद्कार भावाभयणांनी मेकळो (मुक्त) गोठो वेवस्थापन पद्धत जरूर, आपणावची.

**मेकळो (मुक्त) गोठो वेवस्थापन**

हालीच्या शास्त्राप्रमाणे गायी, म्हशी गोठ्यांत बांधून दवरिनासतना २४ तास मोकळ्या जाग्यार वंय वा दुर्गाभितर सोडून पोसप म्हणल्यारूच मेकळो (मुक्त) गोठो वेवस्थापन. आपलेकडेन स्वतःची जमीन आसत वा भाड्याची जमीन मेळटा जाल्यार गोरवां पोसपाची ही सगल्यांत बरी पध्दत जावन आसा. हे पध्दतीत एके व्हडले गायेक वा म्हशीक २०० चौ. फूट जागो लागता. जमीन खडबडीत आसल्यार चड बरी. मायणाची, चिखलाची, रेबडाची, निसरटीची वा बुळबुळीत जमीन उरपाक येना. गोरवाक दीस रात उकत्यार चरतात, भोवतात, फकत दूद काडपाच्या वेळार तशेंच खावड घालपाच्या वेळार तांकां शेडींत वा गोठ्यांत हाडपाचीं. गोठ्याक तेकून ही मोकळी जागा आसता, थंय पिवपाच्या उदकाच्यो टांकयो बांदिल्यो आसतात. हे मेकळे जागेंत सावळी उरपाखातीर थोडीं झाडा रोवचीं पडटात. हे मेकळे जागेक लागून गोरवां हुशार, तरतरीत उरतात. आनी खेळीमेळीन रावतात.

मेकळो गोठो वेवस्थापनाचे फायदे.

१. ह्या वेवस्थापनात गोरवांक व्हटयेचीं दुयेंसां सामकी कमी जातात आनी हाका लागून सदांच दूद चड मेळता.

२. गोरवांक हांडाची, सांध्याची तशेंच पांयांची हाडां सुटपाची (डिसलोकेशन जावप) दुयेंस जायना, जे बंद गोठ्यांत चड आसता.

३. व्हडलो गोठो बांदपाचो खर्च वाटवता.

४. गोरवांक खावड, तण, उदक घालपाक सामको कमी वेळ लागता.

५. कमी मानाय, बायलो लागतात. हाका लागून सुशेग मेळता आनी खर्च वाटवता.

६. बंद गोठ्यांत गोरवांची खुरां चड वाडतात. पूण मेकळ्या गोठ्यांत खुरां चड वाडनात आनी खुरांची दुयेंसां सामकी कमी जातात.

७. गोरवांक भोंवपाचो व्यायाम मेळटा, हाका लागून पचनशक्ती वाडटा आनी खाल्ले–पिल्लें आंगाक लागता.

८. खावड्यियलो खर्च कमी लागता.

९. गोरवांचो माज, फळपाक येवप वळखवप सोपें जाता. एक माज चुकप म्हणजेच खाणा पिण्यावयल्या खर्चाक लागून २५०० रुपया मालकाचे नुकसान जाता.

१०. गोरवांक जाय तितलें, जाय त्या वेळार उदक पिवपाक मेळटा जें भलायकेक खूब गरजेचें आसता.

११. आंगावयल्यो किट्टी, चामाळो, तशेंच मातयेंतले जंतू , किडे त्या जाग्यार येवपी कोंबयो, शेवणी, खातात आनी ताका लागून किरट, चामाळ, किडे, जंतूंचो बंदोबस्त जाता. आनी ताचे पासून जावपी दुयेंसा कमी जातात.

१२. जनावरांक मेकळी हवा आनी वत मेळटा जे भलायकेक बरें आसता.

१३. हें वेवस्थापन कमी तशेंच चड गोरवां पोसपाक फायदेशीर आसता.

१४. ह्या वेवस्थापनांत खूब जनावरां एकेच फावटीं पोसप शक्य जाता.

१५. उबाळ, पावस तशेंच शियां दिसांनी जनावरांक त्रास जाता हो समजय फट आसा.

१६. जनावरां झगडटात, तांका खावपाक सारकें मेळाना होय समज फट असा आनी ताका लागून भिवपाची गरज ना.




शेप ते शेप पध्दतीन गोरवां बांधपाच्या गोठ्याची मांडावळ. माप : फूटांनी




रुंदी २.५ फूट

खोलाय १.५ फूट

उंचाय २.० फूट

मुताचो आनी शेणाचो पाट



रुंदी ०.७५ फूट

खोलाय ५ इंच

शेप ते शेप पध्दतीन १० गोरवां बांधपाच्या गोठ्याची मांडावळ.

२० फुट

१.० ८.५ १.० ८.५ १.०

गवण

गोरवां उबी रावपाची जागा

मुताचो आनी शेणाचो पाट

मुताचो आनी शेणाचो पाट

गोरवां उबी रावपाची जागा

गवण

१.० ३.० ६.० ०.७५ २.५ ०.७५ ६.० ३.० १.०

२४ फुट

## ११. दूद धंद्यात नोंदी दवरपाचें म्हत्व

दूद धंद्यात सदांच नोंदी (रेकॉर्ड) दवरपाक खूब म्हत्व आसा, आनी हें चड गरजेचेंय आसा. सदांच त्या, त्या वेळार नोंदी करप, बरोवन दवरप, उपरांत ताचो अभ्यास करून आढावो घेवप. हाका लागून लुकसाणीचीं कारणां लक्षांत येतात. तातूंतल्यान मागीर गरजेचे उपाय करून धंदो फायद्यांत हाडपाक मदत जाता.

**नोंदी अश्यो दवरच्यो –**

**१. सगल्या डेअरी फार्माचो स्टॉक बूक रेकॉर्ड –** गोठ्यात आसात त्या सगल्या गोरवांची नोंद दवरची. ते खातीर सगल्या ल्हान–व्हड गोरवांची वळख उरतली असली वेवस्था करची. गोरवांची वळख दवरपाक तीन पद्धती वापरूं येतात.

**(अ) टेटोईंग –** हातूंत गोरवांच्या आंगार नंबर कोरतात. खासा रसायन वापरून हो नंबर कोरूं येता. तशेंच एखादी लोखणी वस्त गरम करून कोरूं येता वा पातळ नायट्रोजन असलीं क्रायोजेनिकां वापरून कोरूं येता.

**(ब) कानार नंबर मारप –** वळख दवरपाची दुसरी पद्धत म्हणल्यार गोरवांच्या कानार नंबर मारप. हो नंबर पितळेचो, ॲल्युमिनियमाचो वा प्लास्टिकाचो आसूं येता. हो नंबर चड करून दाव्या कानाक मारतात.

**(क) मायक्रोचिपिंग –** वळख दवरपाची तिसरी पद्धत म्हणल्यार मायक्रोचिपिंग. हातूंत १५ आंकडे कोरिल्ली मायक्रोचिप इंजेक्सना असले सुयेच्या आदारान कानाचे (चड करून दाव्या) चामडेपोंदा बसयतात. एकदां बसयले उपरांत ही मायक्रोचिप थंय कायम उरता. चिप डिटेक्टरा वरवीं नंबर पळोवन गोरवाक ओळखूं येता.

**२. वंशावळ आनी पेडिग्री रेकॉर्ड पळोवप –** हातूंत पाडकाचे आवयचो नंबर, जात., बापायचो नंबर, जात, असली पुराय म्हायती, जल्म तारीख, जल्माच्या वेळा वयलें वजन, जनावराची पिराय, आयुश्यमान, सरासरी दूद दिवपाची तांक, तांचें मोल, अशी म्हायती मेळटा.

**३. भलायकी (हेल्थ, मेडिसिन) नोंदी –** हातूंत पाडकाच्या जल्मासावन वा नवी गाय, म्हस हाडल्या तेन्नाच्यान तांकां दंताचें वखद घाल्ली तारीख, परत घालपाची तारीख, खंयचें वासीन

केन्ना केलां, परत केन्ना करपाचें ती तारीख, आदीं जाल्लें कसलेंय दुयेंस, ताचेर केल्लीं वखदां, असल्यो सगल्यो नोंदी वेळावेळार वेवस्थीत बरोवन दवरच्यो.

**४. कृत्रीम वीर्यदान आनी गाबणपणाच्यो नोंदी –** हातूंत गोरूं खंयच्या दिसा, खंयच्या वेळार माजार, फळपाक आयिल्लें, कृत्रीम वीर्यदान केन्ना केल्लें, गर्भाशयांत कसलींय वखदां घाल्लीं?, कसलींय इंजेसावां केल्लीं? हाच्यो नोंदी दवरच्यो. वीर्यदान केल्ली तारीख, २१ दिसां उपरांत परत फळपाक येवपाची तारीख बरोवन दवरची. अशें केल्ल्यान गाय–म्हस परत फळपाक येता वा ना हाचेर बारीकसाणीन लक्ष दवरूं येतलें. ताचे उपरांत ३ म्हयन्यांनी गाय–म्हस गाबण जाल्या वा ना तेंय तपासून पळोवचें. गाब आसल्यार तितल्या प्रमाणान खावड वाडोवची. गरज पडल्यार ड्युराप्रोजेन, प्रोजेस्ट्रेरॉन असलीं इंजेसावां करून घेवचीं. साडे स म्हयने जाले उपरांत टप्प्याटप्प्यान गाबण गोरवाचें दूद बंद करचें. शेवटाक पान्यांत वखदाचे ट्यूब घालचे. व्हिवपाची तारीख बरोवन दवरची. ताका लागून व्हिवपाच्या आठ दिसां आदीं सावन जनावराची खासा जतनाय घेवप शक्य जातलें. दरेका जनावराची म्हायती बरोवपाक स्वतंत्र पान वापरचें.

**५. दरेका जनावराची आनी सगल्या फार्माची नोंदपटी –** हातूंत दरेका जनावराचें सकाळ–सांजेचें दूद बरोवचें. एखादे वेळार दुदांत गुळे आयल्यात, दूद उणें जालां, जाल्यार कळटलें. ताचेर गरजेचे उपाय करपाक मेळटले. खंयचें जनावर कशें दूद दिता, भलायकी कशी आसा तेंय कळटलें. अशे तरेन दरेक जनावराच्यो नोंदी कळतगीर सगल्या फार्माच्यो नोंदी कळटल्यो आनी सद्याची स्थितीय कळटली.

**६. सगल्या वस्तुंचो स्टॉक रजिस्टर –** हातूंत फार्मा वयले दरेक वस्तुचो सांठो, देखीक फार्मावयलें सुकें तण, पाचवें तण, खावड, सगलीं आयदनां, कायली, बादल्यो, खोरीं, वखदां, वासिनां हांची नोंद दवरची. तांचो दर दिसा, सप्तकांत तशेंच म्हयन्यांत नियाळ घेवचो.

७. कमी फायद्याचीं, लुकसाणीचीं जनावरां. चड आशिल्लीं, विकपाचीं जनावरां ह्या सगल्याची वळेरी दवरची.

**८. रोख नोंदी (कॅश बूक) –** हे पटयेंत दरेक दिसाचो जमा खर्च बरोवचो. हाका लागून फार्माची खरी आनी सद्याची स्थिती कळटली.

## १२. गोरवांक वेळचेवेळार करपाचीं वासिनां, ( लसी) –

दुयेंस जाले उपरांत वखधां, उपचार करचे परस दुयेंस जावचेंच न्हय म्हणून सादुरकाय बाळगुवप शाणेपणाचें आनी गरजेचें. हाका लागून गोरवाची भलायकी, आयुश्य बरें उरतलें, तेच वांगडा ताचे पसून मेळपी उत्पादनांत आडखळ येवची ना. तशेंच वखदांचेर जावपी खर्च वाचतलो. वासिनां करचे १० दीस पयलीं गोरवाक सदांच दंतांचें वखद दिवचें. ताका लागून वासिनाचो बरो परिणाम जातलो आनी दुयेंसा कडेन झगडपाची फावो ती शक्त तयार जातली.

**गोरवांक वेळचेवेळार करपाचीं वासिनां, सर्वसादारण वासिनां, लसी –**

| नंबर | दूयेंसाचे नांव | वासिनाचे नांव | करपाचो वेळ | राखणेचो तेप |
|---|---|---|---|---|
| १ | घटर्सप(एच.एस.) | एच.एस. वासीन | वर्सुकी, मे जून महिन्यात | १ वर्स |
| २ | फन्या (बी. क्यू) | बी.क्यू. वासीन | वर्सुकी, मे जून महिन्यात | १ वर्स |
| ३ | लाग (यफ.एम.डी) | यफ. एम. डी. वासीन | वर्साक २ फावट मार्च – सप्टेंबर | ६ म्हयने |
| ४ | मन्या (अँथरेक्स) | अँथरेक्स स्पोर वासीन | वर्सुकी, मे जून महिन्यात | १ वर्स |
| ५ | ब्रुसेलोसिस | ब्रुसेला कॉटन १९ स्ट्रेन वासिन | जिणेत १ फावट ४–८ महिन्याचेर | जिणभर |
| ६ | थेलेरीओसीस | रक्षाव्हॅक्स–टी | वर्सुकी | १ वर्स |

हाली दिसांनी दोन वा चड वासिनां एकीकडेन केल्ले एकच वासिन बाजारात मेळटा. त्या वासिनाचो उपयोग दुदकारांनी करपाक येता. हाचो बरो परिणाम जनावराच्या भलायकीचेर जाता.

## **१३. गाबण गायेची, म्हशीची कुयदाद**

गाबण गायच्या – म्हशीची कुयदाद घेवपांत तीन गजाली म्हत्वाच्यो आसात.,

१. गाय, म्हस केन्ना गाब जाल्या आनी केन्ना व्हितली तें पळोवप,.

२. गाबण काळात घालपाची खावड.,

३. गाबण काळात घेवपाची कुयदाद.,

गाय, म्हशीक कृत्रीम वीर्यदान केल्लें आसत जाल्यार ती तारीख बरोवन दवरची. एखाद्या वेळार पाडो वा रेडो लागल्यार पसून तो दीस बरोवन दवरचो आनी फुडले पाळयेक परत गरमेर (फळाक) आयलीना जाल्यार त्या दिसा सावन अडेच ते तीन म्हयन्यानी जनावर तपासून घेवचें. जनावर गाब आसल्यार बरें जाले, ना जाल्यार गाब जावपाक म्हणल्यारूच माजार येवपाक आनी धरपाक उपाय करूं येतात. गाब आसत जाल्यार तें केन्ना व्हितलें हें बरोवन दवरचें. चडशो गायी ९ म्हयने आनी ९ दिसांनी व्हितात आनी म्हशी १० म्हयने आनी १० दिसांनी व्हितात. हातूंत ५ दीस फुडें फाटीं जावं येता.

जनावर खंयच्या म्हयन्यांत गाब जालां आनी केन्ना व्हितलें हाका भोव म्हत्व आसा. गाय जर जून म्हयन्यांत गाब जाली जाल्यार मार्च म्हयन्यांत व्हिता. जुलय–ऑगस्ट म्हयन्या सावन पाचवें तण मेळटा. हें तण मार्च म्हयन्या मेरेन मेळटा. ह्या वेळार हवामानूय थंड आसता. ऑक्टोबर म्हयन्यांत हरवण भरपूर मेळटा आनी दुदय चड मेळटा. म्हशी चड करून सप्टेंबर ते डिसेंबर म्हयन्यांत व्हितात. गर्भधारणा जातकूच पयले स म्हयने गर्भाची वाड हळुहळू जाता. ह्यावेळार दूद चालू आसता आनी जनावराक खावडूय चालू आसता, ही खावड गर्भाकूय मेळटा. गाबणपणाच्या निमण्या तीन म्हयन्यांत (७, ८ आनी ९व्या म्हयन्यांत) गर्भाची वाड दुपेटीन जाता. ह्या वेळार जनावराक आवयक (गायेक, म्हशीक) भरपूर आनी संतुळीत खावड दिवपाकूच जाय. ह्या वेळार हळुहळू करून जनावराचें दूद बंद करपाक जाय (सुकोवपाक) जाय. म्हशीचें दूद सुकोवप सामकें सोपें आसता. गायेचें दूद सुकोवप मात कटकटीचें आसता. गायेचे दूद सुकोवपाक साडे स म्हयन्यांचेर सुरवात करची. पयले थोडे दीस पुराय दूद काडचें न्हय. ताचे उपरांत थोडे दीस एक फावटीचें दूद काडचें. मागीर थोडे दीस आतऱ्यापयऱ्यान दूद काडचें. ह्या दिसांनी गायेची खावड कमी करची, अशा वेळार मात उदक अजिबात कमी करचें न्हय. दनपारां २ उपरांत २ ते ४ दिसांनी एके फावटीं दूद काडचें. अखेरेक जेन्ना दूद सामकें कमी जातलें (पाव

# गर्भाशयातल्यो पाडकांच्यो वेगवेगळ्यो बसकां.











लिटरा परस कमी जातलें) तेन्ना पान्यामदीं निक्रोपनाशक ट्यूब चडोवचे आनी दूद सामकें बंद करचें. तेच वांगडा ८ ते १० दीस पान्याचीं टोकां डिपाल वा पोवीडीन आयोडीन वा बेटाडीन ह्या वखदांत दिसाक दोन फावटीं बुडोवन काडचीं. हाका लागून पान्यामदीं निक्रोप वाडचे नात, आनी फुडल्या व्हिताक व्हंट बरी उरतली. दूद सुकयिल्ल्यान व्हंटयेच्या पेशींक सुशेग मेळटा. नव्यो पेशी तयार जातात. पेशींची परत जडण घडण जाता आनी फुडल्या व्हिताक बरें दूद मेळटा. सात म्हयन्यां पसून वासरूं गरगरीत वाडटा, ताचीं हाडां–मांस तयार जाता. ह्या वेळार ताका कॅल्शियम, फॉस्फरस आनी ड जिवनसत्वाची चड गरज आसता. ताका लागून गाबण गोरवाचे खावडीत संतुळीत ३० ते ५० ग्रॅम दर दिसा कॅल्शियम, फॉस्फरस आनी जिवनसत्व ड आसपी क्षार मिश्रण घालपाक जाय. ताका लागून गोरवां माती खावचीं नात, वणत चाटचीं नात आनी तांकां व्हिले उपरांत दुयेसां कमी जातलीं. तेच वांगडा गाबण गोरवाक रगतांत कॅल्शियम आनी फॉस्फरसाचें प्रमाण गरजे परस चड जावपाक जायना. हाका लागून गाय, म्हस व्हिवचे ७ ते ८ दीस पयलीं खावडीतलें क्षार मिश्रण कमी करचें. म्हणल्यार जनावर आपल्या आंगांतलो आनी हाडांतलो कॅल्शियम, फॉस्फरस वापरपाक लागता.

गाय, म्हस व्हिवचे आठ दीस पयलीं डी–३ जिवनसत्व १० मिलीयन आ. यू. चें इंजेसांव करून घेवचें. हाका लागून गाय, म्हस व्हितकीर एकदम कॅल्शियम, फॉस्फरस देवचें ना. तशेंच दुधाजोरा असलीं दुयेसां जावपाची शक्यताय उणी जातली.

**१४. गोरवांची व्हिवचे पयलीं आनी व्हितना घेवपाची कुयदाद**

गाय, म्हस व्हिवचे आठ दीस पयलीं मिनरल मिक्सर खाणांत कमी करचेंच, तेच वांगडा हरवें तण खावपाक वाडोवचें. शेण निबर, घट्ट जालें जाल्यार आतडी, गर्भाशय आनी सुतलेचेर पेंच येता. हरवें तण घाल्ल्यान शेण पातळ जाता आनी असो पेच येना. व्हिवचे आठ दीस पयलीं गाबण गोरवाक गोठ्यांत वेगळें बांदचें. दूदकारान ताचेर दीस–रात लक्ष दवरचें. गोरवां बांदपाची सुवात हवेशीर, मेकळी आनी उबदार आसची. गोठो सुको आनी उबदार उरपाक पांयां कडेन सुकें तण वा गवाचीं काडां घालचीं. हाचो उपेग गादी कसो जाता. गोरवाच्या पोंदा रबरी मॅटस घालप मातशें खर्चीक आसलें तरीय एकदम बरें आसता. ह्या मेटाचेर गोरवां निसरनात. तांच्या धोपरांक, खुरांक मार बसना. व्हंट सुकी उरता, तिका मार बसना. ताका लागून व्हंटयेच्या दुयेंसाची शक्यताय उणी जाता. व्हिताच्या निमाण्या

सप्तकांत व्हंटयेची सामकी कुयदाद घेवपाक जाय. ती सामकी निवळ दवरची. व्हंटयेक सूज आयली जाल्यार केन्नाच हून उदकान शेकची न्हय. थंड उदकान वा झेलान शेकची. दुखीची आनी ॲन्टिबायोटिक्स इंजेसावां करून घेवचीं. दुखीचीं मलमां लावं येतात. व्हिताच्या आठ दिसा आदीं साकून गाबण गोरवांक चरपाक पयस रानांत, शेतांत धाडचीं न्हय. तांकां लागींच चरपाक सोडचीं, व्यायाम दिवचो, उदक भरपूर पिवपाक दिवचें.

गोरवां व्हिवपाच्या दोन दीस आदीं अस्वथ जातात. तिच्या फाटल्या पायां वयर आनी सुतलेचे वयर दोनूय अर्दांनी फोंडकुलां कशीं पडटात. सुतली सूजता, व्हंट मातशी जाड जाता, पाने टवटवीत जातात, ती शेपडी वयर काडटा, सुतलेंतल्यान घागे कशे आनी बोळ व्हांवपाक लागता. ह्या लक्षणां वयल्यान गाय, म्हस व्हिताक तयार जाली अशें समजुचें.

**गाय, म्हस व्हितना घेवपाची कुयदाद**

गाय–म्हस व्हिताक आयली म्हणटकूच सुतलेंतल्यान धागे कशे आनी बोळ कसो व्हांवपाक लागता. नेट (फोर्स) मारता, थोडें थोडें शेण करता, थांबून थांबून मूतता आनी चड ताणावपाक लागतकीर सकयल बसता. आडवी पडटा आनी फाटले पांय ताणायता. ताचे उपरांत सादारण अर्दवरा उपरांत उदकाची पिशवी गर्भाशयांतल्यान, सुतलेंतल्यान भायर सरता. मागीर अर्दवरा उपरांत दुसरी पिशवी बोमाडो कशी (परपोटो) भायर सरता. तो फुटून बुळबुळीत उदक कशें व्हांवता. चड करून पयलीं वासराचे फुडले पांय भायर सरतात, उपरांत तकली, माथें भायर सरता, अखेरेक वासरूं भायर येता. जनावर वेवस्थीत व्हिता जाल्यार ताका कसलोच आदार करपाची गरज पडना. मात परपोटो येवन अर्दवरा भितर वासरूं भायर सरलेंना जाल्यार नेट मारून वासरूं भायर काडचें. वासराची स्थिती सारकी नासत, वासरूं चड जाड आसत, ताची तकली वांकडी आसत, पांय वांकडे जावन भितर गेल्ले आसत, (केना केन्ना वासराची शेपटी दिसता आनी वासरूं फाटल्या पांयांनी जल्माक येता), हें सगलें पळोवन अर्दवरा भितर वासरूं भायर काडपाक जाय. चड वेळ गेल्यार वासरूं मरपाक शकता. हाका लागून गायेच्या म्हशीच्या धनयान बेगोबेग दोतोराक आपोवन जनावराची सोडवणूक करपाक जाय. गर्भाशयाचें तोंड सारकें उगतें जालें ना जाल्यार येपिडोसीन ऑक्सिटोसीन, पीटोसीन, सिन्थोसीन असलीं इंजेसावां करून घेवचीं पडटात आनी उपरांत भितर हात घालून वासरूं फिरोवन काडूंक मेळटा

जाल्यार पळोवंक जाय. केन्ना केन्ना गर्भाशयाचो पीळ निबर, घट्ट आसता. अशा वेळार गायेच्या, म्हशीच्या पोटार फळी दवरून पळट्यो मारच्यो पडटात. योनी मार्ग ल्हान आनी वासरूं मोटें आसत जाल्यार वा गर्भाशयाचो पीळ सुटना जाल्यार अखेरेचो उपाय म्हणून सिझेरियन करून वासरूं भायर काडचें पडटा. गर्भाशयाचें ऑपरेशन केलें जाल्यार ५ ते ७ दीस जनावराची खाशेली कुयदाद घेवची पडटा. हातूंत जनावराक खावपाक–पिवपाक दितना पातळ आनी हलको आहार दिवप, दर दिसा सर लावप, ॲन्टिबायोटीक्स, दुखीचीं, ॲन्टिहिस्टामिनीक इंजेसावां दिवप, गर्भाशया भितर पातळ वखद, गुळयो घालप सामकें गरजेचें. हाका लागून जनावर बेगीन बरें जातलें आनी फुडले फावटीं परत गाब जातलें. वासरू भायर सरतकीर अर्द किलो गोड ५ ते ७ लिटर दुगदुगीत उदकांत घोळोवन पिवपाक दिवचें. हें खूब म्हत्वाचें. हाका लागून जनावराक शक्त मेळटा. व्हितावेळार जाल्ली दूख रोखडीच भरून येता. मुखार गोरूं बरें दूद दिता. व्हिले उपरांत अर्दवरा भितर गोरवांचो दीक, चीक काडचो आनी जाय तितलो वासराक दिवचो.

**गायेक, म्हशीक खावड** : २ कील सुकें भात आनी ४ ते ५ कील कोंड्याचो वा कळकीचो पालो दिवचो. गोरवाची वार ४ ते ६ वरां भितर पडली ना जाल्यार फाव ते उपाय करपाक जाय. गायेचे म्हशीचे व्हंटये कडेन बारीक लक्ष दिवचें. व्हंट सारकी नासत जाल्यार रोखडेच उपाय करपाक जाय. गाय, म्हस व्हितगीर वारी कडन लक्ष दवरपाक जाय. कारण पडिल्ली वार गाय, म्हस रोखडीच खावपाक शकता. वार पडले उपरांत बेगोबेग ती शेणाच्या फोंडाऱ्यांत पुरची. त्या उपरांत जनावराक तापयिल्ल्या उदकान न्हांणोवचें. सुतलेक आठ दीस जंतूनाशक वखद वा हळदीचो पिठो आनी तेल लावचें. गायेचें, म्हशीचें आंग भायर सरता जाल्यार मागीर खाशेले उपाय करचे. हातूंत तांकां संतुळीत खावड दिवप, योग्य प्रमाणात सदांच मिनेरेल मिक्सर घालप, कॅल्शियम सर लावप, दुखीचीं – आंग शांत जावपाचीं इंजेसावां करप, प्रोजेस्ट्रेरोन इंजेसावां करप, फाटीच्या कण्याक इंजेसावां करप, फाटलो भाग वयर दवरप, सुतलेच्या मासाक (स्नायूंक) सबमुकोसाल मॅट्रेस टाके घालप, अशें करचें पडटा. गाय, म्हस व्हिले उपरांत चड दीक काडचो न्हय. दुसऱ्या वा तिसऱ्या दिसासावन हळू हळू खावड वाडोवची. गोरवांक २ कील खावड लागता. ६ ते ८ कील सुकें तण आनी १० ते ३० कील हरवें तण जाय पडटा. तीन लिटर दूद तयार जावपाक एक कील बऱ्या दर्जाची, संतुळीत खावड जाय पडटा. ताचे उपरांत दीसपट्टे २१ दीस

हळू हळू खावड वाडोवची आनी त्या प्रमाणांत दूद वाडटा कांय ना तें पळोवचें. खावड वाडयली तरीय दूद वाडना तितली खावड नक्की करची आनी सदांच संतुळीत खावड जनावराक दिवची. एका व्हिताक गायेन, म्हशीन ३१० ते ३१५ दीस दूद दिवपाक जाय. बऱ्या दुदाच्या गोरवाच्यो तीन परस चड बरगड्यो दिसपाक फावना. चड करून हरवें तण दनपारा पयलीं जाल्यार सुकें तण दनपारां उपरांत दिवचें. सगल्यांत म्हत्वाचें म्हणल्यार व्हंट बरी आनी निरोगी आसपाक जाय. व्हिले उपरांत बरे जातीचे गायेक, म्हशीक कॅल्शियम, डेक्सट्रोज हांचे सर तशेंच टोनोफॉस्फान असलीं इंजेसावां करचीं. चड करून कसलेंच दुयेंस जावचें ना हाची जतनाय घेवची आनी कितेंय जालेंच जाल्यार रोखडेच उपाय करचे. गायेक, म्हशीक दिसांतल्यान एक वा दोन फावटीं न्हाणोवची, धुवची आनी दिसांतल्यान चार फावटीं उदक पिवपाक दिवचें. व्हिले उपरांत एका म्हयन्या भितर जनावर फळाक येवपाक शकता. पूण गाय ४५ ते ६० दिसां उपरांत फळोवची जाल्यार म्हस ९० ते १२० दिसा उपरांत फळोवची. एकदां म्हस गाब जाली म्हणटकीर दूद दिवपाक त्रास करता. जर गाय, म्हस दोन म्हयन्यां भितर फळाक आयली ना जाल्यार तिका सारकी तपासूंक जाय आनी फळाक हाडपाक जाय. ते खातीर गरजेचीं वखदां, गुळयो, इंजेसावां दिवपाक जाय.



दूद काडपाचें मशिन

**१५. दूद उणें जाता वा बंद जाता**

जनावर दूद उणें दिता ही दुदकारांची सदांच कागाळ आसता. दूद उणें जावपाक जायतीं कारणां आसतात. तांचो परिपूर्ण विचार करून योग्य उपाय करपाक जाय.

१. जनावर ताजें व्हिलां वा व्हिले उपरांत कांय दुयेंस ना मूं हें पळोवचें. व्हिवपाक त्रास जाल्लो आनी पाडूक ओडून काडचें पडिल्लें, वार पडूंक ना, गर्भाशयाक सूज आयल्या, दंताचें आनी हेर दुयेसां हांचीय तपासणी करून दोतोराच्या सल्ल्यान योग्य उपाय करचे.

२. व्हंटयेचें दुयेंस : दोतोराच्या सल्ल्यान योग्य उपाय करून घेवचे.

३. जनावर पानेना : जनावर व्हिले उपरांत पाडूक वा रेडूक मरता आनी उपरांत गाय–म्हस पानेवपाक त्रास करता.

४. गोरवाक सारखी खावड दिवपाची, परत परत बदलची न्हय. खावडींत जिवनसत्वां, खनीज पदार्थ, क्षार घालपाक जाय.

५. जनावराक डेक्स्ट्रोज, कॅल्शियम, फॉस्फरस असलीं इंजेसावां, सर करून घेवपाक जाय. जनावराक कसलेंय दुयेंस जालें आनी जिवाक बरें दिसना जाल्यार ताचेर रोखडेच दोतोराच्या सल्ल्यान उपाय करपाक जाय.

६. दूद काडपी मनीस अनवळखी आसप, दूद काडटना जनावर भियेल्लें आसप, अचकीत अनवळखी मनीस येवप, व्हडान आवाज जावप, अशे प्रकार घडटा तेन्ना जनावर दूद दिवप कमी करता.

७. जनावर उदक कमी पिलें वा ताका उदक कमी दिलें जाल्यार दुदाचें प्रमाण उणें जाता. हवामानांत एकदम बदल जालो वा जनावराचो सदांचो जागो बदललो जाल्यारूय दूद कमी मेळटा. दूद काडपाच्या दोन वळांमदीं अंतर उणें आसता तेन्नाय दूद कमी मेळटा.

८. व्हंटयेची वाड वेवस्थीत जालीना, वा व्हिवच्या आदल्या व्हिताक शेवटाक जनावराक दूद सुकोवपाक देड ते दोन म्हयने सुशेग दिलोना, खावड भरपूर दिलीना जाल्यार दूद कमी मेळटा. हातूंतलें दरेक कारण सोदून काडून ते प्रमाणें उपाय करचे. दोतोराच्या सल्ल्यान बून ओ मिल्क, गेलोग, टोनोमिल्क, लॅक्टोवेट, प्रायाप्रो, लेप्टाडेन असलीं पातळ वखदां वा गुळयो दिवच्यो.

## १६. वासरांची जतनाय (वासरां वाडोवप)

वासरांचो फुडार हो गाय, म्हशीच्या पोटांत आसतनाच सुरु जाता. वासराची जात, ताचे आवयची जतनाय कशी घेतल्या, तांकां समतोल आहार दिला काय ना, तांकां केल्लीं वासिनां, तांकां वेळावेळार दंतांचें वखद घाला काय ना, हाचेर निंबून आसता. आमच्या दुदकारांक वासरू बेगीन वाडून व्हडलें जाल्लें जाय आसता. ताची वेवस्थीत वाड जावन ती गाय–म्हस जावन चडांत चड दूद दिवपाक जाय. ते खातीर वासराक भरपूर चीक आनी दूद (पाडकाच्या वजनाच्या १० टक्के चीक दर दिसाक) दिवपाक जाय. पयल्या थोड्या दिसां उपरांत चिकाचें रुपांतर दुदांत जातलें. पिरायेच्या तीन म्हयन्यां मेरेन पाडकाक दूद दिलें जाल्यार ताची वाड वेवस्थीत जावपाक बऱ्याक पडटा. ताचे उपरांत हळू हळू दुदाच्या बदला प्रथिनां आशिल्ले पाडकांचें स्टाटर रेशन दिवपाक जाय.

वासरू जल्माक येतकीर सगल्यांत पयलीं ताचें नाक आऩी तोंड निवळ करचें. ताच्या नाका तोडांत गेल्लो बुळबुळीत बोळ काडून उडोवचो आनी ताका श्वास घेवपाक मेकळीक करून दिवची. वासराक रोखडोच चीक पिवपाक दिवचो. हो चीक जाता तितले बेगीन पयल्या अर्दवराभितर पिवपाक मेळपाक जाय. अशे तरेन वासराक दिसाक ताच्या वजनाच्या अदमास १० टक्के (२ कील) इतलो दिवपाक जाय. ह्या चिकाक लागून वासराक ल्हान पिरायेरूच सगल्या दुयेसां कडेन झगडपाची शक्त मेळटा. हो चिक पियेल्ल्यान ताच्या पोटांतली सगली चिकचिकीत घाण भायर पडटा. तशेंच वासरान लुचिल्ल्यान आवयची वार बेगीन सदळ जावन भायर पडपाक आदार जाता. ताचे उपरांत वासराक नितळ कपड्यान वा तुवाल्यान पुसून गाय, म्हशीम्हऱ्यांत चाटपाक दवरचें. आवयन वासराची बोंबली चाटून जातकीर ताच्या पोटा कडल्यान चार बोटां (चार इंच) सकयल नवी ब्लेड वा नवी कातर घेवन बोंबलेचो सकयलो भाग कातरून उडोवचो. उपरांत बोंबलेचो भाग निवळ सुतान घट्ट बांदचो आनी थंय पचपचीत टिंक्चर आयोडीन लावचें. चार ते पांच दीस आयोडीनान पुसून काडून हळडीचो पिठो लावचो.

एखाद्या वेळार गायेक, म्हशीक चीक फाव तितल्या प्रमाणांत तयार जालो ना जाल्यार, वासराक हेर गायेचो, म्हशीचो चीक लुचपाक दिवचो. हें शक्य जालें ना जाल्यार अर्द लिटर दुदांत अर्द लिटर दुगदुगीत उदक घालचें. तातूंत कोंबयेचें एक तांतीं फोडून घोळोवचें, एक कुलेर कोडलिवर ऑयल आनी चार कुलेरां एरंडेल घालचें. हें सगलें घोळोवन दुगदुगीत करून वासराक दिसातल्यान ३ ते ४ फावटीं

दिवचें. हें मिश्रण पाडकाच्या वजनाच्या १० टक्के ह्या प्रमाणांत एक म्हयनो मेरेन पिवपाक दिवं येता. खरें म्हणल्यार वासराची वाड बरी आनी बेगीन जावपाक ३ ते ४ म्हयने आवयचें दूद दिवप बरें आनी गरजेचें. पूण एक म्हयनो मेरेन तरी आवयचें दूद दिवपाकूच जाय. व्हितकूच २० दिसां उपरांत वासराक काफ स्टार्टर खावड सुरु करची. दूद सोसायटींनी ही खावड तयार मेळटा. दुदकाराच्यानूय ती आपल्या घरा तयार करूं येता. ताचें प्रमाण अशें आसा –

| | |
|---|---|
| भड्डील्लो हळडुवो मको | ५५ वांटे |
| भिकणांची पेंड | ३५ वांटे |
| गवांचो भुसो | ८ वांटे |
| मिनरल मिश्रण | २ वांटे |

हें सगलें मिश्रण वासराचे पिरायेच्या १० ते १५ दिसांचेर सुरू करचें. सुरवेक १० ग्रॅम घालचें. उपरांत तातूंत हळू हळू वाड करीत रावची. एका म्हयन्या उपरांत दिसाक एक कील, दोन म्हयन्यां मेरेन घालचें. पाडकाक पिरायेच्या ६ म्हयने मेरेन म्हयन्याक २ कील घालूं येता. ताचे वांगडा १५ दिसांसावन दिसाक १ ते २ मिली विमेराल वा विटाम्बेंड टॉनीक घालचें. वासराक पिरायेच्या १० ते १५ दिसांच्यान दंतांचें वखद चालू करपाक जाय. हें वखद वेळचेवेळार म्हणजेच दर म्हयन्यांत एकदां अशे तरेन ६ म्हयने मेरेन घालचें. ताचे उपरांत एका वर्सा मेरेन दर तीन म्हयन्यांतल्यान एकदां आनी एका वर्सा उपरांत दर स म्हयन्यांनी म्हणल्यार पावसाळ्या पयलीं आनी उपरांत अशें वर्साक दोनूच फावटीं घालचें.

पाडकाक पयले ६ म्हयने वांटकुळ्या दंताचें प्रमाण चड आसता, ते खातीर पायप्राझीन हें वखद चड परिणामकारक आसता. सादारणपणान ३० कील वजनाच्या पाडकाक १० ते १५ मिली वखद पुरो जाता. वासराचीं शिंगां काडून उडोवपाचीं आसत जाल्यार पयल्या वा दुसऱ्या म्हयन्यांत काडचीं. वासराक सदांच क्षार, मिनेरल आनी विटामिनांची गरज आसता. तीं वासराक दर दिसाच्या खाणांत घालचीं म्हणजे वाड वेवस्थीत जातली. दर वर्सा पावसा आदीं मे ते जून म्हयन्यांत घटसर्प आनी फऱ्याचीं वासिनां, लसी करून घेवचीं. पिरायेच्या ४ म्हयन्यांचेर लागीचें वासीन करून घेवचें आनी उपरांत दर ६ म्हयन्यांनी परत करून घेवचें. गोठो सदांच नितळ दवरचो. तातूंत दर १५ दिसांनी डीडीटी, २ टक्के मेलेथियोन, रीड, ब्युटेक्स, क्लिनरवेट, असलीं वखदां शिंपडचीं. पाडकाच्या आंगार किट्टी, लिको

आसत जाल्यार किट्टींचीं वखदां पातळ करून लावचीं. गरज पडल्यार दर म्हयन्यांत हायटेक, आवरमेक्टीन असलीं इंजेसावां करूं येता. वासराक संतुलीत खावड दिवची. पिरायेच्या १५ दिसां सावन हरवें तण खावपाक शिकोवचें. एका म्हयन्या सावन हरवो पालो खावपाक घालचो. तातूंतल्यान जीवनसत्व अ, ब आनी क मेळटलें.

वासराच्या आंगार चरबी जावची न्हय म्हणून ताका उगते सुवातेर चरपाक सोडचें. व्यायाम दिवचो. ताचें वजन सरासरी दिसाक ५०० ग्रॅम वाडटा. जल्माक आयिल्लें संकरीत वासरूं २० कील आसत जाल्यार तीन म्हयन्यांचेर ६० कील, चार म्हयन्यांचेर ८० कील, ८ म्हयन्यांचेर १६० कील आनी एका वर्सा मेरेन २०० कील वजनाचें जालें जाल्यार ताची वाड वेवस्थीत जाता अशें धरचें. एका वर्सान ताका तपासल्यार ताची गर्भाशयाची वाड वेवस्थीत जाल्या काय ना तेंय कळटा. तशें नासत जाल्यार फावो ते उपाय करपाक मेळटा.

वेवस्थीत वाड जालें वासरूं १० म्हयन्यांचेर फळपाक येता. ताका १५ म्हयन्यां उपरांत २५० कील वजन जाले उपरांत फळोवचें, म्हणजे अडेच वर्सां उपरांत वासरूं गाय जावपाक शकतलें..

**१७. वासरांचीं शिंगा काडप (डिसबडिंग)**

शिंगां हो गोरवाचो राखणेचो (डिफेन्स) आनी हल्लो (ऑफेन्सस) करपाचो, घालो घालपाचो आंगाचो भाग. ह्या शिंगांक लागून हेर गोरवांक, तांच्या राखण्यांक तशेंच हेर लोकांक गंभीर जखमो जावपाक शकतात. शिंगांचो आकार आनी मांडावळ हें दर एका जातीच्या गोरवांचें खास लक्षण आसता.

गोरवांचीं शिंगां काडून उडोवपाचीं आसत जाल्यार तांची वाड ल्हानपणातूच बंद करपाक जाय. शिंगां नाशिल्लीं म्हणल्यार काडिल्लीं गोरवां सादीं आनी सांबाळपाक सोपीं आसतात. शिंगां आशिल्लीं गोरवां मस्तीं आसपाक शकतात. तांकां शिंगांचो कांक्र आनी हेर दुयेसां जावंक शकतात. पाडकाच्या जल्मा उपरांत दुसऱ्या आनी तिसऱ्या सप्तकांत शिंगांचे कोंब दिसपाक लागतात. ह्या वेळार शिंगां काडप योग्य आसता.

**वासरांचीं शिंगां तीन तरेन काडूं येतात**

**१) कॉस्टीक पॉटेशाचो खोडू वा काडी वापरून :** पयले सुवातेर पाडकाक योग्य तरेन बांदप. ताका लागून शिंगांचे कोंब काडटना तीं चड हालचीं नात, मस्तीय करचीं नात. शिंगांच्या कोंबा भोंवतणचे केंस

काडचे. एका रुपयाच्या आकाराची जागा सोडून हेर कडेन व्हॅजलीन लावचें. उपरांत कॉस्टीक पॉटेशाची काडी पेपरांत गुठलावन हातांत धरची आनी शिंगांच्या कोंबार नेटान घांसची. ताचे उपरांत थोड्याच वेळान शिंगाचो कोंब निखळटा आनी मात्शें रक्त येवपाक लागता. तेन्ना कॉस्टीकान घांसप बंद करचें आनी शिंगाच्या कोंबा जाग्यार जंतूनाशक पावडर लावची. कॉस्टीक पॉटेशा शिवाय ल्हान वासरांक अॅन्टीमनी ट्राय क्लोरायड वा सॅलीसेलीक आम्ल (कोलायडीयॉन) हाचो वापर करपाक येता.

**२) लोखंड वा स्टीलाची वस्त तापोवन शिंगाचें कोंब काडप.**

**३) ईलेक्ट्रीक डिहॉर्नर वापरून :** थारावीक कंपनीचे ईलेक्ट्रीक डिहॉर्नर मेळटात. तांच्या आदारान शिंगांचे कोंब काडूं येता. विजेचेर चलपी यंत्रान २ ते ३ म्हयन्यांच्या वासरांचीं शिंगां काडूं येतात. ह्या यंत्रांतल्या धातूच्या दांड्याचें तापमान ९०० ते १००० डि. फे. मेरेन आसता. शिंगांच्यो पेशी आनी कोंब वचपाक फकत ९ ते १० सकंद लागतात.

एकदां शिंगांचे कोंब काडले म्हणटकूच १ ते २ सप्तकां तांची जतनाय घेवची पडटा. वातावरण दमट आसता, भोंवतणी मूस चड आसतात तेन्ना शिंगाचें कोंब काडचे न्हय. शिंगा काडिल्ली सुवात नितळ दवरची आनी पेकता मेरेन सदांच सुके जंतूनाशक पावडरीन ड्रेसिंग करचें.



वासरांची शिंगा काडप



## १८. उबाळ आनी पावसाच्या दिसानी जनावराची घेवपाची कुयदाद

आमचो भारत हो एक गरमेच्या वाठारांतलो देश. उबाळाच्या दिसांनी म्हणल्यारूच मार्च ते जून महिन्यात आमकां तशेंच गोरवांक हुनसाणीचे भोव त्रास जातात. गोरवांचे भलायकेचेर तशेंच दूद उत्पादनाचेर आनी कामाचे तांकीचेर परिणाम जाता. हाचे उरफाटें शिंया दिसांनी म्हणल्यारूच ऑक्टोबर ते फेब्रुवारी मेरेनचो तेप भलायकेक बरो आसता. ह्या तेपार दूद चड मेळटा. मनशां भशेन गोरवांक घाम येना. कित्याक तर गोरवांचे काती सकयल घामाचे पींड नासतात. तांची हूम श्वासांतल्यान आनी नाकातोंडा वटयां भायर सरता. गोरवां जितलें उदक चड पितात तितली तांच्या आंगातली हूम कमी जाता. सैमाच्या नेमा प्रमाणे आंगातली हुनसाण स्थीर दवरप सामकें गरजेचें. उबाळाच्या दिसांनी हवेचें तापमान १०० डिग्री फॅरेनायट म्हणल्यारूच ३७ डिग्री सेंटीग्रेड परस चड आसता. ह्या वेळार गोरवांचे आंग थंड दवरप म्हत्वाचें आनी गरजेचें. भायली गरमी वाडटा तेन्ना गोरवांच्या फिग्दांतल्यान 'अ' जिवनसत्व भायर सरता आनी कमी जाता. संकरीत आनी भायल्या गोरवांक उबाळांत लॅक्टीक ॲसिड वाडटा आनी कॅल्शियम, मिनाची चड गरज पडटा. हवेचें तापमान तशेंच चड गरमी तीन चार दीस सेगीत उरली जाल्यार गाबण गोरवां बेगीन व्हितात. तशेंच कांय वेळां अर्दकुटी व्हितात (गाबडटात), तांचे ॲबॉर्शन जावपाक शकता. हाका लागून तांचें आंग थंड दवरपाक जाय.

**आंग थंड दवरपाक आनी गरमी कमी जावपाक करपाचे उपाय**

१. गोरवाक सांवळेक बांदचें, गोठ्या भोंवतणी सावळेचीं झाडां आसत जाल्यार गोठ्यांतलें वातावरण थंड उरपाक आदार जातलो.,

२. गोठ्याच्या पाख्याक तण आनी झाडाचीं पानां घालचीं.,

३. सकाळीं १० ते सांजे ५ मेरेन गोरवाक वताक धाडचें न्हय.,

४. सुकें तण रातचें खावपाक घालचें.,

५. दिसांतल्यान ५ ते ७ फावटीं भरपूर थंड उदक पिवपाक दिवचें. तातूंत इल्लेशें मीठ घोळयल्यार चड बरें जातलें.,

६. दूद काडचे एक ते देड वर पयलीं गायेक आनी म्हशीक उदकान न्हाणोवची वा धुवन घेवची. दनपारां १२ ते ४ वरां मजगतीं स्प्रिंकलर वा ड्रिप नॉझल्स लावन उदक शिंपडल्यार गोरवाचें आंग थंड उरतलें.

ताका धांप लागची ना आनी ताची शक्त व्हगडावची ना. हाका लागून दूद चड मेळपाक आदार जातलो.,

७. संकरीत म्हशीची ल्हव काडून उडयल्यार गरमी उणी जातली.,

८. गरज पडल्यार दोतोराच्या सल्ल्यान 'अ' जिवनसत्वाची इंजेसावां करून घेवचीं.,

९. खावडींत दर दीसा ३० ते ४० ग्रॅम मीन घालचें. तातूंत भितर पॉटेशियम क्षाराची चड गरज पडटा. ते खातीर ५ ते १० ग्रॅम पॉटेशियम कार्बोनेट घालचें. गोठ्यांतली गरमी, गोठ्याचे पाखें, घोळपी वारो, वणटी, जमीन आनी खिडक्यो हाचेर निंबून आसता. गोठ्याचें पाखें आनी घोळट्या वाऱ्याक लागून ८० टक्के गरमी भायर पडटा. गोरवांक भरपूर उदक पिवपाक दिवचें.

सादारणपणान एक लिटर दूद तयार जावपाक गोरवांच्या आंगाक ४ लिटर उदक लागता. थंड वा कोमट उदक पिवपाक दिल्यार चड बरें. जनावरांची खावड संतुळीत आसची आनी ती योग्य प्रमाणात दिवची. गोरवां सारकें रवंथ करिनात जाल्यार फावो ते उपाय करून घेवचे. गोठ्यातलें वातावरण आनी भायली गरमी हांचेर नियंत्रण दवरल्यार गोरवांची भलायकी बरी उरतली. बैल, रेडो हांचे कडल्यान शेताचीं, कसपाचीं, मळपाचीं तशेंच हेर बागेंतलीं कामां सकाळचीं बेगीन तशेंच सांजेचीं करून घेवचीं.

थोडे भितर आंगांतली गरमी (तापमान) कमी दवरप सामकें गरजेचें आनी मोलादीक आसा. हे सगले उपाय उबाळाच्या दिसांनी आनी थोडीशी कुयदाद घेतल्यार गोरवांची भलायकी तशेंच दूद पुरवण आनी कामाची तांक बरी उरतली. पावसाच्या दिसांनी गोरवांक दुयेसां चड जातात. पयलो पावस पडलो म्हणटकूच सगल्याक चरव किल्लता आनी मागीर गोरवां तो चरव अधाशीपणान खातात. ह्या चरवा वांगडा भिजिल्लो आनी कुशिल्लो पालो, पाना आनी दुयेसांचे जंतू गोरवांच्या पोटांत वतात आनी गोरवां दुयेंत पडटात. ह्या दुयेसांनी घटसर्प, फऱ्या, ॲन्टेरोटोक्झेमिया जावं येता. हाका लागून पावसा पयलीं एप्रिल–मे म्हयन्यांत वासिनां करून घेवचीं.

## १९. कृत्रीम वीर्यदान आनी कृत्रीम गर्भदान एक वरदान

आमकां सगल्यांक खबर आसा की, कृत्रीम वीर्यदान आनी कृत्रीम गर्भदान हें एक वरदान.

**कृत्रीम वीर्यदान :** गाय, म्हस फळाक (माजार) येता तेन्ना पाडो वा रेडो लागल्यार ती गाब धरपाक शकता. कृत्रीम वीर्यदान पद्धतीन पाड्याचो वा रेड्याचो गाय वा म्हशी कडेन थेट संबंद येना. हे पद्धतींत पाड्या कडल्यान काडिल्लें वीर्य, जें दोतोराच्या दवाखान्यांत वा दूद सोसायटींत सांठोवन दवरिल्लें आसता, तें गाय वा म्हस फळाक येता तेन्ना गर्भाशयांत सोडटात.

**कृत्रीम वीर्यदानाचे फायदे**

१. ज्या पाड्याचीं रेडकां बरीं जातात अशें सिद्ध जाल्लें आसा (सिद्धवळू) अशे जातीच्या पाड्याचो चडांत चड उपेग करून शेतकाऱ्यांक दिवप.

२. सैमीक रितीन एका पाड्या कडल्यान वर्साक ५० ते १६० गायी, म्हशी फळाक येवपाक शकतात. मात कृत्रीम वीर्यदानान एका बैला कडल्यान वर्साक हजारांनी गायी फळाक हाडप शक्य आसता.

३. दरेका दुदकाराक पाडो पोसपाची गरज पडना. ताका लागून ताचो पाडो पोसपाचो त्रास आनी खर्च वाटवता.

४. कृत्रीम वीर्यदानाचेर जावपी खर्च सामको कमी. बारीक शेतकारांक सामकें फायद्याक पडटा.

५. सैमीक गर्भधारणेंत जावपी दुयेसां कृत्रीम वीर्यदानान जावपाक शकनात.

६. कृत्रीम वीर्यदानाक सिद्ध केल्लो पाडो वापरतात. म्हणून जल्माक येवपी पाडकां घटमूट आसतात. सैमीक गर्भधारणेंतल्यान जल्माक येवपी पाडूक बरें जातलेंच हाची खात्री दिवपाक शकना.

७. आंगान बारीक, ल्हान, फ्राक आसतात, अपंगूळ आसतात अशा गायी, म्हशी, असल्या जनावरांक कृत्रीम वीर्यदान पद्धतीन फळोवपाक येता. सैमीक पद्धतीन हें शक्य नासता.

८. पांयांक वा आंगाक दुखापत आसत जाल्यार पाडो, रेडो सैमीक गर्भधारणा करपाक शकनात. मात अशा रेड्यांचो उपेग कृत्रीम वीर्यधारणेंत करप शक्य आसता.

म्हत्वाचें म्हणल्यार कृत्रीम वीर्यदान करपाच्या वेळार वापरांत येवपी सगलें सामान, आवतां नितळ, निर्क्रोप विरयत आसपाक जाय. तशेंच वीर्यदान करपी मनीस अणभवी आसपाक जाय. म्हणजे जनावराच्या गर्भाशयाक इजा बी जावची ना, आनी चडश्यो गायी, म्हशी गाब जातल्यो.

बैल-रेड्याचें काडिल्लें वीर्य बॉलपेना असल्या काडयांनी घालतात आनी लिक्विड नायट्रोजनांत घालून वजा१९६ डिग्री सेंटीग्रेड तापमानाचेर सांठयतात. अशे तरेन दवरिल्लें वीर्य ४० वर्सां मेरेन वापरूं येता. फकत वीर्याचे भरणेंत पयन्यान लिक्विड नायट्रोजन घालून वजा१९६ डि.से. तापमान टिकोवंक जाय. गायेक फळोवच्या वेळार एका आयदनांत ३७ डि. से. इतलें तापयिल्लें उदक घेवचें आनी वीर्याची एक कांडी चट्ट करून तातूंत घालची. ३० सेकंदा उपरांत तें भायर काडून कृत्रीम वीर्यदानाच्या गनांत घालून वापरचें.

**गाय माजार येतना दिसपी लक्षणां**

गाय-म्हस हांबेता, रेंकेता, सोडटगीर सगल्याक धांवता, थतरवितर जाता, तिची योनी सुजता, भितरल्यान तांबशी कशी दिसता. थंयच्यान तेलकट, चिकट कसो बोळ पडटा. जनावराचें खावपा पिवपा कडेन लक्ष लागना, माजा दिसा दूद कमी दिता. परत परत मुतता, शेपटी वयर काडटा, फाट ताणयता. माजाचे सुरवेक ही गाय दुसरे गायेचेर, बैलाचेर उडटा, माजाच्या शेवटाक हेर गाय, बैल तिचेर उडल्यार ओगी रावता, हाका स्थीर माज वा स्टँडिंग हिट अशें म्हणटात. ह्या वेळार गाय, म्हस फळ्ळ्यार गाब जावपाची शक्यताय चड आसता. सादारणपणान गाय सकाळची माजार आयल्यार सांजेचें वीर्यदान करतात, आनी सांजेची माजार आयल्यार दुसरे दिसा सकाळीं वीर्यदान करतात.

गायेची, म्हशीची पाळी (सायकल) २१ दिसांची आसता. वीर्यदान करतगीर ६ ते ८ वरांनी बैलाचें वीर्य आनी गायेचें तांतीं झडलें जाल्यार संयोग घडटा आनी ती गाब जाता. मात तें गाब जालेंना जाल्यार २१ दिसांनी गाय परत फळाक येता. ते खातीर गायेच्या दोन पाळयांचेर सदांच लक्ष दवरपाक जाय. उपरांत तीन म्हयन्यांनी गाय गाब आसा काय ना हाचो तपास करचो.

कृत्रीम वीर्यदान करपाक पैसल्यान गाय, म्हस हाडल्यार घाई करीनासतना वरभर तिका सावळेक बसोवन दवरची. उपरांत वीर्यदान करचें. मागीर परत वरभर तिका बसोवन दवरची. तीन फावटीं वीर्यदान केले उपरांतूय गाय गाब जालीना जाल्यार खाशेल्या दोतोराक (गायनोकॉलॉजिस्ट) दाखोवन तपासणी आनी वखदां करून घेवचीं. ताचे उपरांत परत वीर्यदान करचें.

**कृत्रीम गर्भदान पद्धत**

हाका एम्ब्रियो ट्रान्स्फर टॅक्नोलॉजी म्हणटात. कृत्रीम वीर्यदान पद्धतींत एक गाय वा म्हशी कडल्यान चडांत चड १० ते १२ पाडकां मेळपाक शकतात. पूण कृत्रीम गर्भदान पद्धतींत तेच गाय वा म्हशी कडल्यान १५० ते २०० पाडकां मेळपाक शकतात. हातूंत एकदम बरी गाय, म्हस वेंचपाची. तिच्या गर्भाशयाचो, बिजाशयाचो अभ्यास करचो. उपरांत तिका एलएच, एफएसएच, असलीं खासा हार्मोन्स दिवन गरमेचेर हाडची. हाका सुपर ऑवल्युशन म्हणटात. हे गरमेच्या वेळार २ ते ३ फावटीं बरे जातीच्या वीर्यान कृत्रीम वीर्यदान करचें आनी मागीर सातव्या दिसा गर्भाशयांत तयार जाल्ले गर्भ फ्लश करून प्रयोग शाळेंत घेवचे. एके पाळयेक १५ ते २० परिपूर्ण, सुपीक गर्भ मेळपाक शकतात. हे गर्भ उपरांत मायक्रोस्कोपांत घालून पाडी काय पाडो ते पळोवचें. बरे आशिल्ले गर्भ मागीर वीर्याभिशेन पायपांत घालून लिक्विड नायट्रोजनांत सांठोवन दवरूं येतात. हाका एम्ब्रियो बँक म्हणटात. गाय, म्हस फळाक येता तेन्ना हो गर्भ योग्य वेळार, योग्य जाग्यार गर्भाशयांत दवरचो. म्हणजे गाय गाब जातली.

आमच्यांनी अशे तरेन जायत्यो गायी, म्हशी एकेच फावटीं इंजेसावां दिवन माजार हाडूं येतात आनी गाब करूं येतात (हाका हीट सिंक्रोनायझेशन म्हणटात).

कृत्रीम गर्भदान पद्धत ही मातशी गुंतागुंतीची आनी खर्चीक. हाका लागून अजून ती फुडल्या पांवड्यार पावूंक ना. पूण फुडाराक ही पद्धत खात्रेन वरदान थारतली आनी लोकप्रीय जातली.

**२०. गोरवांची गाबण ना जावपाचीं कारणां आनी उपाय**

**कारणां**

१. वंशावळीचो दोश

२. वेवस्थापनांतले दोश

३. आंगातल्या स्रावांतले (हार्मोनल) दोश

४. गर्भाशयाचे विकार

५. गर्भाशयांत जंतूंक लागून जावपी दुयेसां.

**१. वंशावळीचो दोश** : थोड्या गायी, म्हशीं मदीं जल्मा सावनूच वंशावळीचे दोश आसतात. आवयच्या पोटांत वासराची जडण घडण जाता तेन्ना हे दोश उप्रासतात. हाका लागून केन्ना केन्ना पुराय गर्भाशय

**गोरवांची गाबण न जावपाची कारणां**

**वेवस्थापन दोष**
समतोल, पौष्टीक खावड,
हरवे तण, जंताचेर वखद,
आनी वासीना करप
विर्यदानाची सारकी वेळ
बरें विर्य, सारखेतरेन विर्यदान,
वेळार गाबणपणाची
तपासणी

**वंशावळीचे दोष**
गर्भाशय नासप
अर्धकूटें नाजाल्यार वांकडे
गर्भाशय आसप,
कमी वाड जावप

**होरोमोनाल म्हणजे आंगांतले स्त्रावांचे दोष**
उरील्ले कॉरपस
ल्यूटीयम (पितपींड)
सिस्टीक अंडाशय(निंफोमेनिया)
गर्भाशयाची कमी वाढ जावप,
मोनो माज

**गर्भाशयाचे विकार**
व्हिवपाक अडचण येवप
आंग भायर येवप
वार न पडप,
गर्भाशयात पूं जावप, वासरु
सुरवातीक मरप, मागीर मरून
सुकप, गर्भपात जावप

**गर्भाशयाची दुयेंसां**
ब्रुसेलोसीस,
कॉफिलोबॅक्टेरीयोसिस
(विब्रिओसिस) ट्रायको
मोनियासिस, लेपटोस्पायरोसीस
लिस्टोरियोसिस, बुर्शीचे जंतू
आनी विखबाधा

वा गर्भाशयाचो थोडो भाग गोरवांमदीं नासता. बऱ्याच फावटीं जुवळी पाडकां (एक पाडो आनी एक पाडी) जल्माक येतात. ह्या वेळारूय असे दोश (फ्री मार्टीन) पाडकांमदीं तयार जातात. केन्ना केन्ना गर्भाशयाची वाड सामकी कमी जाल्ली आसता आनी मागीर हें गर्भाशय गाब जावपाचे स्थितींत नासता. केन्ना गर्भाशय वांकडें आसता. ह्या सगल्या दोशांचेर कांयच उपाय नासता.

**२. गोरवांच्या वेवस्थापनांतले दोश :** गोरवांक गाबण जावपाक संतुळीत आनी पुश्टीक खावडीची गरज आसता. तांचे खावडींत योग्य प्रथिनां, पिठाचे पदार्थ, कॅल्शियम, फॉस्फरस, सेलेनियम, पॉटॅश, जीवनसत्व अ, ड आनी ई असले मिनाचे घटक (खनिजां) आसचे पडटात. गोरवाक हरव्या तणाची भोवूच गरज आसता. तातूंतल्यान तांकां जीवनसत्व सी, बी कॉम्प्लेक्स आनी ईस्ट्रोजन हॉर्मोन्स मेळटात. तेच वांगडा खावडींत चड चरबी आसची ना हाची सादुरकाय घेवपाक जाय. खावडींत चड चरबी आसत जाल्यार मागीर ती अंडाशया भोंवतणी एकठांय जाता, ताका लागून गोरवांचें तांतीं झडना आनी तीं गाब जावपाक शकनात. बरसीम तशेंच ल्युर्सन असल्या हरव्या पाल्यांमदीं इस्ट्रोजन हार्मोन्साचें प्रमाण चड आसता. ताका लागून असलो पालो गोरवांक चड दिवचो न्हय. ह्या पाल्याक लागून गोरवां परत परत फळाक येतलीं, पूण गाब जावचीं नात. संतुळीत खाण जावपा खातीर हरव्या पाल्या वांगडाच सुकें तणूय दिवपाक जाय. फावो तितल्या प्रमाणांत संतुळीत मिनाचे सगले घटक आनी गरजेचीं जीवनसत्वां (अ, ब, क, ड आनी ई) गोरवाक दिवपाक जाय. शेळो आयिल्ली, भिजून पेड्ड्यार जाल्ली, बेळशेल्ली खावड केन्नाच दिवपाक जायना. अशी खावड दिल्यार विखबादा जाता आनी गोरवाक गाब जावपाक त्रास जातात.

गोरवाक घटसर्प, फऱ्या, लाग, ब्रुसेलोसीस, असलीं गरजेचीं सगलीं वासिनां दिवपाक जाय. तातूंतल्यान तांची भलायकी बरी उरता आनी दुयेंस जावंक पावना. सगल्या गायींक म्हशींक वेळचेवेळार दंतांचें वखद घालचें. ताका लागून तीं खातात, पियेतात तें आंगाक लागतलें आनी माजाचें चक्र सुरळीत उरतलें.

गोरवां गाब जावपाक वेळेचें म्हत्व खूब आसा. पयले सुवातेर गोरवांचो खरो माज, फळपाची वेळ सारखी वळखुपाक जाय. बऱ्याच फावटीं माज हो मोनो आसता, तेन्ना ताचीं लक्षणां सारकीं दिसनात. ते खातीर दिसपट्टें दरेका गोरवाचेर सकाळीं सांजवेळां लक्ष दवरपाक जाय.

सुतलेंतल्यान बोळ पडला वा ना हाचेर बारीकसाणीन लक्ष दवरचें. ज्या वेळार जनावर सारकें माजार आसता म्हणल्यार वीर्यदान करपाक उबें रावता (स्टँडिंग हीट) त्याच वेळार वीर्यदान करचें, ह्यावेळार सुतलेंतल्यान पडपी बोळ हो कमी आनी दाट पूण निवळ आसपाक जाय. चड करून जनावर सकाळचें फळाक आयल्यार सांजे आनी सांजे फळाक आयलें जाल्यार दुसरे दीसा सकाळीं वीर्यदान करचें. जायत्या फावटीं थोड्या गायीं मदीं चड करून होलस्टन जातीच्या गायीं मदीं माज दोन ते तीन दीस उरपाक शकता. अशा वेळार माजाच्या शेवटाक सुतलेंतल्यान पडपी बोळ कमी जाता तेन्ना वीर्यदान करचें. म्हणल्यार तें धरपाची शक्यताय चड आसता. वीर्यदान करतना हवामानूय भोव महत्वाचें आसता. सकाळीं बेगीन आनी सांजे उसरां (चार वरां उपरांत) वीर्यदान करप चड बरें आसता. ह्या वेळार हवामान थंड आसता आनी गाब जावपाची खात्री चड आसता. जनावर आबूज, उचांबळ जाल्लें आसता तेन्ना वीर्यदान करचें न्हय. पयसल्यान जनावर चलोवन वा गाडयेन घालून हाडलें जाल्यार पसून अर्द वर ते वरभर जनावराक सुशेग दिवचो. मागीर वीर्यदान करचें. ताचे उपरांत परत अर्द वर ते वरभर सुशेग दिवचो. हवामान चड गरम आसता तेन्ना गोरवांचो माज चड करून लक्षांत येना. माज मोनो आसता. अशा वेळार गोरवां गाब जावपाची शक्यताय उणी आसता. हाचे उरफाटें थंड हवेंत माज बरो दिसता आनी गाब जावपाची शक्यताय चड आसता. गोरवांचेर माजाचो ताण चड आसता, वा जनावराचेर दूद दिवपाचो ताण चड आसता, म्हणल्यार गाय – म्हस चड दूद दिता तेन्ना वीर्यदान केल्यार जनावरां चडशीं गाब जायनात. वीर्यदान करतना सदांच बरे तरेन सांठयिल्लें, बरे जातीचें, बरे प्रतीचें, जातूंत फुडले दिशेक वचपी शुक्राणुचें (स्पर्म) प्रमाण चड आसा, अशें वीर्य वापरपाक जाय. वीर्यदान करतना निवळसाण भोव महत्वाची. वीर्यदान करचे पयलीं जनावराचो योनीमार्ग निवळ करपाक जाय. वापरपाची सगलीं साधना नितळ (निक्रोप विरयत) आसप सामकें गरजेचें. तज्ञ मनशा कडल्यान वीर्यदान करून घेवचें. म्हणजे बरे तरेन आनी सारक्या प्रमाणांत गर्भाशयांत वीर्यदान जातलें आनी जनावर गाब जावपाची शक्यताय वाडटली. केन्ना केन्ना वीर्यदान केले उपरांत १० दिसां भितर गाय – म्हस परत फळाक येता. हाका मिड हीट वा स्प्लिट हीट अशें म्हणटात. ह्या वेळार दुदकारांनी परत वीर्यदान करून घेवपाक जाय. गोरवांचें माजाचें चक्र हें २१ दीस आनी फुडें फाटीं दोन दीस अशें आसता. वीर्यदान केले उपरांतूय जनावर गाबण जालें ना जाल्यार २१ दिसांच्या आसपास तें परत फळाक येतलें. हाका लागून असल्या जनावरांकडेन

बारीकसाणेन लक्ष दवरपाक जाय. समजा जनावर माजार आयलें जाल्यार वीर्यदान करपाचें आनी आयलें ना जाल्यार परत वीर्यदान केल्ल्या दिसासावन ४२ दिसांच्या आसपास लक्ष दवरचें. बारीकसाणेन पळोवचें. समजा दोन माजां कडेन जनावर फळाक आयलं ना जाल्यार अडेच ते तीन म्हयन्यांनी तें गाब आसा वा ना हाचो सोद घेवचो. गाबण आसत जाल्यार फुडाराक मागीर ताची गाबणपणाची काळजी घेवची. जनावर गाबण नासत जाल्यार ताचे फाटल्या कारणांचो विचार करचो. जनावर परत माजार येता जाल्यार पळोवपाक थोडे दीस थांबचें. नाजाल्यार परत माजार हाडून वीर्यदान करचें.

**३. होर्मोनाल (आंगातल्या स्त्रावांचे) दोश** – माजाचें (फळपाचें आनी गाबण जावपाचें) सगलें चक्र आंगांत (मेंदू आनी बिजाशय–अंडाशय) तयार जावपी स्त्रावांचेर (होर्मोनांचेर) निंबून आसता.

हातूंतले मुखेल दोश अशे आसात –

**(अ)**. अंडाशयाचेर उरिल्लें पितपिंड (पर्सिस्टंट कॉर्पस ल्यूटियम) : हाका लागून जनावर परत फळाक येना. ते खातीर ताचे शेणाचे पिशवेंत हात घालून हो नाका आशिल्लो पितपिंड काडून उडोवपाचो उपाय करून घेवचो पडटा. वा बाकीचीं इंजेसावां बीन करून घेवन उपाय करचे.

**(आ)**. सिस्टीक ओव्हरी वा निफोमेनिया : जायत्या फावटीं गोरवांच्या अंडाशयाचेर गांठ कशी येता, वा खूब फोड येतात. हाका लागून इस्ट्रोजन हें हॉर्मोन प्रमाणा भायर तयार जातात आनी जनावर परत परत फळाक येता. असल्या गोरवांक वीर्यदान केल्यार वा बैल, रेडो लागल्यार पसून तें गाबण जायना. हाचेर उपाय म्हणून वैजाक हाडून इंजेसावां दिवन ही गांठ ना करची पडटा.

**(इ)**. जायत्या फावटीं जाय तीं हॉर्मोन्स जाय तितल्या प्रमाणांत तयार जायनात. ताका लागून गर्भाशय, अंडाशय हांची वाड वेवस्थीत जायना. जनावर फळाक येना. ताचो माज हो मोनो उरता. गोरवांचीं फळाक येवपाचीं लक्षणां बरोबर दिसनात. गोरवांचो फळपाचो खरो वेळ कळनाशिल्ल्यान तीं गाबण जावपाक त्रास जातात. जायत्या फावटीं हीं हॉर्मोन्स कमी प्रमाणात तयार जाल्ल्यान गाबणपणाचे सुरवेकूच गर्भ मरता आनी दुदकाराचें व्हड लुकसान जाता. खरें कारण सोदून काडून हाचेर उपाय करून घेवपाक जाय.

**४. गर्भाशयाचे विकार** – गर्भाशयाचे विकार हे गोरवां गाबण न जावपाचें म्हत्वाचें कारण जावन आसता. हे विकार जावचे न्हय म्हणून गोरवांक समतोल, परिपूर्ण आनी पुश्टीक खावड दिवपाक जाय.

ोरूं गाबण आसतना तशेंच व्हिले उपरांतूय सगली आनी चडांत चड जतनाय घेवची पडटा.

र्भाशयाच्या विकारां मदीं अश्यो तरा आसात –

**क ) व्हिवपाक अडचण येवप** : गाय – म्हस आपसूक व्हिना जाल्यार बेगोबेग गोरवांच्या दोतोराक आपोवचें. दोतोर व्हिवपाक कसली अडचण आसा तें पळयतलो. वासराची बसका, स्थिती सारकी करतलो आनी उपरांत शक्य तितले बेगीन आवयची सोडवणूक करतलो. पाडूक भायर काडले उपरांत तीन ते पांच दीस आवयक वखदां (इंजेसावां, पावडर, गुळयो, गर्भाशयांत वखदां) करचीं पडटात. अशीं वखदां केलीं जाल्यार गर्भाशयाचो विकार जावचो ना. गोरूं बरें दूद दितलें आनी तेच वांगडा परत गाबण जावपाक त्रास जावचे नात.

**ख) गोरवाचें आंग भायर सरता** : शक्य तितले बेगीन दोतोराक आपोवचो. दोतोर येता म्हणसर भायर आयिल्लें आंग एका निवळ कपड्याचेर दवरचें, वयल्यान परत निवळ कपडो धांपचो आनी त्या आंगार थंड पॉटेशियम परमँगानेट वा कसलेंय जंतूनाशक वखद घालचें. दोतोर उपरांत भायर आयिल्लें आंग वेवस्थीत भितर घालतलो. गरज पडल्यार सुतलेक मॅट्रेस तरेन धागे मारतलो. गरजेचीं इंजेसावां, गुळयो, पातळ वखदां ३ ते ५ दीस करून घेवचीं. हाका लागून गोरूं परत गाबण जावपाक त्रास जावचो ना.

**ग) वार पडना** : चड करून गोरूं व्हितकीर ४ ते ६ वरांभितर वार पडटा. अशा वेळार वार पडली ना जाल्यार मागीर दोतोराक आपोवचो. गर्भाशयाक मार बसचो ना अशे तरेन तो वार काडटलो. गरजेचीं वखदां करतलो. अशी वखदां ३ ते ५ दीस केल्यार बऱ्याक पडटात. म्हणल्यार फुडाराक गोरूं गाबण जावपाक अडचण येवची ना.

**घ) मेट्रायटीस जावप** : ह्या दुयेसांत गर्भाशयाक सूज येता. जनावर धरना, केन्ना केन्ना बुरसो, मेळ्ळो बोळ गर्भाशयांतल्यान पडटा. गर्भाशय बरें जाय म्हणसर दोतोरा कडल्यान वखदां करून घेवचीं.

**त) पायोमेट्रा** : गर्भाशयांतली वार सारकी पडली ना वा सारकी काडपाक मेळ्ळीना आनी वार थोडी भितर उरली, कुसली जाल्यार मागीर गर्भाशयांत पूं (रशी) जातात. ह्या वेळार दोतोराक आपोवचो आनी फुडलीं वखदां करून घेवचीं. हीं वखदां गर्भाशय पुराय बरें जाता म्हणसर करपाक जाय.

**थ) सालपिंजायटीस** : हातूंत अंडाशयाच्या पायपाक (फेलोपियन ट्युबाक) सूज येता आनी जनावर धरना. सुरवेक वखद केल्यार हे ट्यूब बरे जातात, पूण चड वेळ गेल्यार आनी जंतू खर आसत जाल्यार

ट्यूब पेड्ड्यार जावन गोरूं गाबण जावपाक अडचण येतली.

**द) गाबणपणाचे सुरवेक गर्भ गर्भाशयांत मरप :** हाका अर्ली एम्ब्रियोनिक डॅथ म्हणटात. प्रोजेस्ट्रेरोन सारक्या होर्मोनाची कमी जाली वा जंतूक लागून अशें जावपाक शकता. दोतोराच्या सल्ल्यान उपाय करून घेवपाक जाय.

**ध) गर्भाशयांत गर्भ मरप, सुकप आनी घट्ट जावप :** हाका फिटल मेसरेशन म्हणटात. अशा वेळार दोतोराच्या सल्ल्यान वखद करून घेवचें.

**न) गर्भपात जावप :** जनावराचो गर्भपात हो गाबणपणाच्या खंयच्याय पांवड्यार जावं येता. गर्भाशयांत जंतूची लागण जाली जाल्यार गोरवां झगडटना गर्भाशयाक मुको मार बसल्यार, खावडींत कितेंय वायट (माल) पडल्यार, गाबणपणात चुकून पाडो वा रेडो जनावराचेर चडलो–लागलो जाल्यार वा चुकीन गाबण गायेक कृत्रीम वीर्यदान केल्यार पसून गर्भपात जावं येता. हाचे फाटलें कारण सोदून फावो ते उपाय करून घेवचे.

च) विखबादेन जाल्लो विकार : केन्ना केन्ना बुरशी आयिल्ली खावड गोरवांच्या खाणात येता, केन्ना केन्ना किटोन बोडींची विखबादा जाता, केन्ना केन्ना मायकोटॉक्सीन, इंडोटॉक्सीन, नायट्रेट, नायट्रायट्स विखबादा जाता. ह्या सगल्या कारणाक लागून गोरवाचो गर्भपात जावं येता. हाचें कारण सोदून योग्य उपाय करून घेवचे.

**५. गर्भाशयांत जंतूंक लागून जावपी दुयेसां** : हीं चडशीं दुयेसां गोरवांपसून मनशांकूय जावपाक शकतात आनी ताचो खूब वायट परिणाम मनशाचे भलायकेचेर जावं येता. हाका लागून ह्या दुयेसांचेर बारीक लक्ष दवरपाक जाय आनी पुराय वखदां करून घेवपाक जाय.

**दुयेसां अशीं आसात** : ब्रुसेलोसीस, कांफिलोबॅक्टेरियोसीस (व्हिब्रीओसीस), ट्राय कोमोनियासिस, लेप्टोस्पारोसीस, लिस्टोरीयोसीस, बुरशीचे आनी हेर जंतू. ह्या प्रत्येक जंतुंचो बंदोबस्त करपाक खाशेलीं वखदां आसात. दोतोराच्या सल्ल्यान ह्या सगल्या जंतुंचो बंदोबस्त केल्यार जनावरां गाबण जावपाक अडचण येवची ना, गर्भपात जावचो ना आनी मागीर शेवटाक दूदकाराक एक भलायकेन बरें वासरूं जल्माक आयिल्लें दिसतलें.

**२१. दुयेसांचीं कारणां**

जनावरांक रावपाक योग्य सुवात, संतुळीत खावड आनी वेळाचे वेळार दुयेसांचीं इंजेसांवां/ व्रासिना केलीं जाल्यार तांकां दुयेंस जावचें ना. दुयेंस वशाचें वा सादें पसून आसूं येता. दुयेंसाचे जंतू चडश्या फावटीं तोंडा वटयां जनावराचे कुडींत रिगतात. केन्ना केन्ना श्वासांतल्यान, आंगार पडिल्ल्या घायांतल्यान वा पान्याच्या बुराकांतल्यान भितर सरतात. उपरांत दुयेंत जनावर दुयेसाचे हे जंतू लाळ, शेंबूड, ओंकारी, शेण, मूत, दूद आनी योनी (सुतल) हांचे वटयां भायर उडयतात. रगतांतलें जंतू जळारी, मूस हांच्या माध्यमांतल्यान दुसऱ्या जनावरा मेरेन पावतात. ते खातीर आमी जनावराची फावो ती कुयदाद घेवपाक जाय.

**जनावरां दुयेंत पडपाचीं कारणां**

१. गोठे वा रावपाची हेर सुवात नितळ नासत जाल्यार खुराचें आनी व्हंटयेचें असलीं दुयेंसां जावपाक शकतात.

२. रावपाची /बांदून दवरपाची सुवात बारीक आनी ल्हान आसत जाल्यार धोंपरां सुजप, पान्यार पांय पडप, कातीचीं असलीं दुयेंसां जावपाक शकतात.

३. गोठे वा जनावराची रावपाची सुवात धुयतात तें उदक, मूत, शेण, हांचो योग्य विलो लायलो ना जाल्यार मूस, जळेरां, किट्टी, लिको, हुलको तयार जातात, जांकां लागून दुयेंसां जावं येतात. देखीक सर्रा, बेबेसिया, थालेरिया, अॅनाप्लासमा, मलेरिया.

४. **बदलिल्लें हवामानाचें रूप** – पावसाच्या दिसांनी जावपी दुयेंसां मॅग्नेशियम टीटानी, फुफ्फुसांचीं, कातीचीं दुयेसां.

५. संतुळीत खावड मेळप ना, तशेंच क्षारांचें प्रमाण कमी जावप, फ्राकसाणीक लागून दुयेंसाचो मुकाबलो करपाची शक्त उणी जावप, दंत वाडप, दूद कमी जावप, गाब धरपाक त्रास जावप.

६. जनावराचें आंग आनी वजनाचे तुळेन नितळ आनी भरपूर उदक पिवपाक मेळपाक जाय. तें जर कमी मेळत वा खदूळ आसत जाल्यार ताचो परिणाम कामाचेर आनी दूद दिवपाच्या प्रमाणाचेर जाता.

**दुयेंस पातळप**

१. हवेंतल्यान. देखीक लागींचे जंतू

२. उदकांतल्यान. देखीक हागवण लागप, संडासांतल्यान रगत पडप.

३. एकमेकांक लागीं राविल्ल्यान वश्याचीं दुयेंसां.

४. खावड, खावडीचीं आयदनां, गोठ्यांतल्यो कळमेल्ल्यो बैलगाडयो, मोटारी हांकां लागून दुयेंसाचे जंतू पातळपाक शकतात.

५. किट्टी, लिको, मूस हांच्या माध्यमांतल्यान जंतू एका जनावरा कडल्यान हेर जनावरां मदीं पसरपाक शकतात. गोरवांक वासिनां करतना सुयो वेगवेगळ्यो वा शिजोवन वापरल्यो नात जाल्यार दुयेंसाचो प्रसार जावपाक शकता.

६. मरण आयिल्ल्या वा दुयेंत जनावरांच्यो आतड्यो, रगत आनी हेर भाग गिदां, कावळे, सुणी, माजरां सगल्याक पातळायतात.

७. जीव–जंतू, मुसांच्यो अवस्था, जळेरां, सोंसे, काटांदर, रस्ताद सुणीं, दुकर ही जनावरां सर्रा, बेबेसिया, थायलेरीया, ॲनाप्लासमा, मलेरिया असल्या दुयेंसांचे जंतू साठयतात. तांचो प्रसार करतात. जंतुचें प्रमाण, तांची खरसाण आनी जनावराच्या आंगांतली रोगप्रतिकारक शक्त हाचेर दुयेंसाचें प्रमाण निंबून आसता.

रोगप्रतिकारक शक्त ही सैमाचेर निंबून आसता. ते भायर जनावराची भलायकी, आंगोवयलो पेच (गाब, दूद दिवपाची तांक), खावड, अनुवंशीक तांक, हांचेर निंबून आसता. हाका लागून म्हत्वाच्या आनी जीवघेण्या दुयेंसाचीं वर्सुकी वासीना करप सामकें गरजेचें.

**२२. दुयेंत जनावरांची लक्षणां :**

जनावराक उलोवंक येना. ताका लागून तांच्या दुयेंसाच्या लक्षणां कडेन बारीकसाणीन लक्ष दिवपाक जाय.

**लक्षणां :**

१. मंद जातात, दोळ्यांतलें तेज सोंपता. कान पडिल्ले आसतात, आंगार हात भोंवडायल्यार भोंवरो करीनात.

२. खावप–पिवप कमी करतात वा सोडटात, रवंथ कमी करतात वा बंद करतात.

३. संडास म्हणल्यारूच शेणाचें रूप आनी रंग बदलता. केन्ना घट्ट वा पातळ जाता, केन्ना संडासांत

रगत वा शेंबूड कशें पडटा, ताचो रंग, वास बदलता.

४. मुताचें रूप, रंग, वास बदलता. प्रमाण कमी, चड वा केन्ना थेंब थेंबूय पडटात.

५. गोरवांमदीं दूद दिवपाच्या प्रमाणांत फरक पडटा, दुदांत बदल जाता.

६. जनावराचो आवाज, रेंकप, हांबेवप, भोंकप, रडप हातूंत फरक पडटा. तशेंच बसप, उठप आनी चलप हांतुतूय फरक पडटा.

७. कात दाट जाता, तिचे वयलें तुकतुकीतपण उणें जाता.

८. नाक–दोळे व्हावतात, तांबडे जातात, ओंकारी येता.

९. जोर येता, केन्ना केन्ना आंग थंड पडटा.

१०. धांप मारता, फुगार जाता.

असलीं लक्षणां वळखतलो जाल्यार दिसांतल्यान दोन फावट सकाळीं, सांजवेळा जनावराचेर बारीकसाणीन लक्ष दवरचें. तशेच गरजे प्रमाण उपाय करून घेवचे.

**२३.जनावराच्या दुयेंसाची तपासणेची पद्दत**

दुयेंत गोरवाची तपासणी करप, दुयेंस वळखप आनी ताचें कारण सोदून काडप हें सामकें गरजेचें आनी म्हत्वाचें. हातूंतल्यान योग्य आनी अचूक उपाय करप शक्य जाता. हें दुयेंस सोदतना जनावराचो इतिहास, दुयेंसाची तपासणी करतना पयले सुवातेर जनावराची जात, वंशावळ, पिराय, लिंग पळोवचें. फुडली तपासणी करतना दुयेंसाचो इतिहास सोदचो. मालकाक खोलायेन, थारावीक, योग्य, गरजे प्रमाण प्रस्न विचारचे. त्या प्रस्नाच्या उत्तरां वयल्यान रोगाचें निदान करप शक्य जाता. देखीक गोरवाक धांप लागता जाल्यार पयलीं पांयांत लाग आयिल्ली आसूं येता. गोरूं गाबण जायना. गाब धरना जाल्यार गर्भाशयाचें दुयेंस आसूं येता. गोरूं हात–पाय बडयता, कडकडटा जाल्यार ताका धोणकुटी, मॅग्नेशियम टिटानी, विखबादा असलीं दुयेंसां जावं येतात.

गोरवाक सुणो चाबिल्लो आसल्यार रॅबिजाचो विचार करूं येता. जनावर गाभडता जाल्यार ब्रुसेलोसीस, विब्रिओसीस, ट्रायकोमोनासीस असल्या दुयेसांचो विचार करपाक जाय. जनावराक इंजेसांवां, वासिनां दिल्यांत कांय ना हाची म्हायती काडची. जनावराक तपासतना बारीकसाणेन तांची कात, पोटाचो आकार, सूज, पोटांतलो वाय, श्वासोश्वास, ताचें वागप, संवयो हांचेर लक्ष दवरचें.

दिसांतल्यान उण्याच दोन फावटीं बारीकसाणेन नियाळचें. दूद दिवपी जनावर आसल्यार ताच्या दुदाची आनी खाता ते खावडीची नोंद घेवची. दूद दिवपी जनावराची दुदाच्या वेळारूच तपासणी करून घेवची. वासरां वंटी चाटतात, माती खातात जाल्यार पळोवप गरजेचें. गाबण जनावराक दुसऱ्या जनावराच्या वासरान लुचलें जाल्यार व्हंटयेचें दुयेंस जावं येता. बऱ्याच फावटीं वासरां एकमेकांक चाट्टात. ताका लागून तांच्या पोटांत ल्हेवेचे गुळे वतात आनी वासरां मरतात. गोठो नितळ करतना शेणा कडेन तशेंच योनीतल्यान बोळ पडटा जाल्यार लक्ष दिवचें. जनावरांचें खाण खावप, उदक पिवप, रवंथ करप, आंगाची हुनसाण हांचे कडेन बारीकसाणीन लक्ष दवरपाक जाय.

**२४. जनावरांचे भलायकेंत प्रयोगशाळेचो वांटो**

जनावराचे भलायकेचे नदरेन प्रयोगशाळेचो सहभाग खूब म्हत्वाचो आनी गरजेचो आसा. जनावराक उलोवंक येना. ताका लागून कसलेंय वखद दितकीर आपलेचेर बरो – वायट कितें परिणाम जाला हें तें सांगपाक शकना. ताका ताचो धनी आनी दोतोर कितें करता आनी कितें दिता तें मुकाट्यान घेवचें आनी सोंसचें पडटा.

चडश्या फावटीं जनावराचो धनी कितें सांगता आनी दुयेंसाचें लक्षण कशें आसा हाचो अदमास करूनच वखद दिवचें पडटा. हाकाच लागून जनावराचें दुयेंस वळखुपाक प्रयोगशाळेचें म्हत्व खूब आसा. दुयेंस सारकें तपासून वैजाचो अदमास खरो काय कितें हें थरावपाक जाय, ताचे उपरांत गरजेचें वखद दिवपाक प्रयोगशाळेचो उपयोग आनी तेंको गरजेचो.

पोटांत, आतड्यांत, फिग्दांत कसले जातीचे दंत आसात हें जनावरांचें शेण तपासले उपरांत कळटा. प्रत्येक दंतांचीं तांतयां वेगळे वेगळे तरेचीं आसतात. तशेंच प्रत्येक तरेचे दंत मारपाचीं वखंदाय वेगळे वेगळे तरेचीं आसतात. तेच खातीर शेण तपासून वखद दिवचें पडटा. म्हणल्यार जाय तें वखद वेळार दिवन दंतांचो बंदोबस्त जातलो.

काय दुयेसां रगतांत निक्रोप (दुयेंसाचे जंतू) जाल्ल्यान जातात. जनावराक खूब जोर येता तेन्ना ताचें रगत तपासले उपरांत मायक्रोस्कोपांत निक्रोप दिसपाक शकतात. देखीक टीबी (क्षय), घटसर्प, फऱ्या, पास्चुरेलोसीस, बेबोसियासीस आनी हेर दुयेंसां. सर्रा असल्या (ट्रिपानसोमियासीस) दुयेसान रगतांतल्या पेशीं भितर आसपी जंतू भोंवतना दिसतात.

रगत तपासले उपरांत फकत कसलें दुयेंस जालां इतलेंच न्हय तर तें कितल्या तेपा साकून आसा, सध्या स्थिती कशी आसा हेंय कळटा. रगतांत हिमोग्लोबीन, तांबड्यो आनी धव्यो पेशी आसतात. रगतांत हिमोग्लोबिनाचें प्रमाण कमी जाता तेन्ना जनावरांक रक्तक्षय म्हणल्यारूच ॲनिमिया (पंडुरोग) पसून त्रास जाता. हें हिमोग्लोबीन सामकेंच उणें जालें जाल्यार आंगाच्या पेशींक ऑक्सिजन म्हणल्यार प्राणवायू मेळना आनी गोरूं मरपाक शकता. पास्चुरेलोसीस, बेबोसियासीस, थायलेरियासीस, निक्रोप हांचे पसून जावपी तांबडो पातळ संडास ह्या वेळार रक्तक्षय म्हणल्यारूच पंडुरोग जाता. कांय जंतू तांबड्यो पेशी खावन उडयतात जाल्यार कांय जंतू धव्या पेशींनी वाडटात. धव्या पेशींनी न्युट्रोफिल्स चड आनी लिम्फोसाईट कमी आसता. तेन्ना दुयेंस ताजें आसा अशें समजुचें. पूण न्युट्रोफिल्स कमी आनी लिम्फोसाईट्स चड आसता तेन्ना दुयेंस बरोच तेप आसा अशें समजुचें. अश्या दुयेंसाचेर मागीर खर आनी वेगळीं वखदां दिवन उपचार करचे पडटात.

टीबी हें एक घातकी दुयेंस. तें जनावरां पसून मनश्यांकूय जावं येता. हें दुयेंस रगत तपासतकूच कळटा. पूण ट्युबरकुलीन टेस्ट वा जोनीन ,जोन्स टेस्ट केल्यार चड बरें. हें तपासपाक मानेवयले कातीची ल्हेंव काडटात आनी कातीची दाटाय मापतात. मागीर तपास करपी वखदाचें इल्लेशें इंजेसांव दितात आनी वरभरा उपरांत कातीची दाटाय मेजतात. ही दाटाय तपासकूच दुयेंसाची खात्री जावं येता.

बऱ्याच फावटीं गोरवांक व्हंटयेंचे दुयेंस जाता. ताका लागून दूद मेळना जाल्ल्यान दूद वेवसायीक त्रासांत पडटात. अशा वेळार दूद तपासून हें दुयेंस कसल्या निक्रोपा पसून जालां आनी कसल्या वखदान व्हंट बरी जातली हे थारावं येता. बऱ्याच फावटीं गाय म्हस गाभडतात म्हणल्यारूच अर्दकुटीं व्हियेतात. ताका लागून मेल्लें पाडूक भायर सरता. अशें विब्रीओसीस, ब्रुसेलोसीस, ट्रायकोमोनियासीस, लेप्टोस्पायरोसीस, लिस्टिरिओसीस हे कसल्याय निक्रोपाक लागून जावं येतात. हे निक्रोप सोदून काडपाक प्रयोगशाळेंत गर्भाशयाचे आनी वारीचे स्राव तपासून घेवंक जाय. जनावर परत गाभडपाक जायना म्हणून फुडले फावटीं खाशेले उपाय करूं येतात. कांय वेळां दुयेंसाचे निक्रोप मायक्रोस्कोपांत पसून न दिसपा इतले बारीक आसतात. अश्या वेळार जनावराचें रगत काडून तातूंतलें सिरम वेगळें काडटात. हें सिरम प्रयोगशाळेंत खाशेली वस्त म्हणल्यार ॲन्टीजेन्सां कडेन घोळयतात. तातूंतल्यान दुयेंसाचें कारण, कितलें पोरणें, कितलें खर हें नक्की कळटा. हे तपासणेक एलायझा

म्हणटात.

चडशे बारीक निक्रोप म्हणल्यार वायरल इन्फेक्सशॅन हे तपासणेंतल्यान सोदून काडूं येता. देखीक बुळकांड्यो, कोंबयांचो ईन्फ्लुयेंझा आनी बाकीची दुयेंसां.

बऱ्याच फावटीं जनावरांक कामीण, किटोसीस, गोडेंमूत, मूत्रपिंडाचीं दुयेंसां जातात. प्रयोगशाळेंत खाशेले मूत तपासणेंतल्यान अश्या दुयेंसाचो सोद घेवन फावो ते उपाय करूं येतात. कांय वेळार गोरवांक खाता, पियेता तें आंगाक लागना आनी पचनूय सारकें जायना. अश्या वेळार पोटांतलें खाण पायपा वटयां काडचें आनी उपरांत ताची प्रयोगशाळेंत तपासणी करची. ताचे वयल्यान पोटांत कितें जालां हाचो अदमास येता. देखीक ॲसिडोसीस, ॲल्कोलोसीस आनी बाकीची दुयेसां. मागीर उपाय थारावं येतात. जनावराक तकलेचें कसलेंय दुयेंस आसत जाल्यार एक्स–रे, सिटी स्कॅन करून सोद घेवं येता.

बऱ्याच फावटीं विखबादा जावन गोरूं मरता. अश्या वेळार ताच्या पोटांतलें खाण, पालो, हेर पदार्थ, हांची प्रयोगशाळेंत तपासणी करची. तातूंतल्यान विखबादा जाल्या वा ना तें कळटा. ताचेर कसलें वखद (ॲन्टीडोट) वापरपाचे तेंय कळटा. ते भायर एक्स–रे, सोनोग्राफी, सिटीस्कॅन, बायोप्सी आनी हेर आधुनीक तपासण्यो करून दुयेंसाचो थाव घेवं येता.

एक एक फावटीं गांवांत वा व्हडल्या वाठारांनी कसल्याय दुयेंसाची धाम येता. घडये हें दुयेंस वशाचेंय आसूं येता. हाका लागून जनावरां पटापट मरपाक लागतात. मागीर बोवाळ जाता आनी शेतकार आनी दोतोरांचेर संकश्ट येता. अशा वेळार दुयेंसाच्या लक्षणां वांगडा जनावराचें पोस्टमॉर्टेम करचें. ताचें फिग्द, मुत्रपिंड, फुफ्फुसां, मेंदू, काळीज, आतड्यो, पोट तपासचें. हाचे वयल्यान दुयेंसाचो तपास लागता. ते उपरांत गांवभर आनी सगल्या वाठारांनी फाव ती वखदां, वासिनां करून उरिल्ल्या जनावरांचो जीव वाटावपाक येता.

थोडे भितर पूण म्हत्वाचें म्हणल्यार गोरवांचो मालक कितलोय बुदवंत आसूं वा दोतोर कितलोय हुशार आसूं, प्रयोगशाळेचो आदार घेतले बगर दुयेंसाचें खरेंपण थारावप शक्य ना. ताका लागून जनावराचे भलायके संबंदान प्रयोगशाळेक पर्याय ना.




जंत





जंतांची तांतयां











रगतांतले दुयेसाचे जंतू






किट्टी, लिको, उयो






जनावरांचे खोरजेंचे जंतू



पिसू



मलेरीयाचे जळार

## १५. शेण, मुताचें स्वरूप आनी तांची भलायकी

गोरवाच्या पोटांत पचनाशिल्लो आनी भायर उडोवपाचो खाणाचो वांटो म्हणल्यारूच शेण. दूद देवपी जनावर, दूद न दिवपी जनावर, कामाचे बैल ह्या प्रत्येकाचें शेण करपाचें प्रमाण वेगळें वेगळें आसता. दूद दिवपी गोरूं दर दिसा २० ते २५ कील शेण दिता. हें प्रमाण गोरवाच्या वजनाच्या १० टक्के आसता. ४०० कील वजनाची गाय दर दिसा अदमास ४० कील शेण करता. पाडकां दिसाक ५०० ग्राम ते १ कील शेण करतात. हें शेण दिसाक २ ते ३ फावटीं आसता वा एका दिसा आडूय आसता.

गोरवामदीं खाल्लां तें पचोवन शेण तयार जावपाक १ ते २ दीस लागतात. खावड आनी तण खावप, मागीर रत म्हणजेच रवंत करप, पोटाच्या चार भागांनी तें घोळप, उपरांत आतड्यांनी मुखार वचप आनी शेवटाक आतड्यांच्या निमण्या भागांत शेण तयार जावप, अशी प्रक्रिया आसता.

### शेणाचो रंग आनी भलायकी हांचो संबंद

दूद पिवपी पाडकाच्या शेणाचो रंग हळडुवसर आसता. पाडकां तणाच्यो काडयो आनी पानां खातात तेन्ना हो रंग काळपट गोबरो जाता. पाचवें तण खावपी गोरवाच्या शेणाचो रंग काळपट आसता. बीट, टमाट, गाजर गोरवाच्या खाणांत आयल्यार रंग तांबसर जाता. कामीण जाल्ल्या गोरवाच्या शेणाचो रंग पाचवो काळपट वा हळडुवो जाता. ज्या गोरवाच्या पित्ताशयांतल्यान पित्त भायर सरना आनी पायपांत आडखळटा, ताचें शेण फिकट पाचवें आसता. खाणांत विखारी पालो आयलो जाल्यार शेणाचो रंग भांगरा कोराचो वा तपकिरी कसो जाता. आतड्यांचें दुयेंस वा आतड्यां भितर रगत पडटा जाल्यार शेणाचो रंग चॉकलेटी वा काळपट डांबर कसो जाता. पोटांत वा गोरवाक कॉक्सेडिया दुयेंस जाल्लें आसत जाल्यार शेणांत रगताचे थेंब आनी गुळे मेळटात. गोरवाक खाणांत वखदां दिलीं जाल्यार ते भशेन शेणाचो रंग बदलपाक शकता.

### शेणाचो वास आनी भलायकी हांचो संबंद

बरी भलायकी आसपी गोरवाच्या ताज्या शेणाक घाण येना. पोटांत दुयेंस आसत जाल्यार शेणाक घाण मारता. गोरवाक ॲसिडीटी आसत जाल्यार शेणाक आंबसर वास येता. दंताचें दुयेंस आसत जाल्यार शेण पातळ जाता आनी घाण मारता. अशा शेणांत दंतूय दिसपाक शकतात. पेट्रॉल, टर्पेंटायन वा कसलोय पेंट चुकून पोटांत गेल्लो आसत जाल्यार शेणाक तसलोच वास मारता.

**शेणाचे प्रकार आनी गोरवाची भलायकी**

सुकें तण खावपी गोरवाक शेण घट्ट जाता. पाडकाक शेण चिकट तशेंच तेलकट जाता ॲसिडीटी आनी अजीर्ण जाल्लें आसत जाल्यार शेण फेसाळ जाता. जोन्स दुयेंस आसपी गोरवाच्य शेणांत बुडबुडे येतात आनी खर घाण मारता. दंत आसत जाल्यार शेण चकचकीत दिसता आनी बुडबु येतात. दांतांक लागून गोरवाचें चाबडप सारकें जालेंना जाल्यार शेणांत १ ते २ सेंटीमीटर लांबायेचे तणाचे कुडके मेळटात. थायलेरिया तशेच लोखणाचो कुडको पोटांत वचून दुयेंस जालें जाल्यार शेणांत मोटे तणाचे कुडके मेळटात.

**मूत आनी भलायकी हांचो संबंद**

गाय, म्हस दर दिसा ८ ते १४ लिटर मूत भायर उडयतात. हें प्रमाण तांच्या वजनाच्या सरासरी ८ टक्के इतलें आसता. तशेंच मूत तयार जावपाचें प्रमाण हें गोरवाचो आकार, खावड, उदक, गाबणपण, पिराय, वर्साचो खंयचो तेप हांचेरूय निंबून आसता. गोरवाक मुतता आसतना कसलोच त्रास जावपाक जायना. बरी भलायकी आशिल्ल्या गोरवाच्या मुताचो रंग उदका भशेन वा मात्सो हळडुवो आसता. गोरू उदक चड पियेलें जाल्यार वा ॲसिडीटी जाली जाल्यार मूत पातळ उदका भशेन जाता. तेंच उदक कमी पियेलें वा ताका कामीण जाल्ली आसत जाल्यार मूत हळडुवें जाता. मोरचुडाची विखबादा जाल्ली आसत जाल्यार मूत तांबशें जाता. बेबेसिऑसिस दुयेंस आसत जाल्यार मुताचो रंग फुटी कॉफी कसो जाता. गोरवाच्या खाणांत फॉस्फरस आनी तांबें हे घटक कमी जाले जाल्यार मुताचो रंग तांबसो जाता. मुत्रपिंड वा मुताचे पिशवेचें दुयेंस चड तेपाचें आसत जाल्यार मुताचो रंग धवसर दिसता. मुताक अमोनिया गॅसी असली घाण मारता. किटोसिस ह्या दुयेंसांत मुताचो वास ऊसाच्या रोसाभशेन आसता. बरे भलायकेच्या गोरवाच्या मुताक सदांच फेस येता. पूण मुत्रपिंडाचें दुयेंस आसत जाल्यार मुताक सामको कमी फेस येता वा मात्तूय येना. अशे तरेन गोरवाच्या शेणाच्या आनी मुताच्या स्वरुपा वयल्यान गोरवाचे भलायकेचो अदमास काडूं येता.

**२६. गाय–म्हस हांचीं तरेकवार दुयेसां**

सदांच अशें म्हणटात की, दुयेंस जातकूच वखद करचे परस दुयेंस जावचेंच न्हय म्हूण जतनाय घेवप चड बरें आसता. हाचेर एकूच उपाय म्हणल्यार वेळचे वेळार वासिना करून घेवप. तशें केल्ल्यान

ानावराचेर तर परिणाम जावचो नाच, ते भायर ताची दूद पुरवण आनी गाब येवपाचेरूय वायट परिणाम ावचो ना. वश्याचें दुयेंस आसता तेन्ना चड सादुरकाय बाळगुची पडटा.

. अशें दुयेंत वा दुबावीत जनावर विकत घेवचें न्हय.

. दुयेंस पातळिल्ल्या वाठारांनी वा सुवातांनी जनावराक उदक पिवपाक वा चरपाक व्हरचें न्हय.

. गोठ्यांत जनावर वा मनशां वचचे पयलीं दारांत जंतुनाशक उदक एका फोंडाऱ्यात वा आयदनांत वरचें. तातूंत पांय बुडोवन मागीर गोठ्यांत सरचें.

. स म्हयने दुयेंस ना अशे सुवाते वयल्यानूच खावड, तण घेवचें.

. भायल्यान गोरूं हाडलें जाल्यार तीन सप्तकां ताका वेगळें दवरचें, ताका कसलेंच दुयेंस ना अशें देसलें जाल्यार आपल्या पयलीच्या गोरवां वांगडा एकठाय बांदचें.

६. गोठ्यांत खंयचेंय जनावर दुयेंत आसल्यार वेगळें बांदचें. ताका तण, उदक वेगळें दिवचें. ताणें सांडिल्लें तण, उदक दुसऱ्या जनावराक दिवचें न्हय.

७. नवें जनावर हाडले उपरांत थोड्याच दिसानी ताका दंताचें वखद दिवन वासिनाय करून घेवचीं.

**म्हत्वाचीं दुयेसां**

**१. घटसर्प (एचएस म्हणल्यारूच हिमोरेजीक सेफ्टीसेमिया) :** गाय, म्हस, बकऱ्यो, मेंडरा हांचें हें एक खर दुयेंस जावन आसा. पास्टुरेला मालटोसिडा ह्या जंतूक लागून तें जाता. चड करून तें पावसाळ्याचे सुरवेक जाता, वा जनावर फ्राक जाता, पेचांत आसता, थकिल्लें आसता तेन्नाय हें दुयेंस चड जाता.

**लक्षणां :** दुयेसांत १०४ ते १०६ डिग्री फॅरेनईट ताप येता. जनावराचो ताळो, श्वास घेवपाची नळी आनी फेफडां हांकां जळजळ पडता. गोरवाक श्वास घेवपाक त्रास जाता. श्वासाचे नळयेक सूज आयिल्ल्यान मान सकयल तायट करून रावता. आवाजांत घरघर लागता. नाकांतल्यान आनी तोंडांतल्यान चिकट स्राव उदक कशें पडटा. गोरूं तोंडा वटयां श्वास घेता, गळो सुजता, डोळे तांबडे जातात. केन्ना केन्ना जीब भायर सरता, पातळ संडास जावपाक लागता आनी १ ते ३ दिसां भितर गोरूं मरपाक शकता.

**उपाय :** दर वर्सा पावसाआदीं घटसर्पाचीं वासिना करून घेवपाकूच जाय. गोरवाक दुयेंस जाल्यार ताबडतोब सल्फा असलीं इंजेसावां शिरांत करून घेवचीं. तशेंच घटवायेचीं, ॲन्टिहिस्टामिनीक आनी

जोराचीं हेर वासिना, वखदां करचीं. तोंडा वटयां दिवपाच्यो गुळयो आनी पावडर दिवची. हे सगले उपाय दोतोराच्या सल्ल्यान करचे.

**२) फऱ्या (बी क्यू म्हणजेच ब्लॅक क्वार्टर)** क्लोस्टिडियम शोवाय ह्या जंतू पसून जावपी गोरवांचें हें एक खर दुयेंस. नेणट्यां म्हणल्यारूच दोन वर्सां मेरेन पिरायेच्या गोरवांक तें चड जाता.

**लक्षणां:** एकदम १०४ ते १०६ डिग्री फॅरेनाईट जोर येता. गोरूं लंगडटा. चड करून ताच्या फाटल्या पांयांक सूज येता. हे सुजीचेर दाबल्यार चर्र चर्र आवाज येता. ह्या दुयेंसाक लागून विखबादा जावन गोरूं मरपाक शकता.

**उपाय :** गोरवाक ॲन्टिबायोटीक ड्रायक्रिस्टीसीन मुन्योमायसीन, बेसिपेन ॲम्पिसिलीन असलीं वखदां दिवचीं. घटवायेचीं, ॲन्टिहिस्टामिनीक आनी जोराचीं इंजेसावां दिवचीं. दुयेंस जावचें न्हय म्हणून दर वर्सा पावसा आदीं वासिना करून घेवचीं. हे सगले उपाय दोतोराच्या सल्ल्यान करचे.

**३) ब्रुसेलोसीस** : ब्रुसेलोसीस हें ब्रुसेला ॲबॉर्टस् ह्या जंतूंक लागून जावपी एक भिरांकूळ दुयेंस. जनावरा कडल्यान तें मनशांकूय जावपाक शकता. दुदावटयां वा गर्भाशयांतल्यान पडपी /व्हांवपी रशी आनी उदक हांचे वटयां तें पातळटा. तातूंत सर्वसादारणपणान ६ ते ८ म्हयन्यांच्या गाबण गोरवाचो गर्भपात जाता. तातूंतल्यान वार पडना. केन्ना केन्ना मेल्लें पाडूक भायर पडटा.

**उपाय** : गर्भपात जाल्लें जनावर गोठ्यांतल्यान भायर काडून वेगळें बांदचें. ताचेर उपचार सुरू करचे. नेमान वखद केलें जाल्यार गोरूं बरें जावपाक शकता. पाडकाक दुयेंस जावचें न्हय म्हणून वासिना करून घेवचीं. हे सगले उपाय दोतोराच्या सल्ल्यान करचे.

**४) धोणकुटी (टिटेनस)** : हें एक म्हत्वाचें दुयेंस जें क्लोस्ट्रिडियम टिटेनस ह्या जंतूक लागून जाता. एखादो घाव, फेरीदाचें इन्फेक्शन, अपघात, कसलीय माती वा चिकोल लागिल्ली वस्त तोंपप, ऑपरेशन करप, अशा प्रसंगांवेळार हें दुयेंस जावपाक शकता. चड करून तें घोडो वा मनशाक जावपाक शकता. गोरवां, बकऱ्यो, मेंडरां तशेंच सुण्यांकूय तें जावपाक शकता.

**लक्षणां :** जबडो, स्नायू घट जातात. झटके कशे येतात.

**उपाय :** घावो बरे तरेन धुवचो, पेनिसिलीन मलम लावन पट्टी बांदची आनी धोणकुटेचें सिरम दिवचें. दुखीचीं आनी स्नायू सैल करपी वखदां दिवचीं. हे सगले उपाय दोतोराच्या सल्ल्यान करचे.

दर वर्सा नेमान धोणकुटेचें वासीन (टीटी म्हणल्यारूच टिटेनस टॉक्साईड) करप तशेंच घावो जाले उपरांत बेगोबेग वासीन करप सदांच बरें आनी गरजेचें आसता.

**५) टीबी (क्षय), पॅरा ट्युबरकुलेसीस (ज्योन्स दुयेंस)** : मायक्रोबेक्टेरियम बोवीस आनी मायक्रोबेक्टोरियम पॅरा ट्युबरकुलेसीस ह्या जंतूंक लागून हीं दुयेसां जातात. गोरूं वेवस्थीत खायना, पेयेना, आंगान सुकता, फ्राक जाता. खोकली मारता. कांय वेळ थोडो ताप येवन वता. परत परत पातळ संडास जाता. सादीं वखदां, दंतांचें वखद, हेर गुळयो हांणी हो संडास कमी जायना. संडास पातळ जावन नेटान भायर पडटा आनी ताका उग्र घाण मारता. बऱ्याच फावटीं टीबी दुयेसांत व्हंट वयर सरल्यान घट्ट जाता, सुजता. टीबीचें दुयेंस गोरवां पासून मनशांकूय जावपाक शकता.

**उपाय :** स्ट्रेप्टोमायसीन आनी पास असलीं वखदां खूब तेप दिवचीं पडटात. गोरवाची खासा जतनाय घेवन ताका घटवायेचीं वखदां दिवपाक जाय. हे सगले उपाय दोतोराच्या सल्ल्यान करपाक जाय.

**६) लाग (एफएमडी) :** लाग हें एक भिरांकूळ पाड आनी वश्याचें दुयेंस. गाय, म्हस, बोकडी, मेंडरां, दुकर, हरणां असल्या सगल्या खूर आसपी जनावरांक तें जाता. हो रोग भायल्या, संकरीत गोरवां आनी पाडकांक जाता.

**लक्षणां :** गोरवाक एकदम १०३ ते १०५ डिग्री फॅरेनाईट इतलो जोर येता. तोंडांतल्यान लाळ व्हांवता. तोंडा भितर, जिबेर, दांता कडेन, हिरड्यांचेर फोड येतात. उपरांत पांयांच्या खुरांचे कातीचेर फोड येतात. चलप कुस्तार जाता. गोरूं खावपाक–पिवपाक शकता, पूण ताका त्रास जातात. फोड फुटून घाय जाता. ताचेर मूस बसतात. तांकां लागून किडे पडपाक शकतात. केन्ना केन्ना गोरवाचे व्हंटयेचेर आनी पान्यांचेरूय फोड येतात आनी ते फुटून घाय जातात. पाडकां दूद पियेल्यार तांकांय हें दुयेंस जाता आनी तीं मरपाक शकतात. गाय, म्हशीचें दूद सामकें उणें जाता. गाबण गोरवाचो गर्भपातूय जावपाक शकता. अशें गोरूं उपरांत गाबण जावपाक खूब वेळ वता. पांयांक घावे आशिल्ल्यान बैल, रेडे जोताक तशेंच गाडयेक बांदल्यार सारकें काम करपाक शकनात. संकरीत गोरवांचे केस खडबडीत आनी निस्तेज जातात. संकरीत गोरवाक धांप लागता.

**उपाय :** गोरूं बरें जावपाक आनी फेरीदां म्हणल्यार घावे चिघळपाक जायना म्हूण ॲन्टिबायोटीक आनी दुखीचीं इंजेसावां करप गरजेचें. दुयेंत गोरवाच्या घायांची कुयदाद घेवची. ताका दिसांतल्यान दोन

फावटीं ॲन्टिसेप्टीक वखदां, पोटेशियम परमँगनेट, फटकी वा हेर वखदां लावन धुवचें. तोंडार बोरीक पावडर, ग्लिसरीन, ॲन्टिबायोटीक पावडर लावचो. गोरवाक खावपाक हरवें तण वा तेंच तण वाटून दिवचें. खावड फुगोवन घालची. पांयांवयले घाये पॉटेश आनी मोरचुदान धुवचे. किडे पडले जाल्यार किडेल वा हेर स्प्रे मारचो. उपरांत मलम, पावडर लावन ड्रेसिंग करचें. पांयांचे घाये बांदून दवरचे. घावो चिघळचो न्हय आनी बेगीन बरो जावचो म्हणून ॲन्टिबायोटीक, टॉनीक इंजेसावां, जिवनसत्व अ दिवचें, दरेका जनावराक पयले सुवातेर लागीची वासिना करून घेवचीं आनी फुडें तीं त्या त्या वेळार परत करून घेवचीं. हे सगले उपाय दोतोराच्या सल्ल्यान करचे.

**७) बेबेसिऑसीस** : किट्टींक लागून गोरवां, घोडे आनी सुण्यांच्या आंगांत हें दुयेंस रिगता. रगताचे पेशीत वाडपी जंतूंक लागूनय हें दुयेंस जाता.

**लक्षणां :** गोरवाक अचकीत १०५ ते १०७ डि. फॅ. इतलो जोर येता. मुतपाक कॉफीच्या रंगा भशेन तांबडें जाता. कांय वेळार गोरवाक कामीणूय जावपाक शकता. गोरूं सुस्तेता, खावप–पिवप सोडटा. वेळारूच वखदां उपचार केलेनात जाल्यार मरपाकूय शकता.

**उपाय :** बेरेनील, बेबेसान, बुटालेक्स, बुपाराक्वॉन, अकाप्रीन, ट्रिपॉन, असलीं वखदां दोतोराच्या सल्ल्यान दिवप आनी म्हत्वाचें म्हणल्यार दुयेंस जावचेंच न्हय म्हूण किट्टींचो बंदोबस्त करप.

**८) सरा (ट्रिपॅनोसोमिॲसीस) :** हें दुयेंस चड करून चाबपी मुसांक लागून जाता. ह्या जंतूंक ट्रिपॅनोसोमिया ईवेनसाय अशें म्हणटात. ते रगताच्या पेशींनी रावतात. दाट पावस पडपी अटंग्या रानांनी हे मूस चड आसतात. थंय हें दुयेंस चड मेळटा.

**लक्षणां :** खूब जोर येता. तो १०५ ते १०७ डि. फॅ. इतले मेरेन वाडत वता. गोरवां थरथरतात. घुंवळ येवन पडटात. तकली धाडायतात. तकली सकयल दवरतात. गोरवांक झटके कशे येतात. थोड्या वेळान तीं सारकीं जातात आनी उपरांत परत झटके येवपाक लागतात.

**उपाय** : गोरवाक वेवस्थीत दोन वटांनी दोन दावीं घालून बांदचें. बेरेनील ट्रीपनील, सुरामीन असलीं खाशेलीं इंजेसावां दोतोराच्या सल्ल्यान करून घेवचीं. तातूंत रोखडोच गूण मेळटा.

**९) थायलेरिऑसीस** : चड करून भायल्या आनी संकरीत गायांक जावपी म्हत्वाचें अशें हें दुयेंस. किट्टी चाबिल्ल्यान तें जाता. दुयेसाच्या जंतूक थायलेरिया ॲनुलॅटा म्हणटात. हें जंतू रक्ताच्या

तांबड्या पेशींनी रावतात.

**लक्षणां :** सेगीत ५ ते ६ दीस १०६ डि. फॅ. जोर येता. फुडल्या पांयांच्या, मानेकडल्या भागांच्यो आनी फाटल्या पांयांच्यो फुडल्यो गांठी (लिंफनोडस्) सुजून मोट्यो जातात. ह्या दुयेंसांत तांबड्या पेशींचो खूब नाश जाता. हाका लागून रगत आटता आनी पंडुरोग (ॲनिमिया) जाता. गोरवाक श्वास घेवपाक त्रास जातात आनी उपरांत कामीणूय जावपाक शकता. गोरूं फ्राक जाल्ल्यान हेर दुयेंसांय ताका जावपाक शकतात.

**उपाय** : जनावरांक बेरेनील, निवाक्सिन आनी टेट्रासायक्लीन असलीं इंजेसावां दिवचीं. ताका शक्त येवची आनी रगत वाडचें म्हणून हिमफेरोन, बेलामिल, लिवोजेन, जीवनसत्व ब असलीं घटवायेचीं इंजेसावां दिवचीं. विमेरोल विटाफेरोन विटांब्लेंड असलीं वखदां खावपाक घालचीं. सगल्यांत म्हत्वाचें म्हणल्यार रोग पातळचो न्हय म्हूण किट्टींचो बंदोबस्त करचो. हे सगले उपाय दोतोराच्या सल्ल्यान करचे.

**२७. जनावराचें अपचन**

जनावर सारकें खायना ताचे फाटल्यान साबार कारणां आसूं येतात. ताची सुवात बदलल्या, खावड बदलल्या, तोंडाक भितरल्यान वा भायल्यान सूज बी आयल्या आसपाक शकता. किटोसीस, ॲसिडिटी, कामीण, खाणांत लोखणी धातुची वस्त, प्लास्टीक पिशव्यो वा पचपाक जड अशो वस्तू येवप अशीं कांय थारावीक दुयेसां आनी तातूंतल्यान पोटांत दुयेंस जावप. फकत तण, कडबो, गवांचो कुंडो, भाताचो कुंडो खाववलो वा पाचवें तण चड खाववलें जाल्यार आनी जें पोटांत गेलां तें घट्ट, चिकट कशें जावप हाकाच रुमिनाल इन्पेक्शन म्हणटात.

**गोरूं खायना जावपाक फुडलींय कारणां आसूं येतात**

तरातरांचे जंतू, निक्रोप हांका लागून जनावराक जोर येता. तेन्ना गोरूं खावप सोडटा. तणा–खाणाक घाण मारप, रूच नासप, तण–खाण अचकीत बदल्लें जाल्यार तोंडाक, गालाक वा जिबेक घावो आसत जाल्यार, कडबो–तण खातना दाडी एके वटेन सरकल्यार, लाग आनी हेर कसल्याय दुयेंसाक लागून जिबेक फोड आयलो, दांत दाडी किडून पेड्ड्यार जाल्यो, गाल आनी दाड हांचेमदीं तण आडखळ्ळें, अन्न नलिकेंत आंब्याचो काथो, कांदो, बटाट, असली वस्त आडखळ्ळी जाल्यार गोरूं खावप सोडटा.

तोंड, जीब, गाल हांचेर फोड, घावो आसत जाल्यार तो पॉटेशियम परमेंगनेट वा तुरटी (फटकेच्या) उदकान धुवचो.

**ताचेर** १) बोरीक पावडर आनी ग्लिसरीन, २) हळद आनी गोडेतेल वा खोबरेल वा ३) बोरीक पावडर आनी सल्फा गुळयो हांचे भितरलें खंयचेंय मिश्रण लावचें. दाडयो धारदार आनी वांकड्यो तिकड्यो आसत जाल्यार त्यो तज्ञां कडल्यान कानशीन घांसून घेवच्यो. पोट फुगिल्लें आसत जाल्यार वखद करचें. जोर आयलो जाल्यार इंजेसांव करून घेवचें. रूच येवपाचे गावठी उपाय म्हणल्यार ५० ग्रॅम सूंठ, ओंवो, बडीशेप आनी २५ ग्रॅम काळें मीठ एकठांय करून पावडर दिसांतल्यान दोन फावटी गायेक, म्हशीक दिवची. दिसाक २० ते ३० ग्रॅम खावपाचो सोडा (सोडा बायकार्ब) घालचो. ३ ते ४ दीस दिसाक एक लिटर दूद पिवपाक दिवचें. बरे निरोगी गायचो-म्हशीचो रवंथ करता तो फेस आनी तोंडातलें (वागूळ) दुयेंत म्हशीक खावपाक दिवचें. रुमेन्टोन, ॲनोरेक्सोन रुमेंन्टास, बॉव्हीरम, नोव्हीरम, रुमेन, यिस्ट बोलस असलें वखद दिसाक सकाळीं दोन फावटीं आनी सांजे दोन फावटीं अशा प्रमाणांत दिवचें. हर्बोसोल, हर्बोस्टोंग, रुमीकेर, डायजेस्टोन, पाचोप्लस, नेचेरल बस्तिसा असल्यो पावडरी २५ ग्रॅम सकाळी आनी २५ ग्रॅम सांजे अशा प्रमाणांत दोन दीस दिवचें. गायेक-म्हशीक सर आनी फिग्ध आनी बाकीची फोस्फोराची (टोनोफोस्फोन) आनी घटवायेचीं इंजेसावां दिवचीं. हे सगले उपाय दोतोराच्या सल्ल्यान करचे.

**२८. जनावराक पातळ संडास जावप**

चड करून दंतांक लागून जनावरांक पातळ संडास जाता. हे दंत पोटाचे, आतड्यांचे वा फिग्दाचे (लिवराचे) आसपाक शकतात. एकेक फावट खावडींतल्यान पोटांत कांय विखारी पदार्थ आयल्यार पसून पातळ संडास जावं येता. थोड्या फावटी पातळ संडास जाल्ल्यान पोटांतले विखारी आनी नाका आशिल्ले पदार्थ वा वस्तू भायर पडून जीवाक बरेंय दिसू येता. पूण चड भायर जावन आंगांतलें उदक भायर वचून फ्राकसाण येवन आंग सुकूंक (डिहायड्रेशन) फावना. अन्नपचन वेवस्थीत जालेंना आनी पोटांत निक्रोप म्हणजेच रोगजंतू आयले जाल्यार पोटांत जाळ पडटात. खाता पियेता ताचें सोशण जायना आनी पातळ संडास सुरू जाता. जनावरान पाचवें तण चड खाल्लें जाल्यार पातळ संडास जाता. पूण हरव्या तणाक लागून जाल्ल्या संडासान जनावराक ताप येना. दूध कमी जायना, तशेंच संडासांत

गत वचना. रोगजंतू म्हणल्यारूच निक्रोपाक लागून जाल्ल्या संडासा वेळार जनावरांक जोर येता. खावपाचें प्रमाण कमी जाता. तशेंच पातळ संडासात रक्त पडटा.

ह्या पातळ संडासाच्या दुयेंसाचेर उपाय करचें पयलीं दुयेंसाचें कारण सोदून काडचें. दंत, थरावीक दुयेसां- देखीक जोन्स रोग, घटसर्प (आतड्याच्या रुपांतलो), विखबाधा, हरवें तण चड खावप, ॲसिडिटी हे सगले पळोवचें. पातळ संडास थांबोवंक सल्फा बॉल्स, पॅक्ट्रीन, ओरीप्रीम, पेसूलीन, कोट्रीमोल असल्यो गुळ्यो मेळटात. त्यो दिसाक २ ते ४ ह्या प्रमाणांत दुयेंसाचे प्रकार पळोवन दिवंच्यो हरवें तण कमी करचें. खावपाचो सोडा गरजे प्रमाण २० ते ३० ग्राम दिवचो. डायरेक्स, नेबलोन, डायेस्पेल, स्टोपईट असलो पावडर खावपाक दिवचो. हो पावडर उदकांतल्यान न्हय तर गोडांत, पेंडीत घालून गुळो करून दिवचो. व्हडल्या गोरवाक वा जनावराक वर्सांतल्यान दोन फावटीं पावसा पयलीं आनी पावसा उपरांत दर जानेवारी तशेंच जून म्हयन्यांत दंताचें वखद दिवचें. जनावराच्या शिरांतल्यान सल्फा असलीं ॲन्टिबायोटीक तशेच सलायन दिवन इन्फेक्शन आनी डिहायड्रेशन टाळचें. वयले सगले उपाय दोतोराच्या सल्ल्यान करचे.

**पाडकां – रेडकांचो पातळ संडास**

बऱ्याच फावटीं पाडकां रेडकां पातळ संडासाक लागून मरतात. ह्या संडासाचो रंग धवो आसता म्हणून ताका व्हाईट स्कोर अशेंय म्हणतात. चड करून हे दुयेंस पाडकां रेडकांक पिरायेच्या दोन म्हयन्या मेरेन जाता. म्हशीच्या रेडकांक हें दुयेंस चड जाता. ज्या रेडकां-पाडकांक दीक (चीक) मेळना तांकां पातळ संडासाचें दुयेंस चड जाता. दुयेंसाचे जंतू रक्तान गेल्ल्यान विखबादा जाता. एकदम जोर येवं येता. पातळ संडास जाचो रंग धवो वा हळडुवो आसता ताका एकदम घाण मारता, आंगातलें आनी रक्तांतलें उदक आटता. हें विखबादा दुयेंसाच्या जंतूंक लागून जाता आनी पाडकां-रेडकां मरतात.

**उपाय :** दुयेसांचें कारण पयलीं सोदून काडचें. दंताचें वखद वेवस्थीत म्हणल्यार पिरायेच्या धाव्या दिसा साकून नेमान घालचें. पयले ६ म्हयने मेरेन दर म्हयन्याक वखद घालचें. ताचे उपरांत दर तीन म्हयन्यांनी घालचें आनी ताचे उपरांत प्रत्येक ६ म्हयन्यांतल्यान एक फावट वखद घालचें. पातळ संडास जाता त्या पाडकाक वेगळें काडून खासा कुयदाद आनी वखदां दिवचीं. ताका सल्फा, जेस्टीना, क्युकझेलीन, नेफ्टीन, पेसुलीन, ऑरिप्रिम, असलीं वखदां तोंडा वटयां दिवचीं. शिरांतल्यान इंजेसावां,

ॲन्टिबायोटिक्स तशेंच सलायन दिवचें. संडास जावचो न्हय म्हणून अशी काळजी घेवची. पाडकाच्य वजनाच्या १० टक्के दीक/चीक विले उपरांत रोखडोच दिवचा. बोंबलेंतल्यान लांबपी देट कापून ताक टिंक्चर आयोडीन असलीं वखदां आनी ॲन्टिसेप्टीक पावडर लावचो. गोठ्याची आनी पाडकाच्य दुदाच्या आयदनांची नितळसाण भोव गरजेची आसता. पाडकां विस्कळ बांदची. दुयेंत पाडकाक वेगळ बांदचें. थंडीपसून तांचें रक्षण करचें. वेळचेवेळार दंताचें वखद आनी बरी खावड दिवची. खावपा - पिवपाक बरें पुश्टीक घालचें.

**२९. जनावराचीं मेंदवाचीं दुयेसां :**

जनावराचीं मेंदवाचीं दुयेसां वळखप आनी ताचेर उपाय करप हें एक आव्हानात्मक काम. तरीय जनावरांच्या धनयांक आनी दोतोरांक तें करचेंच पडटा.

**१) मेंदवाक मार बसप :** चडसो असो मार जनावरां रस्त्यावयल्यान वतना मोटार गाडयांक आपटून बसता. हातूंत एकदम गंभीर स्वरुपाचो मार आसल्यार जनावर बेशुद्ध पडटा. ताच्या दोळ्यांची बावली मोठी जाता. श्वासोश्वास मंद जाता. नाक-काना वाटयां रक्त येता, केन्ना केन्ना गोरूं कुड्डेंय जाता, तशेच ताका आरीचें जावं येता. गोरूं वितना वासराचें माथें जमनीक आपटलें जाल्यारूय मेंदवाक मार बसता. असो मार लागतकीर काय वरांभितर गोरवाक शुद्ध आयली जाल्यार गोरूं पुराय बरें जाता. मात ३ ते ६ वरां भितर ताका शुद्ध आयली ना जाल्यार तें बरें जावप खूप कठीण अशें समजुचें. तरीय आसतना शक्य तितले उपाय करून घेवंचे.

**२) घुंवळीचो रोग :** टिनिया मल्टीसेपस् हे जंतू आनी ताच्यो सिनोरीस सेरेब्रालीस आनी सिनॉरीड ह्या मदल्या अवस्थांपासून हें दुयेंस जाता. ह्या अवस्था सुण्यांमदीं वाडटात. सुण्याच्या संडासाक लागून दुशीत जाल्लें तण-खाण हेर जनावराच्या पोटांत गेल्ल्यान हें दुयेंस जाता. मेंदवाच्या पेशींत हे जंतू वाडटात.

**लक्षणां :** जनावराच्या तोंडांतल्यान लाळ व्हांवता, जनावर चवताळिल्ले सारकें धावता, डोळे वांटकुळे घुंवडायता. चडशीं जनावरां ह्या दुयेंसान मरतात.

**उपाय :** हें दुयेंस जावचें न्हय म्हणून रोगी जनावराची कूड सुण्याक खावपाक मेळची ना हाची सादुरकाय बाळगुची.

**) बोवायन मलीग्नंट कटार्ह :** ह्या दुयेसाचें जंतू जनावराच्या मेंदवा मदीं वाडटात.

**ऱक्षणां :** गोरूं वांटकुळें घुंवता, थरथरतात आनी आड पडटा. रोखडेच उपाय केले जाल्यार जनावर ऱें जावपाक शकता. लक्षणा प्रमाण उपाय करून घेवपाक जाय.

**६) लिस्टीरिया मोनोसायटोजिनेसीस :** हें दुयेंस सगले जातीच्या गोरवांक लिस्टीरिया ोनोसायटोजिन्स ह्या जंतू पासून जाता. हे दुसेंस जाल्यार गोरूं चवताळता. ताका जोर येता. तें वांटकुळें ुंवता, माथें झाडार वा वणटीर आपटता, दात करकरायता, तोंडांतल्यान फेंस उडयता.

ह्या दुयेंसांत स्ट्रेप्टोपेनिसिलीन, टेट्रासायक्लीन हीं वदां चड प्रमाणात दोतोराच्या सल्ल्यान दिवप आसता.

## ३०. गोरवांचीं काळजाचीं (कुरसांवाचीं) दुयेसां

बऱ्याच फावटीं गोरवाक काळजाचें दुयेंस जाता. ताचो तपास करपाक बरोच उशीर जाता. म्हणुनूच चडशें फावटीं गोरू मरता. सुरवाती पसून दुयेंत गोरवांचेर बारीक लक्ष दवरल्यार आनी दुयेंसाच्या लक्षणांचो अभ्यास करून फाव ते उपाय केल्यार गोरवाचो जीव वाटोवं येता.

**लक्षणां**

थोडें पसून काम केल्यार जनावराक पुरो जाता. खरस मारता. श्वास घेवपाक त्रास जाता. ताच्या हड्ड्यांत दुखता, तें घूड घालून उबें रावता. काळजाचे ठोके अनियमीत जातात. केन्ना ते वाडटात जाल्यार केन्ना कमी जातात. स्तेथेस्कोप लावन तपासल्यार काळजाचो सदां भशेन सारको आवाज येना. दोन पांयांमदीं काळजाच्या जाग्यार सूज येता. थंय उदक भरिल्ले भशेन दिसता. गोरवाच्या काळजाची शीर (जुगुलार वेन) तट्टट्टना दिसता.

गोरूं हें बकाबका खावपी जनावर. ताका लागून तें चरपाक वता तेन्ना मेळत ते अधाशीपणान खाता. ह्या खाणा भितर बऱ्याच फावटीं लोखणी सरी, खिळ्या असली तोंकाची वस्त बीन तांच्या पोटांत वता. हाका लागून गोरवांक ट्रोमेटीक पेरिकारडायटीस, रेटीकुलायटीस, मायोकारडायटीस असलीं दुयेसां जातात.

ह्या दुयेंसाच्या लक्षणांत गोरवाच्या हड्ड्यांत दुखता. तें घूड घालून कंडो करून रावता. डोळे त्रासिल्ले दिसतात. तें मान ताणून धरता. फुडले पांय रूंद करून चलता. चडटेर चलतना वेवस्थीत

चलता, पूण देंवतेर चलतना त्रासता आनी सामकें मंद चलता. स्तेथेस्कोप लावन तपासल्यार थंड उदव भरिल्ले भशेन घाशिल्लो आवाज येता. ह्या दुयेसांत मागीर ही पोटांतली लोखणी वस्त हड्ड्याक तोंपता थंय उदक, पूं जाता. ही वस्त माने सकयल्यान वा कडेच्यान भायर सरली जाल्यार गोरूं वाटावता. मा ती वस्त काळजाक तोंपली जाल्यार मात जनावर मरता. ह्या दुयेंसाक खाशेलो असो उपाय ना ऑपरेशन करून ती लोखणी वस्त काडू येता, पूण चडश्या फावटीं ती काळजा वटेन तोंपिल्ली आसत आनी गोरूं बरें जायना.

**गोरवांक आताक येवपाची कारणां**

काळजाचें कसलेंय दुयेंस साप्प घातकी आसता. आताक येता तेन्ना अशीं लक्षणां दिसतात गोरवाचो श्वास एकदम मंद जाता, ठोके मंद जातात, दोळ्यांचीं बिबळां मोटीं जातात, गोरवाचें आंग थंड पडटा. आताक आयले उपरांत तीन मिनटां भितर उपाय जाले नात जाल्यार मेंदवाचें काम थांबता आनी जनावर मरपाक शकता.

**उपाय :** रोखड्या रोखडें काळजाच्या जाग्यार मालीश करचें. फाटले पांय उंचायेचेर दवरचे आनी गोरवाची तकली सकयल दवरची. ताका कृत्रीम श्वासोश्वास, ऑक्सिजन दिवचो. शिरांचीं वखदां चालू आसत जाल्यार बेगोबेग बंद करचीं. ताका ॲड्रीनेलीन, स्टेप्टोकायनेझ असलीं इंजेसावां शिरांतल्यान दिवचीं. केन्ना केन्ना गोरवाक अपघात जावन खूब रगत व्हांवता, तातूंतल्यान काळजाचो आताक येवं येता. ह्या वेळार जनावराक दुसऱ्या जनावराचें रगत जुळोवन घालचें. हेर घटवायेचीं वखदां, सलायन दिवन ताचो जीव वाटावपाचो यत्न करचो. हे उपाय दोतोराच्या सल्ल्यान करचे.

**३१. जनावराचें फिग्दाचें दुयेंस**

फिग्द म्हणल्यार लिवर हो गोरवांच्या आंगांतलो एक मोटो आनी म्हत्वाचो भाग. फिग्दाक आंगांतलीं जायतीं कामां करचीं पडटात. ताका लागून फिग्दाच्या दुयेंसात पूर्ण आंगाचेर ताचो परिणाम जाता. कसल्याय कारणाक लागून फिग्दाचें दुयेंस जालें जाल्यार गोरूं सामकें दुयेंत पडटा.

**कारणां :** १) फिग्दाचे दंत म्हणल्यारूच लिवरफ्लुक्स पित्त तयार करपाक त्रास करतात आनी पित्ताच्या पायपांत वचून पायप बंद करतात.

२) तांबड्या रगत पेशींच्या दुयेसांत फिग्दाचेर ताण पडटा. हातूंत सरा, थायलेरिया, बेबेसिया,

अॅनाप्लास्मा हीं दुयेसां येतात.

३) कसलेय तरेची विखबादा जाली जाल्यार.

४) पोटांत लोखणी सरी वा खिळो वचून फिग्दाक दुखापत जाली जाल्यार.

५) सामके अती बारीक निक्रोपाक लागून, हातूंत टीबी, साल्मोनेला, घटसर्प, पाडकाचे बोंबलेचें दुयेंस आनी हेर दुयेसां.

६) कसल्याय कारणाक लागून जाल्ली कामीण आनी अपघाताक लागून फिग्दाक मार बसलो जाल्यार.

**लक्षणां** : फिग्दाच्या दुयेंसाचीं लक्षणां हीं दुयेंसाची खरसाण, गोरवांची एकूण भलायकी आनी फिग्दाचे पेशीचें जाल्लें लुकसाण हांचेर निंबून आसतात. गोरवाक ताप येता, गोरूं सारकी खावड खायना, ताका सुस्ती मारता, दुदाचें प्रमाण उणें जाता, केन्ना केन्ना फिटस् येतात आनी पांयांचे स्नायू थरथरतात. सुरवेक सकयल्या जबड्याक सूज येता. गळ्यासकयल दोन पांयांमदीं सूज येता. पोटांत दुखता आनी कामणीची लक्षणां दिसपाक लागतात.

फिग्दाच्या दुयेंसा कडेन केन्नाच आडनदर करची न्हय. फिग्द गोरवाचे कुडींतलीं म्हत्वाचीं कामां करता. जाका लागून चरबीचें प्रमाण उणें जाता. फिग्दाक लागून जीवनसत्व अ, ड, क आनी ई हीं कुडींत ओडून घेवप शक्य जाता. फिग्द हें प्रोटिना तशेंच पिश्टमय पदार्थांच्या पचनाक सामकें गरजेचें. तांबड्या रगत पेशींचें आयुश्यमान तशेंच क्षारांचें नियंत्रण, जीवनसत्वांचें कुडींत ओडून घेवप, तांची पुरवण करप आनी नियंत्रण दवरप हीं कामां फिग्द करता. कसल्याय कारणाक लागून आंगा भितर तयार जाल्लं वीख फिग्द ना करता.

दुयेंसा कडेन झगडपाची पूर्वतयारी आनी खास प्रथिनांची पुरवण करपाचें काम फिग्द करता. फिग्द जीवनसत्व 'अ' चो सांठो करता. कसल्याय कारणाक लागून फिग्दाच्या कामात आडखळ आयली जाल्यार जनावराक व्हडल्या दुयेंसाक तोंड दिवचें पडटा. ताका लागून फिग्दाच्या दुयेंसाचें मूळ कारण सोदून काडप चड गरजेचें.

**उपाय :** ग्लुकोज बी कॉम्प्लेक्स हें जीवनसत्व शिरांतल्यान दिवप. मिथिओनिन तशेंच कॅल्शियमाची इंजेसावां दिवप. फिग्दाक लागपी लिव्ह ५२, लिवोजेन, लिवोफेरोल, सिफोन असल्यो गुळयो आनी वखदां दिवप गरजेचें. रगत आनी मूत तपासून दुयेसाचें खरें कारण सोदचें. न्हंयो, व्हाळ, हातूंतल्यान

रावपी आनी जावपी पाना असल्या दंताचो म्हणल्यारूच लिव्हरफ्लुक्स चो बंदोबस्त करप गरजेचें. हे सगळे उपाय दोतोराच्या सल्ल्यान करचे.

### ३२. गोरवांची पोटफुगी

गोरवांची पोटफुगी हें एक म्हत्वाचें दुयेंस. हाका टिंपनी वा ब्लोट अशेंय म्हणटात. ताचेर तत्काळ उपाय जाले नात जाल्यार गोरूं मरपाक शकता. रवंथ (रत) करपी जनावरां खातात तें सुकें आनी हरवें तण पोटाच्या खणांत सांठयतात. त्या वेळार पोटांत वायू तयार जाता. ही एक सैमीक क्रिया आसता. हो वाय उपरांत रवंथ करतनाच धेंकर येवन भायर पडटा. व्हडल्या गोरवांक दर मिनटाक तीन लिटर पसून वायू जावपाक शकता.

पोटांत तयार जाल्लो वायू धेंकर येवन भायर वचप ना, पोटांत प्रमाणा भायर वायू तयार जावप, खावपाचे नळयेंत आडखळ उप्रासप असल्या कारणांक लागून पोट फुगता. बऱ्याच फावटीं लसणीचें तण, चवळेचो पालो खातकीर वायू तयार जातना ताका साबणा असलो फेंस येता. त्या फेंसाक पोटफुगी म्हणटात. कमी रवंथ करपी गोरवांक पोटफुगीचें प्रमाण चड असता. गोरवांनी सदांच ६ ते ८ वरां रवंथ करपाक जाय. फावो तितलें रवंथ केलें म्हणटकूच चड लाळ सुट्टा आनी पचन वेवस्थीत जावपाक आदार जाता. तातूंतल्यान भलायकी वेवस्थीत उरता. तणा परस खावडीचें प्रमाण गोरवांच्या पोटांत चड गेल्यार हें रवंथ कमी जाता.

अपचन जावप, पोटांत लोखणी वस्त वचप, खावपाचे नळयेंत विकार जावप, असले प्रकार घडले जाल्यार पोट फुगता. रस्ताद गोरवां मेळत तें खातात. तणा परस पीठ–कड्डणां असली खावड बकाबका खातात, ताका लागून तांकां पोटफुगी जावपाचें प्रमाण चड आसता.

**लक्षणां :** जनावराची दावी कूस फुगिल्ली दिसता. दावे कुशी वयले कमराचें हाड दिसना. अशा वेळार पोटफुगी जाल्या म्हणून समजुचें आनी तत्काळ उपाय सुरु करचे. सुरवेक अशा गोरवाक कुशीक बांदचें, ताका चड उदक पिवपाक दिवचें न्हय.

**उपाय :** अर्द लिटर गोडेतेलांत ३० मिली. टरपेंटायन घोळोवन हळू हळू पिवपाक दिवचें. उदकांतल्यान टिम्पोल पिवपाक दिवचें वा २० ग्राम हिंग, ३० ग्राम सूंठ, ५० ग्राम बडीशेप आनी १०० ग्राम गोड घोळोवन जिबेर घासचें, वा उदकांतल्यान पिवपाक दिवचें. फेसाळ पोटफुगींत डायजिन जेल वा

लोटासिल, ब्लोटोकेर, आफनिल पिवपाक दिवचें. पोट बसतकीर सुकें तण दिवचें. त्या दिसापुरतें उदक देवचें न्हय. ह्या दुयेंसाच्या गोरवाक चलयत दवरचें, बसपाक दिवचें न्हय. हे सगले उपाय दोतोराच्या सल्ल्यान करचे.

पोटफुगी जावची न्हय म्हूण खास कुयदाद घेवची. हरवें तण दितकूच., पयसल्यान गाडयेंत वा ट्रकान गोरवां हाडलीं जाल्यार तांकां रोखडेंच उदक दिवचें न्हय. अर्द वरा उपरांत तांकां उदक दिवचें, रातीं सुकें तण घालचें. हरवें तण घालें जाल्यार गोठ्यांत पासय मारची. चरपाक वा न्हंयेचेर गोरवां व्हरतना गोडेलाची बाटली आनी थोडें टरपेंटायन व्हरचें. लग्ना असल्या सुवाळ्या उपरांत उरिल्लें, सांडिल्लें खाण–जेवण–पीठ प्रमाणा भायर गोरवांक खावपाक दिवचें न्हय. पोट फुगपाचें कारण कितेंय आसलें तरी सांठिल्ल्या वायूक लागून पोटांत एके तरेचें वीख तयार जाता. ताका लागून छातयेचेर म्हणल्यार फुफ्फुसांचेर पेंच येता. श्वास घेवपाक त्रास, आडखळ जाता. वेळारूच उपाय केले नात जाल्यार गोरूं मरपाक शकता.

## ३३. जनावराचें दंतांचें दुयेंस

गोरवांचे दंत हें एक म्हत्वाचें दुयेंस. गाय, म्हस हांकां विंगड विंगड जातीच्या दंतांक लागून दुयेंस जाता. जनावरांची मूळ भलायकी, दंतांची जात, कुडीतलें तांचें प्रमाण हांचेर दुयेंसाची खरसाण निंबून आसता.

हेर गोरवां वांगडा चरपाक वचनात, गोठ्यांतूच बांदिल्लीं आसतात, अशा गोरवांक दंतांचें दुयेंस कमी जाता. गांवांतलीं गोरवां एकेच सुवातेर चरपाक वतात तेन्ना दंत आशिल्ल्या गोरवांच्या शेणांतल्यान दंतांचीं तांतयां भायर पडटात. हीं तांतयां गरमी आनी दमटसाण मेळटकूच दुयेंस जावपाचे अवस्थे मेरेन वाडटात. ही वाडिल्ली दंतांची अवस्था तणाच्या पाल्याचेर बसता आनी चरपी गोरवाच्या पोटांत वता. तातूंतल्यान गोरूं दुयेंत पडटा. जाणट्या गोरवां परस रेडकां–पाडकांक हें दुयेंस रोखडेंच लागू जाता. कांय दंतांची दुयेंस करपाची अवस्था गोरवाचे कातींतल्यान कुडींत रिगता. मात जे जमनीत तण पातळ आनी वताची खरसाण चड आसता थंय दंतांची दुयेंसकारक अवस्था चड तिगना. हाचे उरफाटें दाट वाडिल्ल्या तणांत, शेताभाटाचे जमनीत दुयेंसकारक दंतांची अवस्था चड वाडटा. गोठ्यांत गवणीची उंचाय कमी आसत जाल्यार तण आनी शेण हांचो संबंद येता, तातूंतल्यान गोरूं दुयेंत पडटा. गरमी आनी

दमटसाण फावो ते प्रमाणांत मेळ्ळी जाल्यार दंतांची दुयेंत करपाची अवस्था ६ ते ८ सप्तकां उरपाव शकता आनी कमी उबेंत तशेंच चड वताक ही अवस्था बेगीन मरता.

**दंतांचे म्हत्वाचे प्रकार**

१) वांटकुळे

२) चपटे

३) पानाच्या आकाराचे

दरेका जातीचे दंतांचे पिरायेचें एक चक्र (सायकल) आसता. ते प्रमाणे दंतांचे पिरायेची अवस्था गोरवाचे कुडींत रिगता. पोटांत स्थिरावता आनी वाडटा. कुडींत एकेच फावटीं ल्हान आनी व्हड अश्यो दंतांच्यो अवस्था कमी चड प्रमाणांत आसतात. ताका लागून वखद दितना सगल्या अवस्थांचेर लागू पडटलें अशे तरेन दिवपाक जाय. कांय वखदां विशिश्ट अशे अवस्थेंतूच लागू पडटात. दंतांचे जातीक पयली, दुसरी, तिसरी अवस्था तयार जाले उपरांत कांय दिसांनी दुयेंस करपाची स्थिती तयार जाता. ही दंतांची अवस्था गोरवाच्या पोटांत वतकूच ओगी बसता. थंयच्यान ती रगतांतल्यान कुडीच्या हेर भागांनी भोंवता आनी परत पोटांत येता. हे भोंवडेक ५ ते ८ सप्तकां लागतात. ह्या दंतांक लागून पाडकां-रेडकांक पोटांत दुखता, पातळ संडास जाता. हे दंत वारींतल्यान पाडकाच्या पोटांत वचपाक शकतात. ताका लागून गाबण गायेक-म्हशीक जल्मावेळारूच ह्या दंतांचें दुयेंस जावं येता. गोरवाचें शेण तपासून ह्या दंतांचे प्रकार वळखूं येता. पाईपाराझीन, बायप्राझीन, आल्बेंडाझॉल, फेनबेन्डाझॉल, असल्या वखदांनी ह्या दंतांचो बंदोबस्त करूं येता.

**चपटे वा फेचके लांब दंत**

ह्या दंतांची शेणांतल्यान भायर पडिल्लीं बारीक तांतयां किडे खातात. हेच किडे चरतना गोरवांच्या पोटांत वतात तेन्ना ही दुयेंसकारक दंतांची अवस्था मोकळी जाता आनी थंय वाडपाक लागता. पोटांत चड दंत जाले उपरांत शेणांतल्यान दंतांचे कुडके भायर सरतना दिसतात. ह्या दंतांक लागून तांबसो पातळ संडास जाता. उपरांत आंगांतलें रगत कमी जाता. व्हडल्या गोरवां परस रेडकां-पाडकांक हें दुयेंस चड जाता. थायबेंडाझोल हें वखद ह्या दंतांचेर चड उपेगी पडटा. दोतोराच्या सल्ल्यान सारक्या प्रमाणांत तें दिवपाक जाय.

**नाच्या आकाराचे दंत**

दूद दिवपी गायेक–म्हशीक ह्या जातीच्या दंतांक लागून चड लुकसाण जाता. तळयो, फोंडारे, गलवे हांचे लागसार आसपी गोरवांक हें दुयेंस बेगीन लागू जाता. दुयेंत गोरवाच्या शेणांतल्यान दंतांची अवस्था भायर पडले उपरांत योग्य वातावरणात दुसरी अवस्था तयार जाता. मागीर ती भायर सरून तणाचेर वाडटा. हें तण गोरवांनी खालें म्हणटकूच ही दुयेंस करपी अवस्था फिग्दांतल्यान पित्तांत वाडटा.

गोरवांच्या आंगांतं फिग्दाचें काम भोवच गरजेचें आसता. फिग्दाचे जाल्ले दुखापतीक लागून आंगाच्या सगल्या कामांनी आडखळ उप्रासता. हाका लागून गोगलगायेचो बंदोबस्त करपाक जाय. ह्या दंताच्या दुयेंसाचेर डिस्टोडीन, हेक्झाथेन, ॲवलोथेन असलीं वखदां दोतोरांच्या सल्ल्यान दिवपाक जाय.

जनावराक दंताचें दुयेंस जातकूच खाता, पियेता तें आंगाक लागना. दंत तांचें रगतूय पियेतात. ताका लागून पंडुरोग जावं येता. पोटांत दंतांनी केल्ल्या जखमांक लागून जंतूचें दुयेंस जावं येता. कांय दंत गोरवांचे कुडींत विखारी पदार्थ सोडटात. तातूंतल्यान तांच्या आंगाक मार बसता. दंतांक लागून हेर दुयेंसां कडेन झगडपाची शक्त उणी जाता. गोरवां फ्राक जातात आनी तांची वाड थांबता. दूद दिवपाचें प्रमाण तर देंवताच, ताचो दर्जोय उणावता.

**दंत जावचे न्हय म्हणून जतनाय**

१) गोरवांक गच्च म्हणल्यार दाटीदाटीन बांदचीं न्हय.

२) दरेका जनावरा मदीं विस्कळ सुवात दवरची.

३) शेण केल्लें आसत जाल्यार तें रोखड्या रोखडें काडचें / भरचें. ताचो गोबर गॅसा खातीर वापर केलो जाल्यार चड बरें.

४) दरेका गोरवाक समतोल आनी पोटभर खावड दिवची.

फ्राक गोरवाचें शेण दर म्हयन्यांत तपासचें. रेडकांक, पाडकांक १० व्या दिसाच्यान दर म्हयन्यांत दंताचें वखद दिवचें. वर्सा मेरेनच्या गोरवाक दर तीन म्हयन्यांनी आनी ताचे वयले पिरायेच्या गोरवाक दर स म्हयन्यांनी म्हणल्यारूच वर्साक दोन फावटीं दंताचें वखद दिवपाक जाय.

**३४. गोरवाचें शिंगाचें दुयेंस**

गोरवांक शिंगां हें सैमान दिल्लें राखणेचें आनी घालो घालपाचें म्हणल्यारूच हल्लो करपा साधन हें आमी जाणतात. आदल्या तेपार गोरवां रानांत वतालीं तेन्ना शिंगांचो बरो उपेग जातालो. आ आदले वरी रानां उरूंक नात आनी गोरवांय गांवांत आनी गोठ्यांतूच उरतात. घरा पोशिल्ल्या दुदाच गोरवांक शिंगांचो त्रासूच जाता. हालींच्या दिसांनी तर गोरूं ल्हान आसतनाच ताचीं शिंगां (होर्नबडर मुळासावन काडुनूच उडयतात. गोरवां पाडव्याच्या दिसा वा विकपाक बाजारात व्हरचे आदीं लोक तां शिंगां विळ्यान तासून घेतात आनी तांचेर रंग काडतात.

**शिंगाचीं दुयेसां : १) कांक्र**

गोरवाचें शिंग तासतना बऱ्याच फावटीं ताका विळो लागून घावो जावं येता. तातूंतल्यान शिं बाद जावं येता. गोरवाक वेसण म्हणल्यार नाकांतल्यान दोरी घाल्ली आसत जाल्यार ती शिंगाच्य मुळाकडेन सदांच घांसता. अश्या गोरवांक शिंगांचो कांक्र जावं येता. शिंग मुळा कडेन हून जाता आन हळुहळू बागवपाक लागता. निरोगी बरें शिंग कात्रीन वा कसलेय वस्तून वाजयल्यार पोकळ आवाज येत पूण शिंगाच्या कांक्र जाल्ल्या भागाचेर कसलीय वस्तू मारली जाल्यार डबडब असो आवज येता. शिंगाच कांक्र हो टोका कडल्यान सुरू जायत मुळा वटेन चरता. दुयेंस सुरवेकूच लक्षांत आयलें जाल्या ऑपरेशन करून बरें करूं येता. गोरवांच्या दोतोराक आपोवन हें ऑपरेशन रोखड्या रोखडें करून घेव पडटा. हें ऑपरेशन सामकें सोंपें आनी कमी खर्चाचें आसता. तातूंत शिंगाच्या मुळार गुंगी दिवन का वेगळी करतात. मागीर खरवतीन मुळा कडल्यान शिंग कापून काडटात.

उपरांत थंयच्यो इबाडिल्ल्यो पेशी, मांस काडून उडयतात. शिंगाच्या मुळार जंतुनाशक घालू कातीक टांके घालतात. १० ते १२ दीस मलमपट्टी (ड्रेसिंग) करतात. १२ ते १४ दिसांनी दोतोर कडल्यान ते टांके काडून घेतात. कांक्र शिंगाच्या मुळा कडेन पाविल्लो नासत जाल्यार ऑपरेशन उपरांत दुयेंस १०० टक्के बरें जाता आनी गोरवाचो जीव वाटवता.

**२) शिंगाचे टोपरे वचप**

गोरवां झगडटात वा झाडां वाली–झिलींनी घुसपतात वा मुको मार बसता तेन्ना तांच्या शिंगांचे टोपरे भायर सरतात आनी भितरलो नाजूक तांबडो कोंब दिसपाक लागता. बऱ्याच फावटीं हे कोंब मोडटा

ानी मोट्या प्रमाणात रगत व्हांवता. अशें व्हांवपी रगत रोखडेंच बंद करपाक जाय. ते खातीर ताच्या ोंबाचेर बॅन्डेज वा निवळ सुती कपडो, कपड्याचो तीर घट्ट बांदपाक जाय. ताचेर टिंक्चर बेन्झोयन हें ्खद घालचें. हें वखद घालतना गोरवाच्या दोळ्यांत वचचें ना तशेंच शिंगाच्या कोंबाचेर उदक पडचें ना ाची सादुरकाय घेवची. हें शिंग ४ ते ६ म्हयन्यांनी घट्ट जातलें.

**३) शिंगाक किडो पडप**

गोरवांक नितळ दवरलीं नात, सदांच न्हाण घालें ना, जाल्यार ताच्या शिंगांच्या खांचीनीं ोचोप / कचरो भरता. तातूंतल्यान मागीर शिंगाच्या मुळांत खरोज तशेंच किट्टी जातात. ताका लागून गोरवां सारखीं शिंग गवणीन धाडायतात वा झाडार आपटीतात. तशें केल्ल्यान शिंगाच्या मुळांत घावो जाता, ताका किडो पडटा. हो किडो किडेल, टरपेन, निलगिरी तेल वा टॉपीकूर असले स्प्रे वापरून मारून उडोवचो. उपरांत जंतूनाशक आनी मूस पयस करपी हिमेक्स, चारमिल, लोरेक्झन असलीं मलमां लावन घावो बरो करचो. असलो घावो सदांच सुती कपड्यांना बांदचो.

**३५. बैलांक, रेड्यांक खांद येवप**

गोरवांक खांद येवप म्हणल्यार खांदे सुजप. थंय फोड वा ॲबसेस कसो जावप वा निबर गांठ येवप अशें दिसून येता. जोताक वा गाडी ओडपाक वापरतात अशा बैलाक वा रेड्याक चड करून हें दुयेंस जाता.

**कारणां :** जोताक वा गाडी ओडपाक वापर केल्ल्यान बैल वा रेड्याच्या खांदाक मार बसता. रानाच्या वाठारांनी वा हेर आडखळीच्या मार्गान जोत वा गाडी ओडटना गोरवांच्या खांदांक मार लागला. बैलगाडी थांबयता तेन्ना बैल थांबले तरीय गाडी मात्शी मुखार वता, ह्या वेळार बैलाच्या खांदाक चिमटो येता, तातूंतल्यान मागीर तांकां खांद येतात.

**उपाय :**१) गोरवाक सुशेग दिवचो

२) खांदो झेल वा थंड उदकान शेकचो

३) खांद्याक दुखीचें मलम लावचें

४) दोतोराच्या सल्ल्यान दुखीची तशेंच ॲन्टिबायोटिक वखदां, इंजेसावां दिवचीं, तातूंतल्यान दूख कमी जातली आनी निक्रोप वाडचो ना.

५) मानेवयल्यान खांदार किडे पडले जाल्यार वखद, स्प्रे मारून ते मारून उडोवचे. मुसाक धांवडावर्प आनी घावो बरो करपी मलमां, पावडर लावची.

६) खांद्यार आयिल्ली गांठ दुखीच्या मलमांनी बारीक जाली ना वा तातूंत पूं जालो जाल्यार गांठ फोडून पूं काडचो. थंय टिंक्चर आयोडिन लावन निवळ करचें. वखद लावन सुती कपडो बांदचो. ८ ते १० दीस हे उपचार करचे. दोतोराच्या सल्ल्यान दुखीचीं, पेखपाचीं इंजेसावां करचीं.

**३६. गोरवांचें खुरांचें दुयेंस**

कुटपी (लंगडपी) गोरवाच्या दुयेंसाचें मूळ ८८ टक्के खुरांत आसता आनी १२ टक्के खुरांच्या वयल्या भागांत आसता. खुरांच्या दुयेसांत ७६ टक्के फाटल्या पांयांच्या खुरांत आसता आनी २४ टक्के फुडल्या पांयांच्या खुरांत आसता. फाटल्या पांयांच्या खुरांच्या भायल्या भागांत दुयेंस चड आसता खुरांच्या दुयेंसाक लागून जावपी लुकसाण हें व्हंटयेच्या दुयेंसाच्या फाटोफाट आसता.

खुरांचे मांडणेंत भायल्यान आसपी काळ्या रंगाचें प्रथीनयुक्त कवच भितरल्या भागाचें रक्षण करता. भितरल्या भागात मोव म्हणल्यार कोंब, मज्जातंतू आनी शिरो आसतात. खुरांक कडकपणा येवपाक जस्त, गंधक असल्या खनिजांची गरज आसता. ही गरज खावडींत कमी प्रमाणात मेळ्ळी जाल्यार खूर मोव आनी नाजूक जातात. काळ्या रंगाचे खूर कडक आसतात म्हणून जोताक वा गाडयेक बैल वा रेडे घेतना काळ्या रंगाचे घेवचे. गोरवाक खावड सारकी दिली ना, ताका अपचन जालें जाल्यार ॲसिडीटी वाडटा. मागीर खुरांच्यो भितरल्यो शिरो दुखावतात आनी गोरूं कुटपाक लागता. सेगीत थंड आनी चिखलांत बांदिल्ल्या, जाणट्या तशेंच चड वजन आसपी गोरवाक खुरांचें दुयेंस चड जाता. गोठ्यांतली जमीन उंच सकयल वा बारीक फातरांची आसत जाल्यारूय हें दुयेंस चड जाता.

**खुरांच्या दुयेंसाचे प्रकार**

**अ) खूर मोव पडप :** सामके वले आनी घाणीचे जमनीर गोरवां कायम बांदलीं जाल्यार तांचे खूर मोव पडटात. वाकडे तिकडे खूर आसत जाल्यार ते कातरून घेवन सारके करचे. गोरवांक सुके आनी नितळ जमनीर बांदचीं. गरज पडल्यार खुरांनी डांबर लावचो.

**आ) तळव्याच्या धव्या लायनीचें दुयेंस :** गोरवान पांय उखलतकूच ताच्या तळव्याचेर धवी रेग कशी दिसता. हा रेग भितरलो नाजूक भाग आनी भायलो घट्ट भाग हांकां एकठांय दवरता. हाका कसलीय

ारीक वस्तू तोंपली जाल्यार थंय घावो जाता आनी उपरांत पूं जावं येता. हें दुयेंस बरें करपाक पयलीं ाळवो बरो करून धुंवचो. पूं बी भायर काडचो. पोटेशियमाच्या उदकान धुंवन घेवचें. त्या घायांत झिंक ॉक्साइड आनी मोरचुडाची पावडर भरून थंय काळी फाळी बांदची. गोरवाक सुक्या आनी नितळ ागयार बांदचें. निक्रोपनाशक इंजेसांव करून घेवचें.

**इ) खूर चड झरप :** खुरांचे सैमीक वाडीपरस तांचें झरप चड जाता तेन्ना खुरांचे तळवे नाजूक जातात. हे चड करून कडक आनी घट्ट जमीन, गोरवाचें चड वजन आनी मोव खूर हाका लागून जाता. अशे खूर सदांच नितळ दवरचे. तांकां मलमपट्टी करची आनी फाळी बांदची. कडेच्यान डांबर लावचो. दोतोराच्या सल्ल्यान आंगाक दुखीचीं आनी निक्रोपनाशक इंजेसावां करून घेवचीं.

**ई) खुरांचे कातीक फोड येता :** केन्ना केन्ना खुरांचे कातीक फुडल्यान फोड येता आनी तो फुटटा. ताका माती बी लागून मातेर जाता. असले फोड सदांच नितळ दवरचे. तांकां सल्फा आनी मोरचूड हांची पावडर लावची.

**उ) तळव्यांक खोल घावो जावप :** खुरांच्या तळव्यांक कसलीय वस्त तोंपून खोल घावो जावं येता. मागीर तातूंत मातेर जावं येता. हाका लागून तळवो नितळ करून वखद भरचें आनी भायल्यान डांबर लावचो.

**ऊ) खुरांक फूट येता :** केन्ना केन्ना खुरांक उबी चीर पडटा. ही चीर निवळ करून वखद भरचें आनी भायल्यान डांबर लावचो.

**ए) खुरांच्या दोन भागांमदीं मांस वाडप :** बऱ्याच फावटीं खुरांच्या दोन भागांमदीं मांस वाडटा. ताका लागून गोरवाक भयंकर त्रास जातात. थंयच्यान रगत व्हांवता. किडेय पडटात. गोरवाच्यान बसपाक उठपाक जायना. ताचें खावप पिवपूय कमी जाता. खाता तें ताच्या आंगाक लागना. दुदाचें प्रमाण सामकें कमी जाता.

अशा वेळार ऑपरेशन करून हो गुळो काडून उडोवचो वा लासून उडोवचो. (हाका पॉटेशियम परमेंगानेट वापरून क्वाटररायज करप म्हणटात) घावो पेखसर ड्रेसिंग चालू दवरचें. लोखण तापोवन वा लिक्वीड नायट्रोजन वापरून क्वाटररायज केलें जाल्यार वाडिल्लें मांस काडपाक मेळटा.

**ऐ) खुरांचे तोपरे भायर सरप :** बऱ्याच फावटीं गोरवांच्या खुरांक मुको मार बसता. तशेंच अपघात

जावन वा गोरवांमदीं झगडें लागून खुरांचे तोपरे भायर सरतात. अशा वेळार खुराचो नाजूक भाग भाय सरता. थंय रगत व्हांवपाक लागता. ह्या वेळार थंय टिंक्चर बेन्झोयन लावन निवळ करचें आन भायल्यान डांबर लावचो. पांच दीस दुखीचीं आनी निक्रोपनाशक इंजेसावां दोतोरा कडल्यान करू घेवचीं. खुरांचे नवे तोपरे येवपाक ३ ते ४ म्हयने लागतात.

घट्ट आनी बरे खूर हे वंशावळीचेर निंबून आसतात. नवें गोरूं घेतना खुरांचेर वेवस्थीत लक्ष दिवपाक जाय. खुरांचो वयलो भाग, तळवो हांचो रंग पळोवचो. चडशा वेळार काळे खूर घट्ट आसतात.

गोरवाचे खूर हो म्हत्वाचो भाग आसता. खुरांक कितेंय जालें जाल्यार तें खावप, पिवप कमी करता. खाता तें ताच्या आंगाक लागना. गोरूं फ्राक जाता, बैलाची आनी रेड्याची काम करपाची तांक उणी जाता. गाय, म्हस बेगीन फळाक येना, गाबण बेगीन जायना. दोन व्हितांमदलें अंतर वाडटा. व्हित कमी मेळतात गाय, म्हस वेवस्थीत पानेना. तांकां ओटयेचें दुयेंस जावपाक शकता. तातूंतल्यान दुदाचे प्रमाण २० ते २५ टक्के उणें जाता. शेवटाचें दूद मेळूंक नाशिल्ल्यान दुदाचो दर्जोय उणो जाता. दुदाक द कमी मेळटा. अशे तरेन शेतकाराचें आनी दुदकाराचें खूब लुकसाण जाता.

### ३७. दोळ्यांचीं आनी कानांचीं दुयेसां

जनावराचे दोळे हो कुडीचो एक म्हत्वाचो भाग. पापण्यो दोळ्याची राखण करतात जाल्यार दुक दोळे निवळ करतात.

#### दोळ्यांचीं दुयेसां

**१. दोळो धवो जावप :** दोळ्याक मुको मार बसलो वा कसलीय तोकाची वस्त तोंपली जाल्यार दोळो धवो जाता. अशा वेळार दोळो थंड वा धगमोड्या उदकांत बोरीक ॲसीड पावडर घालून निवळ करचो, तातूंत थेंबे, मलम घालचें. गरज पडल्यार दोतोराक दाखोवन सबकंजनटायवल स्टिरोयड इंजेसावां करून घेवचीं. अशे उपाय घेतल्यार धवो जाल्लो दोळो निवळपाक शकता.

**२. दोळे तांबडे जावप :** हें एक वश्याचें दुयेंस. पावसाचे सुरवेक हें दुयेंस दिसता. पयलीं दोळे तांबडे जातात, तातूंतल्यान उदक व्हांवपाक लागता, उपरांत धवो ओंकीर येवपाक लागता. ह्या गोरवाक वेगळें बांदचें, ताच्या दोळ्यांत वखद, थेंबे, मलम घालचें. ३ ते ४ दिसां भितर दोळे निवळटात.

. **पापण्यांचेर फोड येवप वा मांस वाडप :** दोतोरा कडल्यान ऑपरेशन करून मांस काडून उडोवप ोच हाचेर उपाय.

:. **दोळ्यांचो कांक्र :** दोतोरा कडल्यान ऑपरेशन करून घेवप होच उपाय. हें एक कठीण आनी ़टकटीचे ऑपरेशन आसता.

:. **दोळ्यांत दंत दिसप :** बऱ्याच फावटीं मुसांक लागून दंतांचीं तांतयां दोळ्यांच्या पापण्यांत पावतात, ़ाका लागून हे दंत दोळ्यांत वाडटात. दोतोराच्या सल्ल्यान पायप्राझीन आनी लेवामिसोल ह्या वखदानी ़्रा दंतांचो बदोबस्त करूं येता.

**कानाचें दुयेंस :** उदकांत पेवपी जनावरांच्या कानांत बारीक जीव वचून थंय दुखापत करतात. कानातल्या तांबड्या रंगाचें उदक कशें भायर सरता, कान मुळा कडेन सुजता आनी हात लायल्यार दुखता. अश्या वेळार जंतुनाशक वखदा घालून कान निवळ करचो आनी वखदाचे थेंबे घालचे. दुयेसाचें प्रमाण चड आसल्यार जंतुनाशक इंजेसावां, दुखीचीं इंजेसावां दिवचीं.

काट्याच्या झाडां–झोपांनी गोरवां वतात तेन्ना कान पिंजता, तातूंल्यान रगत व्हांवपाक लागता. हें रगत बेगोबेग बंद करपाची इंजेसावां दोतोरा कडल्यान करून घेवचीं, गरज पडल्यार कानाक टाके मारून घेवचे. आनी फावो तें थेंबे–मलमां घालची.

केन्ना केन्ना कानाचे पाळयेच्या दोन कातीं मदी रगत साचता आनी केणेता, अश्या वेळार ऑपरेशन करून हें रगत काडचें पडटा. कांय वेळार कान व्हांवतात, पूं जाता. किडेय पडपाक शकतात. अश्या वेळार कानांत वखदां घालून हें किडे मारचे. मागीर दोतोरा कडल्यान फावो तीं वखदां थेंबे, मलम लावचें आनी इंजेसावां करून घेवचीं. कानाचें दुयेंस सादें आसलें तरीय दुर्लक्ष करचें न्हय. केन्ना केन्ना हें दुयेंस तकले भितर वचून जनावर मरपाक शकता.

**३८. रॅबीज (पिसाळ रोग)**

हें एक घातक दुयेंस. रॅबीज वायरस ह्या सामक्या बारीक जंतूंपसून तें जाता. एकदां जातकूच हाचेर कांयच उपाय ना. संवसारांतल्या सगल्या देसांनी हें दुयेंस सांपडटा. रॅबीज दुयेंस सगळ्या जनावरांनी, मनशांक, केन्ना केन्ना पक्ष्यांमदीं (संवण्यांक) पसून जाता. रॅबीज वायरसाचे जंतू दुयेंत जनावराच्या म्हणल्यारूच लांडगे, कोले, सुणीं हांचे लाळेमदीं सापडटात. हें जनावर दुसऱ्या जनावराक

चाबता तेन्ना ताकाय ताची लागण जाता. इतलेंच न्हय तर रॅबीज जाल्ल्या सुण्यान दुसऱ्या जनावरा जाल्लो घाय चाटलो वा ल्हेंवलो जाल्यार पसून तें दुयेंस जावपाक शकता. पाडकां–रेडकांच्या तोंडा जखम आसा वा तांची जीब फुटल्या आसतना तांणी दुयेंत जनावराचें दूद पियेल्यारूय हें दुयेंस जावं येत

रॅबीज जाल्लो सुणो दुसऱ्या जनावराक चाबता तेन्ना ताचे लाळेंत आसपी जंतू म्हणल्यार रॅबी व्हायरस त्या जनावराच्या आंगांत शिरतात. मारिल्लो घांस तकलेच्या म्हणल्यारूच मेंदवाच्या जितत लागीं तितलें दुयेंस बेगीन जाता. घांस पांयार वा शेपटे कडेन मारलो जाल्यार दुयेंस जावपाक मात्सो वे लागता. जंतू कुडींत सरले म्हणटकूच ते घायाच्या नेरवां शिरेक घट्ट धरतात आनी मेंदवा वटेन चलपा लागतात. वायरस मेंदवाच्या लागीं पावतात तेन्ना दुयेंसाचीं लक्षणां दिसपाक लागतात. हें दुयें सुण्यांमदीं चड दिसता. हाचे दोन प्रकार आसतात.

१. मोनो म्हणल्यार डंब २. चाळवल्लो म्हणल्यार फ्युरीयस

**१. मोनो वा डंब :** ह्या प्रकारांत सुणो ओगी रावता. भोंकपाक शकना, तोंडांतल्यान लाळ व्हांवत केन्ना केन्ना तोंडांतल्यान जीब भायर सरता, ताच्यान खावपाक–पिवपाक जमना, चलपूय कुस्ता जाता, चलतना लवंडता आनी मागीर आड पडटा. शेवटाक १ ते ६ दिसां भितर मरता.

**२. चाळवल्लो वा फ्युरीयस :** सुणो चाळवल्लो दिसता, आबूज कसो जाता, हेर सुणीं, जनावरां मनशांक चाबपाक धांवता, रॅबीज जाल्लो सुणो आपली तकली म्हणल्यार माथें एकेवटेन दवरू सगल्याक धांवतना दिसता, वांटकुळो घुंवता, खावपाचीं–पिवपाचीं आयदना, बांदपाची सरपळ असल्यो खंयच्योय वस्तू तोंडांत धरून चाबडायता. ताचे दोळे तांबडे भडंग जातात, चलतना लवंडता ताचो भोंकपाचो आवाज घोगरो जाता आनी तीन दिसां भितर सुणो मरता.

हेर जनावरां भितर गाय, म्हस हांकां हें दुयेंस चड जाता. पिसावल्लो सुणो चाबले उपरांत गोरव भितर ह्या दुयेंसाचीं लक्षणां दिसता मेरेनच्या तेपाक 'इन्क्युबेशन तेप' म्हणटात. हो तेप गोरवामदीं २ ते ३ सप्तकां आसता, कांय वेळार कांय म्हयनेय आसपाक शकता. गोरवामदीं पयलें लक्षण ताचें वागणे बदलता. डंब वा मोने तरेच्या दुयेसांत गोरूं ओगी रावता, सारकें चलपाक शकना, आड पडटा तोंडांतल्यान लाळ पडटा. फेंस कसो येता, गोरवाची जीब आनी ताळ्याचे स्नायू आर जाल्ले वरीं जातात ताच्यान आंवडो घोंटपाक जमना, खावपाक–पिवपाक जमना.

चाळवल्ल्या वा फ्युरीयस प्रकारांत गोरूं आबूज जाता, दुसऱ्या गोरवांक मारपाक धावता, तें ाळवता, एकेक फावट तकली सकयल घालून ओग्गी रावता, केन्ना केन्ना तकली हेर वस्तुंचेर, ाडाचेर, माडाचेर वा गोठ्याचे वणटीचेर आपटीतात. तोंडांतल्यान लाळ पडटा, फेंस कसो येता, ोरवाची जीब आनी ताळ्याचे स्नायू आर जाल्ले वरीं जातात, आंवडो घोंटपाक जमना, खावपाक- ोवपाक जमना. घोगऱ्या आवाजान परत परत हांबेता, थोडें थोडें मुत्ता. अशें गोरूं तीन दिसां भितर ारपाक शकता.

रॅबिजाचीं लक्षणां स्पश्ट आशिल्ल्यान दुयेंस वळखप सामकें सोंपें. तरीय दुयेंसाचें खरेपण जनावराचें रक्त काडून वा मेले उपरांत मेंदू काडून तपासूं येता.

**उपाय :** खरें म्हणल्यार एकदां रॅबीज दुयेंस जातकीर ताचेर कांयच उपाय नासता. रॅबिजाचें खंयचेय लक्षण गोरवामदीं दिसलें जाल्यार वा तसो दुबाव आयल्यार ताका दोरान वा सांखळेन पयस व्हरून बांदचें आनी पयसल्यानूच ताचेर लक्ष दवरचें. केन्नाच ताच्या म्हऱ्यांत चड वचचें न्हय. मनश्याक तशेंच गोरवाक चड करून रॅबीज सुणो चाबिल्ल्यान दुयेंस जाता. ताका लागून घरांत पोशिल्ले तशेंच भोंवतणचे सगले वाळेस्त सुणे जे तीन म्हयन्यांवयले आसात तांकां पयलीं दंताचें वखद घालचें आनी उपरांत ८ दिसांनी रॅबीज वासीन (लस) दिवची. ह्या वासिनाक लागून तयार जाल्ली रोगप्रतिकारक शक्त म्हणल्यारूच इम्युनिटी एक वर्सा मेरेन तगता. ताका लागून रॅबीज वासिना दर वर्सा करून घेवपाक जाय. खंयचोय सुणो गोरवाक चाबलो जाल्यार पसून ते जखमे कडेन केन्नाच आडनदर करपाक फावना.

**३९. लोखणी वा धातूची वस्त खाणांत आयिल्ल्यान गोरवांक जावपी दुयेंस**

गोरवाच्या पोटांत कसलीय लोखणी वा धातूची वस्त गेल्यार दुयेंस जाता. हाका फॉरेन बॉडी सिंड्रोम वा ट्रोमेटीक रेटीक्युलायटीस म्हणटात.

गाय, म्हस हीं रवंथ करपी जनावरां. पयलीं ही हापशीपणान बकाबका तण खातात आनी उपरांत वेळ मेळटा तेन्ना तें तण तोंडांत हाडून रवंथ करतात. तण घाईगडबडेन खातना आपूण कितें खाता हाचें तांकां भान नासता. ताका लागून कितलेश्योच वस्तू तांच्या पोटांत वतात आनी मागीर रवंथ करतना त्यो परत तांच्या तोंडांत येतात. पूण कांय वस्तू तश्योच पोटांत उरतात. ह्यो वस्तू चड करून रेटीक्युलम ह्या पोटाच्या दुसऱ्या खणांत आडखळून उरतात. ह्या वस्तुंची लांबाय, आकार, तांकां आसपी धार, तांची

एकूण संख्या हांचेर त्यो वस्तू पोटांत कितलें लुकसाण म्हणल्यार घावो करतात तें निंबून आसता. ह
वस्तुंमदीं खिळे, सुयो, सरयो, पिनी, दाबण, स्प्रिंग, बोल्ट, स्क्रू, गाच, बैलांक खुरांक मारतात त
नाळेचे कुडके, बाटलेच्यो गुड्ड्यो, पयशे, फातराचे कुडके हांचो आसपाव आसता. कांय वेळां पोट
वतना ह्यो वस्तू तोंडांत जखम करतात, जाल्यार केन्ना केन्ना जेवणाचे नळयेमदीं आडखळून उरता
टोंक आसपी वस्तू पोटांत तोंपून उरतात आनी पोटाचे हालचाली वेळार भितर जखम करतात.

**पोटांत गेल्ल्या वस्तुंचें फुडें कितें जाता तें पळोवया**

१. पोटांत घावो वा जखम करून तोंपून उरता.

२. केन्ना केन्ना ह्यो वस्तू गोरवाचे दावे वटेन घावो वा ॲबसेस करून भायर पडटात.

३. केन्ना केन्ना ह्यो वस्तू काळजाक वा फुफ्फुसाक तोंपून मरण येवं येता.

४. केन्ना उजवे वटेन वचून फिग्दाक तोंपूं येता वा पोटांतल्यान फाटीं वचून गर्भाशयाक तोंपूं येतात.

अशे तरेन पोटांत गेल्ल्या ह्या वस्तुंक लागून जावपी दुयेंसाचीं लक्षणां दिसपाक १२ ते २४ व
लागतात. मागीर त्यो वस्तू भितर तोंपून वा घासून पोटाक सूज येता. गाय, म्हस गाबण आसल्यार वस
बेगीन फुडें सरकता आनी गोरूं बेगीन मरपाक शकता.

**लक्षणां** : गोरूं खाण खायना, दूद दिवपाचें प्रमाण ७० टक्के कमी जाता. उठ्ठां-बसताना वाजेता
त्रासता, फाटीचो कणो धनुश्य कसो वांकडो जाता. सुरवेक ताका मात्सो जोर येवं येता. कांय गोरवां
परत परत पोटफुगी वा अजीर्ण जाता. ताचे फाटीची कात चिड्डून पळयल्यार वा फुडल्या दोन पांय
फाटल्यान कोंडो वा दांडो घालून उबारल्यार तांच्या हड्ड्यांत खूब दुखता, तीं दोळे किलकिले करतात
तांच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवतात.

**उपाय :** गोठ्यांत एके सुवातेर माती, रेंव घालून १६ ते २० इंच उंचायेचो कटो कसो करचो आनी दुयें
गोरवाचे फुडले पांय ताचेर दवरून बांदचे. तेच स्थितींत ताका खावपाक, पिवपाक दिवचें. ताका लागू
पोटांत तोंपपी वस्त फाटीं सरूं येता वा कडेक सरून गोरवाचो जीव वाटावं येता. ह्या दिसांनी गोरवाक
शक्य तितली पेज वा हेर पातळ खावपाक दिवचें.

**ऑपरेशनाचो उपाय**

हें रुमेनोटोमी ऑपरेशन दुदकाराच्या घरा कडेन करूं येता. रोखड्या रोखडें ऑपरेशन केल्यार

ं जावपाची शक्यताय चड आसता. वेळ वता तशी गुंतागूंत वाडटा. पोटांत लोखणी वस्तू कितल्यो ासात, ताणीं केल्लें लुकसाण कितलें, सगल्यो वस्तू काडल्यात वा ना, परत पोटाचें काम कशें चालू ाता हाचेर ऑपरेशनाचे येस निंबून आसता. ह्या ऑपरेशना उपरांत गोरवाचें उठप बसप सारकें जालें, ारकें खावपाक पिवपाक लागलें जाल्यार गोरूं सारकें जालें म्हणून समजुवचें. ऑपरेशना उपरांत १० ते २ दिसांनी दोतोरा कडल्यान टांके काडून घेवचे.

**:०. किट्टी–मुसांपसून जनावरांची राखण**

किट्टी, मूस, लिको, हुलको, चामाळो हांचे पसून जनावरांक राखपाक जाय. रानांत चरपी ोरवां, रानांतल्यान हाडिल्लें करड, शेजारा बांदिल्लीं आनी वांगडा चरपी हेर गोरवां हांचे पसून केट्टींचो त्रास जाता. किट्टी ही रक्त पिवपी, आंगा भायल्यान वाडपी आलायतो जीव (पेरेसायट). कानाचो भितरलो भाग, फुडले पांय आनी हड्डें हांचे मदीं, फाटले पांय आनी व्हंटये भोंवतणी, शेंपडे सकयल आनी शेंपडे भोंवतणी किट्टी सांपडटात.

किट्टी, लिको, हुलको वाडपाक जायना म्हणून गोठ्याच्यो वणटी, गवण हांकां वेरो, चिरो पडिल्ल्यो आसपाक जायना. गोठ्याचो वणटी, गवणी ह्यो सिमेंटान प्लास्टर केल्ल्यो, गुळगुळीत आसपाक जाय. किट्टींक पांखे नासतात. त्यो दुयेंत एका जनावरा कडल्यान दुसऱ्या जनावरा कडेन व्हरतात (कॅरियर). एक दादलो आनी एक बायल किरट एकठांय येवन दर तीन सप्तकांत ३००० तांतयां घालतात आनी तातूंतलीं २००० पिलां जावन जगतात. तीं रक्त पियेतात. ताका लागून ॲनिमिया (पंडुरोग) जाता. गोरूं सारकें खायना–पियेना, ताची काम करपाची, दूद दिवपाची तांक कमी जाता. शेवटाक रक्त कमी जावन ती मरपाक शकता. केन्ना केन्ना भायर बसपी, चरपी गोरूं आनी तांचे मदीं भोंवपी सुण्यांक लागून मुसांचे त्रास जातात. एकदां मूस आंगार बसले म्हणटकूच गोरवाक सोडिनात. मूस कानांत वतात तेन्ना गोरवाक खुबूच त्रास जातात. गोरवाच्या पान्याक किट्टी लागली जाल्यार ती केन्नाच ओडून काडची न्हय. तिका वखद लावन अचळय काडची.

**किट्टी मुसांपसून जावपी दुयेसां**

१. थायलेरियासीस

२. बेबेसिओसीस

३. ॲनाप्लास्मोसीस

४. ट्रेपोन्सोमियसीस

ह्या सगल्या दुयेसांक लागून गोरवाक ॲनिमिया जाता. आंगातलें रक्त कमी जाता आनी गो मरता. हाका लागून किट्टी, मुसांचो बंदोबस्त करपाक जाय. दर पंदरा दिसांनी आपल्या गोठ्यांत वख मारून घेवचीं. हीं वखदां मारताना गोरवाक भायर बांदचें. तशेंच खावड, तण, उदकाचीं आनी आयदनां कडेक दवरचीं. एकसारक्या प्रमाणांत घोळोवन ब्युटेक्स, रीड, क्रिमिनील, क्लिनरवे डेल्टामेश्रीन, असलीं वखदां जनावराच्या आंगाक लावचीं. तशेंच अवेर्मेक्टीन असलीं इंजेसावां करू घेवचीं. ते भायर जनावराच्या आंगार मारपाक २ टक्के गेमेक्झिन, २ टक्के सुमिथिओन वा ॲसुंथो असलीं वखदां वापरचीं. गरज पडल्यार दर पंदरा दिसांनी हीं वखदां वापरचीं. हे सगले उपाय दोतोराच सल्ल्यानूच करून घेवचे.

म्हत्वाचें म्हणल्यार गोठो आनी भोंवतणचो वाठार नितळ निवळ दवरचो. उदक, शेण, मूत कोचोप साचपाक दिवचो न्हय. गोबरगॅस बांदचो. खळयो तशेंच गायरीचेर १० टक्के गेमेक्झिन व फिनायल वेळचेवेळार शिंपडचें. गोठ्यांत शिंपयांचो दाट चुनो काडून घेवचो. चुन्यात उशणत आशिल्ल्यान किट्टी रावनात.

**४१. गोरवांची विखबादा आनी उपाय :** मेकळीं सोडिल्ल्या गोरवांक खाणा–पिण्यांतल्यान विखबाद जावपाची शक्यताय आसता. जीं गोरवां गोठ्यांत कायम बांदून दवरतात तांकां चड करून विखबाद जायना. गोरवांक विखबादा केन्ना चुकून जाल्यार केन्ना धनयाच्या घाळपणाक लागून जावपाक शकता शेतांत मारपाक हाडिल्ली युरिया, डीडीटी, बीएचसी असलीं रसायनां उक्तीं दवरल्यार बऱ्याच फावट तीं जनावरांच्या खाणा पिण्यांत घोळून पोटांत वतात. तातूंतल्यान विखबादा जाता. संकरीत ज्वारीचे कोंब वा तरणी ज्वारी चड खाल्ली जाल्यार खात्रेन विखबादा जाता. विखबादा जाल्ल्या गोरवाचीं लक्षण विजेचो शॉक लागिल्ल्या वा सोरोप चाबिल्ल्या गोरवाच्या लक्षणां कडेन जुळोवन पळोवपाक जाय.

**विखबादा दुयेसांत फुडल्यो गजाली मतींत दवरच्यो**

१. खावडींतल्यान विखबादा जाली जाल्यार चडशीं गोरवां कमी, चड प्रमाणांत सारकींच लक्षण दाखयतात.

१. शेतांतल्या पिकांचेर वखदां बीं मारिल्लीं आसत जाल्यार तीं कसलीं? गोठ्यांत नवो ऑयल पेंट बी गडला? गोरवाक कसलें उदक पिवपाक दिल्लें? गोरूं कारखान्यांतलें बी उदक पियेलां? ह्या सगल्या शक्यतायांचेर लक्ष दिवचें.

२. गोरवाक कसलेंय वखद दिल्लें जाल्यार ताचें प्रमाण चड जावंक ना हाची खात्री करची.

३. गोरवाक खावपाक घाल्ली तुऱ्याची (फुलां आयिल्ली) ज्वारी, तरणे ज्वारीचे कोंब घाल्ले काय कितें? हाची चवकशी करची.

४. उंदरांक मारपाचें वखद गोठ्यांत दवरिल्लें? गोरवाच्या आंगाक किट्टींचें वखद लायिल्लें? हाचोय सोद घेवचो.

ह्या सगल्या गजालींची बारीकसाणेन नियाळणी केली जाल्यार गोरवाक कसली विखबादा जाल्या तें कळटा, उपरांत ताचेर उपाय करप सोपें जाता.

**लक्षणां :** १. जनावराची हालचाल मंदावता

२. विखाचें प्रमाण वाडलें जाल्यार आंगातली हुनसाण कमी जावन गोरूं थंड पडटा.

३. दोळ्यांचीं बिबळां मोटीं जातात, दोळ्यां मुखार हात भोंवडायल्यार पापण्यांची हालचाल मंद जाता. पापण्यो धांपनात.

४. गोरवाचो श्वास वयर सकयल जाता.

५. काळजाचे ठोके कमी, चड जातात.

६. आंग थरथरता, तोल सांबाळप कुस्तार जाता.

७. पोट फुगता, तोंडांतल्यान फेंस येता. खालां तें तण, खाण तोंडांतल्यान भायर सरता. शेण पातळ जाता.

८. गोरूं बेशुद्ध पडटा.

विखबादेचीं लक्षणां दिसतात आनी विखाची खात्री पट्टा तेन्ना रोखडेच उपाय चालू करपाक जाय.

**सर्वसादारण उपाय :**

१. जे खावडीक लागून विखबादा जाल्या ती बेगोबेग बंद करची तशेंच दुबावीत कसलेंय खाण जनावराक दिवचें न्हय.

२. पोटांत गेल्लें वीख भायर काडपाक ओंकारी तशेंच संडास जावपाचीं वखदां दिवचीं. कातींतल्या वीख भितर गेल्यार बेगोबेग साबण लावन भरपूर उदकान धुवन काडची. सुण्याक ५ मिली. हायड्रोज पेरोक्सायड वा एक चमचो मिठाचें उदक पिवपाक दिवचें. तातूंतल्यान ओंकारी येवन वीख भायर सरतत आंगांत तशेंच पोटांत गेल्ल्या विखाचो परिणाम जावन गोरूं मरचें न्हय म्हणून त्या त्या विखाचेर खाशे उपाय करपाक जाय. रेनिक ॲसिडाक लागून कोस्टीकाचो परिणाम उणो जाता. दूद आनी तांतर पियेवंक दिल्ल्यान रासायनीक विखाचो परिणाम सामको उणो जाता.

**रासायनीक वखदां**

विखबादा जाली जाल्यार उपाय म्हणून कितें वखद (ॲन्टिडोन्ट) करचें तें दरेका विखा वखदाचेर बरयिल्लें आसता. ते प्रमाणें रोखडेच उपाय करचे. तातूंतल्यान पोटांत गेल्ल्या विखाच्य परिणामाची खरसाण कमी जाता.

**कॅल्शियम बोरोग्लुकोनेट इंजेसांव :** सगले विखबादेचेर हें प्रभावी वखद. दोतोराच्या सल्ल्यान त इंजेसांव शिरांनी दिवचें.

**कोळशाची भुकटी :** पांच पांच चमचे कोळशाची भुकटी उदकांत घोळोवन जनावराक दिल्यार पोटां गेल्ल्या विखाचें शोषण सामकें थांबता. वराक ३० ग्रॅम सोडियम सल्फेटाचें उदक करून दिवचें.

**हेर उपाय :** पातळ संडास, ओंकाऱ्यो चड लागल्यार इलेक्ट्रालाचें उदक, ग्लुकोज, सरबत, पेज, भरपू मीठ घालून दिवचें. शिरांतल्यान सलायन लावन घेवचें. जनावर चड चाळवता जाल्यार ताका शां करपाक सिक्विल लारगेक्टील असलीं गुंगेचीं, न्हिदेचीं इंजेसावां करून घेवचीं. हे सगले उपाय दोतोर कडल्यान करचे.

**गोरवाक अशे तरेची विखबादा जावं येता**

**१. शिशें :** गोठ्यांत काडिल्लो रंग गोरवां चाटतात वा ऑयलिंग केल्ली ग्रीस तांच्या पोटांत वता, गाडयांच्यो बॅटऱ्यो चाटतात वा आर्मांच्यो शिश्याच्यो गुळयो खातात तेन्ना शिशाची विखबादा जाता.

**लक्षणां :** गोरूं थरथरता, व्हडा आवाजान हांबेता, डोळ्यांचीं बिबळां मोटीं जाता, कुड्डेपण येता, पोटाचे दुखीन पातळ संडास जाता.

**उपाय :** सालामार्काचें (एप्सॉम सॉल्ट) उदक जनावराक पियेवंक दिवचें. कॅल्शियमाचीं इंजेसावां दिवचीं

नायू आखडटात म्हणून सिक्वील, लारगेक्टिलाचीं इंजेसावां करून घेवचीं.

. **आर्सेनिक :** गोरवाच्या आंगार मारिल्ली किट्टी, लिको, हीं वखदां, तणार मारिल्लीं किडे मारपी खदां खाणांत येतात तेन्ना आर्सेनिकाची विखबादा जाता.

**लक्षणां :** जनावराच्या पोटांत दुखता, तें पोटार लाथो मारता, ताका ओंकाऱ्यो येवपाक लागतात आनी ागीर पातळ संडास लागता. ताचे नाडयेचे ठोके मंद जातात आनी मागीर विजेचो शॉक लागिल्लेवरीं तें ज़मनीर पडटा.

**उपाय :** दोतोराच्या सल्ल्यान सोडियम थायोसल्फेट २० टक्के पातळ करून शिरांतल्यान दिवचें. तशेंच २५ टक्के पातळ वखद वरावरान पिवपाक दिवचें.

**३. हायड्रोसायनिक ॲसिड :** किल्लल्ली (कोंब आयिल्ली) ज्वारी तरणी आसताना खाल्ली जाल्यार ही विखबादा जाता.

**लक्षणां :** जो पालो खाला ताचो एके तरेचो वास तोंडाक येता. पोंट फुगता, डोळ्यांची भितरली बाजू तांबडी जाता. श्वास घेवपाक त्रास जातात, लक्षणां दिसचे पयलींच गोरूं मरता. इतली ही विखबादा खर आसता.

**उपाय :** थायोसल्फेट ३० ते ६० ग्रॅम २०० मिली. उदकांत घोळोवन वरावरान पिवपाक दिवचें. हें पातळ वखद म्हणल्यार फोटोग्राफर फिल्म धुवपाक वापरता तें मिश्रण आसता. तेच वांगडा कॅल्शियम, डेक्सट्रोज, ॲन्टिहिस्टामायन आनी घटवायेचीं इंजेसावां दिवचीं. हे सगले उपाय दोतोरा कडल्यान करचे.

**४. नायट्रेट आनी युरिया :** शेताक, बागायतीक हाडिल्लें नायट्रेट आनी युरिया सारें थेट जनावरांनी खालें जाल्यार, तशेंच नायट्रेटाचें प्रमाण आशिल्लें तण गोरवांनी चड खालें वा उदक चड पियेलें जाल्यार ही विखबादा जाता.

**लक्षणां** : गोरूं भरपूर लाळ गळयता. ताच्या पोटांत दुखता, श्वास घेवपाक त्रास जातात, नाका-तोंडांतल्यान तशेंच संडासा वटयां काळपट रंगाचें रक्त पडटा.

**उपाय :** मिथिलीन ब्ल्यू १ टक्को २० ते ३० मिली. शिरांतल्यान दिवचें. ५ टक्के विनेगर (ॲसिटीक ॲसीड) पिवपाक दिवचें. हे सगले उपाय दोतोराच्या सल्ल्यान करचे.

**५. स्ट्रिकनीन :** उंदीर मारपाच्या वखदांत स्ट्रिकनीन आसता. तें जनावराच्या पोटांत गेलें जाल्यार ही



विखबादा जाता.

**लक्षणां :** जनावराक श्वास घेवपाक त्रास जातात. उचक्यो येतात, ताच्या आंगाच्या स्नायूक झटव येतात आनी शेवटाक मरता.

**उपाय** : ड्रॅक्सट्रोज सलायन लावचें. ओंकारेचीं इंजेसावां आनी जनावरां थंड रावपाक गुंगेचीं इंजेसाव दिवचीं. हे सगले उपाय दोतोराच्या सल्ल्यान करचे.

**६. झिंक फॉस्फायड :** उंदीर वा कोळउंदीर मारपाक दवरिल्लीं वखदां जनावरांनी खालीं वा अस मेल्लो उंदीर सुण्या, माजरांनी खालो जाल्यार ही विखबादा जाता.

**लक्षणां :** ओंकारे येतात, पातळ संडास जाता, झटके येतात आनी गळ्या भोंवतणी सूज येता.

**उपाय :** पोटेशियम परमेंगानेटाच्या लेव उदकान पोटांत नळी घालून पोट धुंवचें. जनावराक डॅक्सट्रोर शिरांतल्यान लावचो, ऑक्सिजन लावचो, कॅफिन सोडियम बेंझोयेट ०.०५ ग्रॅम स्नायूंत दिवचें. हे सगल उपाय दोतोराच्या सल्ल्यान करचे.

**७. डीडीटी (क्लोरिनेटेड हायड्रोकार्बन)** : डीडीटी, गेमेझिन इलड्रीन, बीएचसी असलीं किडे, जीवांव मारपी वखदां शेताचेर मारपाक वापरतात. कांय शेतकार किट्टी, उयो मारपाक हीं वखदां गोरवाच्य आंगार मारतात. हें वखद तणांतल्यान तशेंच कातींतल्यान गोरवाच्या पोटांत वचूं येता.

**लक्षणां :** गोरवाक ताप येता. ताचें आंग थरथरता, दांत कडकडटात, पांय ताणायतात, ताचो तोल वता आड पडटा आनी मरता.

**उपाय :** पयले सुवातेर जनावराक साबण लावन बरें धुंवचें, शक्य आसल्यार पायप घालून पोट धुंवचें दोतोराच्या सल्ल्यान डॅक्सट्रोज सलायन लावचें. अॅट्रोपिन सल्फेट आनी पेंटाबारबिटोन चीं इंजेसाव करून घेवचीं.

**८. ऑर्गेनोफॉस्फरस** : हातूंत मेलोथियोन, सुमिथियोन, नेगुवान, नूवान असल्या वखदांचो आसपाव आसता. हीं वखदां पिकांचेर तशेंच किट्टी, लिको, उयो मरच्यो म्हणून गोरवांच्या आंगार मारतात केन्ना केन्ना थेट वखद वा वखद मारिल्लें तण गोरवाच्या पोटांत गेलें वा कातींतल्यान आंगांत गेले जाल्यार ही विखबादा जाता.

**लक्षणां :** गोरवाच्या तोंडांतल्यान लाळ पडटा. फेंस येता, गोरवाक श्वास घेवपाक त्रास जातात. ताच्या

ळ्याचीं बिबळां, बावली बारीक जाता.

**पाय :** अॅट्रोपिन आनी कॅल्शियमाचीं इंजेसावां करून घेवचीं. हे उपाय दोतोराच्या सल्ल्यान करचे.

**. आर्गट आनी आफ्लाटोक्सीन :** बाजरी, मको, ज्वारी, पेंड वेवस्थीत सांठोवन दवरलीं ना जाल्यार ाचेर आर्गट आनी आफ्लाटोक्सीन ही बुरशी वाडटा. ही बुरशी गोरवाच्या पोटांत वता तेन्ना विखबादा ाता.

**लक्षणां :** गोरूं दांत करकरायता, कुड्डेंपण येता, वांटकुळें घुंवता, अपचन जाता, पातळ संडास जाता, ात सुकता, केंस गळून पडटात.

**उपाय :** खास वखद ना. डॅक्सट्रोज, कॅल्शियम, लिवर टॉनिक दिवचें. हे उपाय दोतोराच्या सल्ल्यान करचे. खावड चड तेप सांठोवन दवरची न्हय. भिजपाक जायना, खावड दवरतना आनी सांठोवन दवरतना पूर्ण जतनाय घेवपाक जाय.

**सोरोप चाबून जावपी विखबादा :** दाट रानाचे कुशीक, भाटांत वा दाट झाडां आशिल्ले सुवातेंत गोठो आसता तेन्ना जनावरांक सोरोप चाबप वा ताची विखबादा जावपाची शक्यताय आसता. विखबादेचीं लक्षणां चाबिल्ल्या सोरपाचे जातीचेर निंबून आसतात. सुणे, गोरवां, हेर जनावरां हांकां चड करून सोरोप तोंडार चाबता. कांय वेळां पांयांचेरूय चाबता.

**लक्षणां :** चाबिल्ल्या जाग्यार बारीकसाणेन पळयल्यार दोन बारीक बुराक दिसतात. हांकां 'फेंग मार्क' म्हणटात. ही सुवात सुजिल्ली दिसता, तशेंच रक्ताचे सुकिल्ले थेंबूय दिसतात. जनावर सुरवेक लाळ गळयता. चाळवता, मागीर सगले पांय बडयता, पांय धरिल्ले भशेन जातात, उपरांत पांय सोडून आड पडटा. कांय जनावरांचो श्वास मंद जाता जाल्यार कांय जाणाच्या मेंदू आनी काळजाचेर परिणाम जावन मरण येता. सुणे १ ते १० वरां भितर जाल्यार गोरूं ४८ वरां भितर मरपाक शकता.

**उपाय :** चाबिल्ल्या जाग्याचे वयले वटयां अंदाजान १० ते १५ मिनटां खातीर कपड्याची पट्टी घट्ट बांदची. उपरांत चाबिल्ल्या जाग्यार नवे ब्लेडीन मात्सी जखम करून थोडो वेळ रक्त व्हांवपाक दिवचें. मागीर बेगोबेग पोलिवेलंट ॲन्टिसिरम शिरांवटयां अचळय हेर वखदांच्या वांगडा करून घेवचें. झटको बसपाक जायना म्हणून हेर वखदां, सर, इंजेसावां दिवचीं. हे सगले उपाय दोतोरा कडल्यान करून घेवचे.

**४२. जनावराक शॉक (विजेचो झटको) लागप**

पावसाच्या दिसांनी मोटो गडगड आनी जोगलां मारतात. तातूंतल्यान बऱ्याच फावटीं जोगू कोसळटा. हें जोगूल केन्ना केन्ना गोरवां जांव हेर जनावरांचेर पडून तीं जखमी जातात. केन्ना केन्ना खांब्या वयल्यो लायटीच्यो सरयो तुटून सकयल पडटात. चरपाक गेल्लीं गोरवां तांकां चिकटून जखमी जातात वा मरतात. गोठ्यांत वीज जोडणेंत शॉर्ट सर्कीट बीन जावन शॉक लागपाक शकता. व जमनीचेर वायर तुटून पडली जाल्यारूय शॉक लागून गोठ्यांतलीं सगलीं गोरवां मरपाक शकतात. अ तरेन खेपेक २०-२० पसून गोरवांक मरण आयिल्ल्याच्यो देखी आसात.

शॉक कमी प्रमाणांत आसत जाल्यार गोरवांक कांय फरक पडना. मात केन्ना केन्ना तीं उसळू भायर पडटात. मागीर तीं उदक पिनात, दूद दिवपाचें बंद करतात, सारकीं घुंवळेंत उरतात. ही अवस्थ कांय मिनटां वा वरभर उरता. ताचे उपरांत जनावर उठून उबें रावता. मात उबें रावतना थरथरता, कां फावटीं फुडल्या वा फाटल्या पांयांक आरीचें जावपाक शकता. केन्ना केन्ना ताका कुड्डेंपण येता. शॉक लागिल्ली कात भाजता. ती गळून पडटा. विजेचो झटको चड प्रमाणात बसलो आनी गोरवाचो वले जम कडेन संबंद आयलो जाल्यार गोरूं रोखडेंच मरता. व्होल्टेज चड आसत जाल्यार गोरूं सामकें हुलपत ताचें पोट फुटून आतड्यो भायर सरतात आनी मरता.

शॉक उण्या प्रमाणांत लागलो जाल्यार उपाय करप शक्य आसता. सगल्यांत पयलीं जनावरा दुसरे कडेन व्हरचें. वीज पुरवण बंद करची. जनावराक भायलो वारो घालून अडेचो श्वास दिवच दोतोराच्या सल्ल्यान कोरामीन असलीं इंजेसावां दिवचीं. जनावराक परत शॉक लागचो न्हय म्हणू सादुरकाय बाळगुची. वायरिंगाचें फिटिंग सारकें करचें. फ्यूज, वायर सारकी घालची. पावसाळ्या सुरवेक आनी शेवटाक गोरवांक गोठ्यांत बांदून दवरचीं.

**उजो लागून गोरूं भाजता तेन्ना :** गिमाच्या दिसांनी रानां-वनांनी उजो लागता. झाडांच्या मुळां पडिल्लीं पाना पेट घेतात. झाडाचे खांदे सुकिल्ले आसत जाल्यार तेंय पेट घेतात. हाचो खर परिणा रानांत चरपी जनावरांचेर जाता. तांचे पांय, खूर, पाने, व्हंट हांची कात हुलपता. उजो मोठो आस जाल्यार जनावर हुलपून थंयच मरता. उजो कमी प्रमाणांत आसलो आनी जनावर थंयच्यान सटक जाल्यार ताचें भाजपाचें प्रमाण कमी उरता. अशा जनावराचेर उपरांत उपाय करून तांचो जीव वाटा येता.

भाजिल्ले जखमेचेर ताकतिकेन थंड नितळ उदक घालचें. तातूंतल्यान आंगाचो हुलोप कमी तलो. कात सकयल बसून जखम बरी जावपाक आदार जाता. जखमेंत पूं जावन ती चिघळपाक यना म्हणून दोतोराच्या सल्ल्यान ॲन्टिबायोटिक, दुखीचीं इंजेसावां करून घेवचीं. जखमेचेर बर्नोल, ल्वेरेक्स, सिल्वर सल्फायड असलीं मलमां लावचीं. ॲन्टिहिस्टामायन, ॲविल, बेटनेसोल असलीं ेसावां करून घेवचीं. डॅक्स्ट्रोज, रिंगर लॅक्टेट असले सर लावचे. उज्याच्यो जखमो बऱ्यो जावपाक ब वेळ वता. ते खातीर बरोच तेप उपचार करचे पडटात.

**सिड आनी रसायनांक लागून जावपी दुखणीं :** पोशिल्ल्या गोरवांक बऱ्याच फावटीं ॲसिड, ल्कली, चुनो हांकां लागून जखमो जातात. हाचेर उपाय म्हणून सगल्यांत पयलीं ही वस्तू कुशीक डची. जखम, फेरींद, नितळ थंड उदकान धुंवची. लागिल्लें रसायन धुंवन काडचें. ह्या रसायनाचें रपण ना करपाक दुसरें वखद म्हणल्यार ॲन्टिडोन्ट दोतोराच्या सल्ल्यान वापरून ॲसिड, अल्कली, मिकल बेगोबेग नश्ट करचें.

**३. गोरवांक व्हिले उपरांत जावपी दुयेसां**

खूब दूद दिवपी गाय, म्हस तशेंच संकरीत गायेक व्हिले उपरांत जायत्या तरांचीं दुयेसां आनी वेकार जावपाक शकतात.

**ातूंत म्हत्वाचीं दुयेसां**

**ार पडना :** व्हिले उपरांत चडांत चड ६ ते ८ वरां भितर गोरवाची वार पडटा. पूण गाबण गोरवाक योग्य, मतोल खावपाक–पिवपाक मेळ्ळेंना वा गाबण आसतना फ्राक पडल्यार वार पडपाक वेळ वता. बऱ्याच ावटीं गर्भाशय फ्राक आसता. गोरूं व्हितना त्रास जाले वा अडचण आयली जाल्यार वार पडना. केन्ना न्ना गर्भाशयांत निक्रोप वाडटात. गोरवाच्या आंगातलें कॅल्शियम, फॉस्फरस उणें जाता, अशा वेळार ार पडना. हातूंतल्या खंयच्याय एका वा सगल्याच कारणांक लागून वार पडपाक वेळ लागता वा अजिबात पडना.

**लक्षणां :** गर्भाशयांतल्यान वारीचें पोंत लांबता. काळसर तांबड्या रंगाचें उदक कशें व्हांवता. गोरूं फ्राक जाता. सारकें फोर्स, पेंच मारता. उठ–बस करता. गर्भाशयांत चड वेळ वार उरल्यार वार कुसता, ाण मारता, गोरवाक ताप येता.

**उपाय :** वारीच्या पोंताक जोतें वा खयंचीय जड वस्त अजीबात बांदची न्हय. वार ८ वरां भितर पडली ना जाल्यार दोतोराच्या सल्ल्यान युटरोटोन, होरमोटोन, रिप्लांटा, एक्सापार, असलीं वखदां १०० ते २०० मिली दिसांतल्यान दोन फावटीं दिवचीं. मेथार्जीन वा ऑक्सिटोसीन असलीं इंजेसावां दिवचीं. हीं वखदांच्यो गुळयोय दिवपाक जाता. आतां होमियोपथीक वखदां मेळटात. तांचोय वापर करपाक जाता. इतलें करूनय वार पडना जाल्यार दोतोरा कडल्यान ती काडून घेवची. तशेंच गर्भाशयांत गुळयो, पातळ वखदां घालून घेवचीं.

आतां तर विज्ञान इतलें मुखार पावलां की, वार काडून उडोवपाची अजिबात गरज ना. फकत गर्भाशयांत निक्रोप मारपी वखदां दोन ते तीन दीस घालपाचीं, उपरांत वार जशी भायर सरता तशी कापून उडोवपाची. मागीर पांच ते स दीस गोरवाचे शेणाचे पिशवेंत हात घालून घाण काडून उडोवपाची. दोतोराच्या सल्ल्यान मायरोन, लुकोल, सॅप्टीलीन, असल्यो गुळयो दिसाक २० अश्यो १० दीस दिवपाच्यो.

**गर्भाशयांत पूं (रशी) जावप :** व्हिले उपरांत गर्भाशय मूळ स्थितींत येवप ही सैमीक रीत. पूण कांय वेळार गर्भाशयांत पूं. जाता आनी तो सांठून उरता. मागीर तो पूं गर्भाशयांतल्यान भायर पडपाक लागता. ताका लागून गर्भाशय मूळ स्थितींत येना.

पूं जावपाचीं कारणां : वार बरोबर पडली ना, अर्दकुटी पडली वा उसरां पडली, गर्भाशयांत वखदां वेवस्थीत घालीं नात जाल्यार गोरवाचें आंग, गर्भाशय भायर आयलें आनी ताचे निक्रोप वाडलें जाल्यार तशेंच विब्रिओसीस, ट्रायकोमोनियसीस, ब्रुसेलोसीस, असल्या वश्याच्या दुयेसांत गर्भाशयाक मार बसून सूज येता आनी पूं जाता.

**लक्षणां :** जनावर जाम जाल्लें आनी बेजार दिसता. ताका ताप येता, दूद कमी जाता, गोठ्यांत वा जमनीचेर बसता तेन्ना उग्र वास येता. पूं व्हांवपाक लागता.

**उपाय :** शेणाचे पिशवेंत हात घालून पूं काडचो, गर्भाशयांत गुळयो, पातळ वखद घालचें, तशेंच पोस्ट्राग्लेंडीन, मेथार्गीन, असलीं इंजेसावां करून घेवचीं. ऑक्सिट्रेट्रासायक्लीन असलीं वखदां सगल्यांत परिणामकारक थारतात, तीं पातळ करून गर्भाशयांत घालचीं आनी आंगाक लावचीं. ते भायर पोविडीन, बेटाडीन, वोकार्डीन, असलीं वखदां दिवचीं. हे सगले उपाय दोतोराच्या सल्ल्यान करचे.

ानाफोस्फान असलीं इंजेसावां तीन दीस करचीं. होर्मोटोन दिसाक १०० ते २०० मिली. पांच दीस ःवचें. मायरॉन, लुकोल, सेप्टीलीन, असल्यो गुळयो दिसाक २० अश्यो १० दीस दिवच्यो.

**र्भाशय वा आंग भायर पडप :** गोरवाची वार भायर पडली ना, गर्भाशयांतल्यान पाडूक भायर ओडून ाडिल्लें आसप, ह्या वेळार गर्भाशय उरफाटें जावन भायर सरता. कांय फावटीं गोरवाच्या खाणांत खावपाच्या पाल्यांत) इस्ट्रोजन ह्या हार्मोनाचें प्रमाण वाडलें, गर्भाशयाचे स्नायू फ्राक जाले, खाणांत ॅल्शियम, फॉस्फरस, जिवनसत्व कमी जालें जाल्यार गोरवाचें आंग भायर येवपाक शकता.

**पाय :** सगल्यांत पयलीं भायर आयिल्ल्या आंगा पोंदा (सकयल) एक घट्ट मोव नितळ टॉवेल ालचो. आंग नितळ उदकान धुंवचें. भायर आयिल्ल्या आंगार १ टक्को सॅवलॉन, डेटॉल वा पातळ, लेव ॉटेशियम परमेंगानेटाचें उदक घालत रावचें. तुरटीची पावडर घाली जाल्यार आंगाची सूज देंवता आनी रक्त व्हांवता आसत जाल्यार थांबता. रक्त येता आसत जाल्यार ॲड्रीनेलीन इंजेसांव करचें वा झेल ावचो. गोरवाक आंगासकट नितळ जाग्यार हालोवचें. आंग आयिल्लो फाटलो भाग मात्सो उंचायेर दवरचो. मागीर आंग भितर घालचें. आंग भितर घालतना हाताची मूठ वापरची, गरज पडल्यार फाटीच्या कण्याक गुंगेचें इंजेसांव दिवचें. तशें केल्ल्यान गोरूं फोर्स मारचें ना. आंग भितर घाले उपरांत गर्भाशयांत जंतूनाशक पातळ वखद, गुळयो घालच्यो. मागीर सुतलेक मांसाच्या भितरल्यान मेट्रेस धागे घालचे. जनावराक तीन दीस ॲन्टिबायोटीक, दुकीचीं आनी शॉक न लागपाक ॲविल, बॅटनेसॉल, असलीं इंजेसावां करून घेवचीं. होमियोपथीक पलायटीला, पोडोफायलम आनी सेपिया टिंक्चर २०० एक्स, २० थेंबे वरावरान दिल्यार एकदम बरो परिणाम जावन गोरूं बरें जाता. हे सगले उपाय दोतोराच्या सल्ल्यान करून घेवचे.

**गोरवाचें व्हंटयेचें दुयेंस :** गोरवाचे व्हंटयेच्या दुयेंसाक मस्टायटीस वा स्तनदाह अशेंय म्हणटात. व्हंटयेच्या दुयेसांत दुदांत भौतीक, रसायनीक आनी जैवीक बदल जातात. सगल्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार दुदाचो रंग बदलता, दुदांत गुळे जातात आनी धव्यो पेशी मेळटात. व्हंटयेक भायल्यान सूज येता. तांबडी जाता. व्हंट भायल्यान हून लागता, हात लायल्यार दुखता आनी उपरांत थोड्या वेळान निबर लागता. व्हंटयेचें दुयेंस गाय, म्हस, घोडो, मेंडरां, बकऱ्यो, दुकर, हांचे सयत रानटी प्राण्यांमदींय जाता. संवसारांतल्या सगल्या देशांतल्या गोरवांक हें दुयेंस जाता. लागीं लागीं सुमार २५ टक्के गोरवांक हें दुयेंस

जाता आनी उपरांत ४० टक्के गोरवांचे व्हंटयेक बिघाड जाता. गांवठी गायींपरस संकरीत आनी चड दू
दिवपी म्हशींक हें दुयेंस चड जाता. ताका लागून दुदकाराक १०० टक्के लुकसाण जाता. ७० टक्
लुकसाण दूद सारकें मेळना जावन जाता, जाल्यार १४ टक्के लुकसाण गाय, म्हस पयलींच दूद ब
करता म्हणून जाता. ७ टक्के लुकसाण उणे वा भायर उडोवपाचे प्रतिच्या दुदाक लागून जाता.

गोरवांच्या व्हंटयेच्या दुयेंसाचीं लक्षणां चार तरांचीं आसतात

१. सुप्त अवस्थेंतलें (सब क्लिनीकल)

२. लक्षणां दाखोवपी (क्लिनीकल)

३. उणे खरसाणीचें (सब एक्यूट)

४. चड तेपाचें (क्रॉनीक)

**१. सुप्त अवस्था :** हे अवस्थेंतल्या दुयेसांत १० टक्के दूद कमी जाता म्हणून हें दुयेंस येणावळी
नदरेन खूब म्हत्वाचें. ह्या दुयेंसाच्या प्रकारांत व्हंटयेचें दूद साद्या दोळ्यांनी पळोवपाक बरें (नॉर्मल
दिसता, पूण तातूंत धव्यो पेशी चड आसतात. सीएमटी (केलिफोर्निया मास्टायटीस टेस्ट), व्हाय
स्लायड टेस्ट, असल्यो साद्यो परीक्षा केल्यार हें दुयेंस लक्षांत येता. ताचे उपरांत दुयेंसाच्या जंतूं
परीक्षा करपाची. व्हंटयेच्या जंतूं बगर मुको मार बसल्यार पसून असले तरेचें दुयेंस जावं येता. दुदा
धव्या पेशींचें प्रमाण ईलेक्टो सेल कावंटर बसोवनूय कळपाक शकता.

**२. लक्षणां दाखोवपी :** ह्या प्रकारांत दुयेंसाची लक्षणां दिसतात. आमच्या देशांत ३ टक्के गोरवांक
दुयेंस दिसता. सदांच व्हंटयेचें दुयेंस हें एका गोरवाचें दुयेंस धरिनासतना पुराय गोरवांचें वा गोठ्या
धरपाक जाय. हें दुयेंस केन्ना केन्ना ॲक्यूट वा केन्ना सब ॲक्यूट आसता.

ॲक्यूट म्हणल्यार दुयेंस अकस्मात येता. पयलीं गोरवाक जोर येता. गोरूं कडकडटा. ताच
श्वास आनी काळजाचे ठोके वाडटात, गोरूं आबूज जाता, पांय हालयता पूण व्हंट सुजिल्ल्यान सकय
बसपाक भियेता. खावड सारकी खायना, पोटाच्यो हालचाली मंदावतात, व्हंट तांबडी जाता, सूज येता
हात लायल्यार दुखता, व्हंट दुखता म्हणून गोरूं पांय रूंद करून उबें रावता, व्हंटयेंतल्यान गुळे कशें दू
येता. केन्ना केन्ना कांयच येना.

**३. उणे खरसाणीचें :** ह्या प्रकारांत लक्षणां सावकाश दिसतात. हो प्रकार चड तेप उरता. गोरवाक ता

ना, पूण बाकीची लक्षणां चड दिसतात. दूद काडपाक त्रास जातात, दुदांत चड गुळे दिसतात. व्हंटयेची ख आनी सूज तशीच उरता. सुरवेचो दुदाचो रंग मागीर हळडुवो वा हळडुवो काळपट जाता.

. **क्रॉनीक :** चड तेपाच्या ह्या दुयेसांत व्हंटयेचो आकार मोठो जाता. व्हंट दुखता, व्हंट आनी पाने बर जातात, दूद कमी येता वा अजिबात येना.

**दुयेंस कशें जाता तें पळोवया :** ९९ टक्के दुयेंस हें जंतू पान्यांतल्यान भितर सरिल्ल्यान जाता. १ क्को टीबी दुयेंसाक लागून जाता. हातूंत टीबी जंतू रक्तांतल्यान व्हंटये भितर वतात. हाचे तीन टप्पे ासतात. पयलीं दुयेंसाचे जंतू भितर सरतात, मागीर ते रोगजंतू थंय वाडतात आनी शेवटाक व्हंटयेच्या शींचेर हल्लो करून पेशी इबाडून उडयतात.

**यलो टप्पो (इनवेजन फेज) :** ह्या टप्प्यांत रोगजंतू व्हंटयेंत सरतात. गोठ्यांतलें आनी सरभोंवतणचें ातावरण कितलें निवळ आसा ताचेर हो टप्पो निंबून आसता. हें जर निवळ आसत जाल्यार जंतू पान्यां भेतर वचपाचें प्रमाण कमी आसता. दुसरो मुद्दो म्हणल्यार दुदकार कितली निवळसाण दवरता, नेवळसाणीन दूद काडटा हाचेरूय दुयेंसाचें प्रमाण निंबून आसता. जितले बेगीन दूद काडटा तितलें दुयेंस जावपाचें प्रमाण कमी. दूद काडपाचें मशिन वापरलें जाल्यार ताचो डिझायन, जुळवणी, निवळसाण, हे सगले प्रकार लक्षांत घेवपाक जाय. ह्या यंत्राक लागून व्हंटयेक दुखापत जावची ना आनी पान्यांच्या ायपांत जंतू भितर सरचे नात हाची सादुरकाय बाळगूंक जाय. पान्याच्या तोंडार एक रिंग वा स्पिंक्स्टर कशें आसता, हें कडक, मजबूत आसत जाल्यार सहजा रोगजंतू भितर सरनात, आनी रिंग मोव, सदळ आसत जाल्यार रोगजंतू सहज भितर सरपाक शकतात. जनावरची तशेंच पान्यां भितरली रोगप्रतिबंधक वेवस्था कशी आसता हाचेर दुयेंसाचें प्रमाण निंबून आसता.

**दुसरो टप्पो (इन्फेक्शन फेज) :** ह्या टप्प्यांत दुयेंसाचे खंयचे जातीचे जंतू व्हंटयेंत भितर सरल्यात आनी तांची खरसाण कितली, जंतू खंयच्या वखदान कितल्या प्रमणांत मरतात, गोरवाची रोगप्रतिकारक शक्त कितली, व्हंटयेच्या दुदांत धव्यो पेशी कितल्यो आसात, दूद दिवपाची खंयची पायरी, ह्या मुद्‌द्यांचेर ह्या दुयेंसाचें प्रमाण निंबून आसता. सध्या दूद दिवप चालू आसा जाल्यार रोगजंतू चड वाडनात, मात दूद बंद जाता वा सोडटात तेन्ना जंतू चड वाडटात.

**तिसरो टप्पो (इन्फामेशन फेज) :** दुयेंसाचे जंतू कितले खर आसात, तांचें प्रमाण, आंकडो, तांची

नाश करपाची तांक हांचेर हो टप्पो निंबून आसता. देखीक, स्ट्रॅप्टोकोकाय हे जंतू कमी जाल्य स्टॅफिलोकोकाय हे जंतू चड लुकसाण करून व्हंट पेड्ड्यार करतात. व्हंटयेचे पेशींची प्रतिकारक शक हाचेर हें दुयेंस निंबून आसा. ह्या सगल्या टप्प्यांत दुयेंसाचे जंतू भितर सरपाक दिवप ना हेंच बरें आ गरजेचें आसा. ते खातीर बरें वेवस्थापन आनी नितळसाणीन सगलीं कामां करपाक जाय. हें दुयें वळखुपाक आनी तें जावचें न्हय म्हणून प्रयोगशाळेंत दूद तपासप, दुदांतलें भौतीक, रासायनीक बद पळोवप, जंतू खंयच्या वखदांनी मरतले ताचो अभ्यास करप गरजेचें आसता. दरेक फावटीं प्रयोगशाळे दूद तपासप खर्चीक आनी वेळकाडू आशिल्ल्यान आमी गोठ्यांतूच सीएमटी वा व्हायट स्लायड टेस करून दूद तपासूं येता. गोरवाक परत परत व्हंटयेचें दुयेंस जाता जाल्यार ताची रोगप्रतिकारक शक कमी जाल्या म्हणून समजुचें. बदलतें हवामान, शारिरीक ताण, अपचन, कमी दर्जाची खावड आनी त हाका लागून हें घडटा. दरेक गायची–म्हशीची रोगप्रतिकारक शक्त (धव्या पेशींची तांक) वेगवेग आसता. वेवस्थीत आनी सगलें दूद काडलें ना जाल्यार हें दुयेंस चड जाता. व्हंटयेच्या दुयेंसाच्या जंतूं परिणाम हो गोठ्यांतली जमीन, तणाची वेवस्था, दूद काडप्याचे हात, दुयेंसाच्या पान्याचो लागसार, व्हं धुंवपाक वापरतात तें उदक हांचेरूय दुयेंसाचें प्रमाण निंबून आसता. हें दुयेंस चड करून दूद सोडट म्हणजेच दूद आटयले उपरांत ८ ते १० दिसांनी वा गाय–म्हस व्हितगीर ८ ते १० दिसांउपरांत च दिसता. मानसीक ताण, गोरवां भियेल्यार, बदलतें हवामान, गोठ्यांत चाबपी मूस ह्या गजालींक लागून चड आनी बेगीन जाता.

**व्हंटयेच्या दुयेंसाचेर वखदां आनी उपाय :** व्हंटयेक दुयेंस जालां म्हणपाचें लक्षांत येतकीर वे व्हगडाय नासतना उपाय केल्यारूच हें दुयेंस बरें जावपाक शकता.

पयले सुवातेर दुयेंस गाय, म्हस वेगळी बांदची. मागीर दुयेंसाचो सोद घेवचो. व्हंटयेक मुको मा बसला, घाव जाला, फोड आयला, जंतू भितर सरल्यात, हांचेर विचार करचो. ताचे उपरांत व्हंटये दुयेंस एकाच पान्याक जालां वा सगल्या पान्यांक जालां तें तपासून (सासपून) पळोवचें. व्हंट एकद सुजिल्ली आसत जाल्यार ताकतिकेन उपाय करपाक जाय. गाय–म्हस सुस्त आसा काय कितें, तिक जोर बी येता हें पळोवन उपाय करचे. शक्य आसत जाल्यार पान्यांतलें दूद दर अर्दवरान पिळून भाय उडोवचें. हें दूद केन्नाच गोठ्यांत जमनीचेर पिळचें न्हय. एका आयदनांत पिळून भायर उडोवचें. दू

ऊतगीर दोतोराच्या सल्ल्यान पान्या भितर ॲन्टिबायोटीक ट्यूब घालचें. हे ट्यूब १२ ते १४ वरां रचे. ताचे उपरांत दूद पिळचें आनी दुसरे ट्यूब घालचे. अशे तरेन ४ ते ५ दीस ट्यूब घालतगीर आनी तोरा कडल्यान ॲन्टिबायोटीक इंजेसावां करून घेतले उपरांत व्हंट बरी जातली. ताचे उपरांत ३ ते ४ स दूद पिवपाक वापरचें न्हय. व्हंट गरम लागता आसत जाल्यार थंड उदकान वा झेलान शेक मारचो. ट थंड वा घट्ट लागता तेन्ना गरम वा दुगदुगीत उदकान शेक मारचो. गरज पडल्यार इन्फ्रारेड दिव्याचो जवाड दिवचो. तशेंच आयोडेक्स असलीं मलमां व्हंटयेक लायल्यार उपकारता. हाका लागून व्हंटयेची क्त पुरवण वाडटली आनी दुयेंसा कडेन झगडपाची पेशींची तांक वाडटली. व्हंटयेचेर घावो वा फोड ायिल्लो आसत जाल्यार दूद अचळय पिळून काडचें. उपरांत वखद वा मलम लावचें. व्हंटयेचें मलम वा यूब पान्याक घालचे पयलीं व्हंट आनी पाने वेवस्थीत धुवन सुकसर पुसपाक जाय. ट्यूब घाले उपरांत ाने मात्शे चोळचे. ताका लागून वखद पान्यांमदीं वेवस्थीत पातळटलें. हाचे वांगडाच गोरवाच्या आंगाक ांय ॲन्टिबायोटीक, दुखीचीं आनी सुजीचीं वखदां, घटवायेचीं इंजेसावां दिवचीं, म्हणजे व्हंट बेगीन री जातली.

गोरवाक व्हंटयेच्या दुयेसांत स्ट्रेप्टोकोकाय जंतू ६० ते ७० टक्के, स्टेफिलोकोकाय जंतू १० ते २० टक्के, कोर्निबॅक्टेरियम, कोलाय आनी बुरशीजन्य जंतू ३ ते ५ टक्के मेळटात. दूद मात्शें निवळलें हणून वखदां बंद करचीं न्हय. दूद निवळ्ळे उपरांत पसून २ ते ३ दीस वखद चालू दवरचें. दूद सुकयतना ान्यां भितर वखदाचे ट्यूब घालप भोव गरजेचें. नाजाल्यार ह्या वेळार पान्यां भितर जंतू वाडून व्हंट ोड्ड्यार जावपाक शकता.

**व्हंटयेच्या दुयेंसा आड जतनाय :** पयले सुवातेर दूद वेळचेवेळार काडपाक जाय. दूद काडप्याच्या हाताचीं नाकटां वाडिल्लीं आसचीं न्हय. दुसरें म्हणल्यार व्हंट, पाने वेवस्थीत धुवन, पुसून घेवचे. गोठ्यांतली जमीन नितळ निवळ उरपाक जाय. फोंड पडिल्ले आसत जाल्यार ते पुरोवचे. गोठ्यांत आनी सरभोंवतणी नितळसाण दवरची. तिसरें म्हणल्यार पयलीं नवरुपीं व्हिल्ल्या पाडका, रेडकाचें दूद काडचें. उपरांत ताज्या व्हिल्ल्या गोरवाचें दूद काडचें. मागीर १०० दिसां वयल्या गोरवाचें आनी उपरांत सुकोवपाक लागीं आयिल्ल्या गोरवाचें आनी शेवटाक व्हंटयेच्या दुयेंसाच्या गोरवाचें दूद काडपाक जाय. चौथे सुवातेर दूद काडून जाले उपरांत पाने जंतूनाशक वखदान बुडोवन काडचे. हातूंत डिपाल, बेटाडीन,

वोकार्डीन, कोर्सोलीन असलीं आनी हेर वखदां येतात.

पांचवे सुवातेर परत परत व्हंटयेचें दुयेंस जावपी गोरूं गोठ्यांतल्यान भायर काडून वि उडोवचें. तशेंच दुदाच्या सगल्या गोरवांची ८ ते १५ दिसांतल्यान व्हंटयेच्या दुयेंसा खातीर तपास करची. मतींत दवरात व्हंट हें एक दूद दिवपाचें यंत्र कशें आनी गोरवाचो सगल्यांत म्हत्वाचो आसता. हें दुयेंस चड करून दुदकार भावभयणांच्या घाळपणाक लागून जाता. ते खातीर वेवस् काळजी घेवपाक जाय. तशें केल्ल्यान दुयेंसाचो पुराय बंदोबस्त जावन दूद उत्पादन वाडपाक आ जातलो.

**दुदाचो ताप (मिल्क फिवर), पारचुरेंट पेरेसीस :** चड करून व्हिले उपरांत एका सप्तका भित दुयेंस दिसता. तातूंतले तातूंत एक–दोन दिसां भितर चड मेळटा.

**लक्षणां :** जनावराच्या रगतांतलें कॅल्शियमाचें प्रमाण कमी जाता, आंगाचें तापमान कमी जाता, ग थंड पडटा, थरथरता, उबें रावपाक शकना, दोळ्यांचीं बिबळां ताणेल्लीं आसतात, लाळ पडटा, जन आड पडटा आनी माथें मानेचेर उडयता वा थंयचेच एके वटेन उडयता. घोरेल्ले भशेन श्वास घेता. ता भोकाचो पड्डो मात्सो भायर सरिल्ले भशेन दिसता. ह्या सगल्या लक्षणां वयल्यान हें दुयेंस वळखुप सामकें सोंपें. व्हिले उपरांत एकदम चड दीक (चीक) काडप हेंच ह्या दुयेंसाचें म्हत्वाचें कारण.

**उपाय :** मायफॅक्स, मायफोकाल, काल्मॅक्स, कॅल्शियम बोरोग्लुकोनॅट, थायकाल, असले सर पय १० ते १५ मिनटां दुगदुगीत उदकांत दवरचे आनी उपरांत अचळय शिरांत चलोवचे. गरज पडल्यार ते तीन दीस वखदां चालू दवरचीं. खावडींतल्यान कॅल्शियम, मिनरेल मिक्सर ३० ते ५० ग्रॅम सद दिवपाक जाय. टोनोफॉस्फान चीं इंजेसावां १० ते २० मिली सप्तकांत दोन ते तीन फावटीं करपाक ज व्हिताच्या एक सप्तकाआदीं जिवनसत्व ड १० मिलीयन आय. यू. दिल्यार चड बरें जाता. हे सगले उप दोतोरा कडल्यानूच करून घेवचे.

**किटोसीस, ॲसिटोमिया, हायपोग्लायसेमिया :** चड दूद दिवपी गोरवाक व्हिले उपरांत ६ ते सप्तकांनी हें दुयेंस जाता.

**लक्षणां :** गोरूं हरवें आनी सुकें तण खाता, पूण खावड, पेंड (कॉन्सन्ट्रेट) खायना, दूद कमी जा गोरवाचो श्वास आनी जोर बरोबर आसता. गोरूं थरथरता आनी आड पडटा. ताच्या मुताक आ

ासाक गोडाचो कसो वास येता. म्हत्वाचें कारण म्हणल्यार ताच्या आंगातलें आनी रक्तातले ःकोजाचें प्रमाण उणें जाता. किटोन पदार्थाचें प्रमाण वाडटा. ताका लागून किटोसीस हें दुयेंस जाता.

**ाय :** ह्या वेळार डॅक्स्ट्रोज, रिन्टोज, वॉक्ट्रोज असले ग्लुकोजाचे सर आनी कॅल्शियम शिरांतल्यान रून घेवपाचे आनी वेटालोग, होस्टाकोर्टीन, डेक्सोना असलीं इंजेसावां करून घेवचीं. खावडींतल्यान ंसाक दोन कील भरडिल्लो मको आनी ५०० ग्रॅम मोलायसेस घालचें. मोलायसेस वा खावपाक गोड ून घाल्यार जाता. हाका लागून किटोसीस दुयेंस पयस रावता. हे सगले उपाय दोतोरा कडल्यानूच रून घेवचे.

**ायपोमॅग्नेशिमिया, लेक्टेशन टिटानी, ग्रास टिटानी :** हरव्या तणाचेर पोसतात अशा जनावरांक दुयेंस चड जाता.

**क्षणां :** फिटस् येता, मोडणें मारता, पांय बडयतात, तांचे काळजाचे ठोके वाडटात.

**खदां :** मायफॅक्स, मायफोकाल, काल्मॅक्स, कॅल्शियम बोरोग्लुकोनॅट, थायकाल असले खंयचेय ग्नेशियम असले सर पयलीं १० ते १५ मिनटां दुगदुगीत उदकांत दवरचे आनी उपरांत अचळय शिरांत लोवचे. गरज पडल्यार दोन ते तीन दीस वखदां चालू दवरचीं. खावडींतल्यान कॅल्शियम, मिनरेल मेक्सर ३० ते ५० ग्रॅम सदांच दिवपाक जाय. मॅग्नेशियम सल्फेट ५० टक्के १०० ते २०० मिली चामडे कयल दिवचें. हे सगले उपाय दोतोरा कडल्यानूच करून घेवचे.

**ायपोफॉस्फॉटोमिया (पोस्ट पास्च्युरेंट हिमोग्लोबिन्युरिया)**

जनावराच्या आंगातलें फॉस्फॉरस उणें जाल्ल्यान हें दुयेंस जाता. पाडकांमदीं तें चड दिसता.

**क्षणां :** चडश्या जनावरांक जोर येता. तांबडें मुतपाक जाता. फ्राकसाण येता. आंगातलें, रक्तांतलें दक, क्षार उणें जाता.

**पाय :** ६० ग्रॅम सोडियम ॲसिड फॉस्फेट ३०० मिली उदकांत घालून गोरवाच्या शिरांनी अचळय दिवचं कोबाफॉस आनी टोनोफॉस्फान, असलीं इंजेसावां १० ते २० मिली २ ते ३ दीस दिवपाक जाय. ाणांत फॉस्फरस आशिल्ले मिनरल मिक्सर दिवचे. हे सगले उपाय दोतोराच्या सल्ल्यानूच करचे.

## ४४. जनावरांचीं कातीचीं दुयेसां

संवसारांतल्या सगल्या जनावरांक कातीचीं दुयेसां जावन त्रास जातात. बांदून दवरिल्ल जनावरांक ही बादा चड जाता. गोरवां गच्च (खेंटून) बांदिल्लीं आसप, तांचो आहार समतोल नासप, कारणांक लागून तशेंच उबाळ आनी थंडेच्या दिसांनीय कातीचीं दुयेसां जातात. हातूंत सगल्य म्हत्वाचें दुयेंस म्हणल्यार खरोज.

**खरोज :** मायटस् ह्या जंतू पसून खरोज जाता. हिका मेंज अशेंय म्हणटात. ह्या जंतूचे सार्कोप्टी सोरोपटीक, कोरीऑप्टीक आनी डेमोडेक्टीक अशे प्रकार आसतात. ह्या दुयेंसाचे जंतू कातीक बुर करतात आनी थंय तांतयां घालतात. कांय जंतू केसांच्या मुळां कडेन तांतयां घालतात. ताका ला थंयचे केंस वतात. कात दाट जाता. खाज सुट्टा आनी केस गळटात. डेमोडेक्टीक खोरजेचे जंतू करून केंसांच्या मुळां कडेन वाडटात. थंय मागीर पुळेर येता, पुळयांचें मोठ्या फोंडांत रुपांतर जा मागीर तातूंत धवो पूं तयार जाता. म्हणून ह्या दुयेंसाक पुळयांची खरोज म्हणटात.

**सार्कोप्टीस :** ह्या जंतूंक लागून जावपी खोरजेक तांबडी खरोज अशेंय म्हणटात. हे खोरजेचें प्रम पावसाळ्यांत तशेंच शियांच्या दिसांनीय चड दिसता. गिमाच्या दिसांनी ही खरोज कमी दिसता. खरोज म्हणल्यार एक वश्याचें दुयेंस. ताका लागून एकामेकांक तेंकिल्ल्यान पसून ती पसरता. गोरवांच आंगार पडिल्लें तण वा हेर गोरवांच्या संबंदांत आयिल्ल्यान ही खरोज जावपाक शकता.

**लक्षणां :** पयले सुवातेर कातीक तांबड्या रंगाच्यो पुळयो येतात. ताचे उपरांत थंय खूब खाज ये जनावर सारकें आंग घश्टीता, ल्हेंवता. ताका लागून केंस गळटात. कात उगती जावन भितरलें म दिसपाक लागता. गाय–म्हशीक जांगेचे भितरले वटेन, मानेचे सकयले वटेन, शेंपडेचे भोंवतणी, व्हंटर भोंवतणी, पोटाचे सकयले वटेन केंस वचून ही तांबडी खरोज जाता.

**कानखरोज :** सोरोप्टीक जातीच्या जंतूंक लागून ही खरोज जाता. सुरवेक कातीचेर फोड येता उपरांत गोरूं आंग चाटपाक लागता. मेंडरां, बोकड्यो, गाय, म्हस, सोंशे हांकां ही खरोज जा लोकरेची तुकतुकसाण वचून ती गळपाक लागता. ही खरोज कान, शिंगां आनी भोका भोंवतणी दिसता.

**शेंपटेची खरोज :** कोरोप्टीक ह्या मायटस् जंतूं पसून ही खरोज जाता. गाय–म्हशीक तिची चड लाग

ाता. सुरवेक शेंपटे भोंवतणी पुळयो येतात. थंय खाज सुट्टा, केंस गळटात, मागीर घावे जातात, वना पडटात, उपरांत पूं जाता.

**पाय :** दोतोराच्या सल्ल्यान बेगोबेग वखदां उपचार सुरु करपाक जाय. ॲन्टिबायोटीक, क्रिमी, ुळयो, इंजेसावां, पावडर हांचो वापर करून ही खरोज बरी करपाक जाय.

**ॲलर्जीक खरोज :** जनावराचे खावडींत ॲलर्जी जावपा सारकें कितेंय आयलें, तशेंच चरता थंय, ांदता थंय ॲलर्जी जावपा कितेंय संपर्कांत आयलें जाल्यार ही खरोज जाता. कांय वेळार ही खरोज ुकी आसता जाल्यार कांय वेळार तिच्या जाग्यार उदक कशें सुट्टा.

**उपाय :** दोतोराच्या सल्ल्यान ॲवील, ॲथिंसान, फेनेर्गान, लिगनोकेन, असलीं जेली, क्रिमी, वेगेर्कोट, डिपजेंटा मलम, केलाड्रील लोशन लावचें. तशेंच गुळयो आनी इंजेसावां करून घेवचीं.

**रिंगवॉर्म खरोज (चट्टे) :** हे खोरजेचीं चवनां वांटकुळीं आनी खडबडीत दिसतात. रिंगवॉर्म खरोज ट्रायकोफायलम आनी मायक्रोस्पोरम ह्या बुरशीच्या जंतूंतल्यान जाता. चड करून ही खरोज, म्हणजेच चट्टे पाडकां, सुण्यांमदीं दिसता.

**उपाय :** सगल्यांत पयलीं पोवोडीन आयोडीन लावन कात धुंवची. दोतोराच्या सल्ल्यान मल्टिफंगीन, टिनाडर्म, असलीं मलमां लावचीं. तशेंच ग्रिसोवुलवीन, मायकोराल, असल्यो गुळयो दिवच्यो. पाडकाक ३ गुळयो दिसाक दोन फावटीं अश्यो १० दीस, सुण्याक १ गुळी ३ फावटीं १० दीस दिवच्यो.

**उयांची खरोज (फ्ली डर्मेटायटीस)** सुणे, माजरां हांचे मदीं ही खरोज चड दिसता. तातूंतले तातूंत लांब केसांचे सुणे, माजरां हांचे मदीं ती मात्शी चडूच दिसता. कात कुचकुचता, तांबडी जाता, दुखता, थंयची जागा घाण जाता, रोग जंतू वाडटात आनी मागीर पूं जाता.

**उपाय :** कात सदांच निवळ दवरची. खरोज जाल्ल्या जाग्या वयले केंस काडचे. शॅम्पू घालचो, उयो मारपी वखदां, गुळयो, इंजेसावां करचीं, किट्टींचो बॅल्ट वापरचो. केसांचें ग्रुमिंग, ब्रशिंग वेळचेवेळार करचें.

कातीच्या दुयेंसाची परिक्षा करपाक खोरजेच्या जाग्यावयली कात खरवडून काडची. उपरांत ती प्रयोगशाळेंत तपासून घेवची. ताका लागून दुयेंस कसल्या जंतूचें आनी ताचेर वखदां कसलीं तें कळटा.

ते प्रमाण दोतोराच्या सल्ल्यान फावो तीं वखदां, गुळयो, मलमा, पावडर आनी इंजेसावां घेवपाक मेळटा.

**वखद, उपचार करचे पयलीं लक्षांत दवरपाच्यो गजाली**

१. आंगा वयलो घावो ल्हान आसल्यार थंय मलम लावपाक जाता. पूण सगल्या आंगार खरोज जाल्ली आसत जाल्यार थंय वखद लावप शक्य नासता. अशा वेळार सगलें आंग वखदान धुंवन काडचें वा वखदान न्हाण घालचें वा पंपान वखद शिंपडचें.

२. घावो निवळ करून मागीरूच वखदां लावचीं.

३. सर्वसादारणपणान २ ते ३ म्हयने वखदां करचीं पडटात.

४. गोठ्यांतलो कचरो, दुयेंत गोरवाचे कातीच्यो पडिल्ल्यो खंवळ्यो, पूं, गोरवाच्या पांयां कडले तण, शेण मूत शक्य तितलें लासून, जळोवन उडोवचें.

५. दुयेंत गोरूं बऱ्या गोरवाच्या संपर्कांत येवप टाळपाक जाय. अशा गोरवाक पयस बांदचें.

६. गोठ्यांत जंतूनाशक वखदां शिंपडचीं.

७. जनावराक कातीच्या दुयेंसाचीं वखदां चालू आसतात तेन्ना बरी आनी समतोल खावड आसची. तातूंत जीवनसत्व अ, ड आनी सेलेनियम घटकांचो आसपाव आसचो.

८. गोठो हवेशीर आसचो, गोरवांक केन्नाच गच्च बांदचीं न्हय.

९. कातीच्या कांय दुयेसांक वासिनां येतात. शक्य आसत जाल्यार दोतोराच्या सल्ल्यान तीं करून घेवचीं.

**कातीची खरड :** केन्ना केन्ना गोरवाचे कातीक कुंडो कसो जाता. असमतोल आनी चुकीची खावड, दंत, अ, ब, क आनी ड जीवनसत्वाचो उणाव, कातीचेर वाडपी जंतू हांकां लागून कातीची खरड जाता. हाचें कारण सोदून दोतोराच्या सल्ल्यान फावो ते उपचार करपाक जाय.

आर्सेनीक तशेंच झींक ह्या घटकांची खूब तेप विखबादा तशें जीवनसत्व अ आनी ड हांचो उणाव जावन कात दाट जाता. हाका लागून फावो ती जतनाय घेवपाक जाय आनी खावड समतोल आसपाक जाय.

**कातीक पिताम येवप**

**कारणां**

१. थारावीक जातीचे मूस वा किडे चाबप.,

२. खाजकुयले असलीं झाडां आंगाक लागप.,

३. खाण भितर कसलेय ॲलर्जीक पदार्थ येवप.,

४. पेन्सिलियम, सल्फा, असलीं दिल्लीं वखदां माल पडून रिएक्शन जावप.,

**उपाय :** पितामीचें कारण सोदून दोतोराच्या सल्ल्यान मुळासावन हुमटून उडोवप होच उपाय.

**फोटोसेंसटायझेशन :** कांय जनावरांचे काती भितर फोटोसेंसटायझिंग एजंटस् वा पिगामेंटस् आसतात. थारावीक जाग्यार गेल्यार वा वतांत रावल्यार फोटोसेंसटायझेशन जाता. घाणयारी, गोरटू, सराटा, जलबहार, शैवल, असल्या थोड्या खाशेल्या झाडांचो पालो खाल्यार गोरवांच्या आंगार रिॲक्शन जाता, कातीचो रंग बदलता.

**उपाय :** असल्या गोरवांचें वता पसून रक्षण करचें. तांकां सकाळीं बेगीन वा सांजे उसरां चरपाक सोडचीं. दोतोराच्या सल्ल्यान ॲन्टिहिस्टामिनीक गुळयो तशेंच इंजेसावां करून घेवचीं. जखम चिघळची न्हय म्हणून ॲन्टिबायोटीक दिवपाक जाय. जीवनसत्व अ, लिवरटॉनीक दिवचें. भायरी दिल्यार आंगांतल्या विखारी पदार्थांचें शोषण जावचें ना.

## ४५. गोरवाचें गर्भाशयाचें ऑपरेशन (सिझेरियन)

गोरूं सैमीक रितीन व्हिवपाक शकना त्यावेळार ऑपरेशन करून (पोट कातरून) पाडू भायर काडचें पडटा. ताका सिझेरियन म्हणटात. हें ऑपरेशन दोतोराच्यान दुदकाराच्या घराकडेनूच कर येता. ऑपरेशन वेळारूच म्हणल्यार जनावर चड जाम जावचे पयलीं केलें जाल्यार तशेंच ऑपरेशन उपरांत योग्य काळजी घेतली जाल्यार जनावर बरें जावं येता.

सिझेरियन केन्ना करचें पडटा तें आतां पळोवया –

१. पाडूक मोठें आसता, जुळें आसता वा आंगान वाकडे – तिकडे आसलें जाल्यार.,

२. गर्भाशयाक पीळ पडिल्लो आसत जाल्यार.,

३. गर्भाशयातली स्थिती कठीण आशिल्ल्यान पाडूक भायर सरपाक वा काडपाक येना जाल्यार.,

४. योनीमार्ग सुजला वा गर्भाशयाची वाट बारीक आसल्यार.,

५. गाय – म्हस फ्राक जाल्ली आसल्यार.,

६. पाडूक मरून फुगलें जाल्यार.

**ऑपरेशन कशें करपाचे तें आतां पळोवया** : चड करून जनावराचे दाव्या वटेन ऑपरेशन कर सोपें आसता. ह्या जाग्याक लो फ्लेंक इंसिजन म्हणटात. ऑपरेशन करपाची दुसरी जागा म्हणल्या दुदाची शीर आनी लिनिया अल्बा हांचे मदल्या जाग्या मदीं. सुण्या, माजरां मदीं मिडवेंट्राल, लिनिय अल्बा ह्या स्नायु मदीं चीर घेवन ऑपरेशन करपाचें.

**ऑपरेशना वेळार गुंगी कशी लावपाची तें आतां पळोवया :** ऑपरेशन करपाचें त्या जाग्या चामडेक आनी मासाक सुयेन गुंगी दिवची. फाटीच्या कण्या भायल्यान गुंगी दिवं येता. केन्ना केन्न कण्या भितरूय गुंगी दिवं येता. ह्या वखदां मदीं झायलोकेन, लिग्नोकेन असलीं वखदां वापरूं येतात. गाय म्हस चड मस्ती आसत जाल्यार तिका झायलाझीन असलीं न्हिदेचीं (सिडेटीव) वखदां दिवचीं.

**ऑपरेशन कशें करतात तें पळोवया :** गायेक, म्हशीक उजवे वटेन, बरीर न्हिदोवची. काती वयल केंस काडून ती निवळ करची. त्या जाग्यार जंतूनाशक वखद लावन मागीर गुंगीचें इंजेसांव करचें. उपरां ऑपरेशनाची सुरी घेवन (४–२२ वा ३–२१) पयलीं कात, उपरांत फेसिया, मागीर मांसाचे स्नाय (मसल्स) आनी मागीर पेरिटोनियम कातरपाचें. मागीर गर्भाशय तपासचें, गर्भाशयाची परिस्थिती

ळोवची. पाडूक गर्भाशयांत उजवे वटेन आसा कांय दावे वटेन तें पळोवचें. उपरांत गर्भाशय मातशें वयर ाडचें आनी एक बारीक पायप तोपून गर्भाशयांतलें चडांत – चड उदक पोटाभायर उडोवचें. ना जाल्यार उदक मागीर गोरवाच्या पोटांत भितर पडून विकार आनी वीख कशें जावपाक शकता. गर्भाशयाची चीर वचे पयलीं पोटाच्या भितरल्या भागार म्हणल्यारूच गर्भाशयाच्या भायल्यान निवळ कपडे घालून ती ागा लागीं लागीं बंद करची. ताका लागून गर्भाशयांतलें उदक, घाण पोटांत भितर पडची ना. एक फावटीं डांत चड उदक भायर काडटगीर गर्भाशयाच्यो गुठल्यो कश्यो आसतात तीं केरेंकलस आनी वारीची ोटीलेडोनस पळोवचीं. हीं ज्या जाग्यार नात, थंय चीर घेवची. तशें केल्ल्यान साप्प कमी रगत येतलें. ीर अंदाजान १० ते १५ इंच लांब पाडकाच्या आकारा प्रमाणें आसची. तशेंच ही चीर गर्भाशयाच्या ुळावटेन म्हणल्यार तोंडावटेन आसची. हे चिरेंतल्यान उपरांत पाडकाक भायर काडचें. ह्या वेळार एका नशान गर्भाशयाक धरून आदार दिवचो. ताचे उपरांत गर्भाशयांतल्यान पाडूक भायर काडचें. वार ाडप शक्य आसत जाल्यार काडची. उपरांत गर्भाशयांत जंतूनाशक गुळयो वा पातळ वखद घालचें, देखीक फ्युरिया, टॅट्रासायक्लिन गुळयो, बेटाडीन, पोवोडीन–आयोडीन पातळ वखद घालचें. मागीर १–० क्रोमिक केटगट घेवन कुशिंग वा लेंबरटस पद्धतीन गर्भाशय शिंवचें, गर्भाशयाक पीळ पडिल्लो आसत जाल्यार तो काडचो. गर्भाशय सारकें करचें. ताचे उपरांत केटगट नंबर २ वा ३ घेवन पयलें पेरिटोनियम, मागीर स्नायू (मांस) फेशिया आनी चामडे सकयल्यो पेशी शिंवच्यो. मागीर नायलॉन वा काळे सूत घेवन चामडी शिंवची.

**ऑपरेशना उपरांत अशी जतनाय घेवची :** ऑपरेशना उपरांत ५ ते ७ दीस निक्रोपनाशक वखदां, इंजेसावां, डेक्सट्रोज, बेटनेसोल, डॅक्सोना दिवचीं. ऑपरेशना उपरांत अशी काळजी घेवची. रगत व्हांवपाचें थांबपाक एक दोन दीस इंजेसावां दिवचीं. सदांच जखमेचेर मलमपट्टी (ड्रेसिंग) करची. थोडे दीस जनावराक पातळ आनी पचपाक सोपो, सादो आहार, खाण दिवचें. मारिल्ले टाके जनावराक ल्हेंवपाक, चाटपाक, खरपुवपाक, घासपाक मेळचे न्हय म्हणून खाशेली जतनाय घेवची. ऑपरेशनाचे टाके १२ ते १४ दिसांनी काडून घेवचे.

**४६. बोकड्यो पोसप (वेवस्थापन आनी दुयेसां)**

आदल्या तेपार बोकडी म्हणल्यार गरिबाची गाय अशी समजूत आसली. बोकड्यो पोस आतां एक फायदेशीर धंदो थारूं येता. शिकून बेकार आशिल्ल्या तरणाट्यांनी तशेंच हेरांनीय हो एक ब आनी फायदेशीर धंदो म्हणून करूं येता.

**बोकड्यो पोसप कितलें फायदेशीर तें पळोवया :**

१. ह्या धंद्यांत एकदम उणें भांडवल लागता. पूण गिरायक खात्रेन आसता.

२. बोकड्यांक गोठो ल्हान लागता. गोठ्याचेर तशेंच बोकड्यो पोसपाक, वाडोवपाक खर्च सामको कम लागता. जो पालो आनी तण गोरवां खायनात, तो खावन बोकड्यो जगतात.

३. बोकड्यांची संख्या बेगीन वाडटा.

४. बोकड्यो नितळ रावतात. ताका लागून तांचे मदीं दुयेंसाचें प्रमाण कमी आसता.

५. बोकड्यांचें दूद पुश्टीक आनी पचपाक सोपें. भुरग्यांक, जाणट्यांक, तशेंच दुयेंत मनश्यांक हें दू उपकाराक पडटा. ते खातीर ताका खूब मागणी आसता.

आदले भशेन आतां बोकड्यांक मळार चरपाक व्हरपाक जागो ना आनी तशे मळ वाठारू नात. म्हत्वाचें म्हणल्यार आतां तशी गरजूय ना. एका थारावीक जाग्या भितर (कंपावंडा भितर) बोकड दवरून तांकां वोडोवं येता. बेकार तरण्याट्यानी हो एक धंदो म्हणून घेतल्यार सरकार तशेंच बँको भरपू आदार करतात. हाका लागून दुदाचें तशेंच मटणाचें प्रमाण वाडटलें.

**बोकड्याचो भारतातल्यो महत्वाच्यो जाती :**

बोकड्यांच्यो धायेक जाती भारतांत मेळटात. तातूंत जमुनापारी, बारबारी, बिटल, कछी ओसमानाबादी, सुरती, मलबेरी हांचो आसपाव जाता. लडाखांत मेळपी वाडयल्ली पश्मिना ही बोकडेच जात, तशेंच तिबेट आनी काश्मिरांत मेळपी बोकड्यांचे ल्हेवे पसून तयार केल्ल्यो शॉली फामाद आसात अंगोरा ही भारतांत मेळपी बोकड्यांची जात तुर्कस्थान तशेंच बाकी आशिया देशांतल्यान आयिल्ल आसा. भारतांत चड आनी सगले कडेन मेळपी बोकडेच्यो म्हत्वाच्यो जाती म्हणल्यार जमुनापारी आनी बारबारी ह्यो आसात.

जमुनापारी ही व्हडले जातीची बोकडी. ही धव्या रंगाची आनी ताचेर काळे-काबरे ठिपके

सतात. तिचें वजन सरासरी ७५ ते १०० कील आसता. ती दिसाक २ ते ३ लिटर दूद दिता.

बारबारी ही धाकले जातीची बोकडी. ती चड करून उत्तर प्रदेशांत मेळटा. तिचो रंग धवो नी ताचेर काळे-काबरे ठिपके आसतात. तिचें वजन सरासरी ३५ ते ६० कील आसता. ती एक ते देड टर दूद दिता. बारबारी बोकडी गोठ्यांत बांदून पोसूं येता. चड करून ती मटणा खातीर वापरतात.

**कड्यांचो गोठो आनी वेवस्थापन**

बोकड्यांचो गोठो उंचायेर बांदचो. तातूंत हवा, उजवाड खेळटो आसचो. गोठ्याचें पांखें टां, खांदयो (पानांसयत) वा नळ्याचेंय उपकारता. १०० ते १२५ बोकड्यां खातीर गोठ्याचो आवाठ बाय ६० फूट आसचो. गोठ्याची जमीन घट्ट आनी मातशी देंवती आसपी आसची. थंय उदक चपाक जायना. गोठ्या भोंवतणी ४ फूट उंचायेची वंय आसची आनी सरभोंवतणी सावळे खातीर झांडां सचीं.

गाबण बोकड्यो, पिलां, फळोवपाचे बोकडे बांदपाची वेवस्था वेगळीवेगळी आसची. ८० ते ०० बोकड्यो गाब करपाक एक बोकडो पुरो जाता. बोकडांक पावस तशेंच ओल आनी रेब्याची रभोंवतण आवडना. ते खातीर पावस, वारो, थंडी तशेंच उबाळा पसून तांची राखण करपी गोठो सचो. चरपाक जागो आसत जाल्यार बोकडांक ८ ते ९ वरां चरपाक सोडल्यार चड बरें. हाका लागून चें पोट भरतलेंच आनी व्यायामूय जातलो.

**ोकड्यांचें खाण :** एके गायेक जितलें खाण जाय पडटा तें १० बोकड्यांक पुरो जाता. हें खाण पुश्टीक सचें. तशेंच गोरवांच्या खाणा परस पचपाक हलकें आसचें. वाडपी, दूद दिवपी आनी फळोवपाच्या कडांक पुश्टीक खावड सदांच घालची. बाजारांत मेळपी तयार खावड घालूं येता वा आमच्यानी घरा डेन तयार करूं येता.

खीक : १

| | |
|---|---|
| भड्डिल्ली डाळ | १५ वांटे |
| भड्डिल्लो मको | २५ वांटे |
| भिकणांची वा तिळाची पेंड | ३५ वांटे |
| गवांचो भुसो | २५ वाटे |
| मिनाचें मिश्रण | २ टक्के |

देखीक : २.

| | |
|---|---|
| गवांचो भुसो | ५० वांटे |
| भडडिल्ली डाळ | १५ वांटे |
| भडडिल्लो मको | १५ वांटे |
| भिकणांची वा तिळाची पेंड | २० वांटे |
| मिनाचें मिश्रण | २ टक्के |

चाटपाचे मिनाचे आनी क्षाराचे फातर गोठ्यांत बांदू येतात. बोकड्यांक दिवपाची दिसा सगली खावड ६०० ते ७५० ग्रॅम आसची. तिचे दोन वांटे करचे. पयलो वांटो सकाळीं ८ ते ९ वरां आनी दुसरो वांटो सांजे ६ ते ७ वरांचेर दिवचो. सकाळीं १० ते सांजे ५ मेरेन चरपाक सोडचीं. बां दवरल्यार तांकां तण आनी पालो घालचो. दरेका बोकडाक ४ ते ५ कील पालो वा तण जाय पडटा. तात नेपियर, लुसर्न, बरसीम, कॅबेज, सुबाबूल हो पालो चड बरो आसता. बोकडांक दिसभर भरपूर उद पिवपाक दिवचें. गायेच्या दुदा परस बोकडेचें दूद चड पुश्टीक आसता. ह्या दुदांत लोखंड, फॉस्फर आनी पॉटेशियम ह्या मीन घटकांचें प्रमाण गायेच्या दुदापरस चड आसता.

**बोकडांचीं दुयेसां :** नितळ रावपाची संवय आनी काटकपणाक लागून बोकडांक सहजा चड दुये जायनात.

**बोकडांक अपचन जावप :** बोकड्यो रांदचे कुडीतलें उश्टें चड खातात तेन्ना अपचन जावं येता. केन् केन्ना शेळें, बेळशेल्लें, पेड्ड्यार जाल्लें जेवण खालें, विखारी झाडां वा पालो खालो, डाळी अस कड्डण पोटांत घट्ट जालें, पोटांत ॲसिडिटी वाडली वा वाय चड जालो जाल्यार अपचन जाता.

हाचेर बेगोबेग उपाय केले नात जाल्यार बोकडी मरूं येता. ताका लागून दोतोरा कडल्यान बेगोबेग उपा करचे. वायाचेर वखदां दिवचीं, पोटांतलो वाय वखदां दिवन कमी करचो, देखीक ब्लोटोसील, ब्लोटोके आफनिल असलीं वखदां, ॲन्टिहिस्टामिनीक ईजेसावां, बी–कॉम्प्लेक्स, लिवर टॉनीक वखदां आ गरज पडल्यार सर असलीं हेर वखदां–उपचार दोतोरा कडल्यान बेगीन करून घेवचे.

**बोकडांक पातळ संडास जावप**

हाचें मुखेल कारण म्हणल्यार दंत. हे दंत पोटांतले वा फिग्दाचे आसूं येतात. वेळचेवळ दंताचें वखद घालप होच हाचेर उपाय. केन्ना केन्ना निक्रोपाक (जंतू) लागून पातळ संडास जावं येत चड पातळ संडास सुरू जाला जाल्यार तो बंद जावपा खातीर गुळयो, पावडर, पातळ वखदां घालचं

ाज पडल्यार सर लावन घेवचे.

**ाकडांक थंडी, खोकली जावप**

जायत्या फावटीं बोकडांक थंडी, खोकली जाता. केन्ना केन्ना श्वास घेवपाक पसून त्रास ातात आनी बोकडी मरूं येता. अशा वेळार पयले सुवातेर बोकडाचें रक्त तपासचें आनी दुयेंसाचे जंतू ादून काडचे. उपरांत ताचेर खासा ॲन्टिबायोटीक आनी हेर वखदां करचीं.

**ाकडांचीं खासा दुयेसां**

वेळचेवेळार वासिनां केलीं जाल्यार लाग, घटसर्प, न्युमोनिया (सिसिसिपी), देवी येवप, टेंजियस इक्झिमा असलीं दुयेसां जावची नात. ह्या सगल्या दुयेंसाक वर्सुकी वासिनां करपाक जाय. ते ायर खरोज आनी कातीचे रोग जातात. हे रोग जावपाक जायना म्हणून तांकां बांदपाची सुवात नितळ ानी सुकी आसपाक जाय, गोठ्यांतली हवा घोळटी आसची. कातीचें दुयेंस वंशाचें जावं येता म्हणून खडेंच ॲन्टिबायोटीक आनी कातीचेर लावपाचीं मलमां, पातळ वखदां लावचीं.

**ोकडांची संतत**

बोकडांक वर्सूयभर खंयच्याय म्हयन्यांत पेटे जावं येतात. हो पेटे जावपाचो वेळ भरपूर ालो आनी तण मेळटा तेन्ना आमच्यानी थारांव येता. ताका लागून आवयक आनी पेट्यांक बरें पडटलें. ोकडांचो गाबणकाळ हो १४७ ते १५० दीस आसता. बोकड्याक आनी बोकडेक मे, जून आनी जुलय हे हयने फळपाक म्हणजेच गाब जावपाक दवरचे, ताका लागून मालकाक ऑक्टोबर, नोव्हेंबर आनी डिसेंबर ह्या म्हयन्यांत पेटे मेळटले. जो वेळ पेट्यांक आनी आवयक हरवण आनी भलायकेचे नदरेन कदम बरो आसता. पेटे एका वर्साचे जातकीर फळपाक येतात. तांचें फळपाचें चक्र २७ ते २८ दिसांचें ासता. माज म्हणल्यारूच फळोवपाचो वेळ २० वरां मेरेन आसता. दर खेपेक चड करून एक वा दोनूच टे जातात. दर देड वर्सा उपरांत दोन फावटीं पेटे मेळपाक शकतात. अशे तरेन एके बोकडे कडल्यान २ ते १४ वर्सां पेटे मेळूं येतात. ताका लागून बोकडी ही एक फायद्याचें जनावर थारता. पोसपाक सादें, ूण जें आमकां दूद दिता, शेतां–बागायतीं खातीर बरें सारें दिता, खावपाक नाजूक तरणे मटण दिता, ांगुरपाक तिच्या केसां पासून केल्ल्यो पश्मिना, आंगोल असल्यो शॉली मेळटात. बोकड्यो पोसप ामकें सोंपें, सवाय. मात तिचे फायदे खूब आसतात.

## ४७. दुकरां पोसप

दुकरां पोसप हो एक खूब फायदेशीर धंदो. आमच्या गोंयांत थोडे लोक दुकराचें मां खातात. तेच वांगडा व्हडल्या व्हडल्या हॉटेलांनी दुकरांच्या मांसाक व्हड मागणी आसा. हांगा येवप विदेशी लोक, हिप्पी, आनी पर्यटक हांचे दुकरांचे मांस एकदम घोस्ताचें आसता. ह्या मांसाक गोयां मोलूय बरें मेळटा.

**दुकरांचो धंदो फायदेशीर जावपाचीं कारणां**

दुकरांच्या धंद्यांत सुरवेकचें जें भांडवल लागता तें एकदम कमी आसता. दुकरां बेगी फळाक येतात आनी झपझपीत वाडटात. तांकां एके फावटीं खूब पेटे जातात. एका वर्साक दोन फावट व्हितां जावन तांचे पेटे मेळूं येता. दुकरां जो भाजीपालो, धोण, खावड खातात तांचें एकदम बर प्रमाणात आंगाच्या वजनात आनी मांसांत रुपांतर करपाची तांक तांचेमदीं आसता. २ ते २.५ कील खावड खाली जाल्यार दुकारांच्या आंगाक १ कील मास भरूं येता. गोंयांत पोसपी दुकरांमदीं जावप दुयेसांचें प्रमाण एकदम कमी आसता. दुकरांचें मांस पुश्टीक आसता तशेंच तांचो संडास शेता-भाटा सारें म्हणून तशेंच गोबरगॅसाकूय वापरूं येता.

**भारतांत तीन तरेची भायली दुकरां मेळटात**

१. लार्ज व्हायट आनी मिडल व्हायट

२. ब्लॅक बर्कशायर

३. ड्युरॉक

मिडल व्हायट आनी बर्कशायर हांचे मदलें संकरूय बरेतरेन वाडटा. हाचे भायर यॉर्कशायर हॅमशायर, हेरफोर्ड, मॅरिलँड अशो जातीय दुकरांच्या कांय फार्मानी पोसतात.

**गोंयांत चार तरेचीं दुकरां मेळटात**

**१. गांवठी दुकरां :** हीं भलायकेन एकदम बरीं आनी काटक (जिवाचीं घट) आसतात. भोंवतण सगल्या वाठारांनी भोवून येवन ही जात आपलें पोट भरपाक शकता. हीं बेगीन फळाक येवन तांकां पे जातात आनी तांकां आवयपणाचीं खाशेलपणां आसतात. चड करून तीं रंगान काळीं-काबरीं आसतात तांकां सांबाळप मातशें कठीण आसता, कारण तीं बरींच मस्तीं आसतात. ह्या गांवठी



बोकडां



कोंबड्यो



सशें पोसप



माजर



ससो धरपाची पध्दत



सुणो

र्ज व्हायट यॉर्कशायर हांचे मदलो संकर (क्रॉस) केल्यार दुकरांची एकदम बरी जात तयार जाता. ह्या कर जातीचीं खाशेलपणां म्हणल्यार ही जात बरी पोसवता. वजन बरें मेळटा आनी हांकां चड खयंचीच सां जायनात.

येला पोरण्या गोंयां आशिल्ल्या आयसीएआर गोंय फांट्यान दोतोर एकनाथ चाकुरकर ल्या मार्गदर्शना खाला फाटल्या धा वर्सांत संशोधन करून आनी मुखार वचून आगोंद–काणकोण वन हाडिल्ल्या गांवठी दुकरांतल्यान परत–परत वेंचून काडून (सिलेक्टीव ब्रिडिंग पद्धतीन) ागोंदा–गोवन' ही गोंयची दुकरांची खासा जात सोदून काडल्या. 'आगोंदा–गोवन' हें नांव दवरिल्ली गोंदा – गोवन ही आमच्या देशांतली ३री दूकरांची जात म्हणून हालीच भारत सरकारान रजिस्ट्रर ल्या जी आमका सगळ्यांक अभिमानाची गजाल आसा. ही खाशेली दुकरांची जात गरगरीत वाडटा ानी व्हड जातकूच १५० ते २०० कील वजनाची जावपाक शकता. आगोंदा–गोवन हे जातीच्या शोधना खातीर गोंयचे आयसीएआर तशेंच दोतोर एकनाथ चाकुरकर आनी तांचे वांगडी हांची रेपणीच तोखणाय जावंक जाय. गोंयकारानी तांकां परबी दिवपाचें आनीक एक कारण म्हणल्यार ंच्या मार्गदर्शना खाला हालींच्या वर्सांनी गोंयांत दुकरां मदीं कृत्रीम वीर्यदान चालू जालां. ताचो फायदो ामचे दुकरां पोसपी गोंयकार भाव–भयणी आपल्या धंद्याचे उदरगती खातीर घेवपाक लागल्यात, हीय क खोशयेची आनी तोखणायेची गजाल आसा.

. **लार्ज व्हायट यॉकर्शायर जात** : ही एक भोव बरी जात, जी गोंयच्या हवामानाक खूब मानवता. हे ुकर खूब बेगीन वाडटात. जें खाण हीं दुकरां खातात ताचें आपल्या आंगाच्या मांसांत रूपांतर करपाची ांक हे जातीच्या दुकरांमदीं बरी आसता. म्हणुनच वजन बेगीन वाडटा. हांकां फाटीक चरबी खूब आसता. जातीचीं दुकरां आमच्या गोंयच्या गांवठी दुकरां कडेन संकर करपाक वापरतात.

३. **ड्युरॉक जात** : हे जातीचें खाशेलपण म्हणल्यार बरी वाड जावप. बरें वजन मेळप. ह्या ड्युरॉक जातीच्या दुकरांच्या आंगांत चरबी कमी आसता. ताका लागून तांचें मांस नाजूक आनी सुवादीक लागता. ही जात गोंयच्या वातावरणात तितली बरी जायना. वाडना आनी पेटे पसून जाय तशे बरे वाडनात.

४. **गोयंचे गांवठी दुकर आनी लार्ज व्हायट यॉर्कशायर हांचें संकर** : ही दुकरां गोंयची गांवठी बायल दुकर आनी लार्ज व्हायट यॉर्कशायर हांचे दादलो दुकर हांचें संकर करून मेळटा. आमच्या गोंयच्या

वातावरणात हीं बरीं जातात. वजनूय चड मेळटा आनी खाल्ल्या खाणाचें आंगाच्या मांसांत बरें रुपांत जाता. ह्या संकर जावन जाल्या दुकरांची चड कुयदाद घेवपाची गरज पडना.

**संकरीत दुकरांची वाडपाची तरा**

| | |
|---|---|
| जल्मावयलें पेट्यांचें वजन | ६०० ते ७०० ग्रॅम |
| दुदावयले पेटे आवयकडल्यान पयस काडटात तेन्नाचें तांचें वजन | ७ ते ८ कील |
| पेटे फळपाक येतात ती पिराय | १९० दीस |
| संकर (क्रॉस) जाता ती पिराय | २२० दीस |
| पयले फावटीं पेटे दितात ती पिराय | ३३५ दीस |
| १० म्हयन्या उपरांतचें दुकरांचे वजन | ८५ ते ९० कील |
| मांसाची टक्केवारी | ८७.०१ टक्के |
| फाटीचे चरबेची जाडी | ३.३६ सेंटीमीटर |

**दुकरांचो घूड :** दुकरांचो घूड सादो पूण तगपी आनी बरो आसचो. भितरली जमीन उदक मुरना अ शिमिटाची आनी मातशी खडबडीत आसची. जमीन धुयले उपरांत उदक वचपाक सारकी वाट आसपा जाय. एका व्हडल्या दुकराक १० ते १५ चौखण फूट सुवात जाय पडटा. १५० चौखण फूट सुवातेंत १ दुकरां सुसेगाद पोसूं येतात. ह्या घुडांत दुकरांक सदांच वत, वारो, थंडी आनी पावस हांचे पसून राख मेळपाक जाय. तांच्या घरांत घोळटी हवा आसची. तांकां खावड घालपाक गवण आसची. सदांच नित उदक पिवपाक मेळपाक एके थारावीक उंचायेचेर उगती टांकी बांदिल्ली आसची. दुकरां दवरपा जमीन नितळ, सुकी आनी सारखी सपाट आसची. जल्माक आयिल्ले पेटे दवरपाची वेवस्था वेगळीवेगळी आसची. दुकरांच्या घुडांत ०.७५ बाय २.४ मीटर जमीन वणटीचे एके कुशीन दवरची. ह जाग्यार वणटी फुडले तिनूय वटेनच्यान ३० सेंटीमीटर घेरायेचें गॅल्वनायझड् लोखंडी पायप, जमि पसून २० ते २५ सेंटीमीटर उबारेचेर घालचें. थंय पेट्यांक भायर–भितर वचपाक वाट दवरची. अ केल्ल्यान पेट्यांक राखण मेळटली आनी ते चिड्डुवचे नात. हे सुवातेक पेट्यांची सुवात अशें म्हणू येता

**ुकरांची खावड :**

दुकर हें एक शिवराक जनावर. तांची योग्य वाड जावपाक तांकां संतुळीत, बरी आनी ीटीक खावड आनी धोण मेळपाक जाय. जल्माक आयिल्ले पेटे ६०० ते ७०० ग्रॅम वजनाचे आसतात. ाले ६ ते ८ आठवडे ते बेगीन वाडटात. तांकां आवयच्या दुदावेल्यान वेगळे करपाचें काम हें वकासायेन आनी एका दिसा आड अशे रितीन करचें. ह्या वेळार तांकां एक खाशेलें खाण दिवचें. ह्या ास खाणा मदीं भरडिल्ली दाळ, थोडेशें तांक, थोडेशें साय काडिल्लें दूद हें सगलें एकठांय करचें आनी ांच्या वजनाच्या १० टक्के दिवचें. हें खाण पेट्यांचे पिरायेच्या ४ ते ६ सप्तकां मेरेन दिवचें. तेन्ना मेरेन ांचें वजन ७ ते ८ कील इतलें जातलें.

**ुकरांक खावड दिवपाची पद्धत**

| आगांचें वजन | सुकी खावड दिवपाचे प्रमाण |
|---|---|
| जल्मासावन ५० कील मेरेन | १ कील (आनी ३ कील साय काडिल्लें दूद) |
| ५० ते १०० कील | २.६ कील |
| १०० ते १५० कील | ३.० कील |
| १५० किलां परस चड वजन आसल्यार | ३.५ कील |

ुकरांक सदांच भरपूर हरवें तण दिवचें.

**ुकरांचें खाण घरा तयार करपाची पद्धत**

| | |
|---|---|
| भडिइल्ली दाळ | २ वाटे |
| भडिइल्ले गंव | १ वाटो |
| भडिइल्लो मको | १ वाटो |
| भडिइल्ली बारली | ०.५ वाटो |
| भडिइल्ली भिकणांची पेंड | ०.५ वाटो |

हातूंत २ टक्के सुकयिल्ल्या नुस्त्याची पावडर आनी २ टक्के मिनाची पावडर घालची. हें सगलें खाण दुकरांक पिरायेच्या पयल्या म्हयन्या सावन दिसाक १०० ग्राम हे तरेन घालचें. हळू हळू ताचें

प्रमाण वाडोवचें आनी पिरायेच्या ३ ते ४ म्हयने मेरेन ४०० ग्राम करचें. ह्या खाणा वांगडा पोटाक भरपू हरवें घाल्यार चड बरें आनी पुश्टीक थारतलें. गाबण दुकरीणीकूय भरपूर आनी संतुळीत खाण दिव गरजेचें. १५० ते २०० कील वजनाचे गाबण दुकरीणीक दीसभराक ३ ते ३.५ कील खावड दिवची. सारखे वाटे करून दिसांतल्यान २ ते ३ फावटीं खावड दिवंक जाय. तातूंत कॅल्शियम, फॉस्फोरस, लोखंड आयोडीन हांचोय आसपाव आसपाक जाय. तशेंच जीवनसत्व अ आनी ड सारक्या प्रमाणांत मेळ गरजेचें. आवयचें दूद पिवपी पेट्यांक लोखंडाचो उणाव जालो जाल्यार ॲनिमिया (पंडूरोग) जाव मरपाक शकतात. ही भिरांत चड करून तांचे २ म्हयने पिराये मेरेन चड आसता. ते खातीर तांची भोव जतनाय घेवंक जाय, तशेंच तांचे खावडीचेरूय बारीक लक्ष दवरपाक जाय.

दुकरांक कितली पुश्टीक खावड घालतात आणि त्या प्रमाणांत तांच्या आंगांत कितलें मां भरता हाचेर दुकरांच्या धंद्याचें येस निंबून आसता. गोंयांत चडशे दुकरां पोसपी लोक फुकट मेळ खाणाचे घटक आनी भायर उडोवपाच्यो वस्तू वापरतात. हातूंत हॉटेलां आनी रांदचे कुडीतल्यो भाय उडोवपाचे पदार्थ (वेस्टस), पाव आनी बेकरींतली वेस्ट, भाजी बाजारांतली वेस्ट् आनी उरिल्ली खपनाशिल्ली भाजी, पालो, फळां आनी हेर हाचो आसपाव आसता.

**दुकरांचें खाण तयार करपाची पद्धत**

| खाणाचे घटक | पिलांचे म्हणजेच सुरवातीचे खाण | वाडट्या दुकरांचे खाण | मारचे म्हणजेच विकचे पयली घालपाचें खाण |
|---|---|---|---|
| मको | ५०.० | ४५.० | ४०.० |
| निवळ तांदूळ | २२.५ | ३५.० | ४७.५ |
| सोयाबीन मिल | २५.० | १७.५ | १०.० |
| मिनाचें मिश्रण | ०२.० | ०२.० | ०२.० |
| खावपाचें मीठ | ००.५ | ००.५ | ००.५ |

**ूकरांचें फळप आनी पेटे घेवप**

दुकरीण फळचे पयलीं ८० ते१०० कील वजनाची जावपाक जाय. पयले फावटीं दुकरीण ाडी उसरां म्हणल्यारूच २ ते ३ माज सोडून मागीर फळयल्यार बरें पडटा. ताका लागून पिलां बरी ानी चड मेळटली. त्या उपरांत ५ ते ६ वितां मेरेन पेटे चड मेळटात. ताचे उपरांत पेटे जावप कमी ातात. ताका लागून दुकरीण विकपाची जाल्यार ६ वितां उपरांत विकची, जें फायद्याचें आसता.

| | |
|---|---|
| यले फावट फळोवपाचे दुकरीणीची पिराय | ७– ८ महिने |
| ूकरीणीचे वजन | १००–१२० कील |
| ाजाचो (फळपाचो) तेप | २–३ दीस |
| ारखो, बरो फळपाचो वेळ | नवी दुकरीण – पयल्या दिसा<br>सदांची, जाणटी–दुसऱ्या दिसा |
| ूतले फावटीं फळोवपाचे | १२ ते १४ तासांच्या अंतरान २ फावटीं |
| ाजाच्या चक्राचे दीस<br>ुदावयले पेटे पयस केल्यार | १८ ते २४ (सरासरी २१ दीस) |
| ारत केन्ना फळपाक येता | २–१० दीस |
| ाभणपणाचे दीस | ११४ दीस |

दुकरीण माजाक आयिल्लीं लक्षणां ३ ते ५ दीस दाखयता. तातूंत भितर सुतली सूजता आनी सुतलेंतल्यान बोळ पडटा. खऱ्या फळोवपाच्या वेळार दुकरीण परत–परत मुतता. खावड कमी खाता. दोनूय कान वयर (उबे) करता. म्हत्वाचें म्हणल्यार फाटीचेर, शेपटेच्या वयल्या भागांत दोनूय हातानी दाबल्यार धावना, थंयच वोगी उबी रावता. होच तिका फळोवपाचो खरो वेळ आसता. फळपाक आयिल्ल्या दिसा सांजे आनी दुसऱ्या दिसा सकाळीं फळयल्यार चड बरें जाता. तातूंतल्यान दुकरां पोसप्याक चड पेटे मेळपाक शकतात. दुदा वयले पेटे कुशीक काडले उपरांत २ ते १० दिसांनी दुकरीण परत फळपाक येता. ते रितीन तिका फळोवची.

फळयले उपरांत २१ दिसांच्या आसपास तिका परत फळाक येता कांय ना हें पळोवपाक जाय. आयली जाल्यार परत फळोवची आनी आयली ना जाल्यार तिका संतुळीत आनी बरी, मात प्रमाणांत खावड दिवची. चड खावड घालपाची अजिबात गरज ना. चड खावड पडल्यार वा घाल्यार तिचे पेटे फ्राक जातले आनी व्हिले उपरांत तिच्या पोंदा पडून चड पेटे मरपाक शकतात. साधारणपणान जाणटे म्हणल्यार पयलींचे दुकरीणीक ३५ कील वजन आनी नवे म्हणल्यार पयले फावटीं फळयिल्ले दुकरीणीक फळपाच्या दिसासावन व्हिता मेरेन कायद्यान ५५ कील वजन वाडूं येता. हें वाडिल्लें वजन योग्य समजूचें.

**दुकरांमदीं कृत्रीम वीर्यदान करपाची पद्धत** (हें दोतोरा कडल्यान करून घेवपाक जाय)

**उद्देश –** थोड्यो दुकरीणी जीवान आनी आंगान बारीक आसतात (देखीक गोंयचे गांवठी दुकर) आनी तांची सुदारणा करपाची गरज आसता. अशा वेळार तांकां संकर वा क्रॉस करपाक भायल्या व्हडले जातीच्या दादल्या दुकराचो वापर करचो पडटा. गोंयच्यो गांवठी दुकरीण जीवान ल्हान, बारीक आसतात. अशा वेळार तिका थेट भायलो व्हडलो दुकर लावप (तिचेर चडोवप) शक्य नासता आनी योग्य न्हय. हाका लागून कृत्रीम वीर्यदानाक वापरपाचो त्या दुकराची पयलीं निवड करची पडटा. ज्या दुकरांचे पेटे चड जातात, वाचतात, वजनान आनी भलायकेन बरे आसतात, गरगरीत वाडटात, बेगीन फळाक येतात असो दुकर वीर्य घेवपाक वेंचचो. त्या दुकराचे डमी दुकर वापरून 'ग्लोव्हड हंड' पद्धतीन सप्तकांतल्यान दोन ते तीन फावटीं वीर्य घेवं येता. उपरांत तें ताजें वीर्य कासा ह्या यंत्रा सकयल पळोवचें तातूंतल्या शुक्राणुंचे (स्पर्मस्) प्रमाण, तांची चाल, कितलें दाट आसा आनी कितले शुक्राणू बरे आनी जिवे आसात तें तपासून उपरांत ट्रिस वा एमआरए डायल्यूटर वापरून ३७ डिग्री सेंटिग्रेड तापमानात थारावीक प्रमाणांत पातळ करचें. उपरांत यंत्र वापरून हें वीर्य ५० मि.ली. च्या प्लास्टीक सॅचेटानी (पिशव्यांनी) भरचें. ह्या सॅचेटाक वीर्यदानाचो पायप जोडपा खातीर एक बारीक वाट वा पायप दवरिल्लो आसता. मागीर हे वीर्याचे सॅचेटस् १६ डिग्री सेंटिग्रेड इन्क्युबेटरांत सांठोवन दवरचे, जे ४ ते ७ दीस वापरूं येता. दुकरीण फळाक येतली तेन्ना सारख्या वेळार म्हणल्यार पयल्या दिसा सांजेचें आनी दुसऱ्या दिसा सकाळी आनी सांजेचें. दर फावटीं एक ते दोन सेचेटस वापरून कृत्रीम वीर्यदान करचें. हे वीर्यदान करपाच्या वेळार विर्याचो पायप पयलीं ४५ डिग्री दिकेन, कोनान सुतलें भितर घालपाचो आनी

ागीर मुखार व्हरपाचो गर्भाशयाच्या तोंडार हो पायप घट्ट बसना ते मेरेन वयले वटेन सरळ मुखार ्हरपाचो. एक फावट वीर्यदानाची नळी घट्ट बसली म्हण्टकूच विर्याचीं १ ते २ सॅचेटां भितर सोडचीं. अशें ाल्ल्यान सगलें वीर्य दुकरीण गर्भाशयांत ओडून घेतली आनी वीर्य परत भायर पडचें ना. हाचे वयल्यान ारखें वीर्यदान जालें म्हणून समजुचें. २१ दिसांच्या लागीं ही दुकरीण परत फळपाक येता जाल्यार ळोवचें. आयल्यार परत वीर्यदान करचें आनी आयली ना जाल्यार मागीर ४० दिसां उपरांत ल्ट्रासावंड यंत्राच्या आदारान गाब आसा कांय ना हाचो तपास करचो. गाबण दुकरीच्या गर्भांत ालचाल करपी पिलां अल्ट्रासावंड मशीन वापरून पळोवपाक मेळटात.

**ाबण दुकरीचें वेवस्थापन आनी कुयदाद**

गाबण काळांत (११४ ते १२० दीस) दुकरीण नितळ दवरपाक जाय. तांची खावड पुश्टीक ानी संतुळीत आसची. तातूंत आवयची आनी पोटांत वाडपी पिलांची गरज भागपाक जाय. गाबण ुकरीण एकमेकां कडेन झगडचीं नात अशे तरेन पोसपाचे सुवातेर दवरची. तीं झगडपाक लागलीं ाल्यार तांचो गर्भपात जावं येता. तांची व्हिवपाची सुवात स्वतंत्र आसची. ती जंतूनाशक वखदां घालून तदांच नितळ दवरपाक जाय. व्हिवपाचे सुवातेर पिलां दवरचीं. बसपाची सुवात वेगळी आसची आनी तिचे भोवतणी गॅल्वनायझड् पायपांची ल्हानशी वणट आसची. गाबण दुकरीक जाग्याची संवय जावची म्हणून दोन सप्तकां आदीं तिका व्हिवपाच्या जाग्यार हाडची. गाबण दुकरीचें पोट घटट् जावचें न्हय आनी नितळ उरचें हे खातीर व्हिवचे थोडे दीस पयलीं तिका तांदूळ आनी गवांचो भुसो आशिल्ली खावड ालची. व्हिवचे कुडींतलें तापमान ३० डिग्री सेंटिग्रेड दवरचें आनी पावस तशेंच थंडेच्या दिसांनी जाल्ल्या पिलांक उब मेळपाक खासा दिवे वापरचे. सगल्या पिलांक आवयचें दूद मेळटलें हाचेर लक्ष दवरचें. एकाद वेळार कसल्याय कारणाक लागून व्हिले उपरांत दुकरीण मेली जाल्यार तिच्या पिलांक दुसरे व्हिल्ले दुकरीणीचे दूद मेळपाची वेवस्था करपाक जाय. तरीय आसतना जर अशें दूद मेळ्ळें ना जाल्यार त्या पिलांक गायचें दूद दिवं येता. हाका मिल्क रिप्लेसर म्हणटात. हें तयार करपाक गायच्या एक लिटर दुदांत एका तांतयाचो भितरलो हळडुवो बलक (योक) घालून घोळोवन तें व्हिल्ल्या पिलांक दिवचें.

जल्माक आयिल्लीं पिलां ६ ते ८ आठवड्यां उपरांत वेगळीं काडप हाका दुकरांच्या धंद्यांत

खूब महत्व आसा. हें एकदम करचें न्हय. पयलीं पिलांक कांय वरां खातीर वेगळीं काडचीं. दुसऱ्या सप्तका सावन तांकां थोडी थोडी भायली पुश्टीक खावड दिवपाक सुरवात करची. साधारणपणान २० पिलां एकीकडेन दवरूं येतात.

**दुकरांची दुयेसां आनी वासिना**

हेर जनावरां भशेन दुकरांकूय जोर येवप, अपचन जावप, पातळ संडास जावप, खोंकली येवप, असले विकार जातात. दिसपी लक्षणां वयल्यान फावो ते उपाय करपाक जाय. म्हणजे बेगीन गूण येतलो. पूण सगल्यांत घातकी म्हणल्यार वायरल (बारीक निक्रोपा पासून जावपी) जोराचें दुयेंस. ताका स्वायन फिवर वां हॉग कॉलेरा म्हणटात. ह्या दुयेसांत दुकरांक एकदम (१०५ ते १०७ डिग्री फॅऱ्हेनायटस) जोर येता. दुकरां खायनात. तांचे दोळे व्हांवतात. तांबडे जातात. दुकरां थरथरतात फिट्स येतात. नाकांतल्यान आनी भोकांतल्यान रगत व्हांवता. अखेरेक मोठ्या प्रमाणांत दुकरां मरूं येता. खास दिसपी लक्षणां वयल्यान आनी रगत तपासून दुयेंसाचें खरेपण करूं येता. हें दुयंस जातकीं खाशेली वखदां नात. दोतोराच्या सल्ल्यान फकत हायपर यिम्यून सिरम दिवपाक शकतात. ह्या दुयेंसाचेर खास आनी एकदम बरें वासीन आसा. हें वासीन पिरायेच्या २ ते ३ म्हयन्यांचेर दुकरांक करचें उपरांत वर्सुकी करचें. म्हणजे हें दुयेंस जावंक पावचं ना.

हाचे भायर दुकरांक घटसर्प, स्वायन येरिसेफाल्स, ॲन्थेरेक्स, लाग, असलीं दुयेसां जाव येतात. पूण तीं चडशीं गोंयांत जायनात. दुकरांक दंत जातात. ताका लागून तीं आंगान भरनात. खाता - पियेता तें आंगाक लागना. पातळ संडास जाता. हे खातीर वेळचेवेळार दोन म्हयन्यांच्या अंतरान तांचे संडास तपासून घेवचो. संदाच थारावीक तेपान (दर ३ म्हयन्यांनी) दंतांचें वखद घालचें. बऱ्याच फावटीं सिमेंटाच्या गोठ्यांत पोशिल्ल्या दुकरांक चड करून व्हिले उपरांत आयर्न कमी जावन ॲनेमिया (पंडुरोग) जाता आनी तीं मरपाक शकतात. हाका लागून आयर्न डॅक्सट्रोन इंजेसांवां दोतोरा कडल्यान करून घेवचीं पडटात. बऱ्याच फावटीं दुकरीणीचे पान्या भोंवतणी दर दिसा फेर्रस सल्फेटाचे पातळ वखद करून लावपाची पद्धत आसा. दुकरांक खरोज, किट्टी, लिको, हुलको, उयो आनी पुसव जावपाक शकतात. हाका लागून खास जतनाय घेवची पडटा. तशेंच हाचेर खाशेलीं वखदांय करून घेवचीं पडटात. दुकरांचो गोठो नितळ दवरचो. अशी सगली कुयदाद घेतली जाल्यार दुकरांचो धंदो खात्रे

द्याचो जावं येता.

दुकरांच्या धंद्याचो फायदो वाडोवपाक बरे दुकर पोसप चड म्हत्वाचें आसा. बरे दुकर ाल्यार जे बेगीन वाडटात. खाल्ल्या खाणाचें आपल्या आगांच्या मांसांत रूपांतर करतात. जांकां सां चड जायनात. हाका लागून खाण आनी वखदां वयलो खर्च वाटवता आनी चड फायदो जाता. जिवे र विकचे परस तांचें मांस विकप तशेंच सॉसेजीस असले तयार खावपाचे पदार्थ विकप शेतकाराक फायद्याचे थारता.



दुकरांमदी कृत्रिम विर्यदान करप



## ४८. कोंबयो पोसप

कोंबयांच्या धंद्याचे मूळ तत्व

बरें घर आनी खुराडें, बरें वेवस्थापन, बरी पुश्टीक खावड आनी नितळ उदक. वेळचेवेळा दंतांचें वखद आनी वेळार दुयेंस जावचें न्हय म्हणून वासिना करप.

**कोंबयो (कुकडां) पोसतना लक्षांत दवरपाचे म्हत्वाचे मुद्दे –**

१. शेतकारांन कोंबयो पोसतना सदांच बरे हॅचरींतल्यान मेळपी एका दिसाचे पिरायेचीं पिलां घेवची तांकां साल्मोनेलोसीस, एएलसी आनी मॅरेक्स हीं दुयेसां जाल्लीं नासचीं. व्हडल्यो तांतयांच्यो कोंबय तशेंच व्हडलीं पिला पोसपाक घेवची वा दवरची न्हय.

२. पोसपाक घेतात तीं पिलां एका दिसाचीं आसतात. तांकां मॅरेक्स आनी लासोटा (रानीखेत) दुयेसां वासीन केलां हाची खात्री करून घेवची. ३ ते ६ सप्तकांचें आसतना रानीखेत रोगाचें आर टू बी वासी आनी देवी रोगाचें फावलॉक्स वासीन करून घेवंक जाय.

४. कोंबड्यांचे खावडीचेर सदांच लक्ष दवरचें. खावडींत १६ ते २० टक्के प्रथिना (प्रोटीन), जाय तितल जीवनसत्वां, मिनाचे घटक, क्षार, हांचो आसपाव आसचो. हाका लागून कोंबयांची वाड बरी जातली तांतयां बरी आनी चड मेळटलीं आनी दुयेसां उणीं जातलीं.

५. कॉक्सिडियोसीस जावपाक जायना म्हणून कोंबयांच्या खाणांत वखदां घोळयिल्लीं आसपाक जाय.

६. परकी मनीस, वाहनां हांकां कोंबयांच्या फार्मार थेट प्रवेश दिवचो न्हय. मुखेल गेटीभायर एक फूटबा (सिमेंटान बांदिल्लो जंतूनाशक वखदांचें उदक आसपी चर) आसचो. परकी मनशांनी भितर येवचे आ त्या उदकांत पांय बुडोवचे, तशेंच भितर येवपी वाहनांचे टायर त्या उदकांत बुडोवचे. ताका लागून भाय निक्रोप फार्मार भितर पावपाची भिरांत उरची ना.

७. पांदरो पद्धतीन कोंबयो पोसप चड बरें आनी फायद्याचें. डीप लिटर पद्धतीन (जमनीर भुसो, कुं घालून) पोसता जाल्यार तो भुसो, कुंडो सुको आनी हवेशीर दवरपाक जाय. तो परत परत चाळचे जमनीचेर उदक पडपाक दिवचें न्हय.

८. कोंबयो पोसपाची सुवात सदांच हवेशीर आसची. ताका लागून कोंबयांक ताजी हवा मेळटली. थं

ण मारची ना.

कोंबयांक वेळचेवेळार दंतांचें वखद घालचें.

. साल्मॉनेलोसीस आनी सीआरडी ह्या दुयेसां खातीर फार्माच्या कोंबयांची १६ सप्तकांचेर ोगशाळेंत तपासणी करची. तशीच तपासणी परत दोन फावटीं करून ह्या दोनूय दुयेसां पसून कोंबयांचें र्म मकळें दवरचें.

. कोंबयांचे पांदरे आनी फार्माची हेर सगली सुवात नितळ दवरची. थंय किट्टी, लिको, पुसकां, नको आसच्यो न्हय. आसल्यार बेगोबेग किट्टीनाशक वखदांचो फवारो मारचो. स्पायरोचिटोसीस णून येवपी दुयेसाचें वासीन केल्यार चड बरें जातलें.

. मेल्ल्यो कोंबयो फार्मार उकताडार खंयचे खंय उडोवंच्यो न्हय. एकतर त्यो खोल फोंड काडून च्यो वा लासून उडोवच्यो.

. कसल्याय दुयेंसाचो दुबाव आयलो, कोंबयांची भलायकी इबाडली वा दुयेंसान कोंबयो मेल्यो ल्यार बेगोबेग दुयेंत आनी मेल्ल्यो कोंबयो प्रयोगशाळेंत धाडून दिवच्यो.

. केन्नाच भायलीं पिलां वा कोंबयो आपल्या फार्मार हाडच्यो न्हय. प्रदर्शन वा देखाव्या खातीर भायर ल्ल्यो कोंबयो परत फार्मार हाडचे पयलीं आठ दीस वेगळे कडेन दवरून मागीरूच भितर घेवच्यो.

. फार्मा वयलो जागो आनी वस्तुंचें निक्रोप ना करपाक वर्सांतल्यान एक फावट फ्युमिगेशन करचें १०० चौ. फूट जाग्याक ७५ मिली फॉर्मेलीन आनी ५० ग्राम पोटेशियम परमेंगानेट वापरूं येता.)

**लां मरचीं न्हय म्हणून घेवपाची कुयदाद**

पिलां दवरतात त्या जाग्यावयलें (ब्रुडराचें) वेळचेवेळार तापमान पळोवचें. एकेच फावटीं खूब पिलां का ब्रुडराक घालचीं न्हय.

पिलां मरपाक लागलीं जाल्यार लागींचे प्रयोगशाळेंत धाडून पुलोरम, मॅरेक्स बी जावंक ना हाची खात्री रून घेवची.

दुयेंत पिलांक वेगळीं काडचीं.

रानीखेत, फॉवलपॉक्स, गमबोरो ह्या घातकी दुयेसां वयलीं वासिना करून कोंबयांचो जीव वाटावचो.

व्हडल्या कोंबयांक साल्मॉनेलोसीस आसा वा ना, तशेंच तांचे कडल्यान तांतयांतल्यान दुयेंस हेर

कोंबयांक वचचें ना हाची सादुरकाय घेवची.

६. कोंबयांची खावड आनी उदक दिवपाचीं आयदनां सारकीं नितळ दवरचीं. तापयिल्ल्या उदकान तीं नितळ करचीं.

७. कोक्सिडियोसीस हें घातकी दुयेंस. ताका लागून कोंबयांचो संडास आनी आंतडी प्रयोगशाळें तपासून घेवचीं.

प्रयोगशाळेचो अहवाल येवचे आदींच दोतोराचो सल्लो घेवचो आनी टॅरामायसीन पोल्ट्री फॉर्म्युला, होस्टासायक्लीन, ओरियोमायसीन असलीं ॲन्टिबायोटिक्स दिवचीं. तशेंच विमेराल विंटाब्लेंड, विनस्ट्रेस, सॉल्वीट एब्डेक्ट असलीं टॉनिकां, जीवनसत्वां उदकांतल्यान दिवपाक सुरवात करची.

**कोंबयांक जावपी मुखेल दुयेसां**

**१. कोंबयांचें पुलोरम दुयेंस** – ह्या दुयेंसाक बेसिलरी व्हायट डायारिया अशेंय म्हणटात. ह्या दुयेंसाचें कारण साल्मोनेला पुलोरम हे रोगजंतू आसा. हें एक खर दुयेंस. जें पिलांक चड जाता आनी खूब पिलां ह्या दुयेंसाक लागून मरूं येतात.

**लक्षणां** – धवो संडास जाता. खूब पिलां एकदम मरतात. भितरले आंगाचे भाग तांबडे जातात. हें दुयेंस जाल्ल्या दिसासावन पिलांक आवयच्या तांतयां पासून येवपाक शकता. हाका लागून ह्या दुयेंसाक तांतयां पसुनचें दुयेंस म्हणटात.

**उपाय** – दोतोराच्या सल्ल्यान ॲन्टिबायोटिक्स, टॉनिकां, जीवनसत्वां दिवची. दुयेंस जावचें न्हय म्हणून खाणा भितर ॲन्टिबायोटिक्स सदांच घोळोवन दिवचीं.

**२. फावल टायफॉयड** – हें दुयेंस सालमोनेला गॅलिनेरम ह्या रोगजंतू पसून जाता. हें धाकल्या कोंबयांक चड जाता. हें दुयेंस आनी पुलोरम दुयेंसाचीं लक्षणां आनी उपाय सारखेच आसात.

**३. फावोल कॉलेरा** – हें एक खर दुयेंस, जें साल्मोनेला माल्टोसेडा ह्या रोगजंतू पसून जाता. कोंबयांचे खंयचेय पिरायेर हें जावं येता.

**लक्षणां** – दुयेंसाच्या खर प्रकारांत कोंबयो एकदम मरतात. कोंबयांचो शेंकरो आनी शेकऱ्या सकयल भाग निळो–काळो जाता. पातळ संडास जाता. मान वांकडी जाता.

**ाय** – दोतोराच्या सल्ल्यान सल्फा वखदां भशेन ॲन्टिबायोटिक्स दिवप. ह्या दुयेंसा पसून राखण रपाक वासीन करून घेवं येता.

. **इनफेक्सियस कॉरायझा** – हें दुयेंस हिमोफिल्स गॅलिनेरम ह्या रोगजंतू पसून जाता. हातूंत खूब ोंबयो दुयेंत पडटात पूण चडश्यो मरनात.

**क्षणां** – नाक व्हांवता. चोची सकयल सूज येता. दोळे तांबडे जातात आनी कोंबयो तांतयां घालप कदम कमी करतात.

**पाय** – दोतोराच्या सल्ल्यान सल्फा वखंदां भशेन ॲन्टिबायोटिक्स दिवप. ह्या दुयेंसा पसून राखण रपाक वासीन करून घेवं येता.

. **क्रोनिक रॅस्पिरेटॉरी डिसिज (सीआरडी)** – हें दुयेंस मायकोप्लास्मा गॅलिसेप्टिकम ह्या रोगजंतू सून जाता.

**क्षणां** – कोंबयांक श्वास घेवपाक त्रास जातात. गळ्यांतल्यान आवाज येता. कोंबयो तांतयां घालप कदम कमी करतात. २० टक्के कोंबयो मरूं येतात. ह्या दुयेंसाचो प्रसार तांतयांतल्यान जावपाक शकता. योगशाळेंत रगत तपासून दुयेंसाचें खरेंपण करूं येता.

**पाय** – दोतोराच्या सल्ल्यान ॲन्टिबायोटिक्स, टॉनिकां, जीवनसत्वां दिवचीं.

. **स्पारोचिटोसीस** – हें एक खर दुयेंस जें बोरेलिया ॲन्सेरिना ह्या रोगजंतू पसून जाता. हे रोगजंतू केट्टीच्या आंगांत पोसतात आनी मागीर ही किट्टी दुसरे कोंबयेक चाबता आनी तेय कोंबयेक दुयेंस जाता.

**लक्षणां** – कोंबयाक खूब जोर येता. पाचवो संडास जाता. कोंबयो मोव (मेंग्यो) जातात आनी २ ते ४ दिसांभितर मरतात. प्रयोगशाळेंत रगत तपासून दुयेंसाचें खरेपण करूं येता.

**उपाय** – दोतोराच्या सल्ल्यान ॲन्टिबायोटिक्स, टॉनिकां, जीवनसत्वां दिवचीं. ह्या दुयेंसा पसून राखण करपाक वासीन करून घेवं येता.

७. **इन्फेक्सियस ब्रोंकायटीस** – हें एक वशाचें आनी एकदम बारीक निक्रोपाक लागून (वायरल) जावपी दुयेंस. हातूंत खूब कोंबयो दुयेंत पडटात आनी तातूंतल्यो २५ टक्के मरपाक शकतात.

**लक्षणां** – नाक व्हांवता. श्वास घेवपाक त्रास जातात. श्वास घेतना कूं कूं आवाज जाता. तांतयां घालपी कोंबयो सारकीं तांतयां घालनात. कट्टें नाशिल्लें, आकार नाशिल्लें आनी मोव तांतयां घालतात. प्रयोगशाळेंत रगत तपासून दुयेंसाचें खरेंपण करूं येता.

**उपाय** – दोतोराच्या सल्ल्यान ॲन्टिबायोटिक्स, टॉनिकां, जीवनसत्वां दिवचीं. ह्या दुयेंसापसून राखण करपाक वासीन करून घेवं येता.

**८. रानीखेत (न्यू केस्टल)** – हें एक खर, भिरांत मातोवपी वशाचें, वायरल दुयेंस. हातूंत खूब कोंबयो दुयेंत पडटात. तातूंतल्यो खुबश्यो मरतात.

**लक्षणां** – कोंबयांक श्वास घेवपाक त्रास जाता. तीं मान आनी चोंच ताणायतात. पातळ संडास चालू जाता. मान वांकडी जाता. कोंबयो झेमिल्लेवरी करतात आनी शेवटाक मरतात.

**उपाय** – दुयेंत कोंबयेचें रगत प्रयोगशाळेंत तपासचें. हें दुयेंस जावचें न्हय म्हणून लासोटा आनी आर टू बी हें वासीन करचें. उपरांत दर वर्सा आर टू बी हें वासीन केले जाल्यार रानीखेत दुयेंस जावचं ना.

**९. फावोल पॉक्स (देवी रोग)** – हें वायरल दुयेंस. तें व्हडल्या कोंबयांक कमी आनी धाकल्यांक चड जाता.

**लक्षणां** – कोंबयांच्या शेंकऱ्यार, चोंचीकडेन, चोंचीसकयल, तोंड ह्या भागांचेर देवीचे फोड येतात, मागीर थंय खंवळ्यो जातात. दोळ्यार फोड आयल्यार कोंबी कुड्डी जावंक शकता.

**उपाय** – दोतोराच्या सल्ल्यान ॲन्टिबायोटिक्स, टॉनिकां, जीवनसत्वां दिवचीं. देवी आयिल्ल्या जाग्यार जंतूनाशक मलमा, वखदाचे थेंबे लावं येता. ह्या दुयेंसा पसून राखण मेळपाक वासीन करून घेवं येता. चड करून पिरायेच्या ६व्या सप्तकांत हें वासीन करतात.

**१०. मॅरेक्स** – हें एक वायरल दुयेंस. हातूंत कोंबयो कुटतात. तांचे पांय धरतात. उबें रावपाक जायना. धाकल्या पिलांक हें दुयेंस चड जाता. हॅचरीनी पिलां एका दिसाचीं आसतना वासीन करून घेवप भोव गरजेचें.

**११. गमबोरो (इन्फेक्सियस बरसाल डीसीज (आयबीडी))** – हें एक वायरल दुयेंस. धाकल्या पिलांक तें चड जाता. पिलां फ्राक जातात, तांचे पांखटे खडबडीत जातात. रोगप्रतिबंधक शक्त उणी

ावन तीं मरतात. ह्या दुयेंसाचेर खास उपाय ना. नितळसाण दवरची आनी कोंबयांक टॉनिकां दिवचीं. ा दुयेंसाचे वासीन करून घेवप भोव गरजेचें.

२. **कॉक्सिडियोसीस** – चड करून पिलांक जावपी हे एक महत्वाचें दुयेंस. ताका लागून खूब पिलां रतात. आयमेरिया नेकेट्रीक्स आनी आयमेरिया टेनेला हीं ह्या प्रोटोझुवोन रोगजंतूंची नांवां.

**क्षणां** – कोंबयांक रगताचो पातळ संडास जाता. तातूंतल्यान शेंबूड कशें मुकस भायर पडटात. परांत कोंबयो मरतात. कोंबयांक संडास जावन पटापट मरपाक लागतात तेन्ना सगल्यांत पयलीं ॉक्सिडियोसीस दुयेंसाचो दुबाव घेवन संडास तपासून पळोवंक जाय. **उपाय** – नितळसाण दवरप, ोंबयांचो जागो सदांच सुको दवरप, जीवनसत्व अ संतुळीत प्रमाणांत दिवप, थारावीक जाग्यार कोंबयो वरून गर्दी जावची ना हें पळोवप. दुयेंत जालेंच जाल्यार बेगोबेग दोतोराच्या सल्ल्यान सल्फा असलीं ्रासा ॲन्टिबायोटिक्स उदकांतल्यान ३ ते ५ दीस पिवपाक दिवप. टॉनिकां चालू करप. कोंबयांच्या ्राणांत सदांच ॲन्टिबायोटीक पावडर घोळयल्यार चड बरें.

२३. **कोंबयांचो जोर (बर्ड फ्लू, एवीयन फ्लू वा एवीयन इन्फ्लूएन्झा)** – हें एक सामकें घातकी ानी भिरांकूळ दुयेंस. हाली आयिल्ल्या ह्या दुयेंसाचे जंतू एच ५ एन १ नांवाचे वायरस आसात. कोंबयां ासून हें दुयेंस मनशांकूय जावपाक शकता. तातूंतल्यान व्हडा प्रमाणांत लोक मरूं येतात. ते खातीर ह्या ुयेंसा कडेन मात्त लेगीत घाळपण करपाक फावना. पोशिल्ल्यो कोंबयो आनी टर्की जातीच्या पक्ष्यां भितर ह्या दुयेंसाची लागण चड जाता. तेच वांगडा बदकां, हंस आनी दर वर्सा स्थलांतर करपी पक्ष्यां ादीय हें दुयेंस जावं येता. एक एक फावट पक्षी लक्षणां दाखयनात, मात सुप्त अवस्थेंत तांचे मदींय हें ुयेंस आसता जें कालांतरान हेर कोंबयांकूय लागूंक शकता.

**दुयेंस कशें पातळटा** – एके दुयेंत कोंबये कडल्यान दुसरेक, दुयेंत कोंबयांचो संडास वा नाकातल्यान व्हांवपी शेंबूड वा तोंडांतल्यान पडपी उदका वटेन, दुयेंसान मेल्ल्या कोंबयांक लागून दुयेंसाचे जंतू ागिल्ल्यो वस्तू, देखीक – तांतयांचीं आयदनां, हेर आयदनां आनी यंत्रां–आवतां, कामगारांचे कपडे, ूट, फार्मार भायल्यान येवपी वाहनां, हांकां लागून दुयेंस पातळपाक शकता. जायत्या फावटीं कांय पक्षी जागो बदलूंक (मुदासाक) दर वर्सा स्थलांतर करतात. वतना वाटेर थारावीक जाग्यांचेर ते उदकाच्या

कोंडिनी रावतात. अशे तरेन स्थलांतर करपी ह्या पक्षांक लागून हे दुयेंसूय एकीकडल्यान दुसरे कडेन वचपाक शकता. मांसाचे वा तांतयांचे पक्षी, झुजाचे वा सोबेचे पक्षी एकीकडल्यान दुसरे कडेन व्हरतात तेन्नाय हें दुयेंस पातळूं येता.

**दुयेंताचीं लक्षणां** – हें दुयेंस कोंबयां मदीं एकदम झटपट पातळटा. कोंबयो मेंग्यो जातात, खावड सोडटात, तांतयां घालप कमी करतात. तांची तकली आनी मान सुजता, आंगाचे चामडे पोंदा रगताचे थेंबे साचतात (शिरो फुटून रगत सांचता). अचकीत कोंबयो मरतात. हो आकडो १०० टक्के जावं येता. ह्या दुयेंसाक वखद ना. तशेंच ह्या रोगाचे वायरस आपलें रूप, मांडणी, जात, खाशेलपण हें सारखें बदलत रावता. ताका लागून ह्या दुयेंसाचेर थारावीक वासीन (लस) काडप कठीण जालां. आनी वासीन तयार केल्यार पसून तें करपाक सरकाराची मान्यताय लागता.

**दुयेंस पयस दवरप** – भायल्यो, रानटी आनी फार्मावयल्यो तशेंच गांवठी कोंबयो हांकां एकठांय जावपाक दिवचें न्हय. एकठांय पोसच्यो न्हय. कोंबयांच्या फार्मा भोंवतणी दुरीग वा वंय आसची. भायले लोक वा जनावरां भितर घेवचीं न्हय. फार्माचेर आनी सरभोंवतणी खूब नितळसाण दवरची. भायलीं वाहनां, कामगार आनी हेर लोकांक गेटी कडेन दवरिल्ल्या फूटबाथांत पांय बुडोवन, हात-पांय नितळ केलेबगर भितर घेवचें न्हय. फार्मा वयल्यो वस्तू, कपडे, आयदनां एकदम नितळ आसचीं. भितरल्यो वस्तू, आयदनां तशेंच जमीन वखद घालून वेळचेवेळार नितळ करचीं. कोंबयो, बदकां, टर्की हांकांय एकठांय दवरचीं न्हय. कोंबयांची अदला बदल करचीच पडली जाल्यार आपल्या फार्माभितरच वा खासा सादुरकाय घेवन खबर आशिल्या फार्माभितरूच करची. 'सगलें भितर-सगलें भायर' हें तत्व बाळगुचें. ते प्रमाणें सगले पक्षी एकाच फावटीं (विकपाक) भायर काडचे. उपरांत फार्म, थंयच्यो सगल्यो वस्तू, आयदनां, जमीन नितळ करची. थंयचे निक्रोप, जंतू कडक वखदां घालून मारचे आनी उपरांत सगल्यो नव्यो कोंबयो फार्मा भितर घालच्यो.

बर्ड फ्लू जालो जाल्यार ताबो हाडपा खातीर सरभोंवतणच्या वाठारांतल्यो (३ ते ५ कि.मी घेरायेच्या) सगल्यो कोंबयो मारून उडवच्यो. मेल्ल्यो आनी मारिल्ल्यो कोंबयो वेवस्थीत चुनो आनी मीट घालून पुरच्यो वा लासच्यो. फार्माची आनी भोंवतणची जागा नितळ आनी जंतूविरयत करची. कोंबये आनी हेर सगल्यो वस्तू, मनीस, वाहनां हांची एकीकडल्यान दुसरे कडेन हाड-व्हर सामकी बंद करची

त कोंबयांचें मांस खावचें न्हय. अर्दकुटें शिजयिल्लें, दुयेंत कोंबयांचें मांस खाल्लें जाल्यार मनशांकूय दुयेंस जावं येता. वेवस्थीत शिजयिल्लें मांस खाल्लें जाल्यार ह्या दुयेंसाचे जंतू मरतले आनी दुयेंस वचें ना.

हें दुयेंस जाल्ल्या मनशाक जोर येता. दोळे तांबडे जातात. थंडी जाता आनी श्वास घेवपाक स जातात. तातूंतल्यान मरण येवं येता. दुयेंत कोंबयो वा जंतू आशिल्ल्यो वस्तू हांकां लागून ब्रिडिंग रपी, कोंबयो–तांतयां विकपी, हाड–व्हर करपी, फार्मावयले कामगार, कोंबयो मारपी, दोतोर आनी चे वांगडा काम करपी कामगार हांकां हें दुयेंस जावं येता. ते खातीर हो संबंध टाळचो आनी फावो ती दुरकाय घेवची. ताकतिकेन जनावरांच्या आनी मनशांच्या दोतोरांक कळोवचें.

४. **कोंबयांचे दंत** – कोंबयांक चड करून ॲस्केरडिया गॅलाय हे जातीचे गोल दंत जातात. ताका गून तांचें खावप–पिवप आंगाक लागना. वजन देंवता, वाड थांबता, तातयां घालपाचें प्रमाण कमी ाता आनी धंदो लुकसाणेंत येता. हाका लागून थारावीक आठवड्यांनी कोंबयांचो संडास प्रयोगशाळेंत ासून दंताचीं वखदां वेळचेवेळार घालप भोव गरजेचें. हातूंत प्रायपाझीन हें वखद खूब परिणामकारक ासता. तें पिरायेच्या चवथ्या, सव्या म्हयन्यांत आनी उपरांत दर दोन म्हयन्यांनी दिवचें.




कोंबयांच्या दंतांची तांतयां.

**४९. सोंशे पोसप**

गोंयचें हवामान, हांगा मेळपी तणा, वाडपी झाडां–झोंपां हांकां लागून सोंशे पोसपाचो धंदो गोंयांत सोपो आनी फायद्याचो जाव येता. सोंश्याचें मांस सामकें नाजूक आनी पुश्टीक आसता. हातूंत २० टक्के प्रथिना आसतात. तशेंच सोंश्याचें मांस रूचीक आनी गोंयकारांच्या घोस्ताचें आसता. हाका लागून ह्या मांसाक हांगां खूब मागणी आसा.

**सोंशे पोसप फायद्याचे कशें तें पळोवया :**

१. सोंशीणीक पिलां बेगीन जातात आनी झटपट वाडटात. एके सोंशीणीक वर्साक ३ ते ४ फावटीं व्हित येतात आनी वट्ट १८ ते २४ पिलां दिता.

२. सोंशाचें खाण सामकें सादें आनी सवाय आसता. भाजयेचीं थोडीं पानां, थोडें कड्डण, रांदचे कुडींतलें उश्टें, इतलें खाण सोंशे पोसपाक पुरो जाता.

३. सोंसो हो एक ल्हान प्राणी. आमकां रांदपाक मांस जाय पडटा तेन्ना सोंसो मारून घेवं येता. तें मांस परत फ्रिजांत दवरपाची गरज पडना. हाका लागून सोंश्याक जैवीक फ्रिज म्हणटात.

४. ह्या धंद्यांत सुरवेची गुंतवणूक सामकी कमी आसता. एखाद्यान सोंशे कोणाय कडल्यान उदार घेवन पसून धंदो सुरु करूं येता. ६ ते ९ म्हयन्यां भितर हे उदार घेतिल्ले सोंशे परत दिवपाक येता.

५. सोंसो हें पाळीव जनावर. तांकां पोसप सामकें सोपें. बायलां आनी भुरग्यांच्यान पसून सोंशे हाताव आनी सांबाळूं येता. सोंशे बोवाळ करीनात आनी शेजाऱ्यांक त्रासूय दिनात.

६. तांच्या शेणाक घाण येना. हें शेण पोरसूं आनी घरा भोंवतणेच्या झाडांक घालपाक उपकारा येता.

७. मांस काडले उपरांत तांची चामडी बरे तरेन वखद लावन सुकोवची आनी मागीर ती टोपयो, पर्श असल्यो सोबेच्यो वस्तू करपाक वापरतात.

८. सोंश्यांक वर्सूयभर पिलां जातात. हीं पिलां विकून वर्सूयभर उत्पन्न मेळोवं येता.

**सोंश्यांच्यो जाती**

संवसारांत ५० परस चड सोंश्यांच्यो जाती आसात. तातूंत दोन प्रकार आसतात –

**चामडे खातीर पोसपाचे सोंशे** – हे सोंशे चामडे खातीर वा सोबेक (आवड म्हणून) पोसतात. हातूंत अंगोरा, फ्लॅमिश जायेंट, अरजेंटे आनी हावना ह्यो जाती लोकप्रीय आसात. तातूंतली अंगोरा ही जात

ामाद. हे सोंशे धव्या रंगाचे आनी तांची चामडी मोव आसता. थंड हवेंत ही जात बरी वाडटा.

**ांसा खातीर पोसपाचे सोंशे** – हे जातीच्या सोंशांचें मांस आनी आंतड्यो वापरतात. देखीक सोविएट ्रंचिला, न्युझिलंड वायट, ग्रे जाएंट, व्हायट जाएंट, कॅलिफोर्निया व्हायट. मांसाच्या सोंश्याचें वजन ारासरी ३.५ ते ४.५ कील आसता. सोंश्यांची पोसपाची जात थारायतना भोंवतणेचें हवामान आनी ापली गरज पळोवंची.

**ोंश्यांच्या आवय – बापायची निवड :**

ापले गरजे प्रमाणें पिलां दिवपी आवय – बापायची निवड करची. हो स्टॉक वळखीच्या आनी बरे तरेचे ोंशे दवरपी मनशा कडल्यान घेवचो.

. स्टॉक घेतना तांचे गूण पळोवचे – तांची भलायकी बरी आसपाक जाय. तुकतुकीत कांत, आवाजाचो ाव घेवपी उबे कान, लुकलुकपी डोळे. पांयाचीं नाकटां वाडिल्लीं आसपाक जायना. पांयांक घाण ासप, वांकडे चलप, हीं वायट भलायकेचीं लक्षणां आसात. सोंशे बेगीन वयांत येवप, खाता–जेवता तें ांगाक बरें लागप आनी सोंशे आंगान भरप, हे सगले गूण सोंशे पोसपाचो निर्णय घेतना म्हत्वाचे ासतात. सोंशे पोसतना ज्यो नोंदी (रेकॉर्ड) दवरतात ते पटयेचेर (रजिस्टर) पळोवन थारावपाक येता. ोसपा खातीर आवय–बापूय अशा पोसपाच्या सोंश्यांचो स्टॉक घेतल्या उपरांत तांकां दोन आठवडे ागळे दवरचे. ह्या काळांत तांकां कसलेंय दुयेंस बी आसा जाल्यार लक्ष दवरचें.

**ोंश्यांच्या घर कशें आसचें तें पळोवया**

**ासे दोन तरेन पोसूं येतात**



१. पोरसांत सोंशे पोसप :

ह पद्धतींत सोंशे जमनीर पोसतात. उगत्या जाग्यार ९० सेंटीमीटर उंच वणट बांदची. तिचे वयर १२० ेंटीमीटर वायरमॅश मारचें. पांखें (पाडसार) सिमेंट पत्रे वा पानानी वा चुट्टां घालून शिंवल्यार उपकारता. जमीन सिमेंटाची आसल्यार चड बरी. कारण अशी जमीन बरे तरेन धुवपाक मेळटा आनी नेतळसाण उरता. अश्या जाग्यार २० ते ३० सोंशे पोसपाक मेळटात. एक चौखण मीटर जाग्यार ६ सोंशे ोसपाक मेळटात.

सोंश्यां खातीर पांजऱ्यां असलीं खासा बॉक्सां बांदून सोंशे पोसूं येतात. ह्या पांजऱ्यांच्या

बॉक्साचो आकार ९० सेंटीमीटर रूंद, ७५ सेंटीमीटर खोलाय आनी ६० सेंटीमीटर उंची आसची. व्हडल्या सोंशाक इतली उंचाय जाय पडटा. हो पांजरो लाकडी, कोण्यांचो (बांबू) वा लोखणी जाळयेचो करूं येता. पांजऱ्यांचीं हीं बॉक्सां दोन वळीनी एक मीटर अंतराचेर जमनी परस ९० सें. मी. वयर दवरचीं. अशे तरेन ५ बाय ३ मिटर सुवातेंत (पाडस, पांखें शिंविल्ल्या जाग्यांत) १० व्हडले सोंशे पोसूं येतात.

२. वेपारी पद्धतीन सोंशे पोसप :

अ) हे पद्धतींत सोंशांक रावपाक, भोंवपाक तशेंच भितरली नितळसाण करपाक, सोंशांक खावपाक घालपाक कामगारांक वावरपाक जाय तशी जागा मेळपाक जाय.

आ) सोंशे पोसपाचें तापमान २० ते ३० डिग्री सेंटीग्रेड आनी ओलसाण ७० ते ८० टक्के आसपाक जाय.

इ) पांजऱ्याची मांडणी आनी भितरलीं सादनां बरोबर आसचीं. जाका लागून तण आनी खाणाचो इबाड लागचो ना.

ई) सुणे, मुंगूस असल्या जनावरांक भितर येवपाक मेळचें न्हय तशेंच भितरले सोंशे भायर धांवचे न्हय, हे खातीर सोंशे पोसपाची जागा ही बंदिस्त आसची.

उ) सोंशांच्या घराचें बांदकाम मजबूत आनी घट्ट आसचें. म्हणजे तें तिगून उरतलें आनी परत परत दुरुस्ती करपाची गरज पडची ना.

ऊ) सोंशांच्या घरांत नितळसाण करपाक तशेंच खाण घालपाक कामगारांक त्रास जावपाक जायना आनी कामगार कमी लागपाक जाय. ए) सोंशांच्या घरांत हवा खेळटी आसची. शेण, मूत काडपाक आनी नितळ करपाक, धुवपाक वेवस्थीत मेळपाक जाय म्हणजे नितळसाण उरतली आनी दुयेसां चड जावची ना. ह्या घरांचें स्वरूप आपली गरज आनी त्या जाग्यावयलें हवामान हांचे प्रमाणें बदलपाक येता.

**सोंशांचें घर :** पावस चड पडपाच्या जाग्यानी सोंशांचो गोठो उदक साचून उरचें ना अशे वयले जमनीत (उंचायेर) बांदचें. उबाळ आनी पावस, थंडी हांचे पसून राखण मेळपाक जाय. सोंशाचें घर सांवळेंत बांदिल्लें उरचें. सोंशांच्या घराच्या लागसाराक झाडां लावचीं. तापमान १५ ते ३० डिग्री सेंटीग्रेड, ओलसाण ७० ते ८० टक्के आसची.

**सोंशांचो पांजरो :**

वेवसायीक पांवड्यार पांजरो हो लोखणी अँगल वा घट्ट लोखणी जाळयेचो आसचो. पांजऱ्याचो आवाठ

ञ्दो आसचो हें सोंशांचे संख्येचेर निंबून आसता. एका सोंशाक सरासरी ३० चौखण सेंमी जागो लागता. ांजऱ्याचो आंवाठ ४५ बाय ६० बाय ४५ सेंमी जाय पडटा. सोंशीणीची पांजऱ्याची सुवात ९० बाय ६० ाय ४५ सेंमी आसपाक जाय. पिलां दवरपाक ४५ बाय ३० बाय १५ सेंमी आकाराचें बॉक्स करचें. पिलां ायर सरपाक जायना म्हणून पांजऱ्याचे पोंदचे वटेन आनी कुशीकच्यान वायर जाळी मारची. दादलो ोंशाची पांजऱ्याची सुवात ३० चौ. सेंमी आसची. दादलो सोंसो आनी सोंशीण हांचो संयोग जातना त्रास ावपाक जायना म्हणून पांजरो वांटकुळ्या आकाराचो आसल्यार चड बरें जाता. सोंशांचे पांजरे तांच्या राचे वणटीच्या ३० सेंमी आयल्यान दवरचें. जागा भरपूर आसल्यार पांजरे एकाच थरान जमनीचेर वरचे. पांजरे एकार एक अशे थरांनीय दाळूं येता. सोंशांक उदक, खावड दिवपाक तशेंच नितळसाण रपाक कामगारांक त्रास जावपाक जायना म्हणून दोन पांजऱ्यां मदीं एक मिटर सुवात दवरची.

सोंशांच्या घराची जमीन चड करून शिमिटाची आसची. अशी जमीन धुवपाक, नितळ रपाक, थंय जंतूनाशक वखदां घालपाक बरें पडटा. घराचें पाखें पानाचें, चुडटांचें वा बेत्याचें आसल्यार उपकारता. तशेंच चारूय वटयां जाळी मारिल्ली आसची. भितर भरपूर हवा घोळटी उरपाक जाय.

**ोंशाचीं पिलां कशीं घेवप तें पळोवया :** सोंशे पोसपाच्या धंद्यांत तांचीं पिलां बेगीन कशी मेळटलीं आनी तीं बेगीन कशीं वाडटलीं हें खूब म्हत्वाचें आनी गरजेचें आसा. सोंशे जल्माक येतकीर सरासरी तीन नहिन्यांनी वयांत येतात. वयापरस आंगाचें वजन चड म्हत्वाचें आसा. वयांत येवपाक एका सोंशीणीचें वजन २.५ ते ३ कील जावचें पडटा. पिलां जावपाक गांवठी सोंसो आनी सोंशीण वयाच्या ५ ते ६ म्हयन्यांचेर जाल्यार भायले जातीचे सोंशे ७ ते ८ म्हयन्यांचेर एकीकडेन दवरप बरें आसता. फळपाक येतकीर सदांच सोंशीण सोंशांच्या पांजऱ्यांत व्हरची. अशें केल्ल्यान सोंसो बरो हुशार उरतलो आनी सोंशीण सोंश्या कडेन झगडीं करची ना. चड करून दोगांकूय सकाळचीं एकिकडेन दवरचीं आनी एक ते दोन दीस एकिकडेन दवरचीं. तांचो सयोग जाले उपरांत सोंसो फाटीर वा एके कुशीचेर आड पडटा आनी रडटा. सोंशीणीचो गाबण काळ ३० ते ३४ दीस आसता. गाबण सोंशीणीक बरी, पुश्टीक तशेंच भरपूर खावड दिवपाक जाय. ते खावडींत प्रथिनां, चरबी, पुश्टीक पदार्थ जिवनसत्वां, क्षार, मिनाचे घटक आसपाक जाय. अशी संतुळीत खावड दिली जाल्यार सोंशीणीच्या पोटांत पिलां वेवस्थीत वाडटलीं. तिका व्हिवपाक त्रास जावंचे नात. व्हंटयेची वाड बरी जातली. जल्माक आयिल्ल्या पिलांक जाय तितलें

दूद मेळटलें. गांवठी सोंशीण ३० दिसांनी व्हिता जाल्यार भायले सोंशीणीक ३१ ते ३४ दीस लागतात. २९ व्या दिसा साकून सोंशीण आपली ल्हंव, केंस ओडपाक लागता आनी पिलां खातीर घर तयार करपाक लागता. ह्या वेळार पिलां दवरपाचें बॉक्स सोंशीणीच्या पांजऱ्यांत दवरचें. एका सोंशीणीक ४ ते ११ पिलां जावं येतात. पिलांचो आंकडो आवयची जात आनी भलायकी हाचेर निंबून आसता. दरेका पिलाचें वजन सरासरी ४० ते ७० ग्राम आसता. हें वजनूय आवयची जात, भलायकी आनी कितलीं पिलां जातात ताचेर निंबून आसता. व्हिले उपरांत सोंशीणीच्या पोटांत वखवख पेट्टा आनी ती आपली पडिली वार खाता. हे वेळार तिका भरपूर खावपाक आनी उदक पिवपाक दिवंक जाय. हें उदक–खावड तिच्या म्हऱ्यांतूच दवरचें, म्हणजे ती आपल्याच पिलांक खावंची ना. तरीय आसतना असली आपलींच पिलां खावपाची वायट संवय आशिल्ल्या सोंशीणीक दोन फावटीं फळोवपाचें म्हणजेच पिला जावपाक दिवपाची आनी उपरांत फुडले फावटीं काडून उडोवपाची (मारपाक दिवपाची). २९ व्या दिसा सावन सोंशीणीच्या पान्यांतल्यान दूद सुटपाक लागता. हें दूद तीन सप्तकां मेरेन मेळटा. हाका लागून सोंशीण गाबण आसतना तिका भरपूर आनी पुश्टीक खाण घालपाक जाय. एखाद वेळार आवयचें दूद पिलांक सारकें मेळ्ळें ना जाल्यार दुसरे व्हिल्ले सोंशीणीचें दूद पिलाक पाजोवंचें. तेंय शक्य जालें ना जाल्यार गायचें दूद पातळ करून कापसाची चींव करून पाजोवचें. सोंशीण दिसांतल्यान चड करून एकेच फावटीं सकाळचें पिलांक दूद दिता. सगलें मेळून १५० ते २५० ग्राम दूद मेळूं येता. तिका ६ च पाने आसतात ताका लागून ६ परस चड पिलां जालीं जाल्यार तीं वांचप कठीण जाता. ४ सप्तकां उपरांत दूद कमी जावपाक लागता आनी ६ ते ८ सप्तकांचेर थांबता. पिलां जल्माक येता तेन्ना दोळे बंद आसतात चौदाव्या दिसा तीं दोळे उगडटात आनी मागीर भोंवपाक लागतात. ह्या वेळार तांची भोवूच जतनाय घेवपाक जाय. तीं उदकांत पडून मरपाक शकतात. ते खातीर उदक भरून दवरतात तें आयदन रूंद आसचें आनी अगड (खोल) नासचें. तिसऱ्या सप्तका सावन पिलां पाचवीं पानां, नाजूक, मोव खावपाक सुरवात करतात. ४२ दीस जातकूच पिलांक त्याच पांजऱ्यात दवरून फकत सोंशीणीक वेगळी काडची. अशे तरेन पिलां वेगळीं केले उपरांत २४ वरां भितर सोंशीण परत फळाक येवन गाब जावपाक शकता. सोंशीण ६० दिसा उपरांतूच गाब जावपाक दिवची (सोंसो आनी सोंशीण एकी कडेन दवरचीं). वर्साक ३ ते ४ फावटीं पिलां जालीं जाल्यार बरें जाता आनी हातूंत सोंशीणीची भलायकीय बरी उरता.

**श्यांची खावड :** सगल्या जनावरां भितर सोंसो हें एक अशें जनावर जें तण खाता आनी त्या खाणाचें प्रोटीन आशिल्ल्या मांसांत रुपांतर करता. सोंश्यांक बरें तण आनी संतुळीत पुश्टीक खावड मेळ्ळी ल्यार आमकां बरें मांस तशेंच चड आनी बरीं पिलां मेळटलीं. सोंश्यांचें खाण आमकां जायत्या तरांनी गार करपाक मेळटा. हरवें तण, भाजयेचीं पाना, रांदचे कुडींतलें उश्टें आनी हेर खावपाच्यो वस्तू, शेंच मको, गव्ह, ज्वारी, बाजरी, असलीं कड्डणां तशेंच मोलायसेस (उसाची मळी) आनी भाताचो डो हांचे पसून शक्त मेळटा. खावपाच्या तेलांपसूनय शक्त मेळटा.

**वनसत्वां :** सोंश्यांचे वाडीक आनी पिलां जावपाक जीवनसत्व 'अ' जाय पडटा. ह्या जीवनसत्वाक गून दोळे बरे उरतात आनी कांत बरी उरता. आंगा भितर जीवनसत्व कमी जालें जाल्यार दोळ्यांचे कार जावं येतात. सुकयिल्ल्या नुस्त्याचो पिठो. हरवे गाजर आनी पाचव्या पानांत जीवनस्तव 'अ' ळटा.

वनसत्व 'ब' आनी 'क' : 'ब' जीवनसत्व हें रगत तयार करपाक जाय पडटा. ताज्यो भाज्यो आनी गांतल्यान जीवनसत्व 'ब' आनी 'क' मेळटा.

वनसत्व 'ड' : हें सुर्याच्या वतांतल्यान तशेंच खावडींतल्यान मेळटा. सोंश्यांच्या आंगाचे आनी हाडांचे डीक हें जाय पडटा.

वनसत्व 'ई' आनी 'के' : हीं पिलां जावपाक आनी वाडीक जाय पडटा. हरवो पालो आनी तणांतल्यान मेळटा.

न आनी क्षार घटक : कॅल्शियम, फॉस्फॉरस, झिंक, कॉपर, कोबाल्ट आनी आयर्न हे म्हत्वाचे मीन टक. हे घटक आंगाचे आनी हाडांचे वाडीक जाय पडटात. हे घटक खावडींतल्यान आनी तणांतल्यान ळपाक शकतात.

ोंश्यांची खावड : शेतकारांक जशें खावडीचे घटक पदार्थ मेळटात आनी जे तरेन सोयिस्कर जाता ते माणें आमच्यांनी खावडीची पद्धत नक्की करूं येता. तण आनी सुकी खावड वेगवेगळी दिवं येता वा क्स करून दिवं येता. सोंश्यांक खाण पावडर रुपान वा कांडयो कशो करून दिवपाक शकता. खाण ावडर रुपान दिवप सवाय पडटा, पूण कांडयां रूपान दिवप चड बरें जावन आसा. सोंश्यांक खाणाच्यो ांडयो आवडटात. हातूंत खाणाचो चड इबाड जायना. खाण चड भायर पडना. जीवनसत्वां, मिनाचे

घटक कांडयांनी घालपाक सोपें जाता आनी तें मागीर सोंश्यांच्या पोटांक बरें पावता. खावडीच्यो कांडयो करपाचें मशीन कमी खर्चान मेळटा. तें एका वराक ७० कील कांडयो रूपान खाण तयार करता. सोंश्यांचे सवये प्रमाणें पयलीं ते खावडीक घांस मारतात आनी उपरांत खावड चाबतात. कांडयांची खावड आशिल्ल्यान तांच्या दांतांक बरो व्यायाम मेळटा आनी दांत चड वाडनात. पावडर खावड वापरल्यार ती घालतना सोंश्यांच्या नाकात वचून न्युमोनिया जावपाक शकता. ताका लागून कांडयो खाण बऱ्याक पडटा. खावड घालचे थोडो वेळ पयलीं ओली करून मागीर खावपाक दिल्यार पचपाक बरी पडटा. ताची पाल्याची हरवीं पाना, सुबाबूल, ल्युसर्न सोंश्यांक आवडटा. पावसांत हीं हरवीं पाना, पालो घालचे पयलीं ६ वरां सुकोवचीं आनी मागीर खावपाक दिवचीं. म्हणजे अपचन (अजीर्ण), पातळ संडास असले त्रास जावचे नात. खावड दिवपाची आयदनां ॲल्युमिनियम वा लोखणाचीं (पूण कलय काडिल्लीं) वापरल्यार जाता. पाचवें तण सदांच मेळ्ळ्यार चड बरें जातलें. व्हडल्या सोंश्यांक ३५० ग्राम आनी धाकल्यांक ५० ते २०० ग्राम पाचवें तण एका दिसाक जाय पडटा. खावडींत १८ टक्के प्रथिना आनी २८०० के. कॅलरी शक्त एक कील खावडींत आसपाक जाय. एका दिसाक व्हडल्या सोंश्यांक ६० ग्राम आनी धाकल्यांक ३० ते ४० ग्राम खावड लागता.

**सोंश्यांचें वेवस्थापन**

हेर धंद्याभशेन सोंश्यांच्या धंद्यांतूय परिणामकारक वेवस्थापन केल्यार धंदो येशस्वी जातलो.

हातूंत महत्वाचे मुद्दे अशे –

आपलो पॅरेंट स्टॉक म्हणजेच सुरवेक पिलां मेळपाक हाडिल्लीं सोंसो आनी सोंशीण बरे जातीचीं आसपाक जाय. तांकां पिलां जावपाक योग्य वेळार एकठांय हाडप. खावड, पालो, उदक सारकें दिवप. पिलां जावपाची तशेंच हेर सगल्यो नोंदी दवरप. कितेंय चुकता जाल्यार बेगोबेग सुदारणा करप म्हणजे धंदो येशस्वी जातलो.

**१. सोंश्यांची निवड** : पॅरेंट स्टॉक (मूळ आवय–बापूय) सोंश्यांची निवड बऱ्या फार्मांतल्यान करपाक जाय. फार्माच्यो नोंदी पळोवच्यो, तिसऱ्या सप्तकाचेर दूद सोडटना कितलीं पिलां जगतात हें म्हत्वाचें आसा. हीं पिलां ६ ते ८ आसपाक जाय. पोशिल्ल्या सोंश्यांची वाड बरी जावपाक जाय. वजन बरें जावपाक जाय. अशे जातीच्या सोंश्यांची निवड करची. दादलो सोंसो हो सोंशीणी परस आंगलटीन

ह्लो आसपाक जाय. सोंशीण गाब करपाक तो कितले प्रमाणांत येशस्वी जाता हें गरजेचें आसा. हाका ागून तश्यो नोंदी दवरून तपासपाक जाय.

**सोंश्यांची वळख दवरप :** सोंश्यांच्यो नोंदी दवरप खूब गरजेचें. हाका लागून सगल्या सोंश्यांचें ायिंग करप, कानाक नंबराचो बिल्लो मारप, कानाक रिंग घालप हे तीन महिन्याचे पिरायेर करूं येता. तांची पद्धत म्हणल्यार मायक्रोचिपिंग करप ही आसा.

**सोंश्यांक धरप :** सोंश्यांक धरचे पयलीं तांचे मदीं मिसळपाक जाय, वळख करून घेवपाक जाय. श्यांच्या कानाक हात घालून तांकां केन्नाच उबारचे न्हय. फुडल्या पांयां कडली मानेची मोकळी कांत ाच्या घट्ट चिमट्यांत घेवन सोंश्यांक उबारचे आनी त्याच वेळार दुसरो हात फाटी पोंदा धरून श्यांक आदार दिवचो. धाकलो सोंसो मानेचे वयली वा फाटीची मोकळी कांत हातांक धरून उबारचो. न्या हातान शेपटे कडेन फाटीक धरून आधार दिवचो.

**श्याचें पील दादलो कांय बायल जातीचें तें पळोवप :** व्हडले जाले उपरांत दादलो–बायल ळखुवप सोपें. पिलां आसतना वळखुवपाक अशें करचें – सोंश्याक दाव्या हातान उबारून उमथो चो. उजव्या हाताच्या आखाण्यान आनी मदल्या बोटान पिलाचे शेपटेचो पोंदचो भाग मात्सो दाबचो. न्ना थंय बारीक कूस कशें भायर सरता. ताचेवयल्यान तो दादलो ससो म्हणून वळखुचें. जर लांब चीर शी दिसली जाल्यार बायल अशें समजुचें.

**नोंदी दवरप :** सोंश्याक – सोंशिणीक एकीकडेन दवरिल्ल्याच्यो (क्रॉसिंग) नोंदी, खावड, पिलां, श्यो सगल्यो नोंदी दवरच्यो. हाका लागून धंद्याच्या फायदो – लुकसाणेची स्थिती तशेंच पिलां वपाच्या आवय–बापूय सोंश्याची निवड करप आनी तातूंत सुदारणा करप शक्य जातलें.

**ोंश्यांची दुयेसां**

**कॉक्सिडियोसीस :** हें दुयेंस आयमेरिया कॉक्सेडिया ह्या जंतूपसून जाता. वलो आनी घाण जाल्लो ांजरो आनी जमीन, हळशीक उदक, तशेंच खावडींत आनी हवामानात अचकीत बदल, हाका लागून हें येंस चड जाता. हें दुयेंस जाल्ल्या सोंश्यांक पातळ संडास जाता, तांचें पोट डबडबीत, मंद जाता. सोंसे ावड, तण खायनात आनी वेळार वखद केलें ना जाल्यार मरपाक शकतात.

**उपाय :** सुरवेक दुयेंत सोंश्यांक वेगळे काडप. पांजरो आनी जमीन ५ टक्के कॉस्टीक सोडा घालून धुवपाचो. सॅवलॉन, डेटोल घालून निर्जंतूक, नितळ करपाचो, उदकाचीं, खावडीचीं आयदनां सुद्धा नितळ करपाक जाय. दुयेंत सोंश्यांक बायफूरान हें वखद उदकांत घालून तीन ते पांच दीस दिवचें म्हणजे ते सोंसे बरे जातले. खावडी भितर सल्फा वखदां एका टनाक २०० ग्राम ह्या प्रमाणांत घोळोवन सदांच दिवपाक शकतात.

२. न्युमोनिया : हें दुयेंस निक्रोपा पसून जाता. पांजरे आनी सोंसे दवरपाची जमीन ही सुकी आनी हवेशीर आसपाक जाय म्हणजे ह्या दुयेंसाची शक्यताय कमी आसता. दुयेंत सोंश्याचें नाक व्हांवता, शेंबूट कश येता. फुडल्या पांयांचेर सगली घाण पडटा. दुयेंत सोंश्यांक पेन्सिलीन आनी स्ट्रेप्टोमायसीन हीं ईंजेसाव तीन दीस दिल्यार सोंसे बरे जातले आनी जीव वाचतलो.

**३. कानाची खरोज :** ही खरोज मायटस् ह्या निक्रोपा पसून जाता. ह्या दुयेसांत कानाचेर खवळ्य जातात. एक एक फावट कानाची सगली पाळी खवळ्यांनी भरता. अश्या सोंश्यांक चलताना, खातन तोल सांबाळपाक त्रास जाता, तांची मान वांकडी जाता. ताच्यान बरोबर खावपाक पिवपाक जायना.

**उपाय :** दोन दिसांतल्यान एक फावट सोंश्यांचे खरोज जाल्ले कान नितळ करचे आनी थं ॲस्काबियॉल हें पातळ वखद (लोशन) लावचें. उपरांत दोन ते तीन फावटीं वखद लायतकूच कान ब जातले.

**४. पांयांचीं फेरदां (जखमो) :** पांजऱ्याचो तळ लागून वा पांजऱ्याचे कडेची लोखंडी जाळी लागून ह्यो जखमो जातात. पांजऱ्याची घाण लागून मागीर ही जखम चिघळता आनी पूं जावपाक शकता. वेळचेवेळार जंतूनाशक वखदां आनी मलमा लायल्यार ही जखम बरी जावपाक शकता. जखम बरी जायना जाल्यार हो सोंसो मागीर काडून उडोवचो.

**५. दोळ्याचीं दुयेसां :** जंतू, धुल्ल, धुंवर, तण–पालो लागून दोळ्यांक त्रास करतात. दोळे व्हांवतात पूं जाता. अश्या वेळार दोतोराच्या सल्ल्यान दोळे जंतूनाशक वखदान नितळ करचे आनी थेंबे, मलम घालून डोळे बरे करचे.

**६. मान वांकडी जाता :** मान वांकडी जाता, तकली एकेवटेन वळटा. हातूंत सोंश्याचो तोल वता आनी चलपाक जमना. खावपाक – पिवपाक सारकें जायना. कानाची खरोज आनी कानाच्या दुयेंसांत अश

ता. सुरवेक कानाचीं वखदां केल्यार मान वांकडी जावपाचें दुयेंस जावचें ना. एक फावट हें दुयेंस जाले रांत तें बरें जायना.

**पास्च्युरेलोसीस** : हें दुयेंस पास्च्युरेला माल्टोसेडा ह्या जंतूक लागून जाता. हातूंत नाक व्हांवता, ळे व्हांवतात आनी सुजतात, फुडले पांय घाण जातात आनी आंगाचें वजन कमी जाता.

**ाय** : निवळसाण दवरची. दोतोराच्या सल्ल्यान दुयेंत सोंसो वेगळो काडचो, पेनेसिलियम आनी प्टोमायसीन इंजेसांवा ४ दीस करून घेवचीं. दुयेंत सोंश्याक मरण आयलें जाल्यार खोल फोंड काडून चो.

**वटाक म्हत्वाचें म्हणल्यार**

जातीचे सोंशे वेंचून काडप, तांची पिलां सारखे तरेन घेवप, तांकां संतुळीत, पुश्टीक खावड दिवप, सलेंय दुयेंस आयल्यार रोखडेच उपाय करप, नेमान आनी वेळचेवेळार नोंदी दवरप, अशे तरेन सगली यदाद, जतनाय घेतली जाल्यार सोंशे पोसपाचो धंदो बरो चलतलो. ह्या धंद्यांत खर्च कमी आनी ायदो चड जावन धंदो येशस्वी जातलो.





## ५०. सुणो पोसप (कुयदाद आनी वेवस्थापन)

घरांत पोशिल्लो सुणो हो एक बरो आनी प्रामाणीक इश्ट. त्या त्या कुटुंबाचो तो एक घट जावन रावता. ते खातीर सुणो कसो पोसप, ताची वेवस्था, कुयदाद कशी घेवची, खाण कितें घालचे ताचीं दुयेसां, तांचेर उपाय, वासिनां, हें सारखें कळप भोव मोलाचें आसता. हें सगलें खबर आस जाल्यार ताचो फायदो सुण्या वांगडाच घरांतल्या मनशांक आनी हेर लोकांकूय जातलो. खंयचे जाती सुणो पोसचो हें दर एकल्याची आवड आनी गरजेचेर निंबून आसता. लांब केसांचे, मोटव्या केसांचे व्हडले जातीचे, धाकले जातीचे, एकदम रागीट आनी कडक, मंद आनी मोगाळ, प्युअर जातीचे आ केनायन क्लबाकडेन रजिस्टर केल्ले, भायले जातीचे, संकरीत, असे तरातरांचे सुणे आसतात. तश तश्यो तांकां पोसप्यांच्योय आवडी आसतात. भायले जातीचो आनी गांवठी सुणो हांचे पसून जाल्ल संकरीत सुणो संदांच चड बरो आसता. असो संकरीत सुणो कणखर, चड करून कसलोच दो नाशिल्लो आनी हुशार आसता. तांची दुयेंसा कडेन झगडपाची शक्त चड आसता आनी तो चड व जगपाक शकता.

**सुण्याचें जेवण–खाण** – सुण्याचें जेवण–खाण कशें आसचें हें प्रत्येकाचो अणभव आनी मता प्रमा वेगळेवेगळें आसपाक शकता. खरें म्हणल्यार सुणो हें मांस खावपी जनावर. पूण फकत शिवरा जेवणाचेर सुणो बरे तरेन पोसूं येता. सुण्याक केन्नाच हाडांचे ल्हान कुडके वा नुस्त्याचे काटे घालचे न्ह ते तांच्या ताळ्याक लागून सुणो मरपाक शकता. आतां सुण्यांक घालपाक खासा बिस्किटी, तश वेगवेगळ्या कंपन्याची खावड येता. ती वापरूं येता.

**सर्वसादारणपणान सुण्यांचें खाण अशें आसचें**

१. दूध पिवपाचें सोडिल्लें ते पिरायेच्या १० सप्तकां मेरेन पेट्यां खातीर – सकाळी एक उकडिल्लें अर्देतळिल्लें तांती. दनपारां १ वराचेर हरवें वा उकडिल्लें ५० ग्राम मांस, थोडें शीत, दाळ (तोय) आ पालेभाजी.

सांजे ६ वरांचेर थोडें शीत, तोय आनी पालेभाजी. रातीं १० वरांचेर १०० ग्रॅम पाव वा रोटी आनी दू वट्ट मेळून १२० ग्राम खाण धाकल्या जातीच्या सुण्याक आनी ४०० ग्राम व्हडल्या जातीच्या सुण्या दिवपाक जाय.

**१० ते १६ सप्तकां पिरायेच्या सुण्या खातीर :** ह्या दिसांनी हेंच खाण आसचें, मात ताचें प्रमाण वाडोवचें. धाकल्या जातीच्या सुण्याक २५० ग्राम आनी व्हडल्या जातीच्या सुण्याक ८०० ग्राम जेवण खाण दिवपाक जाय.

**सोळा सप्तकां वयल्या सुण्या खातीर :–** दिसाक दोन जेवणां, एक सकाळचें आनी दुसरें रातचें घाल्यार पुरो जाता. दिसांतल्यान सगले मेळून ५०० ग्राम खाण धाकल्या जातीच्या सुण्याक आनी १५०० ग्राम खाण व्हडल्या जातीच्या सुण्याक मेळपाक जाय. सुण्यांच्या आंगाची सगली वाड पिरायेच्या ९ म्हयने मेरेन जाता. दूद, तांतयां, बिस्किट, शीत आनी तोय तशेंच पालेभाज्यो अशें खाण सुण्याक सकाळीं खावपाक घालचें. जाल्यार गवांची रोटी, उकडिल्ल्यो पालेभाज्यो, दाळ, दूद वा मांस अशें खाण रातचें दिवचें. खूब तिखट, मसाल्याचें, खारट तशेंच खूब गोड खावपाक घालचें न्हय.

**सुण्याचें घर आनी वेवस्था :–** सुण्याचे पेट्यां खातीर एक ल्हान पेटूल कशें दवरचें. तातूंत उबे खातीर चादरीचो एक कपडो घालचो. ताचे पोंदा कापेतीचो कुडको घालचो. मागीर तें बॉक्स पेट्यांक वत, थंडी, पावस आनी हेर त्रास जावचो ना अशा बऱ्या जाग्यार दवरचें. व्हडल्या सुण्यांक बांदपाक एखादी जागा थारावची वा जाळी मारिल्ली एक कूड बांदची. ही कूड वरांदाचे कुशीक फुडले वाटेन आसची म्हणजे घरांत येवपी–वचपी सगले सुण्याक दिसतले. हें घर नितळ करपाक केन्नाच फिनायल वा कार्बोलीक ॲसिड वापरचें न्हय. चड करून सुण्याक घरांत बांदीनासतना मेकळो सोडचो. ताच्या खावपाचीं, पिवपाचीं आयदनां नितळ दवरचीं आनी सदांच तापयिल्ल्या उदकान धुवचीं.

**सुण्याचें प्रशिक्षण आनी व्यायाम :–** सुणो जर ल्हानपणांतल्यानूच पोशिल्लो आसत जाल्यार ताका बऱ्यो संवयी लावप आनी सांगिल्लें आयकुवपाचें प्रशिक्षण दिवं येता. सुण्याक जेवण जरी दोन फावटीं दिलें तरी उदक सगल्या वेळार मेळपाची गरज आसता. सुण्याचो पेटो दोन म्हयन्यांचो आसतनाच ताका योग्य सुवातेर संडास आनी मुतपाचे संवयेचें शिक्षण, देख दिवपाक जाय. सुण्याक ताच्या सदांच्या वेळार वा कुरकुरपाक लागतगीर सदांच्या जाग्यार संडास करपाक, मुतपाक व्हरचे. सुण्यान घरांत मेळत थंय संडास केलो वा मुतलो जाल्यार ताका तापोवचो. दोळे मोठे करून पळोवचो. तातूंतल्यान ताची कृती आमकां आवडूंक ना म्हणपाचें ताका दाखोवचें. तुमी सांगिल्लें सुण्यान आयकलें जाल्यार म्हऱ्यांत घेवन ताका पोशेवचो आनी थापटुचो, शाबासकी दिवची. अशे तरेन आमच्यानी सुण्याक प्रशिक्षीत करूं येता.

पूण हें करपाक सुण्याच्या धनयाक थोडें पाशियस आनी वेळ जाय पडटा. मालकान सांगिल्लें आयकून सुणो धनयाक खूश करपाचो यत्न करतलो. सुण्याक व्यायाम हो दिवपाकूच जाय. सकाळीं आनी सांजवेळा ताका पासयेक व्हरप सामकें गरजेचें. हाका लागून ताची भलायकी बरी उरतली आनी खाता-जेवता ताचें पचन बरें जातलें.

**सुण्याचीं दुयेसां आनी वासिना :-** अपचन, पोटांत दुखप, ओंकाऱ्यो, पातळ संडास जावप हीं सुण्याचीं सदांचीं दुखणीं जावन आसात. ल्हानपणांत सुण्याचे पेटे आवयच्या दुदा वयल्यान पयस काडटात आनी तांकां गायेचें वा भायलें दूद दितात तेन्ना हो बदल हळू हळू करपाक जाय. सुण्याक सदांच दूद तोपोवन दिवचें. ल्हान सुण्याक सदांच ग्रायप वॉटर, कार्मिसायड, बॉनिसान असलीं वखदां घालपाक जाता. ताका लागून तांच्या पोटांत वाय जावचो ना. सुण्याक पातळ संडास, ओंकाऱ्यो लागल्यार दुर्लक्ष करचें न्हय. जाय ते उपाय, वखदां बेगोबेग करचीं. पेट्यांक सदांच थंडी आनी पावसाकडल्यान राखण दिवची. लांब केसांच्या सुण्याची खासा जतनाय घेवची पडटा. अश्या केसांक सदांच नितळ आनी सुके दवरचें. सुण्यांक सप्तकांतल्यान एक ते दोन फावटीं न्हाणयल्यार पुरो. पेट्यांक वासिना केले बगर हेर सुण्यांमदीं दवरचे न्हय. वासिना करपाक सुण्याक इस्पितळांत व्हरचे परस दोतोराकूच घरा हाडून वासीन करून घेवप चड बरें आसता. सुण्यान कोणाय मनशाक वा जनावराक घांस मारलो जाल्यार चुकून पसून दुर्लक्ष करचें न्हय. बेगोबेग ती जखम व्हांवत्या उदकापोंदा, नळापोंद २० मिनटां धुवची. धुवपाक कॉस्टीक साबण वापरल्यार चड बरें. अशें केल्ल्यान मातशें रगत व्हांवले तरीय रॅबीज जंतू व्हावून वचप चड गरजेचें आसता. सुण्याक जावपी तरेकवार दुयेसां मनशांकूय येवं येता ह्या दुयेसांमदीं रॅबीज, लेप्टोस्पायरोसीस, हार्पिस वायरस, गोल आनी पट्टे भशेन आसपी दंत, चट्टे रिंगवॉर्म, खरोज, टोक्झोप्लास्मा, केसांची आनी आंगार पडपी कुंड्याची ॲलर्जी हांचो आसपाव जाता ताका लागून सुण्याच्या धनयान अशीं दुयेसां जावपाक जायना म्हणून भरपूर सादुरकाय घेवपाक जाय पोशिल्ल्या सुण्याक केन्नाच रांदचे कुडींत, जेवता थंय आनी न्हिदपाचे कुडींत वचपाक दिवचें न्हय.

**सुण्यांचीं वासिनां :-** सुण्यांक वासिना करतात तेन्ना तांची भलायकी बरी आसपाक जाय. वासिन करपाच्या एक सप्तका आदीं तांकां दंताचें वखद घालपाक जाय. ताका लागून तांची भलायकी बरी उरतली आनी वासीन केले उपरांत दुयेंसा कडेन झगडपाची शक्त बरी तयार जातली. वासिनांविशीं

गवेगळ्या दोतोरांचीं मतां वेगळीं वेगळीं आसूं येतात. म्हत्वाचें म्हणल्यार दोतोराच्या सल्ल्यान पयलें ासीन रॅबीज २ ते २.५ म्हयन्यांचेर दिवचें. परत ३ ते ३.५ म्हयन्यांचेर ताचोच आनीक एक डोस बुस्टर) दिवचो. दुसरें म्हत्वाचें वासीन म्हणल्यार ५ ते ७ दुयेसांचें एकीकडेन आसता. ह्या वासिनाक ागून पारवो वायरस, डिस्टेंपर, हॅपेटायटीस, लॅप्टोस्पायरा आनी पेराईन्फूअॅन्झा ह्या म्हत्वाच्या रोगजंतू सून राखण मेळटा. रॅबीज वासीन केले उपरांत १० ते १५ दिसांनी हें वासीन दिवचें आनी एका म्हयन्या ापरांत बुस्टर डोस दिवचो. चड करून दोन वासिना एकेच फावटीं करून वावर काडचो न्हय. उपरांत हीं ोनूय वासिनां वर्सुकी करचीं. हीं सगली दुयेंसा एकदम घातकी आनी जिवघेणीं आसतात. एकेफावटीं ाले उपरांत ताचेर उपाय नासता. हाका लागून हीं वासिनां करून घेवपाकूच जाय.

**सुण्यांचे दंत आनी उपाय**

ाुण्यांक जावपी दंत हें एक म्हत्वाचें दुयेंस. ताका लागून सुण्यांक पातळ संडास जाता, संडासांतल्यान गत पडटा, रगत चड गेल्यार ॲनिमिया (रक्तक्षय) जावपाक शकता, ओंकारी येता, पोट मोठें जाता, फफ्सांचें दुयेंस जावपाक शकता. खांक येता. कामीण जावं येता. कांय वेळा सुण्यांच्या दंतांक लागून ानशांक दुयेंस जावं येता आनी मरणूय येवपाक शकता.

ाुण्यांमदीं गोलदंत (टोक्झोकेरा जात), हूक दंत (अॅन्कायलोस्टोमा जात) आनी पट्टे भशेन दंत डायपालीडीयम केनिनम) मेळटात. कांय वेळां दंताच्या दुयेसांत पातळ संडासा वांगडा रगत पडटा. ाका डिसेंट्री म्हणटात. संडास काळो जाता, ॲनिमिया जाता, कामीण जाता, आंग बुड्डता, कुचकुचता आनी सुणो बेजार जाल्लो दिसता. पट्टे असल्या (टेपवर्म) दंताच्या दुयेसांत सुणे आपलें भोंक संडासाचो बुराक) जमनीक घांसता, अस्वस्थ आनी फ्राक जाता. संडासांतल्यान तवश्याच्या बेयांभशेन वा शिजयिल्ल्या तांदळां भशेन टेपवर्म आनी तांचीं तांतयां पडिल्लीं दिसतात. फ्राकसाण येता. अपचन जाता. कांतीची चकचकसाण वता. केंस गळटात. थोड्या दंतानी फेफसांचें, फिग्दाचें (लिवर) दुयेंस जाता. दंतांक लागून मेंदवाचें पसून दुयेंस जावं येता. टोक्झोकेरा केनीस हे गोल दंत आसतात. ांची लांबी ७ ते १५ सेंटीमिटर आसता. ह्या दंताचीं तांतयां उदका वटेन वा जेवणा भितर आयिल्ल्यान ानशांक दंताची बादा जाता. सुण्यांचो संडास मायक्रोस्कोपांतल्यान तपासल्यार दंताचीं तांतयां ळोवपाक मेळटात. ह्या दंतांचो बंदोबस्त करपाक पायप्राझीन, अल्बेंडाझोल, मेबेन्डाझोल, पारेन्टेल

पामोलेट अशीं वखदां वापरचीं. अंकायलोस्टोमम कॅनिकम हे सामके धाकले दंत आसतात. तांची लांबी २ सेंमी परस कमी आसता. हे दंत आतड्यांतलें आनी पोटांतलें रगत पितात. सुण्यापसून हें दुयेंस मनशांकूय जावं येता. संडास तपासून दुयेंसाचें खरेपण करूं येता.

**उपाय –** मेबेन्डाझोल, पारेन्टेल पामोलेट, आवरमेक्टीन असलीं वखदां वापरचीं. सुण्यांची भलायकी सुदारपाक बरें खाण, पुश्टीक वखदां आनी ॲनिमिया वचपाक उपाय घेवचे. डायपालिडीयम केनिनम ह्या टेपवर्मांक लागून पातळ संडास जावन पोट दुखता. हें दुयेंस मनशांकूय येवं येता. प्राझिक्विंटल आनी डायसिस्टेल हीं दंतांची खात्रेचीं वखदां जावन आसात.

सुण्याचें घर, बांददतात ती जागा नितळ दवरप सगल्यांत म्हत्वाचें. एक फावट सुण्याक दंत जावप म्हणल्यार मागीर मनशांक बादा जाता, त्रास जाता हें आमी मतींत दवरपाक जाय. हाका लागून सुण्यांचो संडास वेळचेवेळार तपासप आनी मागीर वेळारूच दंताचीं वखदां दिवप खूब गरजेचें आसता. दंताच्या वखदांचो (गुळयो वा इंजेक्सना) डोस हो सुण्याची पिराय आनी वजनाचेर निंबून आसता.

**सुण्यांच्यो किट्टी आनी तांचेर उपाय**

सुण्यांच्या आंगार तीन तरेचे जंतू मेळटात. हातूंत किट्टींचें प्रमाण चड आसता.

**किट्टी :** हो रगत पिवपी जंतू. लांब केसांच्या सुण्यांचेर तो चड मेळटा. किट्टी कानांत, कानाच्य फाटल्यान, शेपटेचे सकयले वटेन, भोंवतणी, दोनी जागेचे भितरले वटेन तशेंच सगलें आंगभर वाडटा मागीर जनावरांक त्रास जावपाक लागतात. किट्टींक लागून आंग बुड्डता, खोरजता, केस गळटात तांणी रगत पियेल्ल्यान ॲनिमिया जाता आनी सुणो मरूं येता. किट्टी बेबेसियासीस आनी थायलेरियासीस ह्या दुयेसांचो प्रसार करतात. किट्टींपसून राखण करपाक सदांच सुण्याचें आंग तपासपाक जाय. किट्टी थोड्यो आसल्यार तेन्नाच काडून उडोवंच्यो. सुण्याक किट्टी जावंच्यो न्हय म्हणून मेळपी बॅल्ट वा कोलोर वापरचे. दोतोराच्या सल्ल्यान मेलोथियोन, सुमिथियोन, बुटोक्स क्लिनरवेट, क्रिमिनिल, डॅल्टामेथ्रिन असलीं वखदां किट्टी मारपाक वापरूं येतात. हीं वखदां पातळ करून (१ मिली. १ लिटर उदकांत ह्या प्रमाणांत) सुण्याच्या आंगार लावपाक मेळटा. गोठ्यांक वा सुण्याक दवरतात थंय मारपाक वखद कडक प्रमाणात (१० मिली. १ लिटर उदकांत) वापरचें. पेस्टोबे असलीं आयुर्वेदीक वखदां वापरूनूय किट्टींचो बंदोबस्त करूं येता. ह्या वखदांनी विखबादा जायना

ायच्याय वखदांनी विखबादा जाली जाल्यार अॅट्रोपिन सल्फेट हें वीख देवोंवपी वखद (अॅन्टिडोन्ट) ासा. किट्टी मारपाचीं वखदां खूब कडक आनी विखारी आशिल्ल्यान जनावरां आनी मनशांपसून यस दवरचीं.

**ुण्यांचीं पुसकां** : हीं चड करून माजरां आनी सुण्यांच्या आंगार सापडटात. लांब ल्हेवेंच्या सुण्यांक ानी माजरांक हीं चड जातात. जनावरांचें आंग बुड्डता, केंस गळटात, केंसांच्या मुळार घावे कशे ातात आनी थंय खरोज कशी जाता.

**पाय** : दोतोराच्या सल्ल्यान पुसकां मारपी वखदां, शाम्पू, स्प्रे, बेल्ट, कोलोर वापरूं येता.

**ुण्यां मदले मायटस्, जंतू** : मायटस् हे सामके बारीक जंतू आसतात. ते फकत मायक्रोस्कोपा ाकयल पळोवंक मेळटात. मायटस् जंतू कांतीच्या वेगवेगळ्या थरांनी चरतात, ताका लागून कात ुड्डता, कुचकुचता आनी केंसांच्या मुळांक मार बसता. मागीर कातीक फेरीद कशीं जातात. हाका ्ररोज वा मेंज वा स्केबिस म्हणटात. मायटस् जंतू सार्कोप्टीक, सोरोप्टीक आनी डेमोडेक्टीक असे तीन ारांचे आसतात.

मेंज ह्या दुयेसांत कांत सुजता, तांबडी जाता, बुड्डता. सुणो अस्वस्थ जाता, आपलें आंग ांसता. खाज सोंसू नज जाल्ल्यान त्या जाग्यार चाबता, केन्ना केन्ना चाबून चाबून आंगाचे कुडके ाडटा. ताका लागून फेरीदां जातात. उपरांत तातूंत रोगजंतू वाडटात आनी पूं जावपाक शकता. कांतीक ्के तरेची घाण मारता. सुरवेकूच वखद उपचार केल्यार ही खरोज बरी जावपाक शकता. प्रयोगशाळेंत ांतीचीं स्क्रेप्रिंग तपासल्यार कसले तरेची खरोज हें नक्की कळटा आनी ते प्रमाणें उपाय करपाक ेळटात.

**उपाय** : सगल्यांत पयलीं खरोज जाल्या थंयचे केंस काडचे, ती कांत खासा सुण्याचो साबण लावन ुवन घेवची. उपरांत ताचेर गोल्डन लोशन, लिंडेन लोशन, बेंझिल बेंझोएट, सल्फर ऑईंटमेंट, ्लोरेक्झेन क्रिम, रिड डेमोसेप्ट, स्केबिमा असलें खंयचेंय खाशेलें मलम लावचें. तशेंच आवरमेक्टीन हीं खासा इंजेसावां सप्तकांतल्यान एक अशीं चार दिल्यार हें दुयेंस बरें जावपाक शकता. सुण्यांक, ाजरांक सदांच बरें आनी पुश्टीक खाण दिवचें. तांच्या खाणांत मीन, क्षार, जीवनसत्वां भरपूर प्रमाणांत आसपाक जाय. हे उपाय दोतोराच्या सल्ल्यानूच करपाक जाय.

## सुण्यांचीं सर्वसादारण दुखणीं

**सुण्याक जोर येता :**– सुण्याच्या आंगाचो सामान्य ताप हो ३८ ते ३९ डिग्री संटीग्रेड (१००.५ ते १०१.५ डिग्री फॅरेनायट) आसता. सुणो शांत आसता, एकीकडेन बशिल्लो आसता तेन्ना थर्मामीटर वापरून आंगाचो ताप तपासपाक जाय. सुण्याक जोर आयल्यार हवेशीर जाग्यार बांदचो, अशा वेळार ताचें रगत तपासून जोराचें कारण सोदचें. ताका भरपूर उदक पिवपाक दिवचें, थंड उदकाची वा झेलाच्या उदकाची घडी घालची. जोर चालूच उरल्यार दुसऱ्या दिसा सावन दोतोराच्या सल्ल्यान ॲन्टिबायोटीक (रोगजंतूनाशक), ॲन्टिपायरेटीक (जोर वचपी) वखदां, पुश्टीक टॉनिकां दिवचीं. रोगजंतूनाशक वखदां ३ ते ५ दीस चालू दवरचीं.

**सुण्याच्या पोटांत सुकता :** जायत्या फावटीं सुण्याक संडास कमी जाता, सुको जाता, संडास करतना तो कुथनेता. ताच्या तोंडाची रूच वता, तो आळशी जाता, बेजारिल्लो दिसता.

**उपाय :** मिल्क ऑफ मॅग्नेशिया वा पातळ पेराफिन १ ते २ कुलेरां रातीं वेळार २ ते ३ दीस दिवचें. सुण्याक सदांच व्यायाम दिवचो. रातची डुल्कोलॅक्स वा पर्गोलेक्स १ गुळी दिवं येता. भोकांत भितर घालपाच्यो डुल्कोलॅक्स पेसेरिस मेळटात. त्यो वापरूं येतात. ताका लागून सुण्याक संडासाक त्रास जावचो ना. सुण्यांक रूच येवपाक दोतोराच्या सल्ल्यान 'लिव–५२ बी कॉम्लेक्स', विटापेप्सिन, सिपो असलीं वखदां दिवपाक येता.

**पातळ संडास जावप :** सुण्यांक दर दिसाक दोन, तीन फावटीं पातळ संडास जालो म्हणून भिवपाची गरज ना. एकदम जेवण बदल्लें वा कितेंय वायट खाण पोटांत गेलें जाल्यार पातळ संडास जावं येता. अशा वेळार सगल्यांत पयलीं असलें जेवण–खाण बंद करचें आनी मागीर गरज पडली जाल्यार हेर वखदां करचीं. संडासा भितर रगत वा बळबुळीत पदार्थ (म्यूकस) पडल्यार ताचें कारण सोदून काडचें. सुण्याक हुकवर्म जाल्यात वा बाकीचे दंत बी जाल्यात कांय कितें हाचो तपास करचो. केन्ना केन्ना पारवो वायरसाक लागून वायरल गेस्ट्रॲटेरायटीस जाता. हातूंत एकदम पातळ संडास जाता, चडशें रगताचो तांबडो संडास दिसता. पारवो वासीन केल्यार चडशें हें दुयेंस जायना.

**उपाय :** खाणा भितर दोश आसल्यार खाण बंद करचें. दंताक लागून पातळ संडास जाल्यार दंतांचे वखद घालचें. रोगजंतू पसून पातळ संडास जाल्यार ॲन्टिबायोटीक वखदां चालू करचीं. हातूंत भितर टेक्सि

ॉमिनाडोक्स, क्लोराम्फेनिकोल आनी सल्फा वखदां येतात. लोमोफेन, लोमोटील, आलडेपार सल्यो गुळयो दोतोरा कडल्यान घेवंच्यो, भरपूर उदक पिवपाक दिवचें. ओआरएस पिवपाक दिवचें ानी रिंगर लेक्टेट आनी नॉर्मल सलायनाचे सर लावपाची गरज आसता.

**ण्यांक ओंकारी येवप :** सुण्यांक मातशें ओंकपाक येता आनी मागीर थांबता तेन्ना ताणें चड खाण ालें म्हणून समजुचें. पूण चड ओंकपाक येता आनी ताचे वांगडा पातळ संडास सुरू जाता तेन्ना मात र्लक्ष करचें न्हय.

ओंकारेचेर उपाय म्हणून पोटांतली जळजळ थांबपाक पयले सुवातेर ॲन्टासीड आनी दूख ़मी जावपाक दोतोराच्या सल्ल्यान डायजिन, जेलूसिल असलीं वखदां दिवचीं. फेमोटीड, टेमोटीड ़सल्यो गुळयो दिवंच्यो. ओंकाऱ्यो बंद जावपाक सिक्विल, लारगेक्टिल, स्टेमेटिल, आंडेम असलीं खदां गुळयो वा इंजेसावां दिवचीं. पोटांत ओआरएस, ग्लुकोज, इलेक्ट्राल घालचें. गरज पडल्यार रिंगर ़ेक्टेट, नॉर्मल सलायनाचे सर लावचे. गरज दिसल्यार ॲन्टिबायोटीक दिवची. ह्या सगल्या वखदांनी ुणो २ ते ३ दिसांनी बरो जाता.

**ुण्याचो कान व्हांवता :** सुणो पोसप्यान संदांच सुण्याच्या कानाकडेन आनी थंयचे चामडेचेर लक्ष ़वरचें. सुण्याक न्हाणयले उपरांत एक मोव कपडो घेवन कान निवळ करचे. कानांत कचरो साचिल्लो ़रल्यार दर ८ ते १५ दिसांनी 'बडस्' घालून कान निवळ करचे. गरज पडल्यार कानांतले मेण, कचरो ़ोव जावपाक दोतोराच्या सल्ल्यान वॅक्सॉल, वॅक्सॉनिल असलीं वखदां आनी पायरिकोटस असले ॲन्टिबायोटीक थेंबे घालचे. कानाक कितेंय त्रास आसल्यार सुणो आपल्या पांयानी परत परत कान ़खरपिता. हाका लागून कानांत रशी, पूं जावपाक शकता. सूज येवन हिमेटोमा दुयेंस जावपाक शकता. कानाचो हिमेटोमा जाल्यार मागीर तो बरो करपाक ऑपरेशन करचे पडटा.

**सुण्याचो प्रवास**

सुण्याक हाड–व्हर करपाक खासा बॉक्स तयार करचें पडटा. ताका बस वा रेल्वे वा विमानांतल्यान व्हरपाचो जाल्यार तांचे कंपनीची कायद्या प्रमाणे परवानगी आनी दोतोराचें प्रमाणपत्र घेवचें पडटा. सुण्याक ओंकारी येवपाक जायना म्हणून प्रवास सुरू जावंचे २ वरां पयलीं ऑन्डॅम, रेगलान, स्टेमेटिल, ॲवोमिन असली एक गुळी दिवची. प्रवास चड लांबायेचो आसत जाल्यार मदले वाटेर ताका भायर

व्हरून मुतपाक, संडासाक व्हरचो. गरज पडल्यार खावपाक, पिवपाक दिवचें. गरज पडल्यार ओंकारी बंद जावपाची एक गुळी परत घालची. ही काळजी घेतल्यार सुण्यांचो प्रवास चड बरो आनी सुशेगात जातलो.

**सुण्यांक जावपी दुयेसां**

**रॅबिज (सुण्याचें) पिशार पडप :**

हें एक महत्वाचें दुयेंस. जें **'जनावरांचे रॅबिस'** ह्या नांवान गोरवांच्या दुयेंसानी सविस्तर बरयलां. ते तुमी ह्या पुस्तकाच्या १०१ पानाचेर उपकार करून वाचचें.

**केनायन डिस्टेंपर :** केनायन डिस्टेंपर हं एक वंशाचें दुयेंस जें एका सुण्या कडल्यान दुसऱ्याक लागता. पिरायेच्या ६ व्या म्हयन्या मेरेन हें दुयेंस चड दिसता. ह्या दुयेंसाचें वासीन आवयक केल्लें आसत जाल्यार जल्मल्ल्या पिलांक तिच्या दुदावाटे ३ म्हयने मेरेन रोगप्रतिकारक शक्त मेळटा. हें वशाचें दुयेंस जाल्ल्यान सुरवेक सुण्याक थंडी जाता, खोंकली येता. मागीर जोर येता. तातूंतल्यान न्युमोनिया जावपाक शकता. केन्ना केन्ना पातळ संडास जाता. फिटस् येतात, मोडणें मारून सुणो जमनीर पडटा चडशे सुणे ह्या दुयेंसान मरतात, आनी वाचलेच जाल्यार तांकां कायम दोश उरता. तांचे कडेन सारकें उभें रावपाक जायना. फुडलो वा फाटलो पांय वा तोंडाचो जबडो कायम हालतना दिसता. हाका कोरिया म्हणटात. लक्षणां सामकीं स्पश्ट आशिल्ल्यान ह्या दुयेंसाची वळख रोखडीच मेळटा.

**उपाय :** दोतोराच्या सल्ल्यान नेरवां शिरांची, स्नायुंची घटवायेचीं इंजेसावां दिवप. देखीक न्युरोबियन जीवनसत्व क, ॲन्टिबायोटीक दिवप आनी सर लावप गरजेचें आसा. सगल्यांत बरें म्हणल्यार सुण्याक तीन म्हयन्यांचेर वासीन करप आनी उपरांत दर वर्सा वासीन दिवन ह्या दुयेंसा पसून सुण्याची राखण करप.

**इन्फेक्शियस केनायन हेपेटायटीस (सुण्यांची कामीण) :**

हें एक वशाचें दुयेंस. तातूंत सुण्याक कामीण जाता. तांची तोंडाची रूच वता, पोट सुजता, पोटांत उदक कशें जाता, आंगार रगताचे ठिपके कशे पडटात.

**उपाय :** वशाचें दुयेंस जाल्ल्यान खास अशे उपाय नात. दोतोराच्या सल्ल्यान ॲन्टिबायोटीक, पुश्टीक वखदां दिवप आनी सर लावन घेवप. वेळचेवेळार वासिना करून घेवप हेच सगल्यांत बरे आनी गरजेचें

ःपाय जावन आसात.

**ंस्ट्रो (रगताची हागवण) :**

ःय एक वशाचें दुयेंस. पारवो व्हायरसाक लागून तें जाता. खंयचेय पिरायेर तें सुण्यांक जावपाक शकता. ूण ल्हान, भायल्या आनी संकरीत सुण्यांक तें चड जाता.

**नक्षणां :** सुण्याक खूब जोर येता, पातळ संडास जाता, तातूंतल्यान रगत पडटा. संडासाक उग्र घाण गरता. ओंकाऱ्योय लागतात. ताका लागून सुणो जाम जाता. ताच्या आंगातलें उदक कमी जाता (डिहायड्रेशन) आनी तो मरूं येता. ल्हान सुण्यांच्या फेफ्सांचेर आनी कुरसांवाचेर परिणाम जावं येता.

**ःपाय :** वशाचें दुयेंस आशिल्ल्यान खास अशे उपाय नात. दोतोराच्या सल्ल्यान ॲन्टिबायोटीक, लेवराक पुश्टीक वखदां दिवप आनी सर लावन घेवप. वेळचेवेळार वासिनां करून घेवप हेच सगल्यांत बरें आनी गरजेचे उपाय.

**ॅप्टोस्पायरोसीस :** हें दुयेंस लॅप्टोस्पायरा केनिकोला आनी लॅप्टोस्पायरा हिमोरेजिका हे रोगजंतू (बॅक्टेरियांक) लागून जाता. हें दुयेंस सुण्यां पसून मनशांक जावं येता. मनशांच्या वा जनावरांच्या खावपा – पिवपा कडेन सुण्यांच्या मुताचो संबंद आयिल्ल्यान हें दुयेंस जाता आनी पातळटा.

**लक्षणां :** सुण्यांक कामीण जाता, जोर येता, तांच्या मुत्रपिंडाक मार बसता, ते खायनात, गाबण आसल्यार गर्भपात जाता.

**उपाय :** दोतोराच्या सल्ल्यान ॲन्टिबायोटीक, पुश्टीक वखदां, मूत्रपिंड आनी लिवराक पुश्टीक वखदां दिवप आनी सुण्याक सर लावन घेवप. वेळचेवेळार वासिना करून घेवप सगल्यांत बरें आनी गरजेचें आसता. सुण्याच्या मुताचो आनी मनशांचो तशेंच खावप – पिवपाचो संबंद टाळप भोव गरजेचें.

**सुण्याच्या कानाचो हिमेटोमा (कानाची पाळी फुगप)**

हिमेटोमाचें कारण म्हणल्यार कानाचे पाळयेक मुको मार बसप. हो मार खंयच्याय कारणाक लागून बसूं येता. देखीक, कानाचेर कितेंय बसप (आपटप), सुण्यान पांयान कान परत परत खरपुवप, कानाक खरोज जाल्यार वा कान व्हांवता आसत जाल्यार सुणो परत परत कान खरपिता आनी मागीर कानाचो हिमेटोमा जाता. हिमेटोमा जाल्लो कान वडो वा पुरी कसो फुगता, फुलता. कानाची पाळी डबडबीत जाता. कानाचे पाळयेच्या दोन पड्ड्यांमदीं रगत भरिल्ल्यान हें जाता. एका कानाची पाळी जड

जाल्ल्यान सुणो आपली तकली एकेवटेन बोगोवन चलता. सुजिल्ल्या कानांत मागीर रोगजंतू गेल्यार थंय पूं (रशी) जाता.

**उपाय :** फक्त हिमेटोमा आसा त्या जाग्यार मलम लावन वा सूय मारून कान बरो जावचो ना. ते पासत ऑपरेशन हो एकूच बरो आनी खरो उपाय जावन आसा. दोतोरा कडल्यान ऑपरेशन करून घेवचें. ऑपरेशन करचे पयलीं तो जागो नितळ करचो, थंयचे केंस काडचे, मागीर सुण्यांक गुंगी लावची. उपरांत सुण्याच्या सुजिल्ल्या कानाचे पाळयेचे पोंदचे वाटेन कानाच्या मुळावाटेच्यान ते कानाच्या टोंका कडेन एक बारीक १ ते २ इंच लांबायेचो घाव करचो. मागीर कानाचे पाळये भितर आशिल्लें रगत, गुळे, उदक, रशी आनी बाकीची घाण त्या घायांतल्यान काडून भायर उडोवंची. उपरांत कानाची पाळी बरोबर नितळ करची. वायट मास आसल्यार कापून उडोवचें. कानाची पाळी भितरल्यान परतून घासून नितळ करची. मागीर टिंक्चर आयोडीनान पुसून घेवची. मागीर थंय जंतूनाशक पावडर घालची. त्या उपरांत मॅट्रेस सूच (गादी) धागे नायलॉन सुतान घालून कानाची पाळी शिंवची. टांके घालतना घाव्याचे लायनीन (पॅरेलल) घालचे. मागीर पगडी बेंडेज बांदून कानाची पाळी बांदची.

ऑपरेशन केल्ल्या दिसा सावन ३ ते ५ दीस दिसांतल्यान कमीत कमी ४ ते ५ फावट कानाची पाळी नितळ कपडो वा गॉज हांचे मदीं घेवन मातशी चिड्डावन काडची. अशें केल्यान ऑपरेशना उपरांत थंय सुटील्लें उदक, रगत साचून उरचें ना, आनी कान बेगीन बरो जातलो. ताचे उपरांत थंय पोवोडिन आयोडिन लावन पसून काडचें आनी सुको जंतूनाशक पावडर घालचो. खाणा मदी ॲन्टिबायोटीक म्हणजेच जंतूनाशक दुखीचीं, सूजीचीं वखदां दिवचीं. पंदरा दिसांनी कानाचे टांके काडचे. मदल्या काळांत सुणो कान खरपुवचो ना, टांके तोडून उडवचो ना हाची जतनाय घेवप भोव गरजेचें. उपरांत ५ दीस परत जंतूनाशक पावडर लावची म्हणजे कान सामको बरो जातलो.

**सुण्याचें गर्भाशयाचे ऑपरेशन :**

सुणी सामान्यपणान व्हिना वा व्हिवपाक चड त्रास जाता, खूब उशीर जाता वा गर्भाशयांत पिलां मेल्लीं आसतात तेन्ना गर्भाशयाचें ऑपरेशन करचें पडटा. हाका सिझेरियन म्हणटात.

मालकाक आपल्या सुण्याक गाबण जावपाक दिवपाचें नासता तेन्ना गर्भाशय आनी बिजाशय काडून उडोवचें पडटा. गर्भाशयाक कितेंय दुयेंस जाल्लें उरता (देखीक गर्भाशयांत पूं जाता

र्भाशयाचो कांक्र जाता) तेन्नाय गर्भाशय काडून उडोवचें पडटा. हें ऑपरेशन दोतोरा कडल्यान करून ावचें.

**ऑपरेशनाची पद्धत :** हें ऑपरेशन जनरल ॲनेस्थेशिया म्हणजेच सगल्या आंगाक गुंगी दिवन करचें डटा. ऑपरेशन करपाची सदांची जागा म्हणल्यार जनावराचे बोंबलेचे कुशीक लिनियर अल्बा ह्या ांसाच्या स्नायुंत उभी चीर करची पट्टा. ही जागा पयलीं थंयचे केंस काडून नितळ करून घेवची. उपरांत ामडेक गुंगीचें इंजेसांव दिवचें. मागीर पयलीं चामडी कापची, उपरांत फेसिया, आनी मागीर मांस स्नायू) कापचे. अखेरेक पोटाक केल्ले चिरेंतल्या गर्भाशय भायर काडचें. ते उपरांत गर्भाशयाक ावकायासेन चीर करची आनी गर्भाशयांतलीं पिलां भायर काडचीं. थंय पूं आसल्यार काडून उडोवंचो. र्भाशय नितळ करचें. तातूंत जंतूनाशक गुळयो, पातळ वखद घालचें आनी कुशिंग, लेंबरटस पद्धतीन ेटगट वापरून शिंवचें, मागीर मांसाचे स्नायू मॅट्रेस पद्धतीन केटगट वापरून शिंवचें. उपरांत फेसिया शेंवच्यो आनी शेवटाक भायली चामडी (कांत) नायलॉन वा सुतान शिंवची. फाड बरोबर पेकले उपरांत १२ ते १५ दिसांनी चामडेचे फाड बरोबर पेकल्यात जाल्यार टांके काडूं येतात.

गर्भाशय वा बिजाशय काडून उडोवपाचें जाल्यार पोटाक घाल्ले चिरेंतल्यान गर्भाशय भायर काडले उपरांत कापपाक घेवपी घायाचे दोनूय वटयां (वयले आनी सकयले वटेन) केटगटान टांके ालून बांदचे. दोनूय बिजाशय तांच्या मुळार केटगटान घट्ट धागो घालून बांदचे. मागीर गर्भाशय आनी बेजाशय कापचें आनी तो भाग भायर काडचो. कापिल्ल्या गर्भाशयाच्या मुळार टिंक्चर आयोडिन लावन ुसचें (क्वाटरायज) करचें आनी सदांचे पद्धतीन मांस, फेसिया आनी चामडी शिंवची.

ऑपरेशना उपरांत ५ ते ७ दीस ॲन्टिबायोटीक (जंतूनाशक दुखीची, सुजीचीं वखदां) दिवचीं. १२ ते १५ दिसांनी चामडेचे टांके काडचे. पूण मदल्या काळांत सुणो टांके तोडून उडोवंचो ना हाची जतनाय घेवप भोव गरजेचें. ते उपरांत ५ दीस परत जंतूनाशक पावडर लावची, म्हणजे जखम सारखी बरी जातली आनी फाड घट जातलो.

**माजर पोसप (सांबाळ आनी वेवस्थापन):**

आमी सगळे जाका वागाची मावशी म्हणून वळखतात तें मांजर हें एक मांसाहारी जनावर. ताची सरासरी पिराय १४ वर्सा आसता. घरांत पाशिल्लें माजर हें एक मोगाळ, खेळकर आनी अपुरबायेचें जनावर. माजर हें सगळ्या कुटुंबाचो एक घटक जाता आनी सगल्या मनशांक जाय जाय अशें दिसता. माजर पोसप ही जायत्या लोकांक एक मजा आनी आवड आसता. पोशिल्लें आपलें माजर बरे तरेन सांबाळप, ताका मजेंत, खोसयेंत दवरप ही धनयाची जापसालकी. तांणी ती सारकी तडीक व्हरपाक जाय.

**माजर पोसताना अशी जतनाय घेवची :** माजराक बसपाक, न्हिदपाक सदांच एक लाकडाचें, पेपराचें वा प्लास्टीकाचें पेटूल कशें दवरचें. ती सुवात मेकळी आनी वेगळी आसची. तशेंच सुण्या असल्या जनावरां खातीर आसपी सुवाती पसून ती पयस आसची. माजराक भायल्यान अचकीत आयिल्या मनशांचो, जनावरांचो व्हड आवाजाचो तशेंच उग्र वासाचो भंय दिसता. अशा वेळार तीं भितर धांवतात आनी लिपतात. हाका लागून माजार पोसताना थोडी जागा तांकां लिपपा खातीरूय दवरपाची गरज आसता. माजराक संडास, मुतपाक वचपाक पोरसूं वा भायल्यान मेकळी जागा आसल्यार चड बरें. पूण तशी जागा नासत जाल्यार एक व्हडली प्लास्टीक वा लोखणी परात (ट्रे) घेवन तातूंत थोडी माती, भुसो, कुंडो मिक्स करून घरांत एका कोनशाक दवरची. ती जागा म्हणल्यारुच परात त्या माजराक दाखवची. माजर हें एक हुशार जनावर आसता. तें मुतपाक संडास करपाक ती जागा वापरतलें. गरज पडल्यार पयले दोन दिस ताका संवय लावची. परातींतली माती, भुसो दर दिसा बदलचो आपल्या माजराक जायत्यो बऱ्यो संवयी, प्रशिक्षण दिवं येता. कितेंय बरें काम केल्यार आपल्या भुरग्यां भशेनूच ताकाय उखलून घेवन फाटीवयल्यान हात भोंवडावन शाबासकी दिवची. तेशेंच ताणें कितेंय वायट काम, चूक केली जाल्यार मातशें तापोवचें आनी ताणी केल्ली चूक तुमकां आवडूंक ना हें दाखोवचें. माजार आपसूक गजाली शिकता आनी आपल्या धनयाक खूश दवरपाचो यत्न करता. हें सगले करपाक धनयाक थोडो वेळ काडचो पडटलो. तितलें पेशन्स (पाशियेंस) दाखोवचें पडटलें. पोशिल्या माजराक पुराय घरांत भोंवपाची, खेळपाची, धांवपाची मेकळीक आसपाक जाय. एकूच माजर पोसचे परस तांची जोडी पोसप बरें आसता. दोन माजरां वा एक माजर आनी एक कुकलो पोसप चड बरें. आपले वांगडा सांगाती आसत

ाल्यार माजर खोशी जाता आनी आपल्या धनयाकूय खोशी दवरपाचो यत्न करता.

**माजराचें खाण – जेवण :** माजर हें मांसाहारी जनावर, नुस्तें, मटण, मास, चिकन, तांच्या घोस्ताचें ावन आसा. माजराक एकदम शिवराक खाण– जेवणाचेर बरे रितीन पोसूं येता. गरजेचें म्हणल्यार ताजे ाण–जेवण संतुळीत म्हणल्यार पुश्टीक पदार्थ, प्रथिनां, तेलकट पदार्थ, जिवनसत्वां, मिनाचे घटक, ार आशिल्लें परिपूर्ण आसपाक जाय. माजराच्या खाणांत केन्नाच कांदो घालचो न्हय. कांदो खाणांत ायल्यार विखबादा जावन तें मरपाक शकता. किट्टी आनी हेर जंतूंक लागून लायिल्या वखदांचीय योग्य ब्बरदारी घेतली ना जाल्यार विखबादा जावं येता. तशेंच जोर आयल्यार पेरासेटामोल (क्रॉसीन, टासिन, डोलो) असलीं वखदां माजरांमदीं वापरचीं न्हय. माजराक पिवपाक दिसभर नितळ उदक ार्गी दवरचें मनशां भशेनूच चार फावटीं जेवण खाण दिवचें. सकाळीं पाव, चपाती, आनी थोडे दूद, नपारचें शीत, चपाती, शिजयिल्लें नुस्तें, मांस, मटण, वा चिकन उकडिल्या तांतयाचो थोडो वांटो परत ांजेचें दूद, पाव– चपाती, आनी रातीकडेन दनपारां भशेनूच पूण थोडे हलके जेवण दिवचें. ताच्या ांगाच्या १० टक्के दिसभर खावपाक मेळल्यार पुरो जाता. खाण चड केन्नाच दिवचें न्हय आनी चरबी ाशिल्लें तर अजिबात दिवचें न्हय. चड खाण खाल्यार माजर आंगान जड जातलें. आनी ताका सुस्ती ारतली. तातूंतल्यान ताका हाडांची, सांध्यांची आनी हेर दुयेंसां जातली. केन्ना केन्ना गोड्यामुतां असलें ुयेंसूय जावपाक शकता. माजराक सप्तकांतल्यान दोन फावटी न्हाणोवचें. ते खातीर खाशेलो पॅट शाम्पू ा साबण वापरचो. न्हाणयले उपरांत माजराक थोडो वेळ वतांत दवरचें आनी मागीर ताची ल्हंव, केंस, ांत तुवाल्यान बरी पुसून सुकवची. फणी वा खाशेलो ब्रश घेवन ताची ल्हंव उगोवची. अशें केल्ल्यान ाचे आंग नितळ–निवळ उरता. हाका ग्रुमिंग म्हणटात. तें सगळ्या मांजरांक आवडटा आनी ती खूश ातात.

माजराक केन्नाच घरांत मुतपाक दिवचें न्हय. अशी वायट खोड आसत जाल्यार ताका शिटकावणी दिवन ती मोडून काडपाक जाता. माजराचें मूत जमनीचेर वा आंगार पडल्यार रोखडेंच पुसून ाडचें तशेंच थंय साबण लावन धुवचें माजराच्या मुताक लागून आंगार डाग पडूं येता. फोड येवं येता ानी सूज आनी घाय जावपाक शकता. ह्या मुतांत निक्रोप, जंतू आसपाक शकता. तातूंतल्यान रांतलीं मनशां दुयेंत पडपाक शकतात. माजर हें हुशार जनावर आशिल्ल्यान ताका घरांत बांदून दवरचें

न्हय. ताका भायर भितर येवपाक दिवचें माजराक घरांत दवरून पोसूं येता. पूण ह्या वेळार ताका आंगाचो आनी मनाचोय भरपूर व्यायाम दिवपाक जाय. नाजाल्यार ते थतर–वितर जावपाक शकता.

मालक कांय दिसां खातीर भायर वा टूरार वचपाचो आसत जाल्यार माजराक दुसरे कडेन दवरचें. मात ताचे आदी थोडे दिस त्या जाग्याची ताका संवय लावची. पयलें दोन–तीन दिस ताका थंय बंद करून दवरपाक जाता, म्हणजे त्या जाग्याची ताका वळख जातली. आपल्या माजराची कायम वळख म्हणून कानाचे कातीक मायक्रोचिपिंग करूं येता. दुसरें कडेन दवरचें पयलें ताका दंतांचे वखद तशेंच वासीन करपाकूच जाय. आपलो पत्तो, दोतोराचो पत्तो, नव्या जाग्यार दिवपाक जाय.

पिरायेच्या ५ ते ६ म्हयन्यांचेर माजार आनी बुकलो वयार येता आनी तांका पिलां जावपाक शकता. माजराचो गाबण काळ ५५ दिस फुडे फाटी ५ दिस असो आसता. पिलां ल्हान आसतना तीं पिवपाच्या उदकाच्या आयदनात, बश्येंत पडून मरपाक शकतात. जल्माक आयले उपरांत ७ ते १ दिसांनी तांचे दोळे उगते जातात., ह्या दिसांनी खूब काळजी घेवची पडटा. तांकां आवयचें दूद बरें पचता भायलें दूद चड घालें जाल्यार पिलांक तशेच व्हडल्या माजराक पातळ संडास सुरु जाता. माजराक पिलां जावपाक दिवपाची नासत जाल्यार पिरायेच्या ४ म्हयन्याचेर दोतोराकडल्यान ऑपरेशन करून घेवं येता बुकलो व्हड जातकीर सुध्दा ताचें ऑपरेशन करून घेवपाक मेळटा. व्हड जातकीर म्हणल्यार एक फावट पिलां जाल्याउपरांतूय माजराचें ऑपरेशन करपाक जाता. पूण ऑपरेशन करच्या पयलीं पिलांनी आवयचें दूद पिवप सोडपाक जाय. म्हणजेच आवयचें दूद सुकपाक जाय. हाका लागून ऑपरेशनाचो घावो बरो जावपाक अडचण येवची ना. ऑपरेशन केल्या उपरांत आपलो बुकलो हेर माजरां फाटल्यान वाडोभर भोवचोना आनी चडसो घराच रावतलो. ऑपरेशन केल्ले माजर बुकलो भलायकेन बरी उरतात. तांची हुशारकाय अजिबात कमी जायना. तशेंच तांचे वेवस्थापन बरे तरेन करपाक मेळटा.

**दंतांचे वखद :** माजराक दंतांचें वखद घालप खूब गरजेचे. जल्माउपरांत तीन सप्तकांनी वखद घालपाक सुरवात करची. धाकटें आसतना पयलें तीन म्हयने प्रत्येक दोन आठवड्यांनी वखद खाल पिरायेच्या तीन म्हयन्याउपरांत दर म्हयन्याक दंतांचें वखद घालचें आनी ६ म्हयन्याउपरांत प्रत्येक म्हयन्यांनी एकदा वखद घालपाक जाय. खंयचेंय एकूच वखद वापरचें न्हय. प्रायप्राझीन कंपाऊंड वखद सोडून हेर वखदां जशीं जेंटल, अल्बोमार, मेबेंडाझोल, प्राझीक्वींटल, प्राझीप्लस, ड्रोन्टाल प्लस

रेंटाल पामोलेट असलीं वखदां आलटून पालटून वापरचीं. १५ ते २० मि. ग्रॅ. आंगाच्या एका किल जनांक असो डोस आसता. अशें रीतीन हे वखद दोतोराच्या सल्ल्यान वापरुं येता. माजराच्या आंगाक कट्टी, लिको, हुलको, पुसकां जावं येतात तांचो बंदोबस्त करपाक खाशेलीं वखदां मेळटात. दोतोराच्या ल्यान खुब खबरदारी घेवन तीं वापरचीं.

**ाजराचीं दुयेसां.**

माजराक सदांच आपली दुखणी, दूयेसां लिपोवपाची संवय आसता. हाका लागून तीं ळखुवप कठीण, पूण गरजेचें आसता. माजराचे दंत, माजराच्या आंगावयल्यो किट्टी आनी बाकीचे जीव ांचो दोतोराच्या सल्ल्यान वेळचेवेळेर बंदोबस्त करपाक जाय. माजराक कसलीय जखम वा घाय जालो ाल्यार वखद लावन तो उगतो दवरचो न्हय, तशें केल्यार माजर जखम ल्हेंवता, जीभेन चाटटा आनी ाय वेळा थंयचो कातीचो कुडको चाबून काडटा. हाका लागून जखम वखद घालून बेंडेज करची, फाडो ांधचो आनी माजर ती ओडून काडची ना हाचेर लक्ष दवरचें. ओंकारी येवप, पातळ संडास जावप, जोर ावप, गॅस जावन पोट डबडबप, माजर भिवप, उचंबळ जावप, थतर–वितर जावप, आंगातलें उदक ुकप (डिहायड्रेशन जावप) हीं माजराचीं सदचीं दुयेसां आसात. आनी लक्षणां पळोवन दोतोरच्या ल्यान उपाय करून घेवपाक जाय. चिकनपॉक्स, डिपथेरीया, हेपेटाटीस अ आनी ब इन्फ्लएन्झा ापनीस येनसेफेलायटीस, रेबीस, मिझलस्, मम्स्, लेप्टोस्पायरोसिस असलीं खर दूयेंसां आपल्या ाजराक जांव येता. ही दुयेसां जावपाक जायना म्हणून ७ इन १ हें कंबाइयन वासीन येता. दंतांचें वखद ालेउपरांत आठ दिसांनी पिरायेच्या अडेच म्हयन्याउपरांत मागीर साडेतीन म्हयन्यांचेर आनी मागीर वर्सूकी हे वासीन करून घेवचें.

माजर पोसतना नितळसाण ही खूब गरजेची आसता. माजर हें एक हुशार मोगाळ जनावर ाका भरपूर मोग दियात, ताचेर लक्ष दवरून ताची जतनाय सारखी करात म्हणजे तें भलायकेन बरें उरून चड वर्सां जगतलें, आमचेर चड मोग करतलें, आपल्या घराक सोबाय हाडटलें आनी सगळ्यांक खोशी दवरतलें.

## उतरावळ

अॅनर्जी – शक्त
अपचन – अजीर्ण
अॅबॉर्शन – गर्भपात, अर्दकुटें व्हिवप
अॅनिमिया – रगत कमी जावपाचें दुयेंस
ऑफेन्स – हल्लो, घालो
अॅक्यूट – अकस्मात जावपी आयमेरिया जंतूचें नांव
अॅन्टिडोट – वायट परिणाम कमी करपी वस्त
आयमेरिया – जंतूचे नांव
बॉक्स – पेटूल, पेटी
ब्रुडर – कोंबयांच्या पिलांक उब मेळपाची जागा
बोजड – जड, कठीण
बॅल्क कॉर्टर – फऱ्या दुयेंस
देख – रीत, संवय, धडो
दीक – चीक, पयलें मेळपी तरणें दूद
डिसेंट्रटी – रगताचें भायर जावप, संडासांतल्यान रगत वचप
डिहायड्रेशन – आंगातलें उदक, उदकाचें घटक कमी जावप
इन्वेजन – भितर सरप
इन्फेक्शन – दुयेंसाच्या जंतुची लागण, बादा जावप
इन्फामेशन – थारावीक जाग्यार, भागार दूख जावप, मार बसप आनी तांबडें जावप
एफएमडी – लाग दुयेंस
फिग्द – लिवर
फेरीद – जखम, घाय
फूटबाथ – एखादे सुवातेंत भितर सरचे पयलीं पांय बुडोवपाची वेवस्था
फुमिगेशन – जंतू मारपाची पद्दत
फाके – पंख
फळप – माजार येवप
फटकी – तुरटी

फॅट – चरबी, तेलाचे पदार्थ
गाभा – गाबण, गुरवार
गॅस्ट्रोएंटेरायटीस – ऑकारी आनी पातळ संडासाचें दुयेंस
गॅल्वॅनायझ – कलय काडिल्यो लोखंडी वस्तू (देखीक पायप)
हेमोरेजीक सेप्टिसेमिया – घटसर्प
जैवीक – जितो, जीव आशिल्लो
क्वान्टिटी – आंकड्यांनी, प्रमाण
कॅरीयर – एकीकडल्यान दुसरे सुवातेर व्हरपी
क्रोनीक – चड तेपावयलें, चड वेळावयलें
कड्डण – डाळी असले खावपाचे पदार्थ
कांत – कातडी, चामडी, तेज
कणखर – कडक
कृती – कर्म, काम
काटक – कणखर, जीवन घट्ट
काळजी – कुयदाद, हुस्को, जतनाय, सादुरकाय
कॉस्टीक पॉटेश – एका खर रसायनाचें नांव, तेजाब
खुराडें – कोंबयांचो घूड, घर
खूर – गेतां, गोरवांच्या पांयांचो जमनीक तेंकपी भाग
खटपटी – यत्न, त्रास घेवप
लायन – वळ, वळेर
लंव – आंगावयले केंस
लेवल – एकूच पांवडो, पातळी
लिस्ट – यादी, वळेरी
मस्टायटीस – व्हंटयेचें दुयेंस
मिल्क फिवर – दुदाचो जोर
मेटिंग – दादलो आनी बायल एकिकडेन येवप (संयोग, संभोग)
मायटस – खरोजेचे जंतू
मेंज – एके तरेची खरोज

मतींत – लक्षांत, विचारांत
मुदास – रावपाक, सुशेग घेवपाक
मांडणी – थारावीक तरेन दाळप
मुरप – जिरप, ओडून घेवप
माज – फळप
मेंटस – पांयांपोंदा घालपाच्यो शेंदरी कशो वस्तू
न्युमोनिया – फेफड्यांचें, फुफ्फुसांचें दुयेंस
निक्रोप – जंतू, जीव
निर्जंतूक – निक्रोप, जंतू विरयत
निरोगी – दुयेंस नाशिल्लो, भलायकेन बरो आसपी
पेरेसायटस – दुसऱ्याच्या आदाराचेर जक्षपी
पद्धत – तरा
पारच्युरेंट पेरेसिस – दुदाच्या जोराचे दुयेंस जातूंत जनावर आड पडटा
प्रोटीन – प्रथिना
पत – कॉलिटी, दर्जो
पेरेंट स्टॉक – मूळ आवय बापूय
पास्च्युरेलोसीस – एका जंतुचें नांव
पारवो वायरस – गॅस्ट्रो करपी बारीक जंतूचे नांव
पेड्ड्यार – वायट जावप, इबाडप
पॅरेलायसीस – लुळें पडप, अर्दांग जावप
रक्त – रगत
रूमेनोटोमी – गोरवांचें पोटाचें ऑपरेशन
रॅबीज – पिशार पडप दुयेंस
रजिस्टार – नोंद पटी
स्टॉक – सांठो
स्वरुप – रुप, मांडप
स्कॅबिस – एके तरेची चामडेची खरोज
सोय – सुरळीत, सुशेगाद, वेवस्था

शो – देखाव, प्रदर्शन
स्थलांतर – जागो बदलप
सॅचेट – पाकीट, धाकली पिशवी
सिडेटीव – न्हिदेचीं, गुंगेची वखदां
एसएनएफ – चरबी शिवाय दुदांतले बाकीचे घट्ट पदार्थ, घटक
संतुळीत – समतोल, परीपूर्ण
सबक्लिनिकल – सुप्त, गुप्त अवस्था
सबॲक्यूट – थोडें उसरां, सावकाश
सायकल – चक्र, सगली अवस्था
स्त्राव – आंगातल्यान सुट्टात ते पातळ पदार्थ
लॅवल – थर, पातळी
सिरम – रगतांतल्यान पेशी काडले उपरांत उरता तो उदकाभशेन वांटो
ट्रिप्पल – तिट्टी
विंगडविंगड – वेगळेवेगळे
विकार – रोग, वायट गोश्टी
विटामीन – जीवनसत्व, गरजेची वस्त
वालोर – मोल
इबाड – गरज नासतना वापरप वा भायर उडोवप
भिंत – वणट
वखवख – खूप भूक लागप
व्यावसायिक रित्या – वेपारी पद्धतीन फायदो आनी लुकसाण पळोवन
व्यवस्थापन – योग्य वेवस्था, सोय करप
वायरस – एकदम बारीक जंतू
साथीचें – वश्याचें, एकमेंकांक लागून पसरपी
वायर मेश – जाळी, जाळयेचो पांजरो
यशस्वी – येशस्वी, जैतवंत

जनावरांचें वेवस्थापन, तांचीं दुयेंसां आनी उपाय

हें पुस्तक बरयतना आदार घेतिल्ल्या पुस्तकांचीं नांवां –

१. वेटर्नरी मेडीसीन ब्लड अँड हेंडरसन – १९७९
२. जनावरांचे आजार आणि उपचार – डॉ. अनिलकुमार कुलकर्णी – १९७१
३. पशु उपचार शास्त्र – डॉ. ना. पु. दक्षिणकर – २००१
४. अ हॅण्डबूक फॉर वॅटर्नरी फिजिशियन – वि. अ. सप्रे – १९९८
५. गायी, म्हशीचे आजार व उपचार – डॉ. प्रभाकर देवरे – १९९९
६. इंडियन वेटर्नरी जरनल (निबंध)
७. आयसीएआर गोवा – रॅबिट फार्मिंग बुलेटीन, क्र. २ आनी सायंटीफीक पिगफार्मिंग – २०१२.
८. गोगाथा – डॉ. सुरेश गंगावणे – १९९७
९. गोवा डेअरीची नितळ दूद उत्पादनां वयली – २००६ ली पुस्तिका.
१०. दुध व्यवसायातील पुरोगामी नवे बदल – डॉ. सुधीर साने – २००६
११. आधुनिक गोसंवर्धन – डॉ. थत्ते, डॉ. खिरे, डॉ. सुकळीकर – २०१२
१२. वेटर्नरी ॲबस्ट्रेक्स – स्टिफन्स जे रॉबर्टस् – १९७१



डॉ. राजेंद्र हरी प्रभुगांवकर
लोलयें, काणकोण - गोंय











■ डॉ. राजेंद्र हरी प्रभुगांवकर हाणीं जनावरां सांबाळ, जनावरांची दूयेंसां आनी वखदां हाचो अभ्यास मुंबय वेटरनरी कॉलेज - परेल हांगासावन १९८३ वर्सा विषेश प्राविण्य म्हणजे डिस्टींगशन घेवन पुराय केला.

■ १९८४ ते १९८६ मेरेन ताणीं गुजरात राज्यांत अमूल डेअरीत उपअधिक्षक पदाचेर काम केलां. तांच्या बऱ्या वावराक लागून अमूल डेअरीन तांकां रुप्याचे पदक आनी तोखणायेचे पत्र भेटयलां.

■ १९८६ ते १९८८ मेरेन गोंय मासाच्या प्रकल्पामदीं व्यवस्थापक म्हणून काम पळयला. ह्या वेळार पयले फावट गोंय मासाच्या प्रकल्प ॲलाना हे कंपनीत भायल्यादेशांत मास धाडून प्रकल्प फायद्यान हाडिल्लो. तशेच गोंयच्या वेगवेगळ्या मुखेल शारांनी निवळ केल्ले मास धाडपाक सुरु करून दिसाक दोन सत्रांनी पयले फावट हो प्रकल्प चलोवपाक प्रकल्प सुरु केल्लो.

■ १९८८ ते २०१३ मेरेन गोंय राज्यांत ताणीं वेगवेगळ्या जाग्यार पशुसंवर्धन आनी पशुचिकित्सा अधिकारी म्हणून वावर पळयला.

■ २०१३ गोंय सरकारान तांची जनावरां सांबाळ खात्यान सहाय्यक संचालक पदाचेर नेमणूक केल्या.

■ पशुचिकित्सा सहाय्यक कॉर्स करप्यांक शिकयतात.

■ हरियाना, दिल्ली, गुजरात, महाराष्ट, कर्नाटक आनी तामिळनाडू ह्या राज्यांत वेगवेगळे कोर्स, सेमिनारां, कॉन्फरंसां सारख्या प्रशिक्षणांत वाटो घेतला. गायी-म्हशींच्या वावरात तांचें खुबच प्राविण्य आसा.

**वैभवी प्रकाशन**
**मडगांव - गोंय.**